# जाग

वर्स ३६ : आंक ४ : जाने.-एप्रील, २०१०



मोड कसो येवन तुवें। गुलामपणार मारली फूंक। सुस्तेल्ल्या इंगळ्यांवेलो। धवो शेलो गेलो उडून।
प्रजळीत तांबड्यो जिबो। जागली जोत खडबडून। दयावंत शांतेचेर। दुर्गेचो आयलो भार :
''पवित्र हो मंगळार, आयचो पवित्र हो मंगळार''




* संपादपी
माधवी सरदेसाय
(मोबायल: ९४२११५७००७)

संस्थापक



स. सुमंत केळेकार


* उजवाडावपी
डॉ. जयवंत भा. सरदेसाय

* छापपी
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.

वर्सुकी पटी : रु. १५०/-
विद्यार्थ्यां खातीर : रु. १२५/-
तीन वर्सांची पटी : रु. ४००/-
पटी मनी ऑर्डरीन वा बँकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची. ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. २५/-

jaag04@yahoo.co.in


# जाग


वर्स ३६ : आंक ४ : जाने.–एप्रील, २०१०


## ह्या आंकांत :




नदर संपादप्याची..........०२


'सत्याचेर आकांताची निष्ठा आनी असत्याची, अन्यायाची आकांताची तिडक हेच तेजिश्ट बुन्यादीचेर लोहियांचो समाजवादी विचार उबो आशिल्लो. पूण ह्या लोहियांची सरसमान गोंयकारांक वळख आसा अशें म्हणूंक येवचेंना. सरसमान राष्ट्रवादी गोंयकारांच्या काळजांत लोहियांनी सुवात जोडल्या ती त्या अठरा जूनाच्या रुपानूच...'




प्रकाश थळी : बंधनमुक्त जिणेची तळमळ : उदय भेंब्रे..........१२


'भोव करून प्रतिभावंत हो अभ्यासू संशोधक आसना. कलासक्त मन आनी जड अभ्यास हांची इश्टागत चडशी दिसना. पूण प्रकाश प्रतिभावंत साहित्यीक आनी कलाकार म्हूण वावुरतनाच संविधानाचो अणकार करपा सारको निरस आनी जड वावर तडीक व्हरूंक पावलो...'




विंदा करंदीकर... : सु. म. तडकोडकार..........१४


'करंदीकर एक प्रतिभावंत कवी तशे एक प्रज्ञावंत चिंतक आशिल्ले. श्रमाक लागून व्हांवपी हुमेचो पवित्र गंगा म्हण गौरव करपी, मायभुंयेचे मातयेचो परमळ लेवपी, 'जातका'चे विंगड विंगड अर्थ लावपी आनी मनशाच्या विरुपांत लिपिल्ल्या करूणपणांतय सौंदर्य सोदपी, स्पर्शाचे आंकूर मेजपी आनी मळबांतल्या कुपांचो अर्थ सोदपी अशी ही व्यक्ती...'




कोंकणीच्यो बोलयो... : सुरेश बोरकार..........२८


'कोंकणी समाजांतले हे दोनूय घटक कोंकणी केन्नाच शिकले नात... आपली भास आपल्याक येता. ती शिकपाची नासता. शिकपाच्यो त्यो दुसऱ्यांच्यो भासो अशी मानसीकताय त्या काळार खूब प्रबळ आसली. हे मानसीकतायेंतल्यान अजून जायते गोंयकार भायर सरूंक नात...'




राजय पवारालें *गिरमीट* : अना म्हांबरो..........३२


'गिरमीट म्हळ्यार शार्पनर. शिसपेन्सिलीक (लाप्साक) तोंक काडपाचें साधन. हीं तोंकां ब्लेडीन वा कानवेतीन काडूं येतात. पूण गिरमिटान काडटकूच तीं नकसूद येतात. ह्या पुस्तकांतल्या गिरमिटांनी राजय लोकांचें तासता. तेन्ना ताका खोस जाता आनी वाचप्यांचेंय समाधान जाता....'

*ते भायर*


पडसाद : सॅ. मा. बॉर्जिस, दामोदर मावजो, माधव बोरकार ..०७
*रास* आत्मचरित्रांतले 'विंदा': सुनिता उग्रस्कार..........१७
इन्स्टिट्यूट ऑफ ह्यूमन बिहेविअर : मंगला कारापूरकार......२०
आफ्रिकानिस्त: सॉतॅर रे. बार्रेत..........२६
बाकीबाब: फा. मोउजीञ् द आताईद..........३४
दलीत चळवळीच्या संदर्भांत लोहिया: शंभू भाऊ बांदेकार......३६
चित्पावनी बोली: कांय निरिक्षणां: भूषण भावे..........३९
भारतीय कथा: पोकळ आदर्श; अणकार: उदय देशप्रभू..........४१
इफ्फी २००९... : निलबा अ. खांडेकार..........४४
...कवितेतलें बायलेचें चित्रण: माया खरंगटे..........४७
दिसपटी (णववी खिस्त): शांताराम आमोणकार ..........५०
मालवणी डेज : हर्षा शेटये ..........५३
कोडू कसाय गोड गुळी (तिसरी खिस्त): मधुसुदन जोशी.........५७
कविता: नरेन्द्र बोडके, प्रकाश पाडगांवकार, अरुण साखरदांडे, राजय पवार, राखी आमोणकार, परेश नरेंद्र कामत, रुपाली किर्तनी, गोरक शिरसाट, अंजली आमोणकार, मनोज नरेंद्र कामत, मिनीन आल्मेदा, रुपा कोसंबे, रजनी भेंब्रे..........६२
साहित्य नियाळ- *श्रीनारदाचीं भक्तिसूत्रां* : प्रि. तडकोडकार....७१



भायले कवितेच्यो वळी:
मनोहरराय सरदेसाय
चित्रां:
पान : २६
मिलन खानोलकार
पान : ४१
उषा सरदेसाय
पानां : २०, २८, ४७, ५७, ६२-७०
आसावरी नायक

# गोंयच्या इतिहासांत डॉ. राममनोहर लोहिया : कोंकणी साहित्याच्या जनेलांतल्यान

डॉ. लोहियांचे पर्जळीत जिवीत-यात्रेंतलें एक 'स्टेशन' गोंय आशिल्लें. पूण गोंयच्या इतिहासांत लोहियांचें येवप एक आगळी-वेगळी घडणूक – एक तेजिश्ट पर्व आशिल्लें. रवीन्द्र केळकार म्हणटात, '[गोंयचे] सुटके आदल्या साडेचार शतमानांच्या काळांतलीं इतिहासाक कूस परतूंक लावपी दोनूच नांवां घेवं येतात तीं म्हळ्यार, एक आफोंसु द आल्बुकेर्कांचें आनी दुसरें, डॉ. राममनोहर लोहियांचें.'[१] १५१०तल्या २५ नोव्हेंबराक आफोंसु द आल्बुकेर्कान गोंय घेतिल्लें, आनी ४३६ वर्सां उपरांत, १९४६तल्या १८ जूनाक वसणूकवादी राजवटीच्या जुलमी कायद्या आड डॉ. लोहियांनी पयलो खणखणीत आवाज उठयल्लो.



'डॉ. राममनोहर लोहियांच्या पावन उगडासाक भक्तिभावान' ओंपिल्ले *पांथस्थ* हे गोंयच्या सुटके-झुजाचे उगडास-भोंवडेंत रवीन्द्र केळेकार १९४६तलो हो १८ जून वाचप्यां मुखार धडधडीतं उबो करतात आनी सांगतात, 'जे लोक २५ नवेम्बर १५१० पसून, म्हळ्यार आल्बुकेर्कान गोंय घेतलां तेन्ना पसून आयज १८ जून १९४६च्या सकाळच्या आदेसा मेरेन फिंग्र्यांक भियेत जियेल्ले ते त्या दिसा पांचां उपरांतच्या सांजच्या आदेसाक हड्डें मुखार काडून 'जयहिन्दा'च्यो मोट्या मोट्यान घोशणा दिवपाक लागिल्ले.'[२] ते मुखार सांगतात, '...ताका लागून गोंयचे सुटकेचे चळवळिकूच उपरांत 'जयहिन्दाची चळवळ' हें नांव मेळ्ळां. 'जयहिन्दांत पडलो' असो एक नवो वाक्प्रचारूय कोंकणींत सुरू जाला. सरकार लेगीत स्वातंत्र्य-सैनिकांक 'जयहिन्दीश्त' म्हूण वळखुपाक लागलां.'[३]

१९४६तल्या जूनांत लोहियांची निकतीच दोन वर्सांचे बंदखणींतल्यान सुटका जाल्ली आनी ते डॉ. ज्युलियांव मिनेझीस ह्या आपणाल्या इश्टा वांगडा कांय दीस सारपाक म्हूण गोंयांत आयिल्ले. १९३०च्या अदमासाक मिनेझीस आनी लोहिया जर्मनींत वांगडा शिकताले. लोहिया गोंयांत आसात आनी असोळण्यां मिनेझीसांगेर रावल्यात ही खबर 'उ येराल्दां'त आयिल्ले एके ल्हानशे बातमे वयल्यान गोंयभर जाली आनी गोंयच्या खांची कोनशांतल्यान लोक १९४२तले क्रांतींतल्या ह्या हिरोक मेळपाक असोळण्यां मिनेझीसांगेर येवपाक लागले. तांचे कडेन उलयतां उलयतां फाटल्या अठरा वर्सां सावन चलपी सालाझाराचे हुकूमशायी राजवटीन गोंयकारांचे मुळावे नागरी हकूय काडून घेतल्यात – बसका घेवपाची, संस्था काडपाची, बरप उजवाडा हाडपाची – कित्याचीच तांकां मेकळीक ना; लग्नाची व्होंवळीक छापतले जाल्यारूच 'सेन्सुरा'ची लेखी मान्यताय मेळोवची पडटा म्हणपाचें लोहियांक कळ्ळें. १० जूनाक लोहिया गोंयांत पाविल्ले. १२ जूना सावन तांकां लोंक मेळूंक येवंक लागले. आनी दुसऱ्याच दिसा, म्हळ्यार १३ जूनाक, लोहियांनी गोंयकारांच्या नागरी हकां खातीर सत्याग्रह करपाची थारावणी घेतली आनी गोंयकार तरणाट्यांक आनी फुडाऱ्यांक ते खाजगी बसकांनी मेळपाक लागले.[४]

रवीन्द्रबाब सांगतात, 'आमचे फुडारी राष्ट्रवादी आसले तरूय मुदलांतले वेव्हारवादीच आशिल्ले. धा-पांच येवजून, सगळो हिशोब करून मुखार वचूंक सोदपी आशिल्ले. सत्याग्रह थरला त्या दिसा, म्हळ्यार, अठरा जुना दिसा लेगीत 'तुमचो सत्याग्रह स म्हयने तरी मुखार धुकलात... तयारे खातीर आमकां स म्हयने तरी दियात' अशें सांगपाक कांय जाण तांचे सरीं आयल्यात. आनी 'तयारे खातीर तुमकां चारशें छत्तीस वर्सां मेळिल्ली.' अशी जाप दिवन लोहियांनी थारायल्ले प्रमाण अठरा जुनाक सांजचो सत्याग्रह केला.'[५]

डॉ. ज्युलियांव मिनेझीस ह्या सत्याग्रहाची खबर अशे सांगतात:

'त्या दिसा सवाय-चारांक सुमार लोहिया आनी बरोवपी घोड्या गाडयेन मडगांवां पावले, नगरपालिके मुखार भरिल्ले जाहीर सभेंत उलोवपा खातीर... आमी देंवतात थंय आसात, आल्मिस्त्रादोर कापितांव मिरांद आमचे म्हऱ्यांत धांवत आयलो आनी आमी देंवचें न्हय म्हूण आमचे कडेन मागूंक लागलो... आमी ताचे कडेन लक्ष दिना आसतना... लोक एकठांय जाल्लो थंय वचूंक लागले. तीन-चार गोंयकार लोहियांक हार घालूंक मुखार आयले. कितें करचें तें समजना जावन, उचंबळीत जाल्ल्या कापितांव मिरांदान कमराचें रिव्हॉल्व्हर काडलें आनी हातांत हार घेवन मुखार सरपी गोंयकारांचेर तें जोखलें. लोहियान इल्लोय कळाव करी नासतना कापितांव मिरांदाचो रिव्हॉल्व्हराचो हात धरलो... ताका थंड रावंक सांगून पेल्यान काडलो आनी आल्मिस्त्रादोराचो आदेश मोडून भाशण करपाक मुखार सरलो. तेन्नाच थंय पुलीस कमिशनर पावलो आनी लोहियांक आनी म्हाका धरून घेवन गेलो.'[६]

आपणालो उजवो हात वयर करून लोहिया 'भाइयों और बहनों' इतलेंच म्हणूंक पाविल्ले.[७] पूण हे निर्भय करणेचो गोंयकारांचेर

आकांताचो प्रभाव पडलो. रवीन्द्रबाब सांगतात, 'फाटल्या चारशें छत्तीस वर्सांच्या काळांत गोंयकारांनी असलो मनीस पळोवंकूच नाशिल्लो. जायत्या मळां वयले व्हड मनीस तांणी पळेल्ले. व्हड विद्वान, व्हड संगीतकार, व्हड कवी, व्हड कलाकार, व्हड मुत्सद्दी पळेल्ले. पूण धीट मनीस केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो. असो येता किर्ते, फोर्तुनातु मिरांदिचो हात बागयता किर्ते, एका पोरण्या, मस्त्या आडांग्या साम्राज्याक आह्वान दिता किर्ते, सपनांत लेगीत असलो कोण आसूं येता म्हणपाचो कोणाक अदमास नाशिल्लो. पयलेच फावट तांणी एक निर्भय मनीस पळेल्लो.'[७] रवीन्द्रबाब मुखार म्हणटात, 'लोहियांत गोंयकारांक फकत लोहियाच न्हय, तर गांधी, जवाहरलाल, सुभाषबाबू, १८५७ पसून १९४२ मेरेनचे सगळे स्वातंत्र्यवीर, सगळे हुतात्मे'[८] दिश्टी पडिल्ले.

१९४६च्या जूनांत लोहिया गोंयांत विश्रांती घेवपा खातीर आयिल्ले अशें सामान्यतायेन आमी वाचत, आयकत आयल्यांत. पूण रवीन्द्रबाब सांगतात, ही 'खरी खबर न्हय. लोहियांच्या जिविताच्या कोशांत विश्रांती आनी निर्शेणी हीं उतरां सोदुनूय मेळपाचीं नात...'[९] ब्रिटीश भारत सोडून वतले जाल्यार आमकां आमची सुटके चळवळ अदीक खर करची पडटली, आनी ते खातीर कांय 'तळ' तयार करचे पडटले अशें लोहियांचें मत्त जाल्लें. नेपाळ, मणिपूर आनी गोंय अशे तीन तळ तांणी वेंचून काडिल्ले, आनी सुटके झुजाचो एक तळ म्हूण गोंयचो होलम घेवंक ते गोंयांत आयिल्ले अशें रवीन्द्रबाब डॉ. के. एस्. कारंथ ह्या लोहियांच्या १९६४ ते ६७ ह्या काळांतल्या सेक्रेटरीन बरयल्ल्या *Aspects of a Socialist Mind* ह्या पुस्तकाच्या आधारान सांगतात.[९] लोहियांक असोळण्यां मेळूंक आयिल्ले तांचे मजगतीं एक पत्रकार आशिल्लो; ताणें गोंयकारांत सत्याग्रह करपाचें धाडस ना, गोंयकार 'पेज' अशें म्हळें आनी लोहियांनी ताका जाप दिली, 'लोक 'पेज' (निकम्मे) आसनात, तांचे फुडारीच 'निकम्मे' आसतात', आनी त्याच खिणाक सत्याग्रह करपाचो निर्णय घेतलो, हें सांगून रवीन्द्रबाब आपणाकूच विचारतात, 'लोहियांचो सत्याग्रह फिरंग्यां आड आशिल्लो? काय, गोंयच्या लाचार, हिसपी सभावाच्या, भिजूड फुडाऱ्यां आड आशिल्लो?'[१०]

अठरा जूनाचे सभेंत लोहिया उलोवप करूंक पावले नात. पूण त्या दिसाचें भाशण तांणी बरोवन काडिल्लें, घडये पत्रकारांक दिवपा खातीर. तातूंत ते म्हणतात, 'परकी राजवटीच्या सोंसूं नजऽ असल्या वज्यांत विचारां वयल्या आनी उलोवपा वयल्या नियंत्रणाची भर पडटा तेन्ना मनशाचो आत्मोच शेणून वचपाचो भंय आसता.'[११] ते मुखार सांगतात, '...गोंयची म्हाका व्हडलीशी वळख ना. पूण इतलें मात हांव जाणां — जंय मनशाचो ताळो अंदला, ताच्या कर्तुपाक बेडयो पडल्यांत आनी भंयान ताचे घुस्मटमार जातात थंय देवाचो आवाज आयकूंक येना.'[१२]

कितलींशीं काळजां ह्या उतरांनी पेटयलीं. लक्ष्मणराव सरदेसाय, बाकीबाब बोरकार सारकेले सरस्वतीचे उपासक दुर्गेक होरावंक लागले. १८ जून १९४६ मेरेन बाकीबाबांनी फकत मराठी कविता बरयल्ली. अठरा जूनान बाकीबाबांच्या काळजाक कोंकणीचो उमाळो हाडलो.[१३]

*'महात्मा गांधी आयलो रे*
*गोंयांत आमच्या पावलो रे*
*लोहियान हाडलो बावटो ताजो*
*मडगांव शारांत लायलो रे!'*[१४]

— खोशयेन तांचे जिबेर उतरां फुटलीं. बाकीबाबांक, स्वतंत्रतायेची भूक लागिल्ल्या सगल्या गोंयकारांक, लोहियांत महात्मा गांधी दिश्टी पडले. घडये १८ जूना दिसाच बरयल्ली *'त्रिवार मंगलवार आजला त्रिवार मंगल वार / स्वातंत्र्याची सिंहगर्जना अतां इथे उठणार!'*[१५] ही बाकीबाबांली कविता कोंकणीय रूप घेवन आयली —

*'पवित्र हो मंगळार! आयचो पवित्र हो मंगळार*
*आज गाजतलो धेंक शिंवाचो हांगाच ह्या म्हुर्तार!'*[१६]

गोंयांक लागिल्ले स्वतंत्रतायेचे हुटहुटे बाकीबाबांनी ह्या काळार बरयल्ल्या कितल्याश्या कोंकणी कवितांतल्यान उकते जाले.

बयाभाव (काशीनाथ श्रीधर नायक) बाकीबाबां आदले पिळगेंतले. १९४६त (ऑक्टोबर म्हयन्यांत आसुये) उजवाडा आयिल्ल्या तांगेल्या *सड्यावेलीं फुलां* कवितां झेल्यांत १८ जूनाचे पडसाद हय-न्हयशे आयकूंक येतात. मुखेलपणान, 'सार्थक' कवितेंत चितारिल्लो *'शिट्टक बुद्दीचो, लांब विचारांचो,/ घट्ट काळजाचो, अूंच हावेसाचो'*[१७] 'बाणकार' लोहियाच आसुये अशें दिसले बगर रावना. ह्या बाणकारान अजस्त्रांचो बाण तयार केलो. *'जाली तांडी पळोवंक ही! लोकाची — / रांग लागली, जशि कांय ती मुयांची/ ... मागिर अुठलो तो घेवन चंद्रजोत,/ लावन सोडलो ताणें बाण अंत्राळांत... वैर गेलो अुजवाड-लोळ खर/ सर्ग दिसलो मनशांक धतरिर!'*[१७] हो *'दीस-रात खावन खोंटो, करित लेंग-लेंग/काट्टात दीस पिवन पेज, पांयांक मारून वेंग/... वर्सां गेलीं शेंकड्यांनी पडुन खातोणांत / ना पर्वा!...'*[१८] ह्या आत्महीणपणाच्या, गुलामपणाच्या सड्यार फुलिल्लो अठरा जून!

राजय पवार म्हणटात, 'लोहियान [गोंयांत] फकत क्रांतीचीच सुरवात करूंक ना तर कोंकणी कवितेंत नकळटना क्रांती कवितांची भर घाल्या.'[१९]

मेकळ्या गोंयांत अठरा जून हो दीस सरकारी पांवड्याचेर 'क्रांती दीस' म्हूण मनयतात. राष्ट्रवादी गोंयकारांच्या काळजांत हो दीस icon ची सुवात जोडूंक पावला.

फिरंग्यांच्या जुलमी शेकांतल्यान गोंय मेकळें जावचें म्हूण झुजिल्ले, बंदखण भोगिल्ले नागेश करमली १९८८च्या जूनांत 'त्या' अठरा जूनाची याद काडीत म्हणटात —

*'अठरा जून, अठरा जून*
*तुज्या म्हज्या*
*सगळ्यां आमच्या रगतांत*
*आसा अजून घट्ट रिगून*
*अठरा जून, अठरा जून —*
*खबरच काडल्यार*
*आजय येता*
*आंगार कांटो फुलूफुलून!'*[२०]

हालींच बरयल्ले आनीक एके कवितेंत नागेशबाब परतेय तो 'पुण्यवंत', 'स्फूर्तवंत', 'अजापवंत' उगडास जागयतात. ते सांगतात —

*'किण्ण रानांत,*

*ती पुता, एका शिंवाची*
*काळीज विदारपी*
*आकांताची गरड आसली!*
*असो उगडास त्या दिसाचो*
*मीर्गा धारेंत भिज-भिजूनय*
*खतखत्तालो!'*[२१]

जून १९४६त जल्माक पसून येवंक नाशिल्ले बाळकृष्णजी कानोळकार २००८च्या जूनांत बरयल्ले '१८ जून' हे आपणाले कवितेंत *'तुफानांतल्यान उजवाडाचें तारूं* घेवन आयिल्ल्या 'तेजाच्या कोटी सुर्या'क 'धिराच्या म्हामेरू'क आर्गां ओंपतात.[२२]

मेकळ्या गोंयांत कितल्याश्या अठरा जूनां उपरांत बरयल्ले 'अठरा जून' हे कवितेंत मनोहरराय गोंयकार भावाक विचारतात —

*'उदक लेगीत जाल्लें रगत*
*आनी रगत जाल्लें हून*
*भावा तुका याद आसा*
*अठरा जून?'*[२३]

हीय कविता सुरवेक 'त्या' अठरा जूनाची याद ताजी करता. *'मंगळाराचो आसलो दीस / पावस नेटान पडटालो... लोखणाचो आयलो पुरूस / खंयसाकून कोणा खबर'*[२३] अशें सांगतां सांगतां कवी त्या 'लोखणाच्या पुरसा' कडेनूच उलोवंक लागता. म्हणटा, *'तुज्या शिंवा-उल्यान गेलीं / आमचीं भुजां शिंवशिंवून!'*[२३]

मनोहररायांची ही 'अठरा जून' कविता फकत उगडासांचो अणभव अज्रंवर करपी रोमँटीक कविता न्हय. हे कवितेंत 'भांगराच्या गोंया'चें[२४] सपन अर्दकुटें उरिल्ल्याची खर खंत आसा. 'त्या' अठरा जूनाक *'पावस नेटान पडटालो; आंब्यामुळांत कुणब्या पोर/कुडकुडत रडटालो...'*[२३] आनी आयजूय, कितल्याश्या अठरा जूनां उपरांत, *'आंब्यामुळांत कुडकुडटा/ कुणब्याचो पोर अजून! / भांगराचें गोंय आमचें / कितलें आसा पयस अजून!'*[२४] ही गजाल कवीक अस्वस्थ करता आनी तो म्हणटा, *'मळबाचो माटोव पिंजून / ...दडकेवरी लोटून फुटून / येवं दी परत अठरा जून!*[२४] 'त्या' अठरा जूनाचे क्रांतीची मोख *'फिरंग्यांलें मस्तें बंदेर'*[२३] आसली. 'नव्या', कवी आंवडेता त्या अठरा जूनाचे क्रांतीची मोख जो ना जावचो म्हूण लोहिया सदांच वावुरिल्ले तो सामाजीक अन्याय.

मनोंहररायांच्या मर्णा उपरांत उजवाडा आयिल्ल्या *अठरा जून* ह्या माथाळ्याच्या कवितां झेल्यांत तांगेली ही 'अठरा जून, कविता आयल्या. कवितां झेल्याक नांव मनोहररायांनीच दिल्लें.

मनोहररायांचो *गोंया तुज्या मोगाखातीर* हो कवितां झेलो १८ जून १९६१ दिसा, गोंय मेकळें जावचे कांय म्हयने आदीं, उजवाडा आयिल्लो.[२५] ताका लोहियांनी इंग्लीशींत दोन उतरां बरयल्यांत. तांकां नांवूय दिलां 'The 18th of June' तातूंत ते म्हणटात, 'त्या दिसाचो अर्थ पुरायेन होलमुपाक जी गंभीरताय जाय ती म्हजे भितर ना. ती आशिल्ली जाल्यार आमचे मदले कांय जाण मनशाच्या दैवाचे साधन कशे जाले ताचेर हांव बरयतलों आशिल्लों.'[२६] ह्या 'दोन उतरां'त लोहियांचें कोंकणी भाशे विशींचें एक म्हत्वाचें निरिक्षण आयलां. ते म्हणटात, 'कोंकणी भारतांतली सगळ्यांत म्होंवाळ भास खरी. पूण कणखरपणाचो बळी दिवन कोंकणीन ही गोडसाण जोडल्या आसूंक जाय. इटालियन भाशे विशींय म्हाका सदां अशेंच दिसलां — येवरोपांतली सगळ्यांत म्होंवाळ भास ही. पूण लिबलिबीत — हाडां नाशिल्ली.'[२७]

१८ जून १९४६ चे घडणुके उपरांत पोर्तुगेज सरकारान लोहियांक आनी ज्युलियांव मिनेझीसांक रातचे पणजेच्या क्वार्तेलार व्हेले. दुसऱ्या दिसा सकाळीं लोहियांक कुळ्यां व्हरून गाडयेंत बसोवन बेळगांवां धाडून दिले. मिनेझीसांक सांजचे सोडून दिले.[२८] तीन म्हयन्यांनी आपूण परतो गोंयांत येतलों आनी गोंयकारांचे चळवळींत वांटो घेतलों अशें सांगून लोहिया गेल्ले. तशे तीन म्हयने जातकच ते गोंयां येवपाक भायर सरले. मुंबय, पुणें, सांगली, मिरज, बेळगांव रावत रावत, भाशणां करीत २९ सप्टेंबराक ते गाडयेन गोंयचे शिमेर भितर सरले. पूण पोर्तुगेज सरकारान कुळें स्टेशनारूच पुलीस दवरिल्ले. तांणी लोहियांक कुळ्यांच देंवयले आनी दिवचलच्या मार्गान नीट आग्वादाचे बंदखणींत व्हरून दवरले.[२९] महात्मा गांधींचे इत्सेक लागून व्हायसरॉयान मध्यस्थी केले उपरांत ८ ऑक्टोबराक मध्यान रातीं पोर्तुगेज सरकारान लोहियांची बंदखणींतल्यान सुटका केली आनी अनमोडचे वाटेन तांकां बेळगांवां धाडून दिले. इतलेंच न्हय तर तांच्या गोंय प्रवेशाचेर पांच वर्सांची बंदीय घाली.[३०] बंदीचो हुकूम रोखड्या रोखडो मोडपाचें लोहियांच्या मनांत आशिल्लें. पूण ते पयलीं तांणी गोंयच्या सगळ्या फुडाऱ्यांक, कार्यकर्त्यांक आपणाक मेळूंक बेळगांवां आपयले. दोनशीं-एक गोंयकार बेळगांवां एकठांय जाले.[३१] हातूंत एकवीस वर्सां पिरायेचे रवीन्द्र केळेकारूय आशिल्ले. तेन्नाचे उगडास सांगतना रवीन्द्रबाब बरयतात —

'लोहियांक हांवें बारकायेन नियाळून पळेल्यात ते हांगा. ते उठ्ठात कशे, बसतात कशे, उलयतात कशे हें चार दीस एकासारकी नदर लावन पळेलां. कातीन सांवळे, मात्शे मोटवे, तकलेर साळिच्या कांट्यां भाशेन विद्रोहान उठिल्ले दाट केंस, भोंवयोय दाट, खादीचें धवें फुल्ल पुडवें, धवो फुल्ल सदरो, ताचेर एक रंगीत जाकीट. सदरो मात्सो सदळ, धोंपरां मेरेन लांब. दोळ्यांर दाट भिंगांचें वक्ल. हें तांगेलें भायलें रूप. ह्या भायल्या रुपांतूय तांगेलें भितरलें रूप उकतें जावन आयिल्लें दिश्टी पडटालें. सादो, निःस्पृह, धीट, लोखणाच्या काळजाचो हो मनीस आसूंक जाय म्हणपाचें पयलेच नदरेंत जाणवतालें. हांवें आयुष्यांत पयलोच व्हड मनीस लागिंच्यान पळेला तो हो. खंयच्याय अर्थान व्हड. विद्वत्तेन व्हड. कर्तुत्वान व्हड. शौर्यांत व्हड, विचारवंत म्हूण व्हड. जीनियस म्हणपा सारको. स्वाभिमानाक बादा येत अशें कितेंच केन्ना करचो ना. एक दिव्यत्व सोडीत जाल्यार केन्नाच कोणाच मुखार नमचो ना. खंयचेच कडेन कसलीच तात्वीक तडजोड करचो ना, हेवूय नदरेन व्हड. व्हडल्या व्हडल्यांक शिंगार घेवपी हो मनीस ताचे परस ल्हान अश्या आमचे सारकेल्यां मुखार आमचेय परस ल्हान जातालो हेंवूय नदरेंत भरलां.'

तेन्ना लोहिया फकत छत्तीस वर्सांचे आसले. रवीन्द्रबाब सांगतात, 'बेळगांवां एक सारक्यो चार दीस मिटिंगो चल्ल्यो. सकाळ सांजवेळ, दोन दोन तीन तीन वरां... ते फकत 'एक्शन'चीच भास उलयताले. गोंयकार तेजिश्ट जावंक जाय, घट काळजाचे जावंक जाय, ते खातीर तुमी सत्याग्रह करूंक जाय, मार खावंक जाय, बंदखणी भरून काडूंक जाय ही एकूच गजाल ते भौन भौन सांगीत रावले.'[३३] कांय 'फायटींग

कमिटी, तयार करच्यो आनी दर एके कमिटीन धा धा दिसांनी सत्याग्रह करचो अशें थरलें. तितले म्हणसर महात्मा गांधींचो एक तेलेग्राम लोहियांक मेळ्ळो – 'तुवें परत गोंयांत भितर सरूंक जाय. पुणून ते पयलीं म्हाका मेळून वच' ह्या अर्थाचो. लोहिया गांधीजींक मेळूंक गेले आनी, 'गोंयचो प्रस्न जवाहरलालांच्या हातांत सोड आनी ताका तसो म्हाकाय निश्चिंत दवर. अशें गांधीजींनी लोहियां कडेन मागलें. आनी जवारहरलालजींच्या नांवान दांत-ओंठ चाबीत गांधीजींचे इत्सेक मान दिवन लोहियांनी गोंयचे चळवळींतलें आंग काडून घेतलें.'[३४]

हे वटेन धा धा दिसांच्या अंतरान तीन सत्याग्रह जाले. पयलो अठरा ऑक्टोबराक जाल्लो आनी सगळे सत्याग्रही बंदखणींत पावले.[३५] मार्गदर्शन करपाक लोहियाय नाशिल्ल्यान लोकांची उमेद न्हिवत गेली आनी गोंयची सुटके चळवळ थंडावली.[३६]

उपरांत सोळा वर्सांनी १९ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा जवाहरलाल नेहरूंनी लश्कर घालून गोंय मेकळें केलें.

रवीन्द्रबाब बरयतात, 'खरें म्हळ्यार सुटके उपरांतच्या पयल्या अठरा जूनाक आमी लोहियांक आपोवपाचे आनी तांगेलें दिव्य भव्य स्वागत करपाचें. अमेरिकेंत दिग्‌विजय करून आयले उपरांत देशान स्वामी विवेकानंदांचें केल्लें तशें.'[३७]

पूण ह्या १८ जूनाक गोंय लोहियांक विसरलें! आनाश्तास द आल्मैद लोहियांचे भक्त आनी तरणाटे इश्ट. तांच्या मनाक हें खूब खालें. फुडल्या १८ जूनाक लोहियांक गोंयां हाडपूच असो नित्शय तांणी केलो.[३७]

१९६३च्या १८ जूनाक लोहिया गोंयांत आयले तेन्ना मनोहररायांनी ह्या 'आग्वादाच्या शिंवा'क घसघशीत उतरांनी, काळजांतल्यान येवकार दिलो. *'आग्वादाच्या शिंवा तुवें / आमकां हाडली जाग'*[३८] ह्या उतरांनी सुरू जावपी ही लांब कविता लोहियांच्या व्यक्तिमत्वाचें, तांचे समाजवादी निष्ठेचें सुंदर चित्र काडटा –

*'नकळ भीड, नकळ भंय/ आज हांगा, फाल्यां थंय*
*अन्याय जंय, जुलूम जंय / तूं रे थंय, तूं रे थंय.*
*सत्तेचो जंय तोंडको / दुबळे फाटीर तिडकता*
*कायद्याचो पांय जंय / रित्या पोटार खोंट मारता*
*गिरणीचें चक्र जंय / आपले दांत विचकिता*
*भाटकाराच्या पाटापोंदा / जंय मुंडकार चिड्डता;*
*जंय मनीस हुंडकेता / भुके-तानेन करपता*
*बंदेपणा काळखा-कुडींत / रात दीस अडचता*
*मायेखातीर आंवडेता / थंय रे तुजी नदर वेता*
*उदक जावन जीण दिता / हात तुजो शाल जावन*
*करंजल्ल्यांक ऊब दिता / लोखणाच्या पुरसा तूं*
*दुष्टांचें बळ मेजपाक / आपुण जावन*
*तुतयाचे घण सोसता!'*[३९]

कवी ह्या 'शिंवा'क याद करून दिता –

*'मोड कसो येवन तुवें/गुलामपणार माल्ली फूंक*
*सुस्तेल्ल्या इंगळ्यावेलो/धवो शेलो गेलो उबून'*[४०]

आनी,

*'आग्वादाच्या शिंवा तुवें/हाडली आमकां जाग*
*तुकाच भावा कळटले/ आमचे घाये-दाग'*[४१]

म्हणीत ताचे मुखार आपणालें दुःख उकतें करता –

*'अजून म्हज्या गोंयांत पळे/कितले जाण खर्शेतात*
*पावसाचे पांवळेपोंदा / कांबळे बगर पिंगतात*
*कितले तोंडाक गुड्डो मारून / हड्ड्या भितर आड्डतात*
*कितलीं पोरां पिठा-उदक / दूद म्हणून शुरकितात.*
*नवे दुड्ड, नव्यो खाणी / नवो राजा, नवी राणी*
*आमची मात आदले भाशेन / एकसुरीच एकली काणी'*[४२]

दुसऱ्यांचीं घरां बांदून दितल्यांच्या पोरांच्या माथ्यार कोलवाचें पांखेंय आसचें न्हय आनी *'चोरून, मारून पयशे चारून / भांगराच्यो काशी धाडून दुडवांच्यो राशी'* करतल्यांनी पोटा धोल धोलयत उकत्या माथ्यान भोंवचें?[४३] कवी कळवळून विचारता. जावपाचें खरें अशें, कवीक दिसता –

*'दुडवांचें कुसकें सारें/सगले कडेन, सारके तरेन घालपाचें*
*कश्टाचें लोखणा-खोरें/सगळ्यांनी सारके तरेन ओडपाचें'*[४४]

हें सपन लागीं हाडूंक कवी 'आग्वादाच्या शिंवा'कूच उलो मारता. म्हणटा –

*'आग्वादाच्या शिंवा तुवें/हाडली आमकां जाग*
*ह्याच हातान लाय रे आतां / फायची नवी आग.'*[४४]

१९६३ च्या १८ जूनाक लोहिया गोंयांत पाविल्ले तेन्ना राजकी गणितां बदलिल्लीं. 'दिल्लीश्वरा'चें आनी लोहियांचें नातें गोंयकार उद्देगपतींक/वेपाऱ्यांक खबर आशिल्लें. देखून, रवीन्द्रबाब सांगतात, '...लोहिया सारकेल्या गोंयच्या इतिहासांतल्या 'व्हडांतल्या व्हड' एका मनशाक आपणागेर व्हरपाक एकलोय मुखार आयलो ना. एकलोय तांकां आपणाले गाडयेंत घेवन भोंवलो ना. मडगांवां फातोड्यां वचपाचे वाटेर उजवे वटेन एक बुरशें 'गेस्ट हाउस' आशिल्लें. थंय दवरल्यात आनी पणजे मार्केटा लागसारच्या 'इन्दिरा निवास' नांवाच्या एका किरकोळ हॉटेलांत दवरल्यात आनी टॅक्सिंनी तांकां घेवन आनाश्तास भोंवल्यात.'[४५] गोंयकारांची आथित्यशीलताय म्हणटात ती ही?– रवीन्द्रबाबांक प्रस्न पडटा आनी ते खंतीन म्हणटात, 'आमकां 'यसस्वी' सोयरे जाय. 'तेजस्वी' सोयरे उपकारनात.'[४५]

लोहिया रवीन्द्रबाबांच्या बरपांत तशे उलोवपांत खूब कडेन येतात. 'डॉ. लोहिया' ह्या निबंधांत ते बरयतात, 'म्हाका खूब फावटीं दिसलां, विद्रोहाक मनशाचें रूप घेवचें-शें दिसलें आनी तो लोहियांचें रूप घेवन जल्माक आयलो.' ते मुखार म्हणटात, 'आमच्या राजकी, आर्थीक, सामाजीक जिवितांत जें जें कितें कुसकें पाडें नश्टें पळेलां तेन्ना तेन्ना लोहियाच म्हजे मुखार उबे रावल्यात. आनी हांवें मनांतल्या मनांत म्हळां, तांच्या सभावाचो लाखावो वांटो लेगीत तांच्या अनुयायांत उतरिल्लो जाल्यार हिन्दुस्तानाचें रुपूच बदलून वतलें आशिल्लें आनी तांच्याय जिविताचें भांगर जातलें आशिल्लें.'[४६]

कांय वर्सां फाटीं नॅशनल बुक ट्रस्टान घडोवन हाडिल्ल्या एका सर्वभाशीक लेखकांच्या परिसंवादांत उलयतना रवीन्द्रबाबांनी म्हणिल्लें, साहित्यांत समाजाचेर प्रभाव घालपाची आकांताची तांक आसता, शरतबाबूंची *देवदास* कादंबरी उजवाडा आयले उपरांत कितलेशे देवदास तयार जाल्ले आपणें तरणेपणांत पळेल्ले अशें सांगून, ललीत साहित्य लोहियां सारकेलें व्यक्तिमत्व उबें करूंक पावलें

जाल्यार समाज खंय पावं येता, येवजून पळेयात अशें तांणी म्हणिल्लें.

साहित्य अकादेमीची 'महत्तर सदस्यता' घेतनाय रवीन्द्रबाबांक लोहियांचो उगडास जाता. आमच्या देशांत इंग्लीशीन जी गरजे भायली सुवात जोडल्या तिचे कडेन आयुकप्यांचें लक्ष ओडून ते म्हणटात, 'इंग्लीश भाशेन आमच्या देशांत कितलेशे बॉन्साय – म्हुट्टेल्ले – विद्‌वान, बुद्‌धिजिवी, लेखक आनी आतां वाचकूय निर्माण केल्यात. ते परिसंवाद बरे सोबयतात. ठोस कांय दिवंक पावनात', आनी विचारतात 'देश आमी असो बॉन्साय लोकांचो जावंक दितले?' कोण बदलतलो ही परिस्थिती? एकलो आशिल्लो... ते म्हणटात आनी लोहियांची याद काडटात.[४७]

सत्याचेर आकांताची निष्ठा आनी असत्याची, अन्यायाची आकांताची तिडक हेच तेजिश्ट बुन्यादीचेर लोहियांचो समाजवादी विचार उबो आशिल्लो. पूण ह्या लोहियांची सरसमान गोंयकारांक वळख आसा अशें म्हणूंक येवचेंना. सरसमान राष्ट्रवादी गोंयकारांच्या काळजांत लोहियांनी सुवात जोडल्या ती त्या अठरा जूनाच्या रुपानूच. ह्या दैवताची आमी भक्तिभावान, पूण इल्ली पयसुल्ल्यानूच, पुजा करीत आयल्यांत. आमचे मदले भोव थोडे लोहियांच्या व्यक्तिमत्वाचो तांच्या विचाराचो होलम घेवंक पावल्यात. हे भाशेन लोहियांक जे लागीं गेल्यात तांच्या व्यक्तित्वांत, तांचे नदरेंत लोहिया झिरपले बगर रावंक नात. कोंकणी साहित्य संवसारांत कांय कांय कडेन ह्याय लोहियांचो सोद घेवं येत.

---

१. रवीन्द्र केळेकार, 'पडमूर गोंयकार' , कोंकण टायम्स, दिवाळी २००२ : ३.
२. रवीन्द्र केळेकार, *पांथस्थ,* पणजी : राजहंस वितरण २०००:६७.
३. आदलोच संदर्भ : ६८.
४. पळेयात : केळेकार २०००: ६४-६७; J. Menezes & Shanti Nayak, 'Gleanings From the Goan Struggle' *Action in Goa by Rammanohar Lohia,* Bombay: August Publication House 1947: 28-30.
५. केळेकार २००० : ६७.
६. J. Menezes & Shanti Nayak 1947: 31, 32, अणकारून.
७. केळेकार २०००: ६३.
८. आदलोच संदर्भ : ६४.
९. रवीन्द्र केळेकार, 'फिरंग्यां आड लोहियांचो सत्याग्रह काय गोंयच्या फुडाऱ्यां आड?', जाग वर्स ३३, आंक ७, जून २००७ : ३.
१०. आदलोच संदर्भ : केळेकार २०००: ६५य पळोवचें.
११. *Action in Goa by Rammanohar Lohia:* ३.
१२. आदलोच संदर्भ: 4.
१३. पळेयात : मनोहरराय सरदेसाय, 'होरावणी' (प्रस्तावना) *सासाय,* बाकीबाब बोरकार, मडगांव : कुळागर प्रकाशन १९८०: पांच ते सत्तावीस.
१४. *कथा १८ जून १९४६ ची,* Lohia Statue Installation Committee, Margao: 17.
१५. आदलोच संदर्भ : 11.
१६. बाकीबाब बोरकार, *पांयजणां,* मुंबय : पॉप्युलर बुक डेपो १९६०:४२.
१७. बयाभाव 'सार्थक', *सड्यावेलीं फुलां,* मुंबय : गोमन्तक छापखानो १९४६ : ३१.
१८. 'संव्हार', आदलोच संदर्भ : २६.
१९. राजय पवार, 'कोंकणी कवितेंत लोहिया', जाग वर्स ३५, आंक ८, जून-जुलय : १५.
२०. नागेश करमली, 'अठरा जून', जाग, वर्स २४, आंक ११, जून १९९८: भायलें (फुडलें) पान.
२१. नागेश करमली, 'इतिहासः उगडासांचो', जाग, वर्स ३५, आंक ८, जून-जुलय २००९ : ४२.
२२. बाळकृष्णजी कानोळकार, '१८ जून', अपरांतक, वर्स १, आंक ६, जून २००४ : भायलें पान, भितल्ली वेट १.
२३. मनोहरराय सरदेसाय, 'अठरा जून', *अठरा जून* पणजी: गोवा कोंकणी अकादेमी २००७: ७१.
२४. आदलोच संदर्भ: ७२.
२५. मनोहरराय सरदेसाय, *गोंया तुज्या मोगाखातीर,* मुंबय : गोमंत भारती १९६१.
२६. Rammanohar Lohia, 'The 18th of June' (प्रस्तावना), मनोहरराय सरदेसाय, *गोंया तुज्या मोगाखातीर:* पांच, अणकारून.
२७. आदलोच संदर्भ : पांच, स, अणकारून.
२८. केळेकार २०००: ६८, ६९.
२९. आदलोच संदर्भ : ८९, ९०.
३०. आदलोच संदर्भ : ९२, ९३.
३१. आदलोच संदर्भः ९३; *Action in Goa by Rommanohar Lohia : 37.*
३२. केळेकार २००० : ९३, ९४.
३३. आदलोच संदर्भ : ९४.
३४. आदलोच संदर्भ : ९९.
३५. आदलोच संदर्भ : ९७, ९८.
३६. आदलोच संदर्भ : ९८, ९९.
३७. केळेकार २००२ : ३
३८. मनोहरराय सरदेसाय, 'आग्वादाच्या शिंवा तुवें', *जायात जागे,* गोंयः 'गोमंत भारती प्रकाशन १९६४ : ४८.
३९. आदलोच संदर्भ : ४८, ४९.
४०. आदलोच संदर्भ : ४९.
४१. आदलोच संदर्भ : ५१.
४२. आदलोच संदर्भ : ५१, ५२.
४३. आदलोच संदर्भ : ५२.
४४. आदलोच संदर्भः ५३.
४५. केळेकार २००२ : ४.
४६. रवीन्द्र केळेकार, 'डॉ. लोहिया', *आमोरेर,* प्रियोळ : जाग प्रकाशन, २००३ : ७२.
४७. रवीन्द्र केळेकार, 'क्या हम देश बोन्साय लोगों का होने देंगे...?', जाग, वर्स ३४, आंक २, सप्टें-ऑक्टो. २००७ : १४४.

## पडसाद

## साहित्याच्या इतिहासाचेर सोदवावर, काय शिता फुडें मीठ

"लिखीत कोंकणी साहित्याचो लिखीत इतिहास : आसडून फांफडून सरी करतना..." ह्या लांबलचक माथाळ्या खाल आयललो संपादकी लेख *(जाग, सप्टेंबर, २००९)* साबार कारणांक लागून विचित्रसो दिसलो. संशोधन निबंदाचो आकार ताका दिला जाल्यारूय तो ते फास्केंत बसना अशेंच म्हणचें पडटा. संपादप्यांनी ह्या विशयाचेर आपलें अनुमान पयलीं थारायलां आनी मागीर त्या अनुमानाक ज्या जाणकारांचीं विधानां फावोराद आसात तींच, कसल्याच आधारा विणें, खरीं मानल्यांत. आनी प्रतिकूल जाल्ल्या विधानां खातीर "आधार ना" म्हणलां. अशे परीं, ओलिविञ्यु गॉमिश, जुजे पेरैर, लुर्दीन रोद्रीगिश हांचे सारकेल्यांच्या विधानांक विश्वासा पेलीं थारायल्यांत.

देखीक, "रामायणाची मूळ प्रत कंदवी लिपयेंत आशिल्ली अशें खंयच्या आधाराचेर मानपाचें तें गॉमिश सांगनात." पूण तें वेगळें सांगपाची आनीक गरज आसा व्हय? पयलें म्हळ्यार त्या रामायणांत ३३ काणयो आसपावतात. तांतल्यो दोन (क्र. ५ आनी २६) आपूण बरयलल्यो आसात म्हूण स्वताच सांगतात. दुभाव दिसता जाल्यार तांच्यो, दर एकल्याच्यो, निमाण्यो वळी वाचच्यो. त्या काळा वेल्या, खंयचेय भाशेंतल्या, साहित्यांत असो स्पश्ट उल्लेख मेळटा जाल्यार सांगात. त्यो जर बरयलल्यो आसल्यो जाल्यार, लिपी आयलीच मू? त्या काळार कंदवी लिपी गोंयांत घोळटाली म्हूण गॉमिशानूच दाखोवन दिलां. नासल्यार, *"फ्लॉस सांक्तोरुम"* हो ग्रंथ पाद्री आमादोर दे सांक्ता आना ते लिपींत कित्याक म्हूण बरयतलो आसलो? ह्या ग्रंथाचें वर्स १६०७ अशें दिलां; म्हणजे ताचे उपरांत णव वर्सांनी (१६१६त) रोमी लिपींतलें *"क्रिस्त पुराण"* उजवाडा आयललें आनी १५ वर्सांनी (१६२२त) *"दौत्रीन क्रिस्तां"*.

पूण "गोंय सोडून कर्नाटकांत गेल्ल्या क्रिस्तांवांनी आपणां वांगडा क्रिस्त पुराणाच्यो कांय प्रती व्हेल्ल्यो" अशें मॅथ्यू आल्मेयदा सांगतात तेन्ना मात आधाराची गरज ना! त्यो प्रती खंय सांभाळून दवरलल्यो मेळटात काय म्हूण विचारप ना.

*"गोइडे रामायण"*, *"वेंकटेश कल्याण"* हे सारकेलीं प्राचीन पुस्तकां केरळांत सांपडलीं आनी तीं (१९८० उपरांत) उजवाडायलींय बी. हें सांगतानाच, "१९०० मेरेन केरळांत कोंकणींतल्यान बरयललें कांय मेळना" हें एन. एन. आनंदनांचें (केन्नाचें काय?) विधान फुडें हाडलां. आनी, ताच्याच आधारार. १८०४ च्या अदमासाक केल्लें जॉन लीडन हांचें विधान पोल थारायलां.

"बरपांतली भास आनी जिबे वयली भास हांचीं कांय खाशेलीं लक्षणां आसात" खंय. आसत. पूण तीं कोणें सोदून काडल्यांत आनी विकसीत केल्यांत? खंयच्या भासांतल्या (आनी खंयच्या काळा वेल्या) साहित्याचे कसवटणे खातीर तांचो वापर जाला? आनी निकाल कितें आयला? जण एका लक्षणाची – बरपांतली जावं जिबे वयली भास अशें विभेदन करपाची – तांक कितली आसा, हें पयलीं थारावचें पडटलें काय ना? कोंकणी संहिता ह्या प्रयोगकार्या खातीर उणी पडटली. हेर भारतीय भासांनी विपूल साहित्य उपलब्ध आसा. म्हुणटोच, कसवटणी प्रयोगा खातीर घे म्हूण संहिता थंय मेळटली. थंयच तांची मोलावणी जाल्ली बरी.

हेच बाबतींत आनीक एक विचित्रताय वाचप्यांचे नदरेक हाडले शिवाय रावंक जायना. हांगा दोन लेखांचो संदर्भ म्हूण उल्लेख आयला : माधवी संरदेसाय आनी सॅ. मा. बॉर्जिस, हांचे ते लेख (संदर्भ क्र. ३७) जे *जागाच्या* वर्स ३३, अंक ३ आनी ४ अशे, अनुक्रमान, उजवाडाक आयलले. पूण योगायोगान (?) त्या खंडाचे अनुक्रमणिकेंत दोनांचोय आसपाव ना! संपादप्यांक आयज तांची याद जाली मिसता.

लिखीत कोंकणी साहित्याचेर बरयलल्या लेखांत पुस्कळ संदर्भ दिवप सभावीकच. तरीय आसताना, एका म्हत्त्वाच्या संदर्भाचेर – एका वाटचिन्याचेर – आडनदर जाता. बायबलाच्या पुराय नव्या कराराचो कोंकणी अणकार (देवनागरी लिपींत) 'बाप्टिस्ट मिशना'न १८१८ वर्सा श्रीरामपुरांत छापून उजवाडायललो. तसोच आदल्या करारांतल्या पंचग्रंथाचो (पँटाटेउक) १८२१ वर्सा.

"मंगळुरी हिंदू कोंकणी साहित्यकार विसाव्या शतमानाचे सुरवेक खंय आशिल्लो काय?" हें विधान संपादप्यांचें अज्ञान न्हय जाल्यार गैरसमज तरी उक्तायता. कारण शणै गोंयबाबान सरस्पतीच्या माटवांत पावल दवरचे आदीं सावन हे लोक कोंकणी नाटकां बरोवन उजवाडायताले. देखीक, बोळंतूर कृष्ण प्रभू हांणी १९१२ वर्सा आपणालें कोंकणी नाटक पयलेच पावट माचयेर हाडलें आनी त्याच समयार त्या नाटकाची **चवथी** आवृत्ती उजवाडायली. (तांचो स्वताचो छापखानो आशिल्लो.) तांणी उजवाडायलल्या हेर कांय नाटकांची वळेरीय थंय दिल्या. हें पुस्तक आतां देवनागरींत लिप्यांतर करून गोवा कोंकणी अकादेमी उजवाडावंची आसा. १९२०च्या सुमाराक, बांगले नारायन कामत हांणी *"गीतामृत साकी"* हो भगवद्गीतेचो कोंकणी अणकार कन्नड लिपींत तयार केल्लो. ताची देवनागरी आवृत्ती १९६२ वर्सा उजवाडा आयली.

पुर्तुगेज भारतांत पावचे पयलीं कोंकणींत बरपी साहित्य नाशिल्लेंच म्हूण पटोवन दिवपाचे दुवाळे *जाग* संपादप्यांक कित्याक लागल्यात काय? प्रताप नायक आनी हेर जेजुइतांची मोख समजूंक सोंपी. "कोंकणी साहित्य लासून गोबोर केलो म्हूण सोळाव्या शेंकड्यांतल्या आमच्या म्हालगड्या येवरोपी भावांचेर तुमी अभावीत बगलांट घालतात. खरें म्हळ्यार तुमी तांकां आर्घ्य दिवंक फावो कारण कोंकणी बरपावळीचें मुळावणूच सोळाव्या शतमानांत जेजुईत पाद्रींनी घालां" अशें सांगून ते साव जावंक सोदतात.

साहित्याचो इतिहास जाणा जावप हें साहित्याचे उदरगतीक कितलेंशें

फायदेशीर थारता काय? 'आमचे कडेन पुरातन साहित्य नाशिल्लेंच' अशें सांगलें जाल्यार कोंकणी साहित्य धडाक्यान तरतरतलें आनी 'आशिल्लें पूण नश्ट जालें' म्हणलें जाल्यार तें मरगळीक येवन बावतलें?

ब्रागां संहितेच्या विशयाचेर पद्दतशीर सोदवावर जावंक जाय. सगळ्यांत पयलीं तिचीं विभिन्न तासां वेगळावचीं आनी खंयच्या मुद्द्यांचेर दुमत आसा आनी खंयच्यांचेर ना, हें वळखून काडचें. दुमत आसलल्या मुद्द्यांची खोलायेन चिकित्सा जावची. कांय मुद्दे अशे आसात :

१. जावं तोंडी जावं बरयललें, हें साहित्य म्हळ्यार कोंकणीचें भांडार. जाता तितले वेगीं तें उजवाडा हाडचें. लुर्दीन रोद्रीगिश, ओलिविञ्यु गॉमिश हांणी वाट दाखयल्याच. ते वाटेर आनीक पावलां फुडें घालपाची गरज आसा. लुर्दीन रोद्रीगिशांचो वावर आपलोच म्हूण उजवाडावप्यांनी हें कार्य हातांत घेवचें; वीस वर्सां फाटीं ताणें दिल्लें अव्हान स्विकारून ह्या वावराक खांद मारचें.

२. सोळाव्या शेंकड्याच्या सटव्या-सातव्या दसकांत तिचें बरोवन काडप जाल्लें. ती जर आदीं बरोवन मागीर बरोवंक घाल्ली आसत, जाल्यार तिचें मूळ बरोवप सोळाव्या शेंकड्याचे सुरवेच्या वर्सांनी वा ते आदीं जालां आसतलें.

३. ती कोणें, कोणा खातीर आनी कित्याक रचिल्ली? एक (म्हाका अभिप्रेत) मत वा परिकल्पना : मिशोनाऱ्यांक कोंकणी भास शिकूंक संहितेची गरज भासली. पूण एक तर बरपी संहिता उपलब्ध नासली (पयलीं आशिल्ली ती ते आदींच उज्याचे भकीक पडिल्ली) ना तर उपलब्ध आशिल्ली ती तीन लिपींनी वांटून गेल्ली. (साश्टींत, त्या काळार, कोंकणी खातीर तीन लिपी वापरताले म्हूण गवाय मेळटा. अशें आसल्यार, नवशिक्यांक एकाच वांगडा तीन लिपी शिकात म्हणप शाणेपणाचें जावंचें नासलें!) म्हुणटोच तांणी आपले संवकळीची रोमी लिपीच वापरून, कोंकणीच्या चडावत आवाजां खातीर गरज तितल्यो कुरवो आनी माण्णो घालून, एक क्रम विकसीत केलो. मागीर गोंयकार पंडीत बामणांक हाता कडें धरून, काणयो सांगून घेतल्यो, आनी आयकतल्यान त्यो बरोवन घेतल्यो, जें कितें पंडीत सांगता ताचो अर्थ तें बरोवन घेवप्याक कळनासलो जायत; पूण जें कानार पडलां तें तो, जमता ते परीं मन लावन, बरयतालो. बरोवन जाले उपरांत तो वाचून दाखयतालो आनी जंय पंडीत सुधारणा सुचयता तसो तो सुधारीत प्रत तयार करतालो. तो लॅटिन शिवाय पुर्तुगेज वा कास्तेलान (स्पॅनिश) भाशेंतूय फिशाल आसूंक फावो; म्हणजे विरामचिन्नांची ताका संवय आसलीच. पूण, अर्थ समजूंक नासलल्या कारणान, तो ते भानगडीक गेलोच ना. हाका लागून ती संहिता विरामचिन्नां विरयत उरली. (हें कार्य पंडीत करूंक शकच नासलो, कारण ताका ती लिपी येनासली.) उपरांत व्याकरण आनी उतरावळी रचपांत हे संहितेचो वापर जालो. हाका लागून तातूंत लॅटिन जावं पुर्तुगेज अर्थ समासांत आडळटात आनी तातूंतले कांय उतारे (पाद्रींनी तयार केल्ल्या) उतरावळींनी आनी व्याकरणांत आसपावतात.

वेगळें मत : येवरोपी मिशोनार हांगा आयले आनी तांचे मदले कांय जण बऱ्यापयकीं कोंकणी भास शिकले. वयर सांगलां तशें, तांणी कोंकणी नाद बरोवंक एक रोमी क्रम विकसीत केलो. मागीर कांय पंडीत बामणां कडेन गजालींक बसले, काणयो आयकिल्यो आनी त्यो आपल्या नव्या क्रमान बरोवन काडल्यो. ते पाद्री कोंकणी इतली बरी शिकले की गोंयकार पंडितांची वाक्यरचना ते सुधारूंक पावले! हे परीं तांणी कोंकणी भाशेक पयलेंवयलें बरपी रूप दिलें. तरूय एक प्रस्न उप्रासता. **अशें करताना, आपले संवकळेचीं, विरामचिन्नां घालूंक ते कित्याक विसरले काय?**

४. अपसामान्य रितीन असाधारण साहित्याची उप्रासणी : खंयचेय भाशेची साहित्यीक वाड जाता तेन्ना पयलीं पद्य चंवरता आनी मागिरच गद्याक आरंभ जाता खंय. कोंकणीचे पद्य परंपरेच्यो प्राचीन पती आमकां खंयच मेळनात. वेल्यान जें पयलेंवयलें गद्य मेळ्ळां, तें (विरामचिन्नांचो अभाव वगळ्ळो जाल्यार) बरेंच प्रगत. हें कशें जावंक पावलें? जें उज्याचे भकीक पडलें तातूंत सगळीं पाळांमुळां करपून गेलीं काय? सोदवावरांतल्यान हाची जाप मेळत व्हय?

येवरोपी रोमँटिक साहित्याची झळक हे ब्रागा संहितेंत मेळटा खंय. इतलेंच न्हय तर, तिचीच देख घेवन, सतराव्या शेंकड्यांतल्या पाद्रींनी आपणाल्या साहित्या खातीर हीच तरा आपणायल्ली म्हणटात. म्हणजे जो साहित्यप्रकार येवरोपांत अठराव्या शतमानांत चंवरलो, तोच येवरोपी पाद्रींनी सतराव्या शेंकड्यांत कोंकणी खातीर वापरललो. तांच्याच कोंकणी बरपांतल्यान तो प्रकार येवरोपांत बी पावलो ना मू? अशें जावप असंभाव्य आशिल्ल्यान, तशें जाल्लेंच ना म्हणत हात फाफडप आनी त्या विशयाचेर पांगरूण घालप, हें योग्य थारपाचें ना. सोदवावराक ही वृत्ती पोशक थारची ना. कितेंय जावंयेता. साहित्याच्या क्षेत्रांत कसलेंय नवेपण येवरोपांत पावले शिवाय तें एके भारतीय भाशेंत झळकूंक शकना? मनीसकुळाचे उदरगतीचीं सगळींच धेंपां येवरोपांत पडूंक नात. दक्षीण अमेरिकेंतल्या माया लोकांचें प्राचीन पंचांग आमकां आयजूय दिपकायना? येवरोपांत पंचांग केन्ना विकसीत जालें? कसलीय साहित्यीक गजाल, हेर भारतीय भासांनी पयलीं विकसीत जाले शिवाय, कोंकणींत ती येवप शक्य ना, अशें म्हणप हें पिशेपणच. ज्या काळार कोंकणींत मोटव्यो कथा बरोवपाची चालीच नासली, तेन्ना शणै गोंयबाबांनी कांय कथा बरयलल्यो. तसल्योच कथा हेर कांय प्रगत भारतीय भासांनी ते उपरांत आयल्यो खंय! सांगपाचें म्हळ्यार, **ह्या रोमँटिक दिश्टीकोणाचेर सोदवावराचो उजवाड पडूंक जाय.** दो. जुजे पेरैरांचें हे विशींचें विधानच चुकूंक ना मू? तांचे शिवाय, आनीक कोणाय तज्ञान असली सर बी केल्या? कांयच समजना. जाणकारांनी हाचेर विचारसोद करचो.

५. पांच शेंकडे पर्यांत बरपी साहित्य सांभाळून दवरप हें कितलेंशें सोंपें काय? सतराव्या शेंकड्यांत मिशोनरी पाद्रींनी कितलींशींच पुस्तकां छापललीं म्हूण नोंदूच न्हय पूण वळेरीय आसा. एके आवृत्तींत उणेंच म्हळ्यार १०० प्रती पूण छापलल्यो आसतल्यो. परंत, कितल्यांच्यो कितल्यो प्रती गोंयांत सांपडल्यात? कांय पुस्तकांची एकीय प्रत

संवसारभरांत वखदाक मेळना म्हणल्यार अजाप दिसतलें? फकत शेंभर वर्सां फाटीं शणै गोंयबाबांनी रोमी लिपींत, सुमार डजनभर, शेक्सपियरी काणयो उजवाडायलल्यो; तीं पुस्तकां आयज खंयच मेळनात. बऱ्यांतल्या बऱ्या भव्य ग्रंथालयांक भेट दिवन थंय १९ व्या शेंकड्यांत उजवाडायलल्या पुस्तकांची दशा पळेयात. फेलीस्युबाब कार्दोज हांणी सांगलली एक गजाल ह्या संदर्भांत देखदिणी दिसता. १९७०च्या अदमासाक खंय ते मों. दाल्गादाच्या घरा गेल्ले कडेन थंय मोंसिन्योराचे कोश उदक तापोवंक जळयतात तें तांणी पळयलें. आनी, घरांतल्यांचे परवानगेन, आपणाच्यान हाडूंक जायत इतल्यो प्रती ते घेवन आयले खंय. त्यो तांणी मागीर कांय जणांक वांटल्यो. (सॉतॅरबाब बार्रेतागेर एका कोशाच्यो दोन आसल्यो. तातूंतली एक आतां म्हजे कडेन आसा.) हाचे वेल्यान खासगी घरांनी पुस्तकां तिगून उरपाची शक्यताय आपशींच होलमतली.

"सारक्या आधारां सयत, आनी मेकळ्या चित्तान, ह्या विशयाचेर सोदवावर जावप हें गरजेचें." खरें. पूण सुरवेच्या "प्रिलिमिनरी" अहवालांत जर शेवटचे निश्कर्श, "फायनल कॉंक्लूजन्स" दिले, जाल्यार तें शिता फुडें मीठ, अशेंच म्हणचें पडटलें.

**– सॅ. मा. बॉर्जिस**

---

## 'कथांजली'चे निमतान कांय परखड विचार

'जागा'चो दिवाळी-नातलां ०९ हो आंक भोव वाचनीय आनी संग्राह्य जाला हातूंत दुबाव ना. संपादकान ह्या आंकाक 'कथांजली' आंक म्हूण संबोधीत केला तेंय औचित्यपूर्ण दिसता. मुळांत कथा ह्या साहित्यप्रकाराक जल्म दिलो तो नियतकालिकांनीच. देखून नेमाळीं चलतात तोमेरेन कथा-प्रकाराक कसलीच भिरांत ना अशें म्हणूंक जाय. 'जागा'न सदांच कथेक फावो ती मानाची सुवात दिल्या. 'जागा'क हांव सदांच 'द लिट्ल मॅगझीन ऑफ कोंकणी' अशें पाचारतां. कारण साहित्याचो दर्जो सांबाळटनाच नवे प्रयोग करपी लेखकांक फावो तें प्रोत्साहन दिवपाचें काम 'जाग' सातत्यान करीत आयलां. देखून हो कथेक ओंपिल्लो खाशेलो आंक पळयतकच आतां नव्यो, बऱ्यो आनी आगळ्यो-वेगळ्यो कथा वाचूंक मेळटल्यो ही आस्त जागी जाली.

वट्ट एकवीस कथा ह्या आंकांत आसपावल्यात. ह्या आंकाचें खाशेलेपण म्हळ्यार कोंकणीच्या विंगड विंगड शैलींनी बरयिल्ल्यो कथा आपापणालें वेगळेपण केळयत ह्या आंकांत भरसल्यात. एडवीन डिसौझाची 'पियानो', विठ्ठलराय भटाची 'गेले ते दीस', किशू बारकुराली 'पिरेरिगेलीं चेडवां', पी. गोपिनाथ कामत हांगेली 'चांगपण केल्यार' वा सोतेर बार्रेतीली 'आफ्रिकानिस्त' ह्यो सगळ्यो कथा विंगड विंगड मोडींत बरयिल्ल्यान कोंकणी भाशेंतल्या वेगवेगळ्या बोलींची अभिव्यक्तीची तांक नदरेंत भरता.

हेरूय कथा सगल्यो बऱ्योच आसात. पूण जेन्ना खूब अपेक्षा बाळगून आंक वाचलो तेन्ना खोशये परस निर्शेणीच चड पदरांत पडली. हे सांगतकच संपादकान म्हळें, बरोवनच धाड. हें मात धर्मसंकश्ट थारलें. पयले पांच लेखक आसात ते साहित्य अकादेमीचे पुरस्कार जोडिल्ले प्रस्थापीत लेखक. तशांत तांतली एक कथा म्हजीच. दुसरे तिसरे फळयेच्या लेखकांचेर बरोवप सोपें आसता. कारण टिका जाली जाल्यार ती समजून घेवपाची तांची तयारी आसता. पूण प्रस्थापितांचेर बरयतना तांकां वायट दिसत काय असो दुबाव मारता. एक गजाल खरी – सर्जनशील लेखक प्रस्थापीत जाता तेन्ना आपल्या लिखाणांतले गूण दोश ताचे ताकाच समजुपा इतली प्रगल्भताय ताका आयिल्ली आसता.

म्हजे कथेचेर हांव कसो बरयतलों? तिच्यांतल्यो चुको हेरांनी दाखोवच्यो. उरिल्ल्या कथांचेर जें दिसलें तें संपेक्षान बरयतां.

म्हज्यो सगल्यांत चड अपेक्षा आशिल्ल्यो त्यो महाबळेश्वर सैल हांचे कथे कडल्यान. ते एक कुशल कलाकार. निजाचे कथाकार. तांगेले विशयूय सदांच आगळेवेगळे आसतात. प्रस्तूत आंकांतली कथा तर सामकीच वेगळी. तिका विज्ञानकथा म्हणूं येता. भविष्य काळांत हे धतरिचेर कसकसलीं संकश्टां उपरासूंक शकतात हाची सुलूस दिवपी ही कथा. लेखकान विशयाचो अभ्यासूय केला. आर्मेनिया आनी ज्योर्जिया ह्या दोन राष्ट्रां मदलो संघर्ष दाखयला. पूण दुर्दैवान ही कथा खंयच उबारी घेना. विशय समजता. मांडलाय बरो. पूण दोन पात्रां मदल्या संघर्षा फाटलें sub-conscious मन हातूंत दिश्टी पडना. ताका लागून सतत रुक्ष विज्ञानीक निवेदनांतल्यान कथा फुडें वता. ह्या निवेदनांत मानवी तत्वांक सुवात मेळिल्ली जाणवना. ताका लागून ही एक फशिल्ली विज्ञानकथा अशें म्हणूं येता.

शीला कोळंबकार ही मिश्कील शैलींतल्यान मानवी मुल्यांक हात घालपी कथा बरोवपी फिशाल लेखक. हालींसराक तिच्यो कथा वाचूंक मेळनात. ज्यो मेळटात त्यो कथा हें लेबल लावन आयल्यो तरी ते मुळांत ललीत निबंद आसतात. शीला आपणाली जीण डोळसपणान जियेता. जिणेंतसून नित्य नवें घेवन तें साहित्यांतल्यान आमचे मेरेन पावयता. ते खातीर हालीं शीलान वेंचिल्लें माध्यम कथा न्हय तर ललीत निबंद अशें म्हाका दिसता. 'जागां'तली 'मेकळें मेकळें' हीय कथा न्हय. स्वताचो एक म्हॉंवो अणभव ताणें ललीत निबंदांतल्यान मांडला. आनी तो भोव बरोय जाला. पूण ताका कथा म्हणूंक येवचें ना.

गोकुळदास प्रभू हाच्यो आजवेरच्यो कथा मनशाचे जिणेंतल्या काळखी भागांचेर प्रखर उजवाड घालीत आयल्यात. 'एकलेपणाची सांज' सारकी कथा अशीच dark side दाखोवपी. 'खतां' ही कथा जाणटेपणांत वांट्याक आयिल्ल्या एकसुरेपणाचेर बरयल्या. कथा बरीच जाल्या. पूण आजवेरच्या कथां परस वेगळी दिसली ना. उरफाटें, फाटल्याच कथांतलीं बिजां घेवन हीय बरयल्या अशें दिसलें.

देविदास कदमाक नवे प्रयोग करपाक आवडटात. तो विशयूय नवे आनी चालंत सोदून काडटा. पूण प्रस्तूत 'मठी' ही कथा

स्टिरिओटायप म्हळ्यार चाकोरींतली कथा कशी दिसली. आपणाल्या घराचेर तुळशीपान सोडून देवाची मठी घट करूंक भायर सरिल्ल्या गांवगिऱ्या शंकरबाबाची ही कथा आज मेरेन भारतीय साहित्यांत चाबून चाबून चोथो जाल्ल्या विशयाचेर आसा. लेखक सिद्धहस्त जाल्ल्यान बरी बरयल्या इतलेंच.

ह्या लेखकां कडसून नव्याची अपेक्षा आसा देखून हें बरयलां. महाबळेश्वर सैलाली 'रोबोटीक वॉरफॅर' ही एकच कथा विशयाचे नदरेन वेगळी आनी फुडाराचो वेध घेवपी म्हणूं येता.

एडवीन जे.एफ.डिसोझा हागेली 'पियानो' ही कथा भोव सुंदर आसा. एडवीनाल्या आजवेर हांवें वाचिल्ल्या कथां मदीं ही उजवी. आपसुवार्थी वेपारी वृत्तीच्या मनशा मदल्या मनीसपणाचेर बोट दवरपी ही कथा चाकोरी भायली म्हणूंक येवची ना तरी खूब सुंदर बरयल्या. कोंकणी मनशाक संगिताचें पिशें. घोवान बायलेक भेट दिल्ल्या पियानो संबंदानची ही कथा वाचनीय जाल्या.

शीला कोळंबकारा भाशेनच आमच्या गजानन जोगाची गत्त जाल्या. हालीं ताच्यो कथा वाचूंक मेळनात. त्यो कथा हें लेबल लावन येतात तरी कथेचे कसवटेर त्यो तगनात. 'लखपती भिकारी' ही कथाय व्यक्तिचित्रणात्मक जाल्या. आयज कथा प्रकाराच्यो शिमो-मेरो इतल्यो रुंदावल्यात की व्यक्तिचित्रण हें लेगीत कथा म्हूण खपता. अशें आसलें तरी कथा ह्या प्रकारा कडसून चोखंदळ वाचकाच्योय अपेक्षा आसतात. 'लखपती भिकारी' वाचनीयतेचे कसवटेर वयर धरली तरी तें व्यक्तिचित्र म्हणुनूच स्वीकारूंक जाय. गजानन जोग हो एक प्रस्थापीत कथालेखक. घडये कथा साद घालता तेन्ना इतर प्रकार, म्हळ्यार ललीत निबंद वा व्यक्तिचित्रां, ताका साद घालतात. देखून ताचे कडसून कथावाचकाच्यो अपेक्षा पूर्ण जाल्यो नात तरी इतर बऱ्या साहित्यांत भर पडटा.

जयमाला दणायताची 'प्रॉमिसरी नोट' ही खरें म्हळ्यार कथिका. कथिकेक इलो चडच विस्तार दिल्ले वरी दिसलो. 'नोट' आनी 'नॉट' ही कोटी करपाची कूंय आयिल्ल्यानच कथेचें शिर्षक 'प्रॉमिसरी नोट' दिलें जावये. आमी रीण काडटात आनी परत फेड वेळार करतलों म्हूण बरोवन दितात तिका प्रॉमिसरी नोट म्हणटात. कथेंत म्हणिल्ले प्रमाण म्हाळूबाबान सिल्वियाक जें बरोवन दिलें ताका 'गिफ्ट डीड' म्हणूंक जाय. खीणभर 'बाबू-शाबू पौकु दिफेरेंस' अशें म्हळें तरी फुडलें जुळना. भाटबेंस वडिलां कडल्यान चलून येता तेन्ना अशे तरेन सगलें दुसऱ्याक दिवन उडोवपाचो अधिकार कोणाक येना. कायद्यान अर्दे बायलेक वता. ते भायर भुरग्यांकूय वांटो वता. म्हणटकच एका कागदा कुडक्याक लागून सर्वस्व होगडावता हें वास्तवाक धरून जायना. हिन्दी सिनेमांनी तशें दाखयतात तें तांकां सोबता. आमच्या लेखकांनी ह्यो गजाली बरोवचे पयलीं तपासून पळोवच्यो.

विठ्ठलराय भटाली 'गेले ते दीस' हे कथेची शैली आवडली. कोंकणींत वेगळ्या वेगळ्या मोडींचो वापर जातलो तेन्नाच भास गिरेस्त जावपाक पावतली. कथा पारंपारीक विशयाचेर आसा. नाट्य इलें चड घालां. VRS घेतकच ३९ लाख आनी पेन्शन फावो जाता हें पुटवना. रक्कम खूब चड घेतल्या शें दिसता. दुसरें म्हळ्यार, VRS घेना फुडें घरच्यांची चलणूक बदलता हेंय तितलेंशें खरें दिसना. अतिताय जाणवता. पूण हालींच कथा लेखनाक सुरवात केल्ल्या विठ्ठलराय भटांची तोखणाय जावंक जाय. सोतेर बारेंत हांगेली 'आफ्रिकानिस्त' ही कथाय कथिका कशी. कासादोराची विनोदी गजाल सांगून अखेरेक दिल्लो Twist एखादऱ्या फिशाल लेखकाक सोबऽ सारको जाला. उदय भेंब्रे हांच्या 'प्रसादाफूल' कथेचो उगडास करून दिवपी ही कथा. ज्योती कुंकळकार हें कथा बरयता. पूण ताचो पिंड कादंबरी लेखकाचो. 'पैज' कथेचें कथानकूय म्हज्या हिसबान कादंबरीक फावऽसारकें. कथेची अखेर मातशी ताकतिकेन पूण सुंदर केल्या. 'पैज' नांवान कादंबरी बरयिल्ली जाल्यार ही अखेर आनिकूय खुलून दिसतासली. ज्युस्त हीच गजाल मधुसुदन जोशी हांगेले 'हुमरो आनी माजघर' हे कथेची. बाळूचो आख्खो जीवनपट कथेचें फास्केंत चेपपाचो येत्न केल्ले वरी दिसलें. सुधा खरंगटेली 'किर्र कुट्र' कथा अश्या भावविश्वांत व्हरता जें भावविश्व हाचे पयलीं मीना काकोडकार, शीला कोळंबकार हांणी समृद्ध करून दवरलां. पी. गोपिनाथ कामत हांगेली 'चांगपण केल्यार' ही कथा चाकोरींतली आनी मध्यमवर्गीय संवेदना जागोवपी. हे कथेचें खेरीतपण केरळी भाशाशैली.

माया खरंगटे ही फाटलीं साबार वर्सां कथा बरयता. नवे नवे विशय जे कोंकणी कथेंत येवंक नात तांचेर बरयता. ही कथाय अशीच सायकीक केस आशिल्ले बायलेची. समाज तिका नॉर्मल लेखिना. पूण तिचो मोग करपी घोव तिका समजून घेता आनी गरज तेन्ना 'म्हजी धूव ती' हे भावनेन तिची जतनाय घेता, अशी ही कथा. सुरवातीकच संवादांनी विस्तार घेतला ताका लागून कथा आंग सुटिल्ले वरी दिसली. कथा बरी आसा. पूण विशय केळोवपाक लेखिका उणी पडली अशें दिसलें. मुकेश थळी हो मुळांत ललीत निबंदकार. 'वकालतनामो' कथेकूय ललीत निबंदाचीच सया मारता. वकिलाचे जिणेंतलो एक दीस हो कथेचो विशय. लेखनांत लालित्य आसा. वकील-ड्रायव्हर संबंद बरे रंगयल्यात. पूण कथा म्हूण 'वकालतनामो' प्रभाव घालना. किशू बारकूर हागेले 'पिरेरिगेलीं चेडवां' हे कथेची शैलीच आगळी आनी विशयूय सुंदर. पिरेरील्या चेडवांचो मोन्यांनी मोग करपी पेद्रूची ही काणी आमकां वेगळ्याच वाठारांत व्हरता. विशय तसो नवो न्हय. ही कथा म्हाका नवें किते दिता तें हांव चिंतूंक पडलों.

अशांच विशयाचेर हांवें पयरच एक कथा बरयल्या. विशय जर पोरनोच जाल्यार हांवें ती कित्याक बरयली? कारण, म्हाका एक आगळे तरेचो नायक उबो करचो आसलो. मोग करपाची आगळी रीत वाचकां मुखार दवरपाची आसली. आतां प्रस्न उपरासलो, बारकूरान ही कथा बरोवन नवें कितें दिलें? शैली आनी वातावरण इतलेंच? हय. कारण हो मोन्या मोगाचो विशय मांडटना ताणें चालंत पद्धतीन मांडला आनी हे भाशेन तो हे आर्दी आयला.

दामोदर घाणेकार हागेली 'दांतांनी मेळ्ळो धागो' ही डिटेक्टीव

कथा म्हूण वाचचेली. कोंकणी साहित्याक अश्या गुप्तहेर कथा, रहस्यकथा, पोलिसी कथा हांची गरज आसा. ते नदरेन घाणेकाराच्या येत्नांची तोखणाय करूंक जाय. किरण म्हांब्रेली 'देवतेची मागणी' ही कथा विशयाचे नदरेन सुंदर आसा. देवीन मागलां म्हूण कळटकच भुरगें मन कशें काचाबूल जाता ताचेर ही कथा. हे कथेंत बायेचे मानसीकतायेचेर इलो चड उजवाड जाय आसलो. विन्सी क्वाद्रुशाली 'आशिर्वाद' ही कथा वाचली. बरें केल्यार बरें जाता हो संदेश दिवपी कथा. ही कथा थोडी अंधश्रद्धे कडेन बागवता अशें दिसलें. ब्रॅण्डा मिनेझीस हिगेली 'तेल बुडत पूण सत बुडचें ना' ही कथा चोरयेचें बगलांट घाल्ल्यान त्रासांत पडिल्ले घांटी चलयेची. चोरी कोणें केली तें योगायोगान उकताडार येता आनी 'सत बुडचें ना' हें लेखक सिद्ध करता. पर्थून हीय कुड्ड्या भावार्ता कडेन बागोवपी कथा.

साबार कथांतलीं उणीं दुणीं उस्तून काडपाचो हो म्हजो येत्न इतलेच खातीर की आमच्या लेखनाचो विवीध आंगांनी विचार जावचो. हांव कांय समिक्षक न्हय. एक वाचक ह्या नात्यान म्हाका जाणवलें तें बरयलां. समिक्षकांनी परखड बरोवपाचो वेळ आतां आयला. 'जागा'च्या संपादकान समिक्षकांक बरोवपाक प्रवृत्त करचें. हांवें म्हगेले कथेचेर टिप्पणी केली ना. कारण म्हगेली तटस्थताय भंगतली असो भंय दिसता. म्हगेले कथेंतूय दोश आसातच. समिक्षकांनी ते दाखोवचे. ते दोश निवळावपाचो येत्न हांव करतलों.

पेन सकयल दवरचे पयलीं 'जागा'च्या संपादकाक आनेक विनंती. कोंकणी कथेच्या मळार नवे लेखक वयर सरल्यात. प्रितेश परसाई, उदय नायक, अजय बुवा आनी हेर लेखक खूब बरें बरोवपाक लागल्यात. 'जागा'न तांचे कडसून बरोवन घेवचें — अर्थात दर्जो आसल्यारच छापतले हे बोलीचेर. आनेक बरो येत्न करूं येता जो मराठींत पयलीं 'सत्यकथा'न केला. लेखकान धाडिल्ले कथेचेर फावो ते संस्कार करपाक लेखकाक सुचोवप आनी तीच कथा पुनर्लेखन करून मागोवप. ह्या कामाक महाबळेश्वर सैल सारके लेखक तांकां मार्गदर्शन करूंक शकतले.

**- दामोदर मावजो**

---

## 'जाग' दिवाळी - नातलां ०९ गुणांनी ओत्ता...

'जाग' दिवाळी-नातलां ०९ चो अंक वाचलो. हो अंक उसरां येवं. पूण तो गुणांनी ओत्ता अशेंच हांव म्हणीन. अंकांतलो कथांचो विभाग लक्ष ओडून घेता. तातूंतल्यो सगळ्योच कथा वयल्या पांवड्याच्यो जाल्यात. म्हाका विशेश आवडिल्ल्यो कथा म्हळ्यार दामोदर मावज्याची 'हॅपी बर्थ डे', 'खतां' ही गोकुळदास प्रभूची, आशयाचें वेगळेंपण घेवन आयिल्ली शीला कोळंबकाराची 'मेकळें मेकळें' ही कथा. तेच प्रमाण फाटल्या वर्सा भशेन हेय फावट मुकेश थळी एक बरी कथा दिवन गेला. जोगान मनीस सभावाचें दर्शन घडयलां. सोतेर बार्रेताची कथा आनीक एक वेगळो अणभव दिवन वता. बरोवप्यांक कथा ह्या साहित्य प्रकाराची उत्तम जाण आसा हाची गवाय ब्रँडा मिनेझिसची कथा दिता. कथेच्या शेवटाक लेंस दोळ्यां कडेन गेले बगर रावना. एडवीन जे. एफ. डिसौजाची कथा वाचतना मंगळुरी शैलीची संवकळ जाताच. पूण तेच बरबर कथाकार म्हूण ताची तांक केदी व्हड तेंय कळटा. खरें म्हळ्यार कोंकणी कथा आनी कवितांची नवीं संकलनां येवपाची खूब गरज आसा.

ललीत बरपावळींत मनोहर पै धुंगट हांच्यो 'केगदी वेळेवयल्यो घुलो' अप्रतीम. अशे तरेचें आत्मचरित्रात्मक बरप येवप गरजेचें आसा. सुरेशबाब आमोणकाराचो बाकीबाबां वेलो लेख खूब म्हत्वाचो आसा. मेल्वीन रॉड्रिग्साचो कविते वेलो लेख अभ्यासपूर्ण जाला. कोंकणी साहित्याच्या अभ्यासकांक ताचो खूब उपेग जातलोच.

एकाद्रे साहित्यकृतीचें मोल तिचे लांबे आनी रुंदाये वयल्यान थारावंक येना. किरण म्हांब्रेची 'देवतेची मागणी' ही सुपुल्लीच कथा खरी. पूण आशयाची खोलाय आनी मांडावळीचें सादेपण हाका लागून ती कलेची उंचाय घेता. किरणबायन अश्योच सुंदर कथा बरोवच्यो. हे फावट कांय मौलीक कविता वाचपाक मेळ्ळ्यो. तुकाराम शेट हांची 'अल्लादीनाचो दिवो' सगळ्यांत चड आवडली.

अदिती नायकान केल्लीं रेखाटनां बॅस्ट. ताका म्हजीं परबीं.

**- माधव बोरकार**

---

## दिवाळी नातलां आंकांत कांय चुकी उरल्योच...

एक चूक, सामकी व्हड — 'सायोनारा जपान' हें भोंवडे - वर्णन हर्षा शेटये हांगेलें. पूण लेखक म्हूण थंय 'दामोदर मावजो' छापून आयलां. ही चूक लक्षांत आयली ताचे पयलींच आंक वाचप्यांच्या हातांत पाविल्ले. हर्षाबायन व्हड मनान 'आसूं, कांय नजऽ' म्हळें. तरी 'खत' उरलेंच...

सॉतॅरबाबांचे कथेंतूय दोन चुकी उरल्यात. त्यो तांणीच नदरेंत हाडून दिल्यो—

१. पान ६२, मदल्या कॉलमांतली ८ वी वळ 'तिजोरी' आसा तें 'झर' जावपाचें.

२. 'दादुलो आनी गाड गरोरार लागोता' आसा तें 'दादुलो आनी माड मरोसर लागोता' जावपाचें. ही कथा ल्हानशी आशिल्ल्यान ती ह्या आंकांत परती दिल्या.

दोनूय बरप्यांनी 'कांय नजऽ' म्हळां खरें. पूण तांची चूक मागले बगर रावं येता?

**- संपादपी**

# प्रकाश थळी
# बंधनमुक्त जिणेची तळमळ

**उदय भेंब्रे**



प्रकाश थळीचो सांगात हो एका रसीक साहित्यिकाचो सांगात आशिल्लो. एका संवेदनशील कलाकाराचो सांगात आशिल्लो. ताचेय परस म्हत्वाचें म्हळ्यार एका साद्या, सरळ आनी प्रामाणीक मनशाचो सांगात आशिल्लो. तो आतां ना जाला हाची खंत ताच्या सगल्या इश्टांच्या आनी बरें-मागत्यांच्या मनांत सदांच उरतली.

सैमान उदारपणान कितलेशेच गूण प्रकाश थळीच्या आंगांत घाल्ले. तातुंतले कांय गूण पर्जळ्ळे. अदीक लांब जिवीत मेळिल्लें जाल्यार घडये आनिकूय कांय गूण पर्जळटले आशिल्ले. ताच्या त्या गुणां मदीं आनीक एक खाशेलेपण आशिल्लें. भोव करून प्रतिभावंत हो अभ्यासू संशोधक आसना. कलासक्त मन आनी जड अभ्यास हांची इश्टागत चडशी दिसना. पूण प्रकाश प्रतिभावंत साहित्यीक आनी कलाकार म्हूण वावुरतनाच संविधानाचो अणकार करपा सारको निरस आनी जड वावर तडीक व्हरूंक पावलो.

प्रकाशा कडेन कोंकणी, मराठी आनी इंग्लिश ह्यो भासो बरोवपाची आनी उलोवपाची मोटी तांक आशिल्ली. देखुनूच बरो अणकारपी म्हूण तो फुडें सरलो. सगल्याच अणकारप्यांची मूळ भास आनी अणकाराची भास हांचे विशींची तांक समान पांवड्याची नासता. अणकारच्या विशयांत प्रभुत्व अणकाराचे भाशेचेर आसूंक जाय; मूळ भास सादारणशी कळ्ळ्यार पुरो अशें म्हणटात. पूण कोंकणी, मराठी वा इंग्लिश आसूं, प्रकाशाची तांक समान पांवड्याची आशिल्ली आनी ताका लागून ताणें केल्ले अणकार खूब बरे जावंक पावल्यात. ताणें मौलीक साहित्य रचलां आनी ताच्या ललीत निबंदांचो एक झेलो उजवाडाक आयला. पूण ताणें केल्ल्या नाटकांच्या अणकारां वरवीं कोंकणी रंगमाचयेची भोव बरी सेवा जावंक पावल्या. बादल सरकार, गिरीश कर्नाड हांचीं गाजिल्लीं नाटकां ताणें कोंकणींत हाडल्यांत आनी प्रायोगीक रंगमाचयेच्या मुळावणाक तांचो भोव बरो पालव मेळ्ळा. साहित्य अकादेमी, नॅशनल बूक ट्रस्ट हांचे खातीरूय ताणें लेखन केलां.

अणकाराच्या मळार ताचो आनिकूय मोटो वावर आसा. गोवा कोंकणी अकादेमीन ताचेर भारतीय संविधानाचो कोंकणी अणकार करपाचें काम सोंपयलें. तेन्ना हांव अकादेमीचो अध्यक्ष. आदीं उतरावळ तयार करून उपरांत अणकाराक हात घालचो अशें आमी थारायलें. स. फेलीस्यु कार्दोज हांचोय पालव घेतलो. प्रकाशान तो वावर चिकाटेन आनी पासियेंसान केलो. उपरांत अणकाराचो मोटो वावर ताणें तेच चिकाटेन आनी पासियेंसान केलो. भारत सरकाराच्या घर खात्या वरवीं तो कोंकणी अणकार उजवाडा आयला. फाटल्यान उतरावळ दिल्ली आसा. कोंकणी भाशेची उदरगत आनी उतरावळ ह्या मळांचेर त्या वावराक खेरीत म्हत्व आसा आनी तें सासणाचें उरतलें.

शब्दकोश रचप होवूय असोच किचकटीचो, चिकाटेचो आनी पासियेंसाचो वावर. पूण संवेदनशील मनाचो कलाकार म्हूण वावुरतनाच प्रकाशान तो आंगार घेतला आनी बरे तरेन पूर्ण केला.

घडये, ताचें चडांत चड आवडीचें क्षेत्र म्हळ्यार रंगमाची. कोंकणी आनी मराठी ह्या दोनूय भाशांतल्यान रंगमाची ताणें केळयल्या आनी तिका नटयल्या. नाटकाचें दिग्दर्शन हें ताचें क्षेत्र. कला अकादमीच्या नाटक-स्पर्धांनी तो कितलींशींच वर्सां पर्जळ्ळा आनी कितल्याशयाच कलाकारांक ताणें उजवाडांत हाडल्यात. ह्या क्षेत्रांतल्या ताच्या वावरा खातीर जायत्या पुरस्कारांनी ताचो भोवमान जाला. मुंबय सारक्या शारांत वा दिल्ली सारक्या राजपाटणांत ताचो हो वावर जाल्लो जाल्यार तो आनिकूय फांकीवंत जातलो आसलो.

हांव जाणा ते भाशेन प्रकाशान रंगमाचयेच्या खंयच्याच आंगाचें फॉर्मल शिक्षण अशें घेवंक नाशिल्लें. ती कला जल्मा पासून ताच्या रगतांत आशिल्ली आनी ते कलेचे सेवेंत ताका उपाट खोस आनी समाधान मेळटालें. घडये, गोंयकारां मदीं आशिल्लो अल्पसंतुश्टपणाचो दोश ताचेय मदीं आशिल्लो. घडये, परिस्थितीन ताका व्हडली उडी मारपाची संद दिली ना.

प्रकाश भाशांचो मोगी आशिल्लो, उतरांचो मोगी आशिल्लो. आनी उतरांचो आदार घेवन कोटी करपाची ताका आवड आशिल्ली. तातुंतल्यान ताच्या मिश्कील वा विनोदी सबावाचें दर्शन घडटालें. हे आवडीक लागून कांय वेळा ताणें उतरां घडयल्यांत, वाक्प्रचार रचल्यात. म्हणी रचल्यात. पूण हें सगलें कागदार बरोवन दवरिल्लें आसतलें अशें दिसना.

प्रकाश थळी हो संवसारांत पडिल्लो पूण पिंडान बंधनमुक्त जिणेचो मोगी आशिल्लो प्राणी. म्हजो तर्क, मानसीक पांवड्यार हे कातरींतल्यान सुटका करून घेवपाचो यत्न करीत तो रावला; पूण अमकेच एके

दिशेन वचपाचो निश्चेव ताका साध्य जालो नासुंये. बंधनमुक्त जिणेचो मोगी आशिल्ल्यान तो करियरवादी नाशिल्लो हें मात दुबाव मनांत धरिनासतना सांगूंक जाता. ताणें वेगवेगळ्या क्षेत्रांनी संचार केलो, थंयचो अणभव घेतलो; पूण थंय दसून रावलो ना. क्षेत्र मानवलें ना म्हूण आसत वा बंधन नाका म्हूण आसत; ताणें तें सोडून दिलें. वेव्हाराचोय हुस्को केलो ना.

प्रकाश शिक्षक म्हूण वावुरलो. पूण त्या क्षेत्रांत रावपाची पात्रताय आसून पसून रोखडोच मुक्त जालो.

उपरांत पत्रकारितेंत आयलो. 'सुनापरान्तां'तलो वावर ताच्या सबावाक मानवतालो, ताचो सांगात हेरांक मानवतालो. पूण पर्थून तेंच. बंधन नाका. दिसाळ्यांतलो खबरां विशींचो वावर ताका मानवपा सारको नाशिल्लो. पूण ललीत शैलींत चुटके बरोवप, लेख बरोवप हें तो आवडीन करी. हांव संपादक आसतना भलायकेच्या कारणाक लागून देड-दोन म्हयने पयस उरलों. त्या वेळार अग्रलेख बरोवपाच्या वावरांत ताचो म्हाका खूब आदार जालो.

कोंकणी चळवळींतल्या हेर कांय जाणां भाशेन प्रकाशाकूय वेव्हार जमलो ना. तसो ताचो पिंड वेव्हारी मनशाचो नाशिल्लोच. साहित्याचे, कलेचे सेवेंत जें समाधान मेळ्ळें तेंच आपणालें मानधन अशें ताणें मानलें.

जमांचे रंगमाचयेर नायक, नायिका, खलनायक अशीं ठळक पात्रां आसतात. पूण आनिकूय कांय पात्रां आसतात जीं तितलीं ठळक नासलीं तरी यादींत उरतात, मनाक चुटपूट लावन वतात. तसलेंच चुटपूट लावन गेल्लें एक इश्टागतीचें पात्र: प्रकाश थळी!



# विंदा करंदीकर : बडीचो सर्वाभिमुखी चिंतक

मु. म. तडकोडकार

फाटल्या पंचवीस वर्सांत मराठीच्या प्राकारांतले कांय व्हड चिंतक काळाच्या आड गेले. प्रभाकर आत्माराम पाध्ये (मार्च २२, १९८४), श्रीकृष्ण पुरुषोत्तम भागवत (ऑगस्ट २१, २००८) आनी विंदा करंदीकर (मार्च १४, २०१०) हे तांतले भोवच उंचेल्या पावंड्या वेले. पाध्ये, भागवत आनी करंदीकर हांच्या नांवांचो निर्देश करपाचें कारण एकूच. तें म्हळ्यार, ते तिगूय कोंकणांतले. कोंकणांतलो मनीस मुळचोच विचारवंत. तो खंयूय वचूं, ताची प्रतिभा आनी प्रज्ञा सदांच भोंवतण पर्जळीत करता. असल्या विचारवंतांक *लॉबींग* करची गरज पडना, पुरस्कारां फाटल्यान धांवचें पडना. पदां आनी पुरस्कारूच तांचो सोद घेत येतात आनी आपणालें मोल वाडयतात.

गोविंद विनायक करंदीकर उपाख्य विंदा करंदीकर नांवाची एक व्यक्ती आतां आमकां अंतरल्या. व्रतस्थ दृष्टी आशिल्ले हे व्यक्तीचे प्रतिभाशक्तीक उद्देशून नामनेची अभ्यासक विजयाबाय मंगेश राजाध्यक्ष हांणी नकसूद उतरांनी 'बहुपेडी तशेंच बहुपिंडी' अशें म्हणिल्लें. करंदीकर एक प्रतिभावंत कवी तशे एक प्रज्ञावंत चिंतक आशिल्ले. ही व्यक्ती निखटी महाराष्ट्राची वा मराठी भाशेची आशिल्ली अशें म्हणूं नजऽ. श्रमाक लागून व्हांवपी घुमेचो पवित्र गंगा म्हण गौरव करपी, मायभुंयेचे मातयेचो परमळ लेवपी, 'जातका'चे विंगड विंगड अर्थ लावपी आनी मनशाच्या विरुपांत लिपिल्ल्या करूणपणांतय सौंदर्य सोदपी, स्पर्शाचे आंकूर मेजपी आनी मळबांतल्या कुपांचो अर्थ सोदपी अशी ही व्यक्ती. तेराव्या शतमानांतल्या ज्ञानेश्वराच्या *अमृतानुभवाक* विसाव्या शेंकड्यांतल्या चिंतकाच्या चित्तांतल्यान उदेल्ली नवी भास दिवपी अशी ही व्यक्ती. मनीसकुळाची चिंता करपी सदैव तळमळपी हे व्यक्तीचो आत्मो निमाणें क्लान्त जावन प्रशान्त न्हीद घेवपाक आमच्या दोळ्यां आड गेलो.

अशी ही प्रशान्त न्हीद घेवचे पयलीं तें व्यक्तीन सांगिल्लें, ''म्हजी आत्महीन कूड वैद्यकीय महाविद्यालयांतल्या शिकप्यांक दिवची. म्हजे कुडीचो गोबर जावचे परस तिचो विलो असो जावचो.''

करंदीकर एक कवी. तांणी १९४० सावन कविता बरयल्ली. *स्वेदगंगा* (१९४९, १९५८, १९६९, १९९४), *मृदगन्ध* (१९५४, १९६२, १९६९, १९७५, १९९४), *धृपद* (१९५९, १९७८, १९९६, २००४), *जातक* (१९६८, १९८३), *विरूपिका* (१९८१, २००३), *अष्टदर्शने* हे तांच्या परिपक्व काव्यलेखनाचे झेले. *स्पर्शाची पालवी* (१९५८, १९९९), *आकाशाचा अर्थ* (१९६५, २००४), हे तांच्या समृद्ध सभावांतल्यान उपजल्ले लघुनिबंधप बरपावळीचे संग्रह. तांणी मराठी वांगडा इंग्लिशींतल्यानय समीक्षात्मक बरपावळ केल्या. तातूंत *परम्परा आणि नवता* (१९६७, १९८०), *उद्गार!* (१९९६), *लिटरेचर अॅज अ व्हायटल आर्ट* (१९९१), *अ क्रिटीक ऑव्ह लिटररी व्हॅल्यूज* (१९९७) हांचो आसपाव करुंक जाय. करंदीकरांनी *ॲरिस्टॉटलचे काव्यशास्त्र* (१९५७, १९७८, १९९३, २००२), *फाउस्ट - भाग १* (१९६५, १९९५), *राजा लिअर* (१९७४, १९९५) हे कांय अणकार केले. तशेंच *संत ज्ञानेश्वराचो अमृतानुभव* (१९८१, १९९६) घेवन त्या ग्रंथाचें मराठींतल्यान अर्वाचिनीकरण केलें. तांच्या वेंचीक कवितांचे *संहिता* (१९७५, १९८७, १९९४) आनी *आदिमाया* (१९९०, २०००) अशे दोन झेले उजवाडा आयले. करंदीकरांनी माणकुल्यां पासत कविता बरयल्यो. *राणीची बाग* (१९६१, १९७५, १९९३, २००३), *एकदा काय झाले* (१९६१), *एटू लोकांचा देश* (१९६३, १९९३, २००४), *सशाचे कान* (१९६३, १९६७, १९९३, २००४), *परी ग परी* (१९६५, १९९३, २००४), *पिशी मावशी आणि तिची भुतावळ* (१९८१, १९९३, २००४), *अडम् तडम्* (१९८५, १९९३, २००४), *टॉप* (१९९३), *सात एके सात* (१९९३), *बागुलबोवा* (१९९३, २००४) हे तांच्या बालकाव्याचे कांय झेले.

करंदीकरांचो पयलोच कवितां झेलो *स्वेदगंगा* तांचे घरकान्नीन पदरचो दुडू घालून आनी अनंत काणेकरांची प्रस्तावना घेवन उजवाडा हाडिल्लो. तातूंतल्यो दोनूच कविता नेमाळ्यांनी आयिल्ल्यो. तांची 'दांतापासून दांताकडे' ही खूब चर्चा जाल्ली कविता *सत्यकथे* सारक्या विद्वन्मान्य नेमाळ्यान *'साभार परत'* धाडिल्ली.



बरोवप्याचें भाग्य केन्ना फळफळटा? ताका बरे वाचपी मेळटात तेन्ना. बरो वाचपी बरोवप्याच्या जिणेकाळांतूच मेळटा अशेंय ना. कांय बरोवप्यांच्या मरणा उपरांत तांचे बरपावळीक बरो वाचपी मेळटा. करंदीकरांचे बरपावळीक, तांच्या जिणेकाळांतूच बरो

वाचक मेळ्ळो.

गोंयचो एक फांकिवंत कवी नरेन्द्र बोडके हांणी एके कडेन म्हळां, "म्हाका एकांत आवडटा. पूण हांव चित्तान कितलोय एकांत मोगी आसूं. म्हज्यान लोकांक तोडून वांट्याक आयिल्लें एकटेपण सोंसूं नजऽ. म्हाका मनशांचो सांगात जायच पडटा." करंदीकरूय अशेच मनशाच्या सांगाताक आंवडेताले. ते एके वटेन बालकवींच्या कवितांनी आशिल्ली *नितांतकाय* सोदूंक वावुरताले आनी दुसरे वटेन मनशां भितर वावरूंक मेळना जाल्यार अस्वस्थ जाताले. प्रासंगीक कारणांतल्यान निर्माण जाल्ल्या उद्वेगान तांणी 'माझ्या मना, बन दगड' अशें म्हळें. पूण *वसन्तविकास* ह्या कोमल कविनामान तांणी सुरवेची कविता बरयिल्ली. तांणी *स्पर्शाची पालवी* अणभवली आनी आकाशाचो अर्थ सोदलो. बालकाव्य रचलें. माणकुलीं भुरगीं जिवितांत केन्ना फातरा भशेन कठोर जावचीं न्हय म्हणून फावऽ तशी कविता बरयली.

करंदीकर खूब भावूक आशिल्ले. तांणी साहित्यीक वावर करतना भूतकाळांतल्या बरोवप्यांचेर काळजा सावन मोग केलो. ॲरिस्टॉटल (इ.स.पू. ३८४ - इ.स. पू. ३२२), गटे (ऑगस्ट २८, १७४९ - मार्च २२, १८३२), ज्ञानेश्वर (१२७५-१२९६) सारकेल्या साहित्यनिर्मणेंतल्या वाट-चिऱ्याफातरांचो आदर केलो आनी तांचे बरपावळीचो स्पर्श मराठी भाशेक करून दिलो. जर्मन भाशेंतली शोकान्तिका *फाउस्ट* (१८०६) च्या पयल्या भागाचो तांणी अणकार केलो. (गटेन १८३२ त बरयल्ल्या *फाउस्टच्या* दुसऱ्या भागाचो अणकार तांणी कित्याक केलो ना, हाचें कारण कळना.) हो अणकार तांणी प्राध्यापक आनी मराठी कवितेच्या प्राकारांतलो एक वाट-चिऱ्याफातर माधवराव पटवर्धन (माधव जूलियनः १८९४-१९३९) हांकां ओंपलो. कारण, पटवर्धन करंदीकरांचे आदरणीय प्रोफेसर आशिल्ले. हेच तरेच्या भक्तिभावान तांणी मराठीचेर नितांत मोग केलो. अणकार करतना होच भक्तिभाव तांकां प्रेरणा दितालो. करंदीकर आरंभीच्या काळांत सावरकरवादी आशिल्ले, परंत तांची नदर कांय काळान बदल्ली.

करंदीकरांनी इतलो विचारीक प्रवास कसो केलो? आपणें कितें वाचूंक जाय, आनी कितें वाचपाची गरज ना, हाची एक येवजण तांणी केली. जायते लेखक समिक्षकाचेर नदर दवरून बरप करतात. पूण, जी. ए. कुलकर्णीचे प्रतिभेची वाट समिक्षकांनी लायली अशें मानपा मेरेन करंदीकरांनी विचारीक प्रवास केल्लो. *क्लासिक्स* म्हूण कांय नासता. आवडटा तें वाचप. आवड हीच एक *सनातन* गजाल. आपणाक आवडटा तेंच हेरांनी वाचचें असोय आग्रो धरचो न्हय, अशें तांणी सांगचें.

कितलेशे जाण सौंदर्यशास्त्राची तोखणाय करपांत गुल्ल आशिल्ले तेन्ना करंदीकर कवितेचें रसग्रहण करपाक कसलेच फाटभुंयेची गरज ना, अशें सांगताले. पूण अशें म्हणचे पयलीं तांणी इंग्लीशींतली बरपावळ समजून-उमजून घेवपाचे दिकेन पावल उबारिल्लें. सद्दां बारा ते चवदा वरां ते असलीं पुस्तकां वाचून काडटाले. रशियन बरोवपी डोस्टोव्हस्की (१८२१-१८८१), लिओ टॉलस्टॉय (१८२८-१९१०), आन्तोन चेकॉव्ह (१८६०-१९०४), इंग्लीश बरोवपी आल्फ्रेड नॉर्थ व्हाइटहेड (१८६१-१९४७), जॉन गॉल्सवर्दी (१८६७-१९३३), इंग्लिश तत्त्वज्ञ आनी गणितज्ञ बर्ट्रॉण्ड रसेल (१८७२-१९७०), जेम्स जीन्स (१८७७-१९४६), ऑस्ट्रियन-ब्रिटिश तत्त्वज्ञ लुडविग विट्गिन्स्टाइन (१८८९-१९५१) सारकेल्या विचारवंतांच्या गिन्यानाची खोलाय मतींत घेवपाचो येत्न केल्लो. इंग्लण्डांत अध्यापन करपी अमेरिकी गणितज्ज्ञ जॉर्ज डेव्हिड बर्कोफ (१८८४-१९४४) च्या *एस्थेटिक मेजर* (१९३३) ह्या ग्रंथान तर करंदीकर कांय काळ पुराय प्रभावीत जाल्ले.

जाणें रसेल वाचला ताका चार्वाक खूब बरो आकळटा अशें तांकां दिसतालें. इंग्लिश वाचतकच मर्ढेकर आपणाक बेस बरे तरेन मतींत घेवंक कळ्ळे, देखून आपूण दिपकावलों ना, अशें तांचें मत्त आशिल्लें.

करंदीकरान आदल्या काळांत रसेल वाचिल्लो आनी उपरांत कार्ल मार्क्स (१८१८-१८८३) वाचलो. अशें केल्ल्यान कसलेय गजालीचेर भासाभास करपाची तांची तांक सुरक्षीत उरली. सांगिल्ल्या गजालींचेर परत्या परते चिकित्सात्मक प्रस्न विचारपाचे नासतात, म्हणपाची *मार्क्सवादी* 'धर्मग्रंथां'तली गजाल तांणी सांवधपणान मतींत सांबाळून दवरली. पूण ती आचरणांत हाडली ना. *स्वेदगंगा* ही तांची मार्क्सिस्ट आंगलें घालून आयिल्ली कविता. ते मार्क्सिस्ट पक्षाचे वांगडी नासतनाय एका काळार तांची ती कविता पक्षाचो जण एकलो वांगडी वाचतालो.

विरोध करपा खातीर विरोध करप म्हळ्यार प्रमाद. प्रभाकर पाध्ये मर्ढेकरांचेर रागार आशिल्ले कारण मर्ढेकरांनी पाध्येंच्या बरपाक फावऽ तितलें म्हत्व दिवंक नाशिल्लें. करंदीकरांनी विट्गिनस्टाइनच्या शिष्याचो - मॉरिस वाइट्झचो - एक लेख अणकारिल्लो. ताची रा. भा. पाटणकरांनी *सौंदर्यमीमांसेत* फावऽ तितली दखल घेवंक नाशिल्ली. 'बलायकी बरी ना, देखून तुजी कविता वाचूंक जमचें ना.' अशें मर्ढेकरांनी सांगना फुडें करंदीकर तांकां आपणालो कवितांझेलो दिनासतना परतल्ले. पूण तरी तांणी मर्ढेकरांचेर, ते एक तत्त्वचिंतक अशें मानून भोव लक्षणीय बरप केलें. *परंपरा आणि नवता* हें पुस्तक ते दृष्टीन वाचचें.

बरोवपी वाचप्यां मेरेन दोन तरांचें संप्रेशण करता. भावनीक आनी काल्पनीक. भावनीक संप्रेशणाच्या संबंदान ब्रिटीश तत्त्वज्ञ आय.ए. रिचर्डसान (१८९३-१९७९) आपणाल्या मत्तांची मांडणी केल्ली तर जेम्स जीन्सान काल्पनीक संप्रेशणाचो अर्थ विस्कटावन सांगिल्लो. बरोवपी कांय फावट प्रत्यक्ष जिणे अणभवांतल्यान वाडत वचपी भावनात्मक संप्रेशण करपी बरप करता तर कांय फावट, कलात्मक अणभवाच्या आदारान लेखकाची वाड जावंक लागतकच तो बरयता अशें करंदीकरांनी सांगलें. एक गजाल हांगा सांगूंक जाय, ती म्हळ्यार, करंदीकर जिणेअणभव घेवपाचो आसता अशें म्हणिनात तर तातूंत तद्रूप जावन तो *भोगचो* आसता, अशें सांगतात. म्हणटकच *प्रिन्सिपल्स ऑव्ह लिटररी क्रिटिसिझम* सारकेल्या ग्रंथाची गरज ना, कारण बरपांतलें सौंदर्य समाजशास्त्रीय आंगान, मानसशास्त्रीय तत्त्वान, प्रयोग करपाचे दृष्टीन वो संख्याशास्त्रीय चौखणींतल्यान सोदपाचो येत्न करूं येता, अशें करंदीकरांक दिसूंक लागिल्लें. अशें आसल्यारय

वाचपाचे क्रियेचोच बरोवप्याक दुय्यम तरेचो, तरिकूय म्हत्वाचो, आलाशिरो मेळटा, अशेंय ते म्हणटात.

करंदीकरांक अस्तंते कडले इंग्लिश बरोवपी लागींचे दिसले, तशे मराठी बरपी दिसूंक नात. तांच्या मत्तान बाळ गंगाधर टिळक हो म्हापुरूस कित्याक, तर तांणी अस्तंतेच्या विचारवंतांक रिचयलें पूण भारतीयत्व राखून. करंदीकरांक कविवर्य बाकीबाब आवडटाले. बाकीबाबांच्या स्वरांत बाकीबाब जितो जाता, अशें ते म्हणीऽ. कोणाच्याय चित्तांत आनी तकलेंत छंदोरचनांच्या संबंदान आकस आसलो जाल्यार बाकीबाबांक *आयकतना* तो ना जावं येता, अशें तांकां दिसऽ. दिलीप चित्रे, नारायण सुर्वे, नामदेव ढसाळ, अरुण कोलटकर हे कवी तांकां मानवताले.

वाङ्मयीन महात्मता अपरिवर्तनीय नासता, अशें साहित्य अकादेमीचे फेलोशिपीचो स्वीकार करतना करंदीकरांनी म्हणिल्लें. तांणी गांधी वाचिल्लो आनी मानवतावादी *क्रान्तिपाठाचोय* उद्‌घोष केल्लो. ते यंत्रावताराचो पाखो घेताले आनी क्रांती सदांच परिवर्तनीय आसता अशें सांगताले. बडीचो हो चिन्तक सर्वाभिमुखी आशिल्लो अशें म्हणूं येता.

करंदीकर एके वटेन पळयत जाल्यार, तृप्त जीण जियेले अशें म्हणूंक जाय. सांगचेंशें दिसलें तें तांणी सांगलें. तांणी जें सांगलें, तें कृतींत हाडूं वा हाडूं नाका, संवसारान कान दिवन आयकलें आनी तांकां तांणी मागीनासतना, तांच्या कर्तुत्वा पासत, तस्निपोय दिल्यो. हेंय एकाद्र्या कवीचें भाग्यूच!

संवसाराची चिंता करपी ह्या कवीचो घरसंवसारूय समाधानी आशिल्लो. तांची घरकान्न सुमा करंदीकर आपणाल्या *रास* ह्या आत्मचरित्रपर बरपांत म्हणटा –

"करंदीकरां सारको प्रतिभावंत, बुद्धिमान आनी व्हड विद्‌वान घरकार म्हूण मेळप हें म्हजें सातां जल्मांचें भाग्य... पूण करंदीकरांक म्हजे सारकी शांत, समजिकायेची, तांकां समजून घेवपी आनी तांच्या कर्तुपांनी निर्शेवपी न्हय अशी विवेकी घरकान्न मेळ्ळी हें करंदीकरांचेंय भाग्यच!"

कविते कडेन विशुद्‌ध स्वरुपाचो संवसार करतनाच सुफळ, समृद्‌ध, सुशील, नीतिमत्तेन *वैवाहीक* संवसार करपी करंदीकरांचें हें व्यक्तिमत्व हेरांकय प्रेरणा दिवं!!!





# सुमा करंदीकरांच्या *रास* आत्मचरित्रांतले 'विंदा'

सुनिता उमस्कार

म्हालगडे मराठी साहित्यकार गोविंद विनायक करंदीकर म्हळ्यार 'विंदा' करंदीकार हांकां मार्च १४, २०१० ह्या दिसा मर्ण आयलें. विंदा करंदीकर हांचो जल्म २३ ऑगस्ट, १९१८ ह्या दिसा जाल्लो. *स्वेदगंगा* हो तांचो पयलो कवितांझेलो. *अष्टदर्शने* ह्या तांच्या कवितांझेल्याक २००३ वर्सा ३९ वो 'ज्ञानपीठ' पुरस्कार फावो जालो. आधुनीक मराठी कवीं मदले ते एक प्रायोगीक कवी अशें मानतात. वि. स. खांडेकर (१९७४), कुसुमाग्रज (१९८७) हांचे उपरांत ज्ञानपीठ पुरस्कार फांवो जाल्ले मराठींतले हे तिसरे साहित्यकार. *मृदगंध, धृपद, जातक, विरुपिका* हे तांचे आनीक कांय कवितांझेले. कविते वांगडाच तांणी बालकविता, ललीत निबंध, समिक्षात्मक लेखन आनी, अणकारीत बरप केलां. मराठी वांगडा इंग्लीशींतूय तांणी बरयलां.

सुमा करंदीकर विंदा करंदीकरांची घरकान्न. *रास* ह्या सुमा करंदीकारांल्या आत्मचरित्रांतल्यान सुखा समाधानान संवसार करपी करंदीकर जोडप्याचें मनभुलोवणें दर्शन घडटा. सुमाबाय आपणा विशीं सांगता आसतना विंदा विशीं बरेंच किर्तें सांगून वतात. विंदांचे बदलते जिणेचे आलेख सुमाबाय ह्या आत्मचरित्रांतल्यान वाचप्यां मुखार दवरतात. विंदांचे जिणेंतल्या दर एका खिणाच्यो त्यो गवाय आशिल्ल्यो. सुमाबायचे नदरेंतल्यान विंदांच्या सभावाचो अन्वयार्थ त्यो लायतात. तांचे जिणेंतल्यो घडणुको तटस्थ नदरेंतल्यान पितारतात. सहजीवनाचो आस्वाद घेतना सुमाबाय रंगून वतात, आनी म्हणूनूच तांच्या जिवितांतले सादे किरकोळ घडणुकेकूय खाशेलो अर्थ मेळटा.

व्हड मनशाच्या सहचारिणींनी तांच्या घरकारांच्या आनी तांच्या सहजीवनाच्या उगडासान आत्मचरित्रां बरयल्यांत. ह्या आत्मचरित्रांतल्यान घरकान्नीचो घरकारा कडेन पळोवपाचो दृष्टिकोन मुखार येता. तातूंत विंगड विंगड तरांच्या वृत्तींचें दर्शन घडटा. आत्मचरित्रलेखनाच्या सुरवेच्या काळांत निर्माण जाल्ल्या आत्मचरित्रांतल्यान घोवा संबंधीचो नितांत आदर आनी तोखणाय हाचे वांगडांच तांच्यो बारीक सारीक कागाळ्यो लेखिका सांगतात. हालींसरा मात बायलांच्या आत्मचरित्रांत आक्रमक सूर आयिल्लो पळोवंक मेळटा.

*रास* हें आत्मचरित्र मात हाका आडवाद. ह्या आत्मचरित्रांत सुमाबाय आपल्या जिविता वांगडाच विंदा करंदीकरांच्या जिविताचेर उजवाड घालतात. जिणेंत आयिल्ल्या जायत्या दुःखाच्या प्रसंगाक सामकार वचत, तातूंतल्यान वाट काडीत हें जोडपें एक सादी, सरळ, समाधानी जीण जगता.

ह्या आत्मचरित्रांत आयिल्ले कांय प्रसंग विंदांच्या सभावाचीं तासां दाखयतात. तत्वनिष्ठ विंदांक विनापत्य विधवे वांगडा लग्न जावचें आसता. तशे, विनापत्य विधवा आशिल्ले सुमाबाय कडेनूच ते लग्न जातात. हे संबंदान सुमाबाय म्हणटात, 'तांकां कोणूय सुंदर चली सहज मेळटली आशिल्ली. पूण तत्त्वनिष्ठा!' लग्ना उपरांत पयली भेट म्हण विंदा तिका द. के. केळकर हांचें *संस्कृतिसंगम* हें पुस्तक दितात. सुमाबाय म्हणटात, 'लग्नाची भेट म्हूण साडी, मुदी बी कांय ना? फकत इतलीच भेट! अशें म्हणून सगळीं बकच्छायो करतात.'

लग्ना उपरांत तांचे भावबंद घट्ट जायत वतात. येदो व्हडलो कवी, पूण रांदचे कुडींत किर्तें आसा, किर्तें ना हाची जतनाय घेता आनी अमकें ना हें कळ्ळे उपरांत पोती घेवन बाजारांत वता. हाचेर चड उजवाड घालीत सुमाबाय म्हणटात, 'पोती घेवन बाजारांत वचप हो हांचो नादूच हें पन्नास वर्सां उपरांत म्हाका कळ्ळें.' साबार तरांचो वावर विंदा करताले. आपणाल्या वावरांत आपूण 'परफॅक्ट' आसां अशें विंदां वांगडा सुमाबायकूय दिसता. सुमाबाय सांगतात, ते आपल्या हातांनी लाकडां फोडून घराचे फाटले पडवेर भरून दवरताले. तातूंत लाकडाचे लोळगे कश्याय कशे लावंक फावऽनासले, तांची सारकी बरी मांडणी जावंक जाय आसताली. लापयांवांच्यो काचो कश्यो पुसच्यो, कोयर कसो पुंजावचो, सान्न कशी धरची, रांदन कशी पेटोवची, टी.वी. पळयतना अंतर कितलें आसचें हांचे संबंदान तांणी नकसूदपणान अभ्यास केल्लो आनी ताका धरून ते सुचोवण्यो दिताले. भाकरेक वेर पडूंक जायना अशें तांकां दिसतालें आनी ती कलाय ते शिकिल्ले. आपणाक बरें रांदूंक येता, अशें विंदांचें मत आशिल्लें अशी तोखणायूय सुमाबाय करतात.

रांदपा वांगडाच संगिताचोय विंदांक ध्यास आशिल्लो. गावपाचो थोडोभोव येत्नूय ते करताले. पूण ताळ्यांतल्यान कांय भायर सरूंक पावलें ना अशें सुमाबाय म्हणटात आनी सांगतात, ते तबलें भोव बरें वाजयतात; पूण नातरांच्या मतान, 'धोडायतात'.



विंदा आपणाचेर आशिल्ले खूब जाणांचे उपकार विंगड विंगड तरांनी फेडटाले. तांचें *राजा लिअर* हें अणकारीत पुस्तक विठूकाका रानडे, बापू वाईकर आनी साठेमास्तर ह्या पयल्या आधारस्थंभांक तांणी

कृतज्ञतापूर्वक अर्पण केलां. विंदा आपल्या ल्हानपणांतले कांय उगडास सुमाबायक सांगतात. तांचें चवथे मेरेनचें शिकप कोल्र्याचे शाळेंत जालें. घरचे परिस्थितीक लागून मुखार शिकप जमचें नाशिल्लें. पूण विठूकाका, वाईकर हांकां लागून ते कोल्हापूराक गेले आनी थंय वार लावन आनी माधुकरी मागून आपणालें शिकप पुराय केलें. थंयचे कितलेशे अणभव ते सुमाबायक सांगतात, तेन्ना सुमाबाय म्हणटात, 'विंदा थंयचे वार आनी थंयचें बरें जेवण हांचें रुचीन वर्णन करताले पूण तें आयकतना म्हज्या पोटांत तुट्टालें.' अशे तरेन विंदा मुखार आशिल्ले परिस्थिती कडेन सकारात्मक नदरेन पळयताले.

कॉलेजींत माधव ज्यूलियन, ना. सी. फडके अशे नामनेचे शिक्षक तांकां मेळ्ळे. प्रभाकर जोशी तांचे वांगडी आसले. कॉलेजींत आसतना एक बुद्धिमान आनी अभ्यासू विद्यार्थी असो तांचो लोकीक आशिल्लो.

विंदांचो आनीक एक गूण म्हळ्यार, ते चळवळी आशिल्ले. तासगांवांतल्या तीन वर्सांच्या राबित्यांत ते थंयच्या गोरेमास्तरांच्या संपर्कांत आयले आनी गांधी विचाराचो प्रभाव तांचेर पडलो. ह्या संदर्भांत सुमाबाय सांगतात, 'चरख्याचेर सूत काडपा इतली तांची प्रगती जाली. बेचाळिसाचे चळवळींतूय कांय शिमे मेरेन लुडबूड केली. फुडें राजा करंदीकरांचे कम्युनिस्ट विचारसरणीचो तांचेर प्रभाव पडलो. हिंदुत्वनिष्ठा ते साम्यवादी विचार हे मेरेन तांचो प्रवास जालो; पूण खंयच्याच पोथिनिष्ठ विचारप्रवाहाचे आहारीं ते वचूंक नात.'

ते कॉलेजींत आसतना हरिजनांक हॉटेल-प्रवेश दिवपा संबंधीची चळवळ जाल्ली तातूंत विंदांनी भाग घेतिल्लो. ताचो परिणाम म्हळ्यार, जेवपा पासत धरिल्ले वार आनी माधुकरी ते वगडावन बसले आनी तांकां उपासमार सोंसची पडली.

तेदेवेळार ते बी.ए. चे परिक्षेक बशिल्ले. तेन्ना डॉ. बाळकृष्ण हे तांचे कॉलेज प्राचार्य आशिल्ले. तांचो 'आर्यसमाजा'कडेन लागींचो संबंध आशिल्लो. करंदीकरांचे विचार राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघा कडल्यान आर्य समाजा कडेन पावले. तेन्नाच हैदराबाद संस्थनांतले निजामशाहीच्या विरोधांत भागानगर गांवांत सत्याग्रह सुरू जालो. विंदा तातुंतूय वांटेकार जाले. निजामी पुलिसांनी ह्या सत्याग्रहींक धरून व्हेले आनी तांकां सात म्हयन्यांचे बंदखणीची ख्यास्त जाली. औरंगाबादचे हर्सूल बंदखणींत तांकां धाडून दिले. सुमाबाय बंदखणींतली एक गजाल सांगतात. बंदखणींत चडशे पंजाबांतल्यान आयिल्ले आर्यसमाजी सत्याग्रही आशिल्ले. ते निर्भय आशिल्ले तशेच अन्याय न सोंसपी आनी तिडक उकतावपी आशिल्ले. बंदखणींत दिताले त्या भाकऱ्यांनी सिमेंट मेळयल्लें आसता अशी तांची समजिकाय जाल्ली. ताका विरोध करूंक ह्या लोकांनी तांकां उदक पिवंक दिल्ल्या चेंबूंनी रेंव भरली आनी ते चेंबू बंदखणीचो अधिकारी आशिल्लो ताच्या कार्यालयाचे दिकेन ते शेंवटून मारपाक लागले. हो उद्रेक विंदांक मानवलो ना. तांणी थंयच्या मळार उबो रावन व्हडा व्हडान आड्डून हिंदी आनी पंजाबी भास नकळो आशिल्ल्यान इंग्लीशींतल्यान तांकां समजावपाचो येत्न केलो. थंयच्या शिपायकांक हें कितें चल्लां तें कांयच समजना जालें. उरफाटें विंदांक तांणी आनीक कांय कैद्यां वांगडा दंड-बेडी घाली. तीन म्हयन्यां उपरांत थंयच्यान तांकां हैदराबाद बंदखणींत, कांय हेर कैद्यां वांगडा धाडले. थंय तांची भेट हॉलिन्स नांवाच्या एका इंग्रज अधिकाऱ्या कडेन जाली. तेदेवेळार करंदीकर एकटेच दंड-बेडीवाले आशिल्ले म्हूण त्या अधिकाऱ्यान तांची चवकशी केली आनी विंदांनी घडिल्लो प्रकार इंग्लीशींतल्यान सांगलो. त्या दोगांयचो सूर जुळून येवपाक कारण म्हळ्यार ते दोगूय शेक्सपिअरचे भक्त आशिल्ले. हॉलिन्सान रोंखड्या रोखडो निर्णय घेवन तांची दंड-बेडी काडून तांचे कडल्यान बी.ए. पदवी परिक्षेचो नंबर घेतलो आनी 'टायम्स' च्या अंकांत आयिल्लो करंदीकरांचो बी.ए. चो रिझल्ट धाडून दिलो. करंदीकर हे पुराय गजालीक 'शेक्सपिअरची कृपा' अशें म्हणटात.

कांय वर्सां उपरांत तांकां स्वातंत्र्य सैनीक म्हण पेन्शन मेळचें आशिल्लें तें तांणी न्हयकारलें. ते संबंदान ते म्हणटात, 'तरणेपणांत देशा खातीर अर्पण केल्ली ती एक पाकळी. ते खातीर म्हजें कांय लुकसाण जालें ना. म्हजें शिकप पुराय जालां. नोकरी आसा. गोट्याक पतिशेर जावंक ना.'

कॉलेजांतल्यान 'स्वेच्छानिवृत्ती' घेतले उपरांत तांकां मानाचीं आनी खूब पयसो मेळोवन दिवपी जायतीं पदां घेवपाच्यो मागण्यो येताल्यो. पूण ते त्यो न्हयकारताले, कारण साठ वर्सां उपरांतचे जिणेंत निर्णय घेवंक लावपी अशें एकूय पद तांकां नाका आशिल्लें. तशेंच, तरणाट्यांक संद मेळची आनी तांच्या कर्तुपाक वाव मेळचो अशें तांकां दिसऽ.

आयुष्यांत कितलो पयसो जाय, हाचे संबंदान तांचें एक मत्त थरिल्लें. तांकां जायते पुरस्कार मेळ्ळे. सुरवेच्या काळांत तांचो उपेग तांणी घरसंवसाराक केलो, पूण उपरांतच्या काळांत ह्या पुरस्कारांचो पयसो ते भायले भायर विंगड विंगड संस्थांक, गरजेवंतांक, दुश्काळ पिडेस्तांक बी दान करताले. ते म्हणटाले, 'हांवें म्हजें कांयच दिलें ना, समाजान दिल्ले कांय पयशे समाजाक परतून दिले.' हातूंतल्यान तांच्या मनाचें व्हडपण दिसता.

तांचे कवितेचेर उलयतना सुमाबाय सांगतात, तांची 'सरोज नवानगरवाली' ही कविता ते एक दीस कोणाक तरी वाचून दाखयताले. घरांतली वावराडी आयदनां घांसतना ती आयकता आनी 'इडा पिडा टळो' म्हणत बोटां मोडून तांची नदर काडटा. तांच्या काव्यवाचनाक मेळिल्ली ही पयली अभूतपूर्व दाद. हाका लागून विंदांक कृतार्थ जाल्ले वरी दिसता.

विंदांक दर्या वेळेर वचून बसपाक आवडटालें. दर्याचीं ल्हारां आनी सूर्यास्त वरांचीं वरां पळेत बसपाची तांकां संवय वा व्यसनच कशें आसलें, अशें सुमाबाय म्हणटात. 'हे माडांनो', 'पश्चिम लाटा', 'खडक फोडतो अपुले डोळे', 'वाळूतिल वाळूच' ह्यो कांय कविता हाचोच परिपाक आसात अशें सुमाबायक दिसता.

करंदीकरांनी *अमृतानुभवा*चो आर्विल्ले मराठींत ओवीबद्ध अणकार केल्लो. सुमाबाय सांगतात, कविवर्य साधुदासांचें एक खेपे *ज्ञानेश्वरी*चेर प्रवचन जाल्लें. उपरांत तांणी करंदीकरांक विचारलें, 'कितें करंदीकर, *ज्ञानेश्वरी* वाचता मूं? करंदीकरांनी सांगलें, 'ती म्हाका समजना'. साधुदासांनी सांगलें, परतून परतून वाच. असोच कोणें तरी *अमृतानुभव* वाच असो सल्लो दिलो आनी तो सल्लो

करंदीकरांनी मानलो. फुडें चाळीस वर्सां उपरांत तांणी *अमृतानुभवा*चो प्रस्तावना आनी टिपो दिवन अणकार केलो.

करंदीकरांच्या काव्यवाचनाक आनी कवितेक रसिकांनी खूब बरो प्रतिसाद दिलो. ते एक रसिकप्रिय कवी आसले. 'वक्रतुंड महाकाय' हे गणपती वयले विरुपिके खातीर तांकां लोकांचो रागूय सोंसचो पडिल्लो. जिवो मारपाची धमकीय तांकां मेळिल्ली, पूण ते कित्याकूच बदले नात. उरफाटें, कविता बरयतना कवीक कसलेय शब्द वापरपाचें स्वातंत्र्य आसा, ही विरुपिका, देखून 'गणपती'चो अधिक्षेप बी कांयच जावंक ना अशें आपणाक दिसता, आपूण क्षमा मागचो ना अशें तांणी ठामपणान सांगलें.

कवितेचेर सुमारा भायर मोग करपी विंदा आमकां ह्या पुस्तकांत मेळटात. कविते वेल्या मोगा पासत तांणी मुंबय आयले उपरांत, बापट आनी पाडगांवकर ह्या कवीं वांगडा काव्यवाचनाची कार्यावळ करीत सगळ्या महाराष्ट्राची भोंवडी केली.

ह्या पुस्तकांत हेरांचे खोशयेंत खुशालकाय भोगपी विंदा मेळटात. सुमाबाय सांगतात, मराठींतल्या नामनेच्या 'मौज प्रकाशना'च्या रौप्यमहोत्सवा निमतान गिरगांवांतल्या मुंबई मराठी साहित्यसंघान एक सुवाळो घडोवन हाडिल्लो. त्या सुवाळ्या वेळार वि. स. खांडेकरांक तांचे *ययाती* कादंबरेखातीर 'ज्ञानपीठ' पुरस्कार फावो जाल्ल्याचें कळ्ळें. विंदांक इतली खोस जाली की तो सुवाळो अर्दार सोडून ही बातमी दिवपाक ते ताकतिकेन घरा आयले.

तांचो पुस्तकांचेर खूब मोग आशिल्लो. ते तांकां भुरग्या वरी सांबाळटाले. ह्या संदर्भांत सुमाबाय सांगतात, तांकां ग्रंथालयांत पुस्तकां दिवप मान्य नासलें. अभ्यासू आनी रसीक मनशाक पुस्तकां दिलीं की तांकां चली बरे सुवातेर पाविल्ल्याची खोस जाताली.

विंदांनी धार्मीक विधींक सदांच विरोध केलो. लग्ना वेळार करपाचो 'कन्यादान' हो विधी बायलांक उणेपण हाडटा अशें तांकां दिसतालें. आपले चलयेच्या लग्ना वेळार तांणी पुरयता कडेन वाद घालून वैदीक लग्न विधींत 'कन्यादान' हो प्रकार ना अशें सगळ्यां मुखार स्पश्टपणान सांगलें. आनी तो विधी करपाक स्पश्ट न्हयकार दिल्लो. हे घडणुके वेल्यान ते उलयताले तशे चलताले म्हणपाचें दिसता. सुमाबाय सांगतात, तांच्या लग्ना आदीं 'बाळकृष्णा'ची मूर्त ते पेपरवेट म्हण वापरताले.

विंदांचे जिणेंत आयिल्लीं मनशां फकत कवितेच्या मळा वेलीं वा लागींच्या सोयऱ्यां भितल्लींच आसतालीं अशें न्हय तर हीं मनशां विंगड विंगड पांवड्या वेलीं आसतालीं. मनशां विशींचो एक कळवळो तांचे भितर सदांच दिश्टी पडटा. सुमाबाय सांगतात, विंदांक केन्ना केन्ना करुणेचे झटके येतात. तीं कागलाक रावतालीं तेन्नाची एक गजाल त्यो सांगतात. एक फावट विंदा सहज भुरग्यांच्या वसतिगृहांत गेल्ले. थंय तांकां सतरा अठरा वर्सांचो एक विद्यार्थी रडटना दिश्टी पडलो. विंदा ताचे म्हऱ्यांत गेले. ताच्या आंगाक हात लावन पळेत जाल्यार ताका खूब जोर आशिल्लो. विंदा ताका घेवन घरा आयले. सुमाबाय म्हणटात, घरांत दोगां भुरगीं, एक तीन वर्सांचें, एक एका वर्साचें, शिकपाक आशिल्लो चवदा वर्सांचो भाचो बापू, धाकली बारा वर्सांची नणंद सोनी, म्हातारपणांत भ्रमिष्ट जाल्ले अवस्थेंत आशिल्लो मांव आनी भरीक भर म्हण आपणाली नोकरी. हो सगळो व्याप काडटना तांचे वांगडा हो दुयेंत भुरगो... ताचें जेवणखाण, वखद सगळें करचें पडलें. चार दिसां उपरांत त्या भुरग्यालो बापूय गांवांतल्यान आयलो आनी 'संत मनीस' म्हणून विंदांच्या पांयांक हात लावन पांयां पडून भुरग्याक घेवन गेलो. सुमाबाय म्हणटात, कोणाचे कश्ट आनी कोण 'संतमनीस'.

विंदा सदांच अशे तरेन स्वताक विसरताले. आपणाले करणेचो परिणाम कितें जावं येता हें ते चिंती नासले. तेदेवेळार आपणें दुसऱ्याक पावंक जाय इतलें तांकां समजतालें.

सुमाबाय म्हणटात, वाट चुकिल्लीं शाळेंत वचपी भुरगीं सदां विंदांकूच मेळटालीं. एक फावट असोच वाट चुकिल्लो शाळेंतलो एक पोर विंदांक मेळ्ळो. धा-बारा वर्सांच्या त्या भुरग्याक आपलो पत्तो सांगूंक येना जालो. ताका वांगडा घेवन तो सांगता थंय ताचे वांगडा विंदा गेले. निमाणे कडेन ताचें घर एके चाळींत मेळ्ळें. मेळटकच त्या भुरग्याक ताच्या बापाय सुवादीन केलो. तर त्या बापायन कितें करचें? पयलीं त्या भुरग्याच्या कांनसुलार फुलयलें. विंदा म्हणटात, 'इतले पयसुल्ल्यान त्या भुरग्याक घरा हाडलो म्हूण सादें उदक लेगीत विचारलें ना.'

विंदांनी एक खेपे मार्गा वयल्यान पदां म्हणीत वचपी एका भिकाऱ्यांच्या घराब्याक घरांत आपोवन हाडून च्या करून दिली. तांची वाजोवपाची मोडकी पेटी पळोवन तांकां कळवळो आयलो. घरांत आशिल्ली आपणाले घरकान्नीची, तिच्या मामान दिल्ली म्हण तिणें उगडासाक दवरिल्ली. तिका विचारी नासताना तांणी भिकाऱ्यांक दिवन उडयली आनी घरकान्नीन विचारतकूच सांगलें, अडगळ नाका म्हूण दिवन उडयली. अशे तरेचे एक वेगळेच विंदा ह्या पुस्तकांत आमकां नियाळूंक मेळटात.

आपूण माधव ज्यूलियनांचो शिष्य म्हण ते जितल्या अभिमानान सांगतात तितल्या अभिमानान आपूण एका शेतकामत्याचो भुरगो म्हुणूय सांगतात.

करंदीकरांनी आपणाले जिणेंत खूब मनशां जोडलीं. सुमाबाय सांगतात 'निरपेक्ष प्रेम करपी कितलींशीं मनशां मेळ्ळीं आनी म्हुण्णूच हे (विंदा) आयुष्यांत उबे रावले.' अशे तरेन सुमाबाय ह्या मनशां विशींची कृतज्ञताय उकतायतात.

विंदांचो जिणे कडेन पळोवपाचो आशावादी दृष्टिकोन सुमाबायक जीण जगपाची एक वेगळीच उर्बा दितालो.

कोंकणांतल्या सैमसुंदर परिसरांत वाडिल्ले विंदा घरांत आनी घरा भायर खोशयेचें वातावरण निर्माण करपाक यशस्वी जाल्ले दिसतात. ह्या आत्मचरित्रांतल्या लेखना वरवीं जिणेंतली तृप्तताय दोगांय अणभवतात म्हणपाचें कळटा.

करंदीकरां सारको प्रतिभावंत, बुद्धिमान आनी विद्वान घरकार मेळप हें आपणालें भाग्य अशें सुमाबाय म्हणटात. एक कर्तव्यदक्ष घोव, मोगाळ बापूय आनी बरो साहित्यकार हेंच तांचें वैभव आनी ह्याच वैभवान भरिल्लें अशें तांचें व्यक्तिमत्व आसलें, अशें निमाणे कडेन म्हणूं येता.

# इन्स्टिट्यूट ऑफ ह्यूमन बिहेविअर

**मंगला कारापूरकार**

मँटल हॉस्पिटलाचो लोखणाचो गडगंज दरवटो उकतो जालो. कुंतलाक भरभरीत दरवट्या भितर ओडलें. बायलांच्या ७ नंबरच्या वॉर्डांत ताका व्हरूंक दोनूय वर्शींनी दोन वॉर्ड-बायलो तयारूच आशिल्ल्यो. त्या दोगींनीय दोनी वर्शींनी कुंतलाक घट्ट धरलें. तांगेल्या हातांतल्यान सुटून मुखेल दरवट्या भायर पळून वचपा खातीर कुंतलाची तांचे कडेन झटापट चलिल्ली. ते झटापटींत कुंतलाच्या कानांतलें भांगराचें रिंग तुटून एके वॉर्ड-बायलेच्या हातांत आयलें. कुंतलाचो साडयेचो पालव सकयल पडून मातयेंत लोळूंक लागलो. दुसऱ्या वॉर्डांतल्यो आनीक दोगी वॉर्ड-बायलो तांचे मदतीक धांवून आयल्यो. चवगीय वॉर्ड-बायलो ताका घट्ट धरून ओडीत धुकलीत वॉर्ड नं. ७ त व्हरूंक लागल्यो.

तांचे फाटोफाट गेटी वेलो चौकीदार, ताचे फाटल्यान रडत रडत कुंतलाली धाकली भयण मानसी, ताका थातारपाचो यत्न करपी मारुती व्हॅनीचो ड्रायव्हर, लेडी पुलीस आनी जाच्या भंरवशार मानसीन कुंतलाक हांगा हाडिल्लें तो दोतोर करमरकार.

व्हडा व्हडान आड्डत अदृश्टांतल्या आपल्या दुस्मानांक गाळी मारीत, स्राप दीत बंदिस्त अवस्थेंत कुंतल वतालें. मानसीन काचाबूल जावन चोंयवर्शींनी नदर भोंवडायली जाल्यार तन्न्यो, मध्यम पिरायेच्यो, जाणटेल्यो बायलो आंगार पाचव्या रंगाचे व्हिस्तीद घालून, वारांदांत बसून, उब्यो रावून किते किते करपांत गुल्ल आशिल्ल्यो ताणें पळेल्यो. कोण मेकळे केंस सोडून उयो काडटाल्यो, कोण बेठ्योच मळबाक पळोवन हात पांय हालयत हेवटेन तेवटेन पासयो मारताल्यो. जाल्यार कोण एकीमेकींचीं भिश्टां ओडीत झगडटाल्यो. कोण आशिल्ल्यो थंयच उडयो मारताल्यो. कोण व्हडा व्हडान हांसताल्यो जाल्यार कोण रडटाल्यो.

कुंतलाच्या गाळयां-स्रापांच्यो आड्डी कानार पडटकच खीणभर तीं सगळीं तटास जालीं. आपणाक आयज एक नवी सांगातीण आयल्या हाची जाणविकाय जातकीर परतींय तीं आपापल्या कामांनी गुल्ल जालीं.

हो काळीज हालोवपी भयानक असो देखाव, थंयचें तें विचित्र वातावरण पळयतकीर आतां मेरेन आडावन दवरिल्लो मानसीचो तोल सुटलो, आनी त्या सगळ्यां फाटल्यान चलतां चलतांच तें व्हडा व्हडान रडूंक लागलें.

"ना, ना, म्हाका म्हज्या कुंतलाक ह्या असल्या पिश्यां मदीं दवरपाचें ना. तें हांगा हांचे मदीं रावन चड पिशें जातलें. दोतोर, ना ना, हांव ताका हांगा कशेंच दवरचें ना. हांव व्हरतां ताका परत घरा." मानसी रडत रडत दोतोराक पांय पडूंक लागलें.

वॉर्ड नं. ७ त पावलें तरी कुंतल आड्डत आशिल्लें. ताचे भोंवतणी हेर पेशंट बायलो एकठांय जाल्ल्यो. वॉर्डन आनी नर्सींनी सगळ्या बायलांक तापोवन पेल्यान काडल्यो, आनी कुंतलाक आळाबंदा हाडपा खातीर तांचे यत्न सुरू जाले.



रडत आशिल्ल्या मानसीक दोतोर करमरकारान वॉर्डांत वचूंक दिलें ना. आपुणूच भितर गेलो. वॉर्डन आनी नर्सींक कुंतला विशीं कांय शिटकावण्यो दिल्यो आनी वॉर्डा भायर येवन मानसीक वेंगेंत घेवन थापटीत मुखेल गेटी भायर हाडलें. गेट 'कर्र्र्' आवाज करीत बंद जातना मानसीन व्हडल्यान हामेर फोडली. ते व्हडले गेटीच्या ल्हानश्या वाटकुळया बुराकांतल्यान भितर पळोवपाक तें धडपडूंक लागलें. व्हडा कश्टान ताका गेटी कडल्यान ओडीत दोतोरान आपल्या कॅबिनांत हाडलें.

मानसी दोतोराक रडत रडत तेंच सांगतालें – "दोतोर, म्हाका कुंतलदीदीक ह्या पिश्यांच्या राज्यांत सोडून वचपाचें ना. हांगा आशिल्ल्या बायलां भाशेनूच म्हजें कुंतलदीदीय पुराय 'मँटल' जावन वतलें."

"कुंतल 'मँटल'? मानसी कितें उलयता गो तूं? तुका हांवें हाचे पयलींय जायते खेपे सांगलां, याद जाता तुका? हांगा कोणूच 'मँटल' ना, तुजें कुंतलदीदी लेगीत! ह्या हॉस्पिटलाचें नांव तुवें वाचलां न्हय? 'इन्स्टिट्यूट ऑफ सायकियाट्री ॲण्ड ह्यूमन बिहेविअर.' आमचे कुडीक कितेंय दुयेंस जालें म्हणटकच आमी दोतोरा म्हऱ्यांत वचून ट्रीटमँट घेतात. तेच भाशेन आमच्या मनाक कितेंय दुयेंस जातकच ताचें मानसशास्त्रीय कारण जाणा जावन बेगोबेग उपाय करून घेवं नाका?"

दोतोराची समजावणी मानसीक मानिल्ले वरी दिसली. पूण ते व्हडले गेटी भितल्लो तो

वरी दिसली. पूण ते व्हडले गेटी भितल्लो तो देखावूच ताचे नदरे मुखार नाचूंक लागलो. आनी सामकें कळवळून ताणें दोतोराक म्हळें, "दोतोर, तुमचें म्हणणें पट्टा म्हाका. दवरतां हांव कुंतलदीदीक हांगा ट्रीटमेंट दिवंक! पूण दोतोर, हे विचित्र भुरावळी भितर हांव ताका सोडून कशें म्हूण वचूं? दोतोर, तुमी म्हजेर कितलेशे उपकार केल्यात... फकत आनीक एक उपकार करशात?"

दोतोरान उतर दिल्ले वरी पूण प्रस्नार्थक नदरेन मानसीक पळयलें.

"दोतोर, तुमी म्हजे कुंतलदीदी खातीर प्रायव्हेट रूम दिवपाची वेवस्था करशात? आयज हांव ताचे वांगडा रावतां. आनी फाल्यां सावन एकाद्री बायल-मनीस पळोवन दीस-रात ताच्या सांगाताक दवरतां."

"बाय मानसी, तुज्यो भावना समजतात म्हाका. हांगा प्रायव्हेट रुम्स आसात. पूण एक सांगूं? तुजे कुंतलदीदीची आयची मानसीक अवतिकाय पळयली जाल्यार ताका प्रायव्हेट रुमा परस जनरल वॉर्डांत दवरपूच चड शाणेपणाचें! प्रायव्हेट रुमांनी आशिल्ल्या पेशंटांक पळोवंक दोतोर, नर्सी, थारावीक वेळारूच वतात. तुजें दीदी चडसो वेळ थंय एकलेंच उरतलें. जनरल वॉर्डांत सगळ्या पेशंटांचेर नदर दवरूंक नर्सी आसतात. वॉर्डन आसता. वॉर्डांत काम करपी कामगार बायलो, येवपी वचपी आसतात. ताका लागून थंय तुजे दीदीचेर दर एकल्याचें येतना वतना लक्ष उरतलें. कळ्ळें न्हय तुका?"

आपली दुकां पुशीत मानसीन हयकार दाखयत मान हालयली. पूण हेर पेशंटां परस आपले दीदीची दोतोरान चड जतनाय घेवंक जाय हें उतर ताणें दोतोरा कडल्यान घेतलेंच. आनी ताका जाता तितले बेगीन बरें करचें अशें मागुंकूय तें विसरलें ना. निमाणें भरिल्ल्या मनान, आनी जड पावलांनी ताणें दोतोराचो निरोप घेतलो. वतां वतां व्हडले गेटीच्या बारकेल्या बुराकांतल्यान भितर पळोवपाचो एक यत्न करूंक मात तें विसरलें ना.

कुंतलाक हॉस्पिटलांत सोडून घरा परततना खीणभर लेगीत मानसीच्या दोळ्यांतलीं दुकां थारलीं नात. व्हॅनींत लेडी पुलीस आसा, व्हॅन ड्रायव्हर आसा हाचेंय भान ताका उरलें ना... तें नकळटना फाटल्या यादींनी घुसपत गेलें.

जीण वांकडीं-तिकडीं मोडणां घेत चलत आसता. सुखा-दुःखाचो खो-खोचो खेळ. सोंपन सोंपना असो. केन्ना सूख खो दीत आनी दुःख धरीत, कसलीच सुलूस लागना. पूण नियती खिणांत आशिल्ल्याचें नाशिल्लें करून उडयता, हें कांय खीण कळऽ लेगीत ना. हे अणभव सान पिराये सावन मानसी घेत आशिल्लें.

ताचो बापूय तें खूब ल्हान आसतना भायर पडिल्लो. मानसीक आयज आपल्या बापायचो चेरो लेगीत याद ना. पूण तागेल्या व्हडल्या भावान — जाका सगळीं भाऊ म्हणटालीं — ताणें आईक, फाटल्या भावाक, कुंतलाक आनी मानसीक केन्नाच कांयच उणें पडूंक दिलें ना. भाऊन दुःखा कडेन आपल्या घरच्यांची वळख लेगीत जावंक दिलिना. आईची बेस बरी सेवा केली. फाटल्या भावाक ग्रॅज्युएशना उपरांत आपल्याच बिझनेसांत घेतलो. मानसीलें शिकप चालूच दवरलें. कुंतल बारावी पास जातकीर बापायचे जापसालदारकेन एका ल्हानशा बिझनेसमॅना कडेन ताचें लग्नूय थारायलें.

इतलो बरो चलो, इतलें बरें घराणें आपल्याक मेळटा तें पळोवन कुंतल खूब खोशी जाल्लें. आनी कुंतलदीदीक तिडावपाक मानसीक तर दिसाचीं चोवीस वरांय उणीं पडटालीं. लग्न सामकें एका म्हयन्याचेर पाविल्लें. घरांत सगळीं लग्नाचे तयारेंत घुस्पल्लीं.

आनी नियती? ती तांच्या जिणे पटावेल्यो घुलो हालोवपाचे पुराय तयारेन वाट पळयत बशिल्ली... सुखाचो भरजरी शालू तिणें सगळ्यां मुखार दवरिल्लो. पूण ताका दुःखाचो पालव जोडपाक ती विसरूंक नाशिल्ली.

सांजचो वेळ. भाऊ च्या पिवन दुकानार वचूंक भायर सरून गेलो. कुंतल आपल्या लग्नाचें शिवणसूत करूंक मशिनार बसलें. मशिनाचे सुयेंत सूत घालता थंय आसा, पांच मिनटांचे वाटेर रावपी अमिना बोब मारीत कुंतलाच्या घरा धांवून आयलें. कितें घडलां तें सांगूंक ताच्या तोंडांतल्यान उतरांच फुटनाशिल्लीं. रडत रडत एकेक उतर काडटालें. तांतल्यान कुंतलाक इतलेंच कळ्ळें — रेल्वे लायन हुपतना भाऊक ट्रेनीन धपको दिवन आड उडयल्लो.

घरांत आनीक कोण नाशिल्लीं. तें मशिना वेल्यान उठलें तेंच जिवा आकांतान धांवून ॲक्सिडॅंट जाला थंय वचून शेवटलें. लोकांची ही गर्दी जमिल्ली. ट्रेन कडेक वचून राविल्ली. आनी... आनी भाऊचे कुडीचे कुडके रेल्वे लायनीर हांगा थंय फाफसल्ले. तो देखाव पळोवन एकूच बोब मारून कुंतल घुंवळ येवन सकयल पडलें तें उठलेंच ना.

हे बेशुद्ध अवस्थेंतल्यान तें उठलें बद्द एका म्हयन्या उपरांत. म्हयनोभर तें हॉस्पिटलांत 'कोमा' अवस्थेंतूच उरलें.

पूण... पूण म्हयन्या उपरांत जागें जाल्लें कुंतल कुंतल नाशिल्लें. वर्तमान जिणेचें भान नाशिल्लें, वास्तव जिणेचो विसर पडिल्लें आनी केन्नाच अणभवूंक नाशिल्ल्या आनी जगूंक नाशिल्ल्या देगळ्याच विश्वांत तें पाविल्लें. वेगळेंच कुंतल आशिल्लें हें. एकदां चुकिल्लो ताच्या लग्नाचो म्हूर्त परतो केन्नाच ताच्या वा ताच्या घरच्यांच्या हाताक लागलो ना. भाऊच्या मर्णाचें दुःख आनी कुंतलाचे असले हे जिणेचें दुःख! मानसीच्या घरांतलें सूख शेणलें, तें सासणाचें!

वसां वतालीं तशीं भोंवतणचीं कुंतलाक 'मॅंटल' कुंतल म्हणून पाचारूंक लागलीं. १५ वसां परस चड काळ सरलो. पूण कुंतलाची अवतिकाय सुदारपा बदला दिशीं दिशीं चडूच इबाडूंक लागिल्ली. कुंतल हो घरच्यां मुखार, शेजाऱ्यां मुखार, घरांत येवप्यां वचप्यां मुखार एक बिकट प्रस्न जाल्लो.

पिशेपणां इतलीं भयानक आसतात? असली जीण साद्या-भोळ्या कुंतलाच्या वांट्याक कित्याक येवची? कुंतलान केन्ना कोणाक दुखयल्ल्याची मानसीक याद जायना..! मागीर तें जें सोंसतां ताका फाटल्या जल्मांत केल्ल्या पातकांचीं फळां मानपाचीं? शी... ना... ना... असो विचार आयलोच कसो म्हजे तकलेंत? मानसी आपल्याचेरूच तिडकलें.

कुंतलाचे विचित्र वागप पळोवन मानसी सामकें खासावीस जातालें. चोवीस वरांतलीं दोन-तीन वरांय कुंतलाक न्हीद लागताली काय कितें, देवाक खबर! मळबा कडेन पळेत खंयचे तरी अदृश्ट शक्ती कडेन कुडींतली सगळी शक्त एकवटावन, व्हडा व्हडान

आड्डत वाद घालीत, घरांत कोणेंच केन्ना जिबेर हाडल्यो नात असल्या हळशीक गाळयांचो शिंवर करीत केन्ना ताचो दीस सोंपतालो आनी केन्ना रात, ताचे ताकाच कळऽ नाशिल्लें. आईक, मानसीक, भावाक, शेजाऱ्यांक, दारांत येतल्या वतल्यांक हळशीक हळशीक गाळी घालतालें.

सगळयांच्या दोळ्यांतली न्हीद खळिल्ली. आईक, भावाक, मानसीक ताचेर चोविसूय वरां नदर दवरून रावचें पडटालें. रातचें केद्यांय वेळार तें भाऊचो ॲक्सिडॅंट जाल्लो थंय वचून रेल्वे लायनीर बसतालें. हांकां थंय वचून ताका थंयचें उखलून, घट्ट धरून, ओडीत घरा हाडचें पडटालें. दिसाचें, रातचें, खंयच्याय वेळार बांयचेर वचून कळश्यो भरून काडून कपड्यां सयत तकले वेल्यान ओत्तालें. ओले कपडे दीसभर तशेंच आंगार काडटालें. एक एक दीस अशीं ताचीं दिसाक धा धा न्हाणां जातालीं. जेवपा खावपाचेंय विचित्र जाल्लें. अन्नाची कितली नाशाडी जाताली हाचो हिशेबूच नाशिल्लो. धा धा खेपे च्या करतालें, एकूय खेपे पिये नाशिल्लें. परतें परतें ताट वाडून घेतालें, एकदांय सारकें जेवी नाशिल्लें. कोण तरी च्यांत, जेवणांत थुकला अशें म्हणून सगळें व्हरून भायर ओत्तालें.

घरच्या कोणाचेच जिणेंत सूख-समाधान नाशिल्लें. फुडारांतूय सूख-समाधान दिश्टी पडऽ नाशिल्लें. जगपाचें खंयच्या आधाराचेर, कित्या खातीर... सगळे प्रस्न आनी प्रस्नूच कुंतलाच्या घरच्यां मुखार आशिल्ले.

मानसीक दिसूंक लागलें, आतां ही जीण अशीच रडत मरत जगपाची... सामान्य जीण जियेवंक मेळपूय खूब कठीण दिसतालें... पूण कितेंय तरी मार्ग काडुंकूच जाय, ताका दिसूंक लागलें.

दनपारच्या जेवणा उपरांत तें मडगांव सावन पणजे आल्तिना वेल्या मॅंटल हॉस्पिटलांत वचूंक लागलें. लोखणाचो व्हडलो दरवटो, ताका वांटकुळे चार-पांच बुराक... तातूंतल्यान तें भितल्लीं पिशीं कितें करतात तें पळोवपाचो यत्न करूंक लागलें. गेटी वेल्या सेक्युरिटीक तरातरांचे प्रस्न विचारूंक लागलें. भितर पिशांक ट्रिटमॅंट कशी दितात, तांकां कशीं वागयताय हीय वासपूस करतालें. नर्सी भितर भायर येतना तांचे फाटल्यान वतालें. असलेंच कितें कितें विचारतालें. कितलेशे दीस मानसी हेंच करीत त्या हॉस्पिटला भायर घुटमळत आशिल्लें.

दोतोर करमरकार मुखेल गेटींतल्यान भितर वतना, भायर येतना गेटी भायर मानसीक सदांच पळयतालो. एक दीस पेशंटांक तपासून गेटी भायर सरतना ताणें मानसीक हटकिलें आनी आपल्या कॅबिनांत आपयलें.

मानसी संदीची वाटूच पळयत आशिल्लें. दोतोर करमरकाराक ताणें सगळें सांगलें. आयकून दोतोर खीणभर सुन्न जालो. पूण रोखडोच म्हणूंक लागलो, "मानसी, तुजे सारके शिकिल्ले सवरिल्ले चलयेनूय हें अशें मुर्खा वरी वागप? तूंय तुज्या घरच्यां आड वचूंक पावलें ना? पिशें पिशें म्हणत ताच्या जिविताच्या इतल्या वर्सांची तुमी माती करून उडयली? तुवें आनी तुज्या घरच्यांनीय कुंतलाचेर केदो व्हडलो अन्याय केला, जाणा? मानसीक धक्को पचोवपाची तांक नासता तीं असले धक्के पचोवंक शकनात आनी दुयेंत जातात. तांकां आमी 'पिशीं' म्हणनात. तीं फकत मानसीक दुयेंत आसतात. तुजे दीदीक तुमी फावो त्या वेळार फावो ती ट्रिटमॅंट दिल्ली जाल्यार तें केऽन्ना ह्या दुयेंसांतल्यान भायर सरपाचें आनी आपल्या संवसाराकूय लागपाचें.

"तुमी ह्या हॉस्पिटलाक 'मॅंटल हॉस्पिटल', 'पिशां हॉस्पिटल' म्हणटात. पूण आमच्या हॉस्पिटलाचें नांव, 'इन्स्टिट्यूट ऑफ सायकियाट्री ॲण्ड ह्यूमन बिहेविअर'. 'देर से आए, दुरुस्त आए'. अजून वेळ वचूंक ना. जाता तितले बेगीन तुजे दीदीक हांगा घेवन यो. आनीक वेळ वगडावं नाका."

दोतोराच्या उतरांनी बळगें मेळिल्ल्या मानसीन दोळ्यांतलीं दुकां पुशीत दोतोराक विचारलें, "दोतोर, तुमचें वाहन, तुमचो स्टाफ धाडून ताका घरच्यान हांगा हाडूंक जाय. तें आमकां कोणाकूच आटापाक येवपाचें ना."

"बाय मानसी, ताका हांगा हाडप दिसता तितलें सोंपें ना. तुका घडये घरच्यांचोय विरोध सोंसचो पडटलो... पूण एकदां फुडें घाल्लें पावल मात कशेंच फाटीं घेवं नाका."

तें आयकून मानसी परत गळसल्ले वरी जालें. घरच्यांचो विरोध... आपूण एकलें हें सगळें कशें करतलें? तें गोंदळांत पडलें.

पूण दोतोर करमरकारानूच ताचें बळगें वाडोवपा खातीर म्हळें, "मानसी, तूं हुशार आनी धाडशी भुरगें. तूं हें सगळें सहज करूंक शकतलें. घरच्यांचें मनूय बदलूंक शकतलें."

मानसी एका निश्चेवान घरा परतलें. आईक, भावाक आपलो विचार पटोवन दिवपाचो ताणें खूब यत्न केलो. पूण कुंतलाक पिश्यां हॉस्पिटलांत दवरुपाक सोदपी मानसी कुंतलाचें दुस्मान अशें मानून घरच्यांनी मानसी कडेन उलोवप लेगीत सोडून दिलें.

पूण काळजाचेर फातर दवरून मानसी फुडल्या वावराक लागलें.

सगळ्यांत पयलीं तें पुलीस स्टेशनार गेलें आनी घट काळजान आपल्याच कुंतलदीदीची कागाळ ताणें थंय केली. कुंतल सगळ्यांक नाका पुरो करून उडयता, त्या वाटारांतली शांततातूय ताणें इबाडून उडयल्या तेन्ना ताका मॅंटल हॉस्पिटलांत उपचारा खातीर व्हरूंक पुलीस फोर्स दिवन आपणाक मदत करची म्हूण ताणें मागलें.

मानसीची अगतीकता पळोवन पुलीस इन्स्पॅक्टरान ताका एक बायल-पुलीस आनी एक दादलो-पुलीस दिवपाचें उतर दिलें. पूण वाहनाची वेवस्था मात मानसीक करूंक सांगली.

मानसीन रोखडीच एक भाड्याची मारुती व्हॅन हाडली. पुलिसांक घेवन तें भियेत भियेतूच घरा आयलें. केन्नाय उठपी, केन्नाय न्हिदपी कुंतल आयज बेगीन उठिल्लें. न्हावन-धुवन वेवस्थीत पावडर, कुकूम लावन, केस बांदून, बरी साडी न्हेसून बशिल्लें. तोंड मात चालूच आशिल्लें. कळशी घेवन बांयचेर वचपाचे तयारेंत तें आशिल्लें. तितल्यान मानसी दोगांय पुलिसांक घेवन घरांत भितर सरलें.

दादले-पुलिसान आवाज मातसो चडयलो. हातांतलो दांडो वयर सकयल नाचयत कुंतलाक धमकायत विचारलें, "वखद विर्सद घेना खंय तूं? तुका आमी दोतोरागेर व्हरूंक आयल्यांत. चल, चल, दवर ती कळशी सकयल, घाल तें जोतें पांयांत."

कुंतल त्या पुलिसाचेर गाळींचो शिंवर सोडीत ताका बुड्डून, धाडावन, धांवडावन घालतलें, हें चिंतुनूच मानसी आनी ताची आई भंयान कडकडत एका जाग्यार थीर

जाल्लीं. आपल्याक नसतो तमाशा पळोवपाचो ना म्हूण भाव तर सकाळच्यान घरांतल्यान भायर सरून गेल्लो.

पूण घडलें व्हड अजाप! कोणाकूच भिये नाशिल्लें कुंतल त्या दिसा पुलिसाच्या भेसाक आनी ताच्या दांड्याक साप्प भिलें. बेगीबेगीन ताणें कमरा वेली कळशी सकयल दवरली. वयर खोयिल्ली साडी सकयल सोडून सारकी केली. पांयांत जोतें घालें, आनी दोनूय पुलिसांचे मदीं चलत चलत मारुती व्हॅनींत वचून बसलें. आईन घरांतल्यान व्हडल्यान 'बाय गो' म्हूण हामेर घाली. तें आयकून हांसत हांसत, हात हालयत कुंतल आईक 'टाटा-बाय बाय' करीत रावलें. आईक थातारपाची, आईचे नदरेक नदर दिवपाची लेगीत शक्त मानसी मदीं उरूंक नाशिल्ली. आपलीं दुकां गिळीत धांवत वचून मानसी ड्रायव्हरा कुशीच्या सिटार बसलें. फाटल्या सिटार दोगां पुलिसां मदीं चोरा भाशेन बशिल्ल्या कुंतलदीदीक पळोवपाचें धाडसूय ताका जालें ना.

कुंतल तकलेन सारकें ना अशी सर्टिफिकेट हॅल्थ सँटरांतल्यान घेवप गरजेची आशिल्ली. भर बाजारांत पयल्या माळ्यार आशिल्ल्या हॅल्थ सेंटराचे दिकेन दोन पुलिसां मदीं कुंतल चलतालें. तांचे फाटल्यान लोकांच्यो नदरो चुकयत सकयल मान घालून चलपी मानसी, आनी ताचे फाटल्यान ताका समजायत चलपी मारुती व्हॅनीचो ड्रायव्हर.

हॅल्थ सँटरांतल्या अधिकाऱ्यान कुंतलाक नांव विचारलें, आडनांव विचारलें. पूण तें खंय तरी शुन्यांत पळयत वोग्गी रावलें. ताचें अशें वागप पळयतकीर तांकां जाय आशिल्लें सर्टिफिकेट रोखडेंच मेळ्ळें.

थंय सावन तशींच तीं पांचव्या माळ्यार आशिल्ल्या कलॅक्टराच्या ऑफिसांत पावलीं. कलॅक्टराच्या एकाय प्रस्नाची जाप दिवंक कुंतलान तोंड उगडलें ना. म्हणटकीच ताची मानसीक स्थिती सारकी ना म्हूण कलॅक्टरान रोखडोच स्टॅम्प मारलो. पूण ती ऑर्डर टायप करून थंयच्यान मेळपाक वेळ लागलो. ऑफीस स्टाफान इतलो वेळ लायलो की दनपारच्या देडाक ऑर्डर मानसीच्या हातांत पडली. दादले-पुलिसान आतां आपली ड्युटी सोंपली, आपलो ऑफ डे सुरू जालो म्हूण सांगतकीर तर मानसी सामकेंच गळसलें. पूण लेडी पुलिसेन पुलीस स्टेशनार वचून दुसरो पुलीस घेवया म्हूण सांगून मानसीक थातारलें.

सगळें पुरसांव पुलीस स्टेशनार हाडचें पडलें. कुंतल हांगा थंय वच्चें न्हय म्हूण कांय खिणां खातीर ताका लॉपअपांत दवरचें पडलें. लॉकअपांत कोणूच नाशिल्लो. पूण कुंतलाक थंय दवरूंक तें कितें चोर? मानसीच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. सगळ्या पुलिसांची खंय न्हय खंय ड्युटी आसा, तेन्ना आमी दोगांय ताका सांबाळून पणजे व्हरुया म्हूण लेडी पुलिसेन मानसीच्या खांद्यार थापटीत म्हळें. ड्रायव्हर, लेडी पुलीस, कुंतल आनी मानसी भर दनपारच्या अडेजांक उपाशीं पोटान आल्तिनोचे वाटेक लागलीं. दोतोर करमरकारूय घरा वच नासतना मानसीची वाट पळयत राविल्लो.

कुंतलदीदीक हॉस्पिटलांत दवरून घरा पावऽ मेरेन रातचीं णव जाल्लीं. आई आनी शेजराच्यो बायलो मानसीची वाट पळयत बशिल्ल्यो. मानसीच्या घरांत सकाळ सावन चूल पेटूंक नाशिल्ली. शेजाऱ्यांनीन जेवण हाडून दिल्लें. पूण जेवपाचे मन:स्थितींत कोणूच नाशिल्लीं. मानसीक कितेंय विचारपाचें धाडस कोणाच मदीं नाशिल्लें. आनी तांकां आपूण जावन कितेंय सांगपाचें धाडस मानसी मदीं नाशिल्लें.

भितल्ले कुडींतल्यान आईचें हुडक्यांनी रडप मानसीक अस्वस्थ करतालें. ताचींय दुकां थांबपाचें नांव घेनाशिल्लीं. धीर दिवपाचो तो कोणें कोणाक? कुंतलदीदी कितें करता आसतलें काय? जेवलां आसतलें? न्हिदलां आसतलें? बोब मारता आसतलें? भियेलां आसतलें? चिंतल्यार चड्डूच त्रास जातालो. निमाणें मानसीन थारायलें, आपूण कुंतलदीदीक केन्नाच एकलें पडूंक दिवचें ना. आपल्याक कितलेय त्रास पडूं, आपूण सदांच हॉस्पिटलांत वचून ताका मेळटलें. ताचे वांगडा कांय खीण रावतलें. अशें केल्ल्यान आईकूय मातशें बरें दिसतलें. ही थारावणी घेतकीच ताका मातसो सुशेग मेळ्ळो.

सदांच दनपारां मानसी मडगांव सावन पणजे वतालें. मानशेच्या स्टॉपार देंवतालें. आनी मारुती गड चडून आल्तिनोर हॉस्पिटलांत पावतालें. कुंतलदीदीक जाय नाका तें सगळें घेवन वतालें. सेक्युरिटी सावन दोतोरा मेरेन सगळो स्टाफ आतां मानसीक वळखतालो. कारण त्या हॉस्पिटलांत पयले खेपे अशी ही आगळी गजाल घडटाली. त्या हॉस्पिटलांत पेशंटांक मेळूंक वर्सांतल्यान केन्नाय कोणूय आयलो जाल्यार आयलो. कांय पेशंटाक तर एकदां ॲडमिट केले उपरांत परते केन्नाच कोण मेळूंक येवंक नाशिल्ले. मानसी सदांच थंय वतालें. हातूंतल्यान सगळ्यांत चड उमेदीचें वारें कोणा मदीं पसवलें आसतलें तर तें थंयच्या पेशंटां मदीं, जांची वळख थंय पिशीं म्हणुनूच आशिल्ली.

कुंतल सोडून वॉर्ड नं. ७ तल्यो सगळ्यो पेशंट मानसीची वाट पळयत बसताल्यो. सदांच बंद उरपी तो व्हडलो दरवटो उगडटना दिसलो आनी मानसीन त्या दरवट्या भितर पावल दवरिल्लें दिसलें की सगळ्यो पेशंट ताका येवकार दिवंक धांवत वताल्यो. ताका मदीं घालून वॉर्ड नं. ७ मेरेन हाडटाल्यो. कुंतल मात आपले खाटीर वोग्गी बसून रावतालें.

मानसी कुंतला म्हऱ्यांत वचून बसलें की सगळीं आपापल्या खाटींचेर बसून मानसीक पळयत बसतालीं. तांकां खबर आसतालें, मानसीन कुंतलाक खावपाक हाडलां तें तांकांय मेळटलें म्हूण! कुंतलाचें खावन जातकच मानसी दर एका पेशंटा म्हऱ्यांत वचून खावंक वाट्टालें. मागीर मागीर मानसीक त्रास नाका म्हणून सगळीं कुंतलाचे खाटी म्हऱ्यांत लायनींत उबीं रावतालीं. केन्ना केन्ना नर्सींग तांकां वेवस्थीत लायनींत दवरताल्यो.

आठ दिसांतल्यान एकदां मानसी खोबरेल तेलाची बाटली घेवन येतालें. तें कुंतलाच्या केंसांक तेलान मालीश करतालें आनी ताचे केंस वळोवन घट्ट विणी घालतालें. बाकीच्योय पेशंट आपले सुके, जटा जाल्ले केंस मानेर सोडून लायनीन कुंतलाचे खाटी सरीं येवन उब्यो रावताल्यो. मानसीय त्या सगळ्यांच्या हातांर तेल घालतालें. मागीर, तेल केसांक लावन, फणयेन केस वळोवपांत, उयो काडपांत सगळ्यो घुस्पून उरताल्यो. केन्ना मानसी परतें गेलें हाचें लेगीत तांकां शितीद उरऽ नाशिल्लें. आपूण ताका पावोवपाक गेटी मेरेन गेलींच नात म्हूण मागीर तीं पिकासांव करीत बसतालीं. इतली समजिकाय जांचे मदीं आसा तांकां पिशीं तरी कशीं म्हणप? मानसीक दिसतालें.

नर्सी मानसीक म्हणटल्यो लेगीत, तुजें कुंतलदीदी हांगा आसा मेरेन, तूं हांगा येतलें. तितले म्हणसर हांचे अशे लाड जातले. उपरांत कितें? हांकां जांणी हांगा हाडून उडयल्यांत तीं तांची खबर लेगीत घेवपाक येनात. हांचें जगपूय हांगाच आनी मर्णूय हांगाच! हेंच तांचे जिणेचें सासणाचें सत! तुजे भाशेन आपले भयणीचेर इतली माया करपी, हेरां विशींय मनीसपण बाळगुपी, थोडीं तरी मनशां ह्या संवसारांत आसतीं, जाल्यार हीं बरीं जाल्लीं बायलां पिशीं म्हणून हांगा अशीं पडून उरचीं नाशिल्लीं.

नर्सीन अशें म्हणटकीर मानसीची नदर आपसुकूच आशाक सोदूंक लागली. कारण आशा सुरवे सावन पिशें नाशिल्लें. ताका जाचे कडेन लग्न जावपाचें आशिल्लें, तो भुरगो ताच्या मामा-मामीक पसंत नाशिल्लो. भाचयेची नसती कटकट नाका म्हूण ताका पिशें थारावन मामान हांगा सदां खातीर हाडून सोडिल्लें. तेन्ना सावन तें व्हडले गेटीच्या ल्हान बुराकाक दोळे लावन भायलें जग नियाळपाचो यत्न करतालें. केन्ना तरी आपलो मोगी आपल्याक सोदीत थंय पावतलो, आपली नदरानदर जातली आनी तो हांगा सावन आपली सुटका करून व्हरतलो. उपरांत आमच्या सपनांतलो संवसार वास्तवांत येतलो... वरांचीं वरां तें बुराकाक दोळे लावन उबें आसतालें. ताचें वाट पळोवप केन्ना सोंपपाचेंच नाशिल्लें. आशाचीं संवसाराचीं सपनां थंयच दफन जावन वचपाचीं आशिल्लीं, तांचेय नकळटां.

आनीक एक विदेशी बायल आशिल्ली - ज्युलियाना! मानसी कडेन उलयतना सदांच तिची नदंर मानसील्या नव्या नव्या कपड्यां वेल्यान भोंवताली. त्या ड्रॅसांचें मोलूय ती विचारताली. मानसीक नर्सी कडल्यान कळिल्लें, तिका तिगेल्या बॉय फ्रैंडान फटयल्ली म्हूण ती अशी पिशी जाल्ली. पूण तो आपल्याक व्हरूंक येतलोच हेच आशेर ती अजून मेरेन जियेताली.

एक दीस ज्युलियाना मानसीची वाट पळयत व्हडले गेटीच्या बुराकाक दोळे लावन उबी आशिल्ली. मानसी वांगडा वॉर्ड नं. ७ मेरेन चलतना ती व्हडे उमेदीन उलोवंक लागली, "I have one good news to tell you. I have received Jeremy's letter. He will come to take me on coming Monday. Then we will go to London and get married."

"Congratulations! Wish you a very happy married life," मानसीनूय उमेदीन तिका विश केलें.

मातशें फाटीफुडें करीत ज्युलियानान म्हळें, 'But there is one problem...'

मानसीन प्रस्नार्थक नदरेन तिका पळयलें.

तिची जाप – "I have no proper dress to wear... If you don't mind, would you please give me your yellow chudidar with the blue top and yellow dupatta? I like that dress very much."

"Sure, why not?" मानसी सहजतायेन आपलो ड्रॅस दिवंक तयार जालें. हें पळयतकीर ज्युलियानाच्यो मागण्यो आनिकूय वाडल्यो. आपले खातीर नवे भितल्ले कपडेय हाडूंक ताणें मानसीक सांगलें. हाकाय मानसीन हयकार दिलो.

जॅरमी येतलो म्हणटा, तें सगळें फट. तो तिगेलो कल्पनांचो खेळ हें मानसीक बेस बरें खबर आशिल्लें. तरूय दुसऱ्या दिसा प्रॉमिस केल्ल्यो त्यो सगळ्यो वस्तू मानसीन तिका दिल्यो. ती सामकी खुशालभरीत जाली.

ज्या दिसा तिचो बॉयफ्रैंड तिका व्हरूंक येवपाचो आशिल्लो त्या दिसा दीसभर ती तो चुडिदार घालून वावुरताली. तिची पिराय जाल्ली, तरूय गोरी पिठ्ठ, फुला वरी नाजूक अशी ती तो ड्रॅस घालून खुबूच सुंदर दिसताली.

मानसी सांजवेळ मेरेन कुंतला म्हऱ्यांत बसून आशिल्लें. ज्युलियाना परत परत बॅग उस्तिताली, भरताली. भायर भितर करताली. 'Any time he would reach here' म्हूण येतना वतना मानसीक सांगताली. वॉर्डांतली मेट्रन, नर्सी हांकां ही कांय नविदाद नाशिल्ली. पूण मानसी ज्युलियाना खातीर दोळ्यांत दुकां साठोवन घरचे वाटेक लागलें. घडये हो आशावादूच ज्युलियानाचे जिणेचें बळगें आशिल्लो.

दुसऱ्या दिसा मानसीची नदरानदर जातनाच ज्युलियाना ताका फाट करून न्हिदली. मानसीन दिल्ल्यो सगळ्यो वस्तू तिणें घडी करून उश्या कडेन दवरिल्ल्यो. ज्युलियानाक ॲपल खूब आवडटालें. मानसी दोन ॲपलां घेवन दोनूय हातांनी बॉल कशें नाचयत ज्युलियानाले खाटी म्हऱ्यांत गेलें आनी हांसत म्हळें, 'ज्युली, an apple a day keeps the doctor away. Catch! पूण ज्युलियानान कॅच घेतली ना. केन्नाच ना येवपी बॉयफ्रॅण्डा खातीर ती रडतूच आशिल्ली. वॉर्डनान मानसी म्हऱ्यांत येवन म्हळें, "इतले लाड करूं नाका ताचे! मागीर आमकां जड जातलें तें."

"हांव हांगा येतां ते मेरेन हांव ह्या सगळ्याचें, आनी हीं सगळीं म्हर्जी – उपरांतचें हांव कितें सांगूं?"

थंय दर एके बायलेची वेगळी कथा आनी ते कथे फाटल्यान वेगळी व्यथा. मरणा धडेक पाविल्ल्यो चार-पांच म्हाताऱ्यो बायलोय थंय आशिल्ल्यो. त्यांच्या भुरग्यांनीच तांकां थंय हाडून सोडिल्ल्यो. मानसीचें सदां हॉस्पिटलांत येवप म्हळ्यार त्या सगळ्यां खातीर वसंत रुतूचेंच येवप कशें आशिल्लें.

कुंतल सोडून सगळीं जाणां मानसीची वाट पळयत बशिल्लीं आसतालीं. कुंतल मात रागारागानूच शें खाटीर बसून नाजाल्यार न्हिदून रावतालें. मानसी कडेन उलय लेगीत नाशिल्लें. ताच्यांत मानसीक कांयच इम्प्रुव्हमॅंट दिसऽ नाशिल्लो. ताणें तशें दोतोर करमरकाराक म्हळें. दोतोरान ताका सांगलें, तें बरें जातलेंच. पूण ताची केस क्रॉनीक आशिल्ल्या कारणान वखदांचो परिणाम जावंक खूब वेळ वतलो. ताका शॉक ट्रिटमॅंट दिली जाल्यारूच फास्ट बदल दिसून येतलो.

मानसीन हें आयकतनाच कच्च करून आंग काडलें. दोतोरान ताका थातारीत म्हळें, "मानसी भिवपा सारकें कांय ना. दोन-तीन सेकंदूच शॉक दितात. तातूंत जिवाक कांयच भंय आसना."

त्या दिसा घरा येवन मानसीन ही गजाल सांगल्या मात, घरांत हो बोवाळ आनी रडारड.

"कुंतलाक एकदाचें जितें मारून उडयसर तुका कसोच सुशेग जावपाचो ना." आईचो

मानसीचेर व्हडलो धेंगसो... भाव फुगार जावन वोग्गी! शेजाऱ्यांय मानसी कडेन दुबावान पळोवंक लागलीं.

मानसी घट्ट रावलें! कुंतल बरें जालें जाल्यार सगळें बरेंच घडटलें. आनी कितेंय वायट घडलेंच जाल्यार इतल्या वर्सांच्या त्रासांतल्यान सगळ्यांची मुक्तताय जातली.

ताणें हॉस्पिटलांत वचून कुंतलाच्या केस पेपरार सय केली. त्या दिसा दोतोराची परवानगी घेवन ते दीसभर हॉस्पिटलांतूच रावलें. शॉक ट्रिटमेंट दिवन बेशुद्ध अवस्थेंतूच कुंतलाक ७ नंबरच्या वॉर्डांत हाडून खाटीर घालें. मानसी ताच्या उश्या कुशीक बसून रावलें. ४-५ वरांनी कुंतल ल्हवू ल्हवू शुद्धीर आयलें. ताका भुकेन थरथरो आयिल्लो जावये. मानसीन हाडिल्लें खाण मोन्यांनी बक बक करून खावन सोपयलें.

पंदरा दिसां भितर कुंतलाक पांच शॉक दिले. हेर वखदांय चालूच आशिल्लीं. कुंतलदीदीचें मन आनी बुद्द ट्रिटमॅन्टाक फावो तसो रिस्पॉन्स दिता तें पळोवन मानसीचे खोशयेक शीममेर उरली ना.

कुंतल आतां चार चवगां भाशेन वागूंक लागलें. उलोवंक लागलें. मानसीची वाट पळयत बसूक लागलें. आयले बराबर ताका सगळ्यो कागाळ्यो सांगूक लागलें. कोणें कोणें आपल्याक कितें कितें म्हळें, कोणें आपलें खाण चोरून खालें असल्यो कागाळ्यो वॉर्डांतल्या हेरां विर्शीच्यो! आईची, भावाची सदांच खबर घेवंक लागलें. आपले केंस वळोवन विणीय आपुणूच घालूंक लागलें. दीस-वार-म्हयनो-वर्स हांची जाणूय ताका आयली. आपल्याक आतां हांगा वाज येता. आईक, भावाक, इश्टिणींक मेळूंक जाय, तांचे कडेन खूब उलोवंक जाय म्हूण सांगूंक लागलें. चवथ केन्ना, आमी चवथीक घरा या आनी उमेदीन अंदूची चवथ मनोवया म्हूण तर ताणें सामको हट्टूच धरलो.

मानसीन कुंतलदीदी विर्शी दोतोराक विचारलें. दोतोर ताचे मदल्या बदलाचेर खूश जाल्लो. दोतोरान आनीक कांय तज्ञ दोतोरांक हाडून कुंतलाची पुराय तपासणी केली. सगळ्यांनी वखदांय बंद करूंक सांगलीं. फकत तकली थंड उरची म्हूण म्हयन्यांतल्यान 'ॲनाटेन्सल डेकानोइट' हें एकूच इंजेक्शन चालू दवरूंक लायलें. इंजेक्शन खूब म्हारग पूण तितलेंच इफॅक्टिव्ह हेंवूय सांगपाक दोतोर विसरलेनात. घरा व्हरतकीर ताका घरांतूच दवरूं नाकात. भायर, पासयेक व्हरात हेवूय सल्ले दोतोरान दिले.

स एक म्हयन्यांच्या ट्रिटमॅंटा उपरांत अंयशीं टक्क्यां परस चड बरें जाल्ल्या कुंतलाक दोतोरान हॉस्पिटलांतल्यान डिस्चार्ज दिलो.

कुंतलदीदीक घरा व्हरपाक मानसीन तीच मारुती व्हॅन हाडली. बरें जाल्ल्या कुंतलाक व्हरूंक आयज पुलिसांची गरज नाशिल्ली.

जांणी जांणी कुंतलाचेर ट्रिटमॅंट केल्लो, त्या सगळ्या दोतोरांक, जांणी ताची खूब काळजी घेतिल्ली, बरी सेवा दिल्ली त्या सगळ्या स्टाफाक मिठाय, भेटवस्तू दिल्यो. वॉर्ड नंबर ७त ज्या हेर सगळ्या पेशंटां वांगडा कुंतलान स म्हयने काडले, त्या सगळ्या पेशंटांक मिठाय, फळां, बिस्किट्यो, भेटवस्तू घेवन तें वॉर्ड नं. ७ त आयलें. पूण आयज कोणूच मानसी कडल्यान कांयच घेवंक फुडें आयलीं नात. सगळीं जाणां आपापले खाटेर धोंपरांर हात, हातार तकली दवरून चिंतेस्त बसून आशिल्लीं.

खऱ्या अर्थान थंय पिशीं कोणूच नाशिल्लीं. सगळ्यांक सगळ्या गजालींची, घडणुकांची जाणविकाय आशिल्ली. आयज मानसी कुंतलाक घेवन वतलें. तें परत हांगा कित्याक येतलें? ताचे वरी आमचेर माया करपी दुसरें मानसी हांगा केन्नाच पावचें ना. मानसीन दर एकले म्हऱ्यांत वचून तांकां कितें न्हय कितें दितकीर सगळ्यांच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. मानसीक वेंगेंत घेवन तीं रडूंक लागलीं. "आमीय येतात गो तुजे वांगडा! आमकांय व्हर तुज्या कुंतलदीदी वांगडा. आमी कुंतलदीदीक सांबाळटलीं. तुमची सगळ्यांची सेवा करतलीं. घरांतलीं सगळीं कामां करतलीं गो. आमकां दुसरें घर ना. आमकांय घरा व्हर गो तुज्या." वॉड नंबर ७ त रडारड सगळी.

वॉर्डन, नर्सी सगळ्यांनी येवन तांकां तापयलीं. मानसीकूय जाता तितले बेगीन थंय सावन भायर सरपाचो सल्लो दिलो.

कुंतल तर आपल्या घरा परत वचूंक केन्नाच तयार जावन बशिल्लें. व्हडे खोशयेन.

येतनाचे आनी आतां वतनाचे परिस्थितींत फरक आशिल्लोय बी आनी नाशिल्लो बी.

फुडें मानसी, ताचे फाटल्यान थंडपणान चलपी कुंतल, वॉर्ड नंबर ७ तलो सगळो स्टाफ आनी सगळ्यां फाटल्यान वॉर्ड नंबर ७ तले सगळे पेशंट व्हडल्यान रडत!

व्हडली गेट चौकीदारान उगडली. मानसी आनी कुंतल भायर सरतकीर रोखडीच बंद केली.

ते गेटीच्या वाटकुळ्या ल्हान ल्हान बुराकांतल्यान कितले तरी दोळे, कितले तरी अर्दे चेरे, कितले तरी अर्दकुटे हात, सद्गदीत जावन मानसीक आनी कुंतलाक निरोप दिताले. गेटी भितर चलिल्ली बोब, रडारड भायर सामकी स्पश्ट आयकूंक येताली.

कुंतल सामकें थंड आशिल्लें. ताचेर कित्याचोच, कोणाचोच कसलोच परिणाम जावंक नाशिल्लो. पूण मानसी येतना जशें रडत आयिल्लें, तशेंच आतां वतनाय रडटालें. येतना ताचीं दुकां थांबऽ नाशिल्लीं, तीच गत आतांय! फकत दोनूय वेळचीं कारणां वेगळीं! गेटी भितल्ली बोब आयकून आपणेंय त्या सगळ्या पेशंटां खातीर व्हडल्यान बोब मारून आपलें काळीज ल्हव करचें अशेंय मानसीक खीणभर दिसलें.

एका दोळ्यांत सुखाचीं दुकां, आनी दुसऱ्या दोळ्यांत दुख्खाचीं दुकां गळयत, गेटी आड आशिल्ल्या दिसपी आनी दिसऽनाशिल्ल्या सगळ्यांचो ताणें हात हालयत निरोप घेतलो.

हॉस्पिटलांत येतनाची घडणूक आनी आतां स म्हयन्यां उपरांत हॉस्पिटलांतल्यान घरा वतनाची घडणूक! दोनूय घडणुकांत फरक आसूनय साम्य, आनी साम्य आसुनूय फरक!

सुखाच्या भरजरी शालवाक दुख्खाची देग सासणाची दशिल्ली!





# आफ्रिकानिस्त

डॉटॉर रे. बार्रेत

आलेसान कानाक केंचललें विडये पोंत पोशेत पोशेत काडून तोंडात घालें. फसका काडी मारीत तें पेटयलें आनी कडक दम मारून फुसऽऽ करून धुंवर भायर सोडलो. हें करताना ताचे किडेल्ले दांतूय दिसले. खरें म्हळ्यार, ते किडेल्ले दांत आनी तें विडये पोंत एकामेकांक बरीं सोबतालीं. आलेस गांवचो पाडेकार आसलो. आयजूय पाडो बरो जालल्लो. घरा वचून न्हावून धुवून जातकूच ताणें किस्तोदीले गादयेर वचपाची वाट धरली. आयज तर किस्तोदी कडें खास कितें विचारपाचें आसलें. राव रे! आलेसान 'किस्तोदीली गादी' म्हळें? आरेच्या! आदल्या तेंपार ती गादी म्हणल्यार जातालें. पूण आतां तिका गादी म्हणप म्हणचे पापूच न्ही तर म्हापाप जावपाचें. कारण आतां ती 'बार अँड रेस्टॉरंट वायलांकिणी' जाल्ली.

तरीय आलसूक आनी गांवच्या दुसऱ्या पाडेकारांक आनी मानयांक ती आदली किस्तूली गादीच आसली. ते आदले भशेनूच थंय येवन बसताले आनी इल्लें कोपाचें मारीत, आनी आयल्यो पयल्यो खबरो करीत, आपलो वेळ सारताले. आतांचें 'बार' मात आदल्या किस्तूचो पूत चलयतालो आनी ताकाय बापायचेंच नांव दवरललें.

पूण पयलीं सांगलां तशें आलेसाक किस्तू लागीं कितें तरी विचारपाचें आसलें. कसलो तर मनांतलो दुभाव तो, जाचेर फकत किस्तू उजवाड घालूंक शकतालो. तो म्हळ्यार गांवच्या बारीक सारीक लिपलल्या गुटांची झर कसो. सुकना तसली तिजोरी. एका वेळार केसारव्हाळा वेले झरीचें आनी थरसांझरीचें उदक सुकत आसलें, पूण आमच्या किस्तूल्यो खबरांच्यो झरी केन्नाच सुकपाच्यो नासल्यो. तसो आलसू सभावान मातसो भिवकुरो खरो, पूण आयज ताचो निश्चेव सामको थीर आसलो. आनी ते खातीर ताळो भिजोवपाक जाय आसलो, आनी पोटांतूय इल्ले गरमेची गरज आसली.

म्हणून, "किस्तु, एक आल्याचो पाव हाड चोया!" म्हणत, आपल्याकूच धीर दियीत, 'ऑर्द' सोडली.

किस्तून पावा बरोबर सोडा बोतलीकूय हात घातललो पळोवन आलसून ताका आडायलो. "नाका नाका, आयज सोडा नाका. आयज 'ड्रायीच' घेतां. ताळो मात्सों खरजूंक लागला सो. थंडी जाता शी दिसता." आलसून येरें हळूच घुंवडायलें. आपल्याक जें कितें विचारूंक जाय ते खातीर धीर जाय आनी, म्हणून, ड्राय घेतां हें सांगपाक जातालें? शी, लजं बेश्टी.

आंगान घटमूट आनी तेजिस्त, सामको सिनेमांतलो नट कसो दिसपी किस्तूचेर नदर भोंवडायता आसताना आलसून आल्याचो ग्लासांत रकयलो आनी एक बरो कडक घोंट मारलो. सोरो कशे परीं, गळो ताळो लाशीत, आलसूच्या पोटांत पावतालो तें ताच्यां तोंडा वेल्या हावभावांचेर नदर मारल्यार कळटालें.

"शी किस्तु, आल्या बरोऽ कडक आस मुरे!" खांकाडो काडीत आनी गळो पोशेत आलसू उलयलो. किस्तू तर तितल्याकूच रावतालो.

"हें आनी कितें रे आलसूबाब. तुका म्हण कित्याकितेंय दिवपाक जाता? तुका दिला तो आल्याचो सामको पोरणो. सदांच्या गिरायका खातीर कुशीन काडून दवरललो." किस्तून सोऱ्याचो 'ग्राव' चडयत म्हणलें.

एक मात खरें आसलें. गांवांत कोणाकूय गांवटी वो भायलो पसून सोरो जाय जाल्यार

तो किस्तोदी कडेन मेळटालो. एका वेळार गांवच्या व्हडल्या भाटकाराक, आफ्रिकानिस्ताक पसून, ब्रांकु, तींतु, कॉन्याक, विस्की जाय जाल्यार तो हाडून दितालो. तसो किस्तूचो सभाव कोणाकूय पावपाचो. आफ्रिकानिस्त भाटकार विदेशांत आसतालो तेन्ना ताचीं भाटबेंसां पसून तोच पळेतालो. शिवाय तो भाटकाराचो शेजारीय. पूण हालींच मात तो आफ्रिकानिस्ता कडचो मातसो पयस जाल्लो. आनी आमच्या आलसूक तर खबर जाय आसली ती आफ्रिकानिस्त भाटकारा बाबतींतूच!

इतल्यान आलसूचे दोन सांगाती पाडेकार इश्ट, रुजार आनी सोदू भितर सरले आनी ताच्याच मेजार येवन बसले. तांकां पळोवन आलसूक आनिकूय धीर आयलो. आल्याचो पाव तर पोटांत पावलल्लो आनी गरमी वाडत वेताली. म्हणसोर, पयसुल्ल्यान मुज्ग वाजतल्याचो आवाज आयकूंक आयलो. सोदून म्हणलें, "आयज आफ्रिकानिस्त भाटकारागेर पार्टी आसा किते? मुज्ग आयकूंक येता तें तांगेरूच. शिवाय पिकपीक लायटी बी घाल्याय तांगेर." हें आयकून रुजारीन आपले वटेन, हळू किस्तोदीचेर विस्त मारीत, सोदूल्या जोताक धरलें.

"आफ्रिकानिस्तांगे बाब किते! तेंगेर आंतऱ्यापयऱ्यान केसो ना जाल्यार केसो तरी पार्टयो आसातूच. आनी अजाप म्हळ्यार इदादीन ८० वयर पावोत आयला खंय तो!" आलसू तर बोट भितर घालूंक निमित्ताक रावतालो. आफ्रिकानिस्त भाटकाराची थोडी भोव खबर तो जाणा आसलो. पूण किस्तू इतली न्हय. आफ्रिकानिस्त भाटकार तर गांवांतलो चड मोटो भाटकार जावन आसलो. ताचें नांव ज्युझे इमेर्सियानु थेवदॉझियु दे काश्तॅलु ब्रांक इ दीयश आसलें, तरी ताका गांवचो लोक 'आफ्रिकानिस्त' म्हणुनूच वळखतालो. ताका आफ्रिकानिस्त म्हूण वळखूंक कारणां आसलींय बी. ताणें आपलें चडशें जिवीत उदेंत आफ्रिकेंत आसलले आदले पुर्तुगेज वसणुकेंत, मोझांबिकींत, सारललें. ताची आवय, दॉना तॅल्मा ही गांवच्या भाटकाराची, सि. रॉगासियानू पांतालियांव दीयश हाची एकलीच धूव. ती लिसेवार शिकताना एका पुर्तुगेज पाकल्याच्या मोगांत पडली, काजार जाली आनी घोवाक घरजांवय केलो. बाब ज्युझे इमेर्सियानु हो तांचो एकटोच पूत. शिकप जातोच पुर्तुगेज प्रशासनांत उंचल्या पदाचेर ताची मोझांबिकींत नेमणूक जाली. आनी बरींच वरसां तो थंयच उरलो. आवय बापूय मरतकोच घरदार, भाटबेंस उबंत पडटा तें पळोवन ताका गांवघरा परत येवचें पडलें. आनी तेंय बी सामकें जाणटेपणार. तो येवचे आदीं ताचें सगलें आमचो किस्तोद पळेतालो.

लोक उलयताले तशे, ज्युझेन आफ्रिकेक आसताना, भुरगेपणार, सगले तरेचीं फोल्गां मारलीं. आनी भेंडभर चिखलांत रावुनूय काश्टी सुकी दवरली खंय. आनी सामकी तोंडांत बोट घालपाची गजाल म्हळ्यार, दोन वरसां फाटीं तो नव्यान भोंवडेक गेल्लो. परतो येताना, काजार जावन आयललो. बायल हाडलली ती सामकी २५ वरसांची सोबीत सुंदर गोरीपीठ बावलें कशी आसली. एक वरस ज़ाता म्हळ्यार तांगेर एक बाब जालो. आयज तागेलो वाडदीस आसलो. आनी ताकाच लागून पार्टी आसली. फकत किस्तू मात पयलीं भशेन थंय वचो नासलो.

आलेसाचो दुसरो पाव सोंपत आयललो. मनांतलो दुबाव आयज कशेय तरेन जाग्यार घालूंक जाय आसलो. ताणें किस्तूक मातशे मोटयानूच उलो मारलो.

"किस्तूबाब, मातसो हिंग यो रे! तुको किते गरजेचेंऽ इचारूं जायें. तुका गांवची सगली बारीक पसून खबर आसा न्हू रे!"

आलसू आतां मातसो तर्र जायत वतालो हें कळटालें. किस्तूक दिसलें आपणें पोरणो आल्याचो भायर काडललो तें आपलें चुकलें काय? तरीय आल्याचो पाव कुशीन काडीत ताणें आलसूक विचारलें,

"आलसू सांग, किते जाणा जावंक जाय तुका?"

"किस्तूबाब, चोय, आफ्रिकानिस्त सामको जाणटो जाला. ओय मुरे?"

किस्तून ओय म्हणलें.

"आफ्रिकानिस्तागे बायल सामकी तरनाटी, ओय मुरे?"

किस्तून परत ओय करीत मान हालयली.

"जाल्यार म्हाका आतां सांग चोयन, इतू जाणटेल्यागेर रोखडीं भुरगीं जातायी?"

अशें म्हणत ताणें मेजार हात मारलो. तरी बरें, रुजारीन, सोदून आनी किस्तून ग्लास आनी बाटल्यो सांबाळ्ळ्यो म्हूण. किस्तून किते सांगचे पयलींच रुजारीन मदींच जाप घाली,

"तेशें किते आसा तो तें! दादुलो आनी माड मरोसर लागोता, एशें म्हुणटाय न्हूरे?"

आलसू तापलो! "रुजार, तुगे मदीं जाप नाका! तुगे तोंड बोंद! हां किस्तूबाब, सांग तूं किते सांगता तें!"

ताणें किस्तूक परतो चोपक्यांत धरलो. किस्तोदीन सरभोंवतीं बारांत विस्त मारली. तांकां सोडून, नशीब म्हणटात तशें, बार त्या वेळार रितें आसलें. ताणें आलसूक म्हणलें,

"आलसू, तुका एक काणी सांगतां. बारीकसाणीन आयक हां! आफ्रिकेंतलीच खबर ती. एक शिकारी आसलो. एक दीस असोच रानांतल्यान पासोयेक गेलो. लागींच पासोय मारून येतलो म्हणून ताणें आपलें बंदूक हातांत धरूंक नासलें. हातांत फकत एक रोत आसलें. चलतां चलतां दोळ्यां मुखार एक वाग-उबो जालो. शिकारी थाऱ्या भियेलो. तरी शिकारी तो. वागाक आपूण भियेलां म्हूण दाखोवंक उपकारना. ताणें सोमतेंच रोत बंदूक कशें उबारलें, खांदाक तेंकयलें आनी तोंडान ढो करून आवाज केलो. आनी, अजाप म्हळ्यार, वाग थंयच मरून पडलो. शिकाऱ्याक दिसलें, आपणें केलल्या आवाजाक भियेवन वाग मरून पडलो म्हूण. आनी ही खबर तो व्हडले व्हडविकेन सगल्यांक सांगूंक लागलो. पूण खरी गजाल वेगळीच आसली. तो शिकारी आपलें रोत खांदाक लावन तोंडान आवाज करतालो, त्याच वेळार फाटले वटेंतल्यान झाडा कुशीक रावून ताका दिश्टी पडोनासताना, दुसऱ्यानूच खरो फार सोडललो. आतां समजलो मुरे?"

आलसून मारलल्या आल्याचो 'एफेइत' देंवत वतालो.

*"मांय पाय काळीं चेडुवा,*
*गोरी कशी काती?*
*हांव जालले दादुल्या,*
*चांदऱ्याचे राती."*

हें कांतार म्हणत आलेसान घरची वाट धरली.



# कोंकणीच्यो बोलयो: शिक्षणाच्या आनी साहित्याच्या संदर्भांत

सुरेश जयवंत बोरकार

कोंकणीच्यो बोलयो: शिक्षणाच्या आनी साहित्याच्या संदर्भांत' असो आज आनी फाल्यां अश्या दोन दिसांच्या ह्या परिसंवादाचो विशय आसा. हो विशय भाशेच्या संदर्भांत म्हत्वाचो तसोच तो बरोच तांत्रिकूय आसा. परिसंवादांत वांटो घेवपी हे संबंदान उलयतलेच.

हांव हो विशयं मातसो वेगळे तरेन मांडूंक सोदतां. ताका एक तर्शेंच कारण आसा.

मनोहररायाची एक कविता आसा : 'बाबूचें लग्न'. बाबूच्या लग्नाक बुकी येता, बिलू येता, कुतू येता, काको येता, बाबूच्या लग्नाक सगलीं येतात. बाबूच्या लग्नाक बाबूच ना.

कोंकणीच्या संदर्भांत ही गजाल खूब गंभीर आसा म्हणून ताचो संदर्भ हांगा घेतला.

मनशाचे अभिव्यक्तीचे जे जायते प्रकार आसात तातूंतलोच साहित्य हो एक. जें कितें आपूण बरोवंक सोदतां, कविता, कथा, कादंबरी, नाटक, निबंद, लेख बी तें जे भाशेंतल्यान आपल्याक बरयन दिसता ती भास आपणें पयलीं शिकची पडटा.

गोंयचे कोंकणी पुरतोच आमी विचार केलो जाल्यार कोंकणी दोन लिपयांनी वांटिल्ली दिसता. एक पुर्तुगेझ लिपी आनी दुसरी मराठी लिपी. पुर्तुगेझ लिपी घेवन जें कोंकणी साहित्य हे आदीं बरयलें आनी अजुनूय बरयतात तिका 'रोमी लिपी' म्हणपाची चाल आसा. खासा पुर्तुगेझ लोक आपले लिपयेक रोमी लिपी म्हणिनात. ते तिका पुर्तुगेझ लिपी म्हणटात.

Decreto do Governo Portugues de 23 de Agosto de 1911, e portaria de 20 de Novembro de 1920 हातूंत अशें वाचूंक मेळटा :

Prontuário Ortográfico

O **alfabeto portuges** consta das seguintes vinte e quatro letras...

O alfabeto **portugues,** o alfabeto **romano** न्हय. अशे हे लिपयेक आयज दायज म्हणून फुडें व्हरपाची कांय जाणांची वान्सा आसा. गोंय मेकळें जावचे आदीं जी एक परिस्थिती आसली तिका लागून गोंयच्या एका घटकाक कोंकणी बरोवपा खातीर ही लिपी आपणावची पडली.

अशीं जीं जायतीं दायजां आसात तातूंतलें हें एक :

पुर्तुगेझांच्या काळार पणजेंत उकत्या पांयांनी भोंवपाक मनाय आसली. पांयांत व्हाणो नासत जाल्यार तालांव पडटालो. आगशीच्यान जायत्यो व्यान्नी सांतानच्यान पणजे आपलीं कणंगां, वांयगीं अशे तरेची तरकारी घेवन येताल्यो. त्यो उकत्या पांयांनी येताल्यो. आनी येतना वाटेर चुट्ट्यांच्यो व्हाणो विणटाल्यो. आनी पाट्यार पावतकच (ती पणजेची शीम) आपल्या पांयांत त्यो चडयताल्यो आनी बाजारा मेरेन वताल्यो. त्योच व्हाणो आपल्या पांट्यांत घालून उकत्या पांयांनी परत्यो घरा आगशी वताल्यो. त्या काळा वयली ती तांची गरज. आज तांकां ती गरज ना.

हीच गजाल कोंकणीचे पुर्तुगेज लिपये संबंदान. ती लिपी त्या काळार कोंकणी खातीर आपणावपाची गरज त्या घटकाक आसली. कारण दुसरी लिपी खबर नाशिल्ली. आज ती गरज उरूंक ना. आज भुरगीं इंग्लीश शिकतात. पुर्तुगेझ न्हय. अक्षरां तींच आसलीं जाल्यारूय तांचे उच्चार वेगळे. अक्षरांचीं नांवांय वेगळीं.

कोंकणीक आज हे लिपयेची मात्तूय गरज ना.

ज्या घटकान मराठी आपणायली त्या घटकांतल्या लोकांक ती लिपी आनी तें शुद्धलेखन मराठी शिकतना मेळ्ळीं. ती तांची त्या काळा वयली गरज. ती गरज आज ना. आनी म्हणून, कोंकणीक कुशीक काडून मराठीचो थातोमात्तो करपाची संवय अजून कांय लोकां मदीं आसा ती तांणी बेगीन बदलिल्ली बरी.

कोंकणी समाजांतले हे दोनूय घटक कोंकणी केन्नाच शिकले नात. कारण पुर्तुगेझांच्या काळार कोंकणी भाशेंतल्यान शिक्षण हो विशय समाजांतल्या ह्या दोनूय घटकांक कल्पने भायलोच आशिल्लो. आपली भास आपल्याक येता. ती शिकपाची नासता. शिकपाच्यो त्यो दुसऱ्यांच्यो भासो अशी मानसीकताय त्या काळार खूब प्रबळ आसली. हे मानसीकतायेंतल्यान अजून जायते गोंयकार भायर सरूंक नात. हे दोनूय घटक आपलें स्वत्व पुरायपणान वगडावन बशिल्ले आनी जांकां कोणाक खंय खंय तें होलमल्लें तें तांणी एक तर पुर्तुगेझींतल्यान, इंग्लीशींतल्यान वा मराठींतल्यान उकतायलें.

पूण कोंकणीच्या आनी गोंयकारांच्या बऱ्याच मोट्या नशिबान ह्या दोनूय घटकांत एक एक अशे दोन म्हापुरूस जल्माक आयले. पुर्तुगेझींतल्यान कोंकणी बरोवपी लोकांक कोंकणीची खरी नीज लिपी पुर्तुगेझ लिपी नासून ती देवनागरी आसा म्हणून सांगपाचें काम मोंसिन्योर सेबास्तियांव रुदोल्फु दाल्गादु ह्या पाद्रीन केलें. कोंकणी भास म्हणटात ती कितें तें बेठीं भाशणां, प्रवचनां वा लेख बरोवन सांगिनासतना कोंकणी-पुर्तुगेझ कोश रचून त्या घटकाक ताणें प्रत्यक्ष दाखोवन दिलें.

मराठी भाशेक वेंगावन पुरायपणान आपलें नीजपण वगडायिल्ल्या दुसऱ्या घटकाक जाग हाडपाचें काम वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार म्हणचेच शणै गोंयबाब हाणें केलें. कोंकणी मराठीची बोली म्हणपी लोकांक एका परस एक अशीं झणझणीत पुस्तकां बरोवन कोंकणी कित्यांतूंच उणी ना म्हणपाचें ताणें सिद्ध केलें.

ह्या दोनूय म्हापुरसांनी घाल्लें बीं किल्लून येवपाक गोंयाक स्वातंत्र्याची वाट पळोवची पडली. आनी जेन्ना तें १९६१ त मेळ्ळें तेन्नाच्यान ह्या ४०-५० वर्सांत कोंकणी साहित्य हे देवनागरी लिपयेंत कशें सगल्या आंगांनी फुलता तें आमी पळयतातूच.

आनी तेन्नाच्यानूच, म्हणल्यार १९६१-६२ ह्या शिक्षणीक वर्साच्यान, कोंकणी शिक्षणाक सुरवात जाली. हें एक मोटें अजापूच म्हणचें पडटलें. जाका आज साधनसुविधा म्हणटात ती मात्तूय नासतना शिक्षण सुरू जालें कशें?

आदीं सांगल्यात त्या दोनूय म्हापुरसांनी चेतयिल्ले कांय लोक एकठांय येवन तांणी कोंकणी शिक्षणाचें मुळावण घालें आनी जमता तशें तें मुखार व्हेलें. आज हें शिक्षण म्हाविद्यालयीन आनी विश्वविद्यालयीन पांवड्यार पावलां हाचो आमकां सगल्यांक अभिमान दिसता. अशें कोंकणी शिक्षण घेतिल्ले जायते जाण आज कोंकणी साहित्य रचपांत मुखार आसात म्हणपाचें दिश्टी पडटा.

इतले वयर मेरेन शिक्षण पावलां ताचो अभिमान आसाच पूण समाधान ना.

हे विशीं हांगा कांय गजाली सांगूंक सोदतां. कसल्योच साधनसुविधा नासतना कोंकणी शिक्षणाची बुन्याद घालपाचो जो वावर जालो ताचे फाटल्यान कांय कारणां आसात. तातूंतलें एक म्हत्वाचें म्हणल्यार साधनसुविधा तयार करपाची गरज. जीं साधनां जाय तीं आमी कित्याक घडोवचीं न्हय? आमी तीं तयार केलीं नात जाल्यार तीं कोण करतलो? अशे प्रस्न तेन्ना तांकां पडले आनी तांणी थारायलें : आमीच हो वावर करचो पडटलो आनी तशे ते वावराक लागले.

जे पुर्तुगेझ शिकले तांकां पुस्तकां, व्याकरणां, कोश बी हीं सगलीं साधनां आयतीं मेळ्ळीं. तांचे खातीर तांकां कश्ट पडले नात. जे इंग्लीश शिकले तांकांय तीं तशींच आयतीं मेळ्ळीं आनी जे मराठी शिकले तांकांय बी तीं आयतीं मेळ्ळीं. एक दोन पुस्तकांचो ह्या भाशांनी अपवाद आसा.

कोंकणीक तीं आयतीं कोण दितलो? आपणेंच तीं करचीं पडलीं. तीं करतकच आपणांक कितें मेळटलें हो विचार तेन्ना तांचे तकलेंत केन्नाच आयलो ना. कितले पयशे मेळटले? पुरस्कार मेळटलो काय ना? सत्कार जातलो काय ना? कसलेंय मानाचें पद मेळटलें काय ना? अश्या विचारांक थंय सुवातूच नाशिल्ली. संवसाराचें सगलें सांबाळून, पदरचे पयशे मोडून, वेळांत वेळ काडून असो हो वावर जालो. कोंकणी शिक्षण हो तेन्ना एकंदर कोंकणी चळवळीचो वांटो आशिल्लो. हे चळवळीच्यो कांय मोखी आशिल्ल्यो. साहित्य अकादेमीची मान्यताय , गोंयची राजभास म्हणून कोंकणीच्या माथ्यार मुकूट, घटक राज्याची स्थापणूक आनी भारतीय भाशांचे पंगतीक खांदाक खांदो लावन आठव्या परिशिश्टांत मिरोवपाची मिरास. अश्यो ह्यो मोखी गोंयच्या पुरुशार्थी कोंकणी पुतांनी आनी धुवांनी जोडल्यो.

आनी, एक मोटें कार्य करतकच जसो मनीस विसव घेता तसो तो तांणी ह्यो मोखी जोडून जातकच घेतलो. मुखावयलो, चड करून प्रशासनाचो, वावर आतां सरकार करतलें अशा भ्रमांत रावून नकळटना तांचे कडल्यान एक सगल्यांत म्हत्वाचो – कोंकणींत प्रशासनाचो वावर घडूंक पावूंक ना. एके तरेचें आत्मसंतुश्टपण आयलें आनी आपसुकूच तांचीं दर एकल्याचीं आपलीं अशीं विश्वां निर्माण जालीं. हाचो परिणाम म्हणून कोंकणी राजभास जावनूय तातूंतल्यान प्रशासन चलना.

भाशेची पयली मोख : **तातूंतल्यान आपल्या राज्याचें प्रशासन चलोवप.** पूण गोंय प्रदेश केन्ना तरी एक दीस स्वतंत्र जातलो आनी ताचें वेगळें अशें घटक राज्य जावंक पावतलें अशें कोणें केन्ना सपनांत लेगीत येवजूंक नासलें. गोंयांत आमचे वळखीचें जें प्रशासन जालें तें पुर्तुगेझ भाशेंत. अशें प्रशासन चलोवपा खातीर तांणी पुर्तुगेझ माध्यमाच्यो मुळाव्यो शाळा साश्ट, मुरगांव, तिसवाडी आनी बार्देश ह्या म्हालांनी घाल्योच पूण उरिल्ल्याय म्हालांनी खंय खंय त्यो पावयल्यो. प्रशासन चलोवपा खातीर जो कर्मचारी वर्ग जाय आसता तो तयार जावचो म्हणून तांणी ह्यो शाळा घाल्यो. पुर्तुगेझांनी आपल्या देशांत प्रशासन पुर्तुगेझींत चलयलेंच पूण आपल्या साम्राज्यांतूय बी तें चलयलें. अशें तें चलयतना आपले कडेन कितलें साहित्य आसा, कसले तरेचें आसा, ताचो पांवडो केदो, तें वाचतात कितले लोक हाचो हिशोब करून तांणी तें केलें ना. भास जशी आसा, तशे ते भाशेंत तांणी राज्य केलें. तशें तें करपाक ते साहित्यिकांक रावले नात. लुईश द कामोंयश हो तांचो म्हाकवी. ताणें *'लुझियदश'* हें म्हाकाव्य बरयलें. पूण तो कवी आनी तें म्हाकाव्य नाशिल्लें जाल्यारूय प्रशासन पुर्तुगेझींतल्यान चलतलें आसलें. तें तशें चलोवपाक तांचें शिक्षण पुर्तुगेझींतल्यान जालें आनी तितलेंच तें प्रशासन चलोवपाक पुरो.

हेच भशेन आमचें गोंयचें प्रशासन **कोंकणींतल्यानूच** चलूंक जाय. आनी म्हणून **कोंकणींतल्यान शिक्षण** सामकें गरजेचें आसा. अशें हें शिक्षण चलतलें जाल्यार भाशेंत बऱ्याच प्रमाणांत प्रमाणीकरण येवपाची गरज आसा. हे विशीं प्रो. ज्योआकीं आंतोनियु फेर्नांदीश हांच्या *'कोंकणी नादशास्त्र'* ह्या संबंदांतलो विचार हांगा सांगतां:

प्रो. ज्योआकींबाब म्हणटा:

"येदी व्हडली इंग्लेज भास लिपयेच्या २७ वर्णांनी बरयतात. पूण कशी? अमकेच वर्ण घेवन दरेका उतराक रूप दिलां. सगल्यांनी तेच वर्ण घेवन ओ त्या त्याच रुपांत ते वर्ण बरोवंक जाय. तातूंत एकूच एक वर्ण चुकशी जाल्यार 'स्पॅलींग मिस्टेक' जाता आनी सगलें बरोवप घाणटा. तशें करून बरोवप एकरुपी जाता. भाशेक प्रमाण रूप Standard form (स्टॅण्डर्ड फॉर्म) येता आनी भाशेचें साहित्यीक मोल वाडटा. इतलेंय आसून इंग्लेझ भाशेची रोमी लिपी नादशास्त्रीय न्हय. उतरांचो उच्चार शिकोवपी उच्चारून दाखयतात तो आयकून शिकूंक जाय. तरी पूण, शिकप्यांक आनी शिकोवप्यांक तेंच बरें लागता. कित्याक तें वयर सांगलां. इंग्लेझ भाशेंतलें बरोवप फकत एकरुपी जाता. आमकां देवनागरी सारकिली नादशास्त्रीक आनी बरोवप एकरुपी करता तसली रोमी लिपी जाय."

ही गजाल तांणी १९७५त सांगली. पूण ते आदीं देवनागरी लिपयेंतल्यान कोंकणी शिक्षणाचेर म्होर बशिल्ली आनी आयज मेरेन

तातूंतल्यानूच कोंकणी शिक्षण चलता, आनी अशें हे लिपयेंतल्यान शिक्षण जाल्ल्यानूच कोंकणी साहित्य फुलत आसा.

वयर प्रो. ज्योआर्कीबाबान विधान केलां, "अमकेच वर्ण घेवन दर एका उतराक रूप दिलां." कोणें दिलां? सी ए टी कॅट (cat) अशें आमी म्हणटात तेन्ना 'सी' वर्णाक 'ए' वर्ण लागतकच 'कॅ' उच्चार जाता वा 'स' क 'अ' लागतकच 'क' वर्ण जाता हें कोणें थारायलां? खंय 'स' आनी खंय 'क'. आमी थारावंक ना. पूण प्रो. ज्योआर्कीबांब म्हणटा तशें, उतराचो उच्चार शिकोवपी उच्चारून दाखयता तो आयकून शिकूंक जाय. पुर्तुगेझ, इंग्लीश अश्या भाशांचें शिक्षण हें अशेच तरेन घडलां. जेन्ना टिचर सिएटी कॅट म्हणटा तेन्ना भुरगोय सिएटी कॅट म्हणटा. ताणें केन्नाच आपले टिचरीक सिएटी कॅट कित्याक तें विचारूंक ना. न्हय म्हणून, ताच्या आवय बापायनूय केन्ना विचारूंक ना. मागीर तें थारायलें कोणें? इंग्लीश भास इंग्लंडाक बसयल्या. सगले लोक एकठांय जावन ती बसोवंक ना. भाशेच्या संदर्भांत विचार करपी कांय लोकांनीच ती बसयल्या आनी तशी ती थंयच्या सगल्या लोकांनी मानून घेतल्या. अशीच गजाल पुर्तुगेझ भाशे संबंदान घडल्या.

गोंयांत कोंकणींतल्यान शिक्षण सुरू जालें तेन्ना ती भास बसोवपाची गरज उपरासली. कोंकणी भाशा मंडळान कितलींशींच शिबिरां घेतलीं. ह्या विशयांत जे लोक वावुरताले तांच्यो कितल्योच बसका जाल्यो. पयलीं कोंकणी भाशा मंडळान आनी उपरांत गोवा कोंकणी अकादेमीन शुद्धलेखनाचे नेम केले. ही प्रक्रिया सुरू जाल्यार आतां लागीं लागीं पन्नास वर्सां जातात. म्हणचेच दोन पिळग्यांचो काळ सोंपत आयला.

आज कोंकणी शिक्षण एमए आनी पीएच्डी मेरेन पावलां. वेगळ्या वेगळ्या वाठारांतलीं आनी सामक्या भितरल्या गांवांतलीं भुरगीं आपआपल्यो बोलयो राखून हें शिक्षण घेतात. बोलयो कितल्योय आसल्यो आनी कश्योय आसल्यो जाल्यारूय शिक्षणांत एक प्रमाण रूप आसचें पडटा. सिएटी कॅट कित्याक अशें विचारिनासतना आमी आमकां शिकयलां तसोच उच्चार करतात, कारण ती भास आमची न्हय. ती परकी भास. परकी भास शिकतना अशें कित्याक आनी तशें कित्याक अशें विचारपाचो अधिकार शिकतल्याक आसना. पूण आपली भास शिकतल्याक तशें विचारपाचो पुरायेन अधिकार आसा. आनी जांणी शुद्धलेखनाचे नेम तयार केल्यात तांकां तांची जाप दिवपाक येवंक जाय. आपूण अशें उलयतां म्हणून आपूण अशें बरयतां अशें आपणें आपल्याक स्वातंत्र्य घेवंक फावोना. कारण तशें स्वातंत्र्य जणं एकल्यान घेतलें जाल्यार ती बजबजपुरी जातली. भास विसकळीत जातली. तिका खंयच कसलोच आदार उरचो ना. तिची उदरगत जावची ना आनी कांय काळान ती भास म्हणून सोंपतली.

हे विशीं एक गजाल सांगतां.

एका घरांतले दोन भाव. दोनूय भाव एकामेकाच्या विरोधांत. तांच्या घराक तेंकून दोन-तीन माड आसात. व्हडलो भाव नाल्ल पाडपाचें थारायता. तें दुसऱ्याक कळटा आनी तो थंय येता. पयलो भाव पाडेल्याक म्हणटा, माडार चड. पाडेली बावडो माडार चडटा. तो अर्द माडार चडकच, दुसरो भाव ताका विचारता, माडार कित्याक चडला? देंव! तो बाबडो देंवता. तेन्ना पयलो विचारता, देंवलो कित्याक तूं? तो बावडो परतो चडटा. अशें दोन-तीन फावटीं जातकच पाडेली वाजवेन घरा वता. माड पाडनासतना उरतात आनी दोनूय भाव आपणें दुसऱ्याक बरी बुद्द शिकयली अशे पुरुशार्थी भावनेन घरा वतात.

असले तरेचो पुरुशार्थ कोंकणीक घातक थारतलो. खंयच्याय झाडाचें मूळ भोवन भोवन उस्तिलें जाल्यार तें झाड तग धरूंक पावना आनी एक दीस तें कोसळटा. म्हणून शुद्धलेखन जशें थारायलां तेच तरेन बरोवंक जाय. ही आमची लागणूक आसा म्हणपाचें आमी समजूंक जाय.

अशें आसलें जाल्यारूय कोणाकूय खंयूय कितेंय सारकें ना शें दिसलें जाल्यार ताचेर भासाभास जावंक जाय. जाग, बिम्ब, कोंकण टायम्स, सुनापरान्त अशीं आमचे कडेन माध्यमां आसात. थंय भासाभास जावं येता. शुद्धलेखन समितीन ते गजालीचेर विचार करून योग्य निर्णय घेवंक जाय. ही एक प्रक्रिया आसा. अशी प्रक्रिया घडटकच फावो ते बदल करूं येतात.

१९७५ त गोवा माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक मंडळ स्थापन जालें. आनी धावेचे परिक्षेक कोंकणी विशय घेवन भुरगीं बसूंक लागलीं. तेन्ना भुरग्यांचे जे बोलयेचे पद्धतीन जापो बरयिल्ल्यो आसताल्यो त्यो तश्या तश्योच; तातूंतलें शुद्धलेखन आनी व्याकरण पळयनासतना गूण दिवचे अशें अलिखीतपणान तेन्ना थारायलें. हो एक संक्रमणकाळ. हे गजालीक आतां लागीं लागीं तीस वर्सां जालीं. म्हणून आतां इतलो काळ गेले उपरांत शुद्धलेखन आनी व्याकरण ह्या संबंदांत आमी आमकां स्वातंत्र्य घेवचें न्हय. प्रो. ज्योआर्कीबाबान म्हणलां तशें स्पॅलींग मिस्टेक जाली जाल्यार सगलें बरोवप घाणटा. ही गजाल जशी इंग्लीशीक वा आमी शिकतात त्या हेर भासांक लागू जाता तशी ती कोंकणीकूय बी तितल्याच खरपणान लागपाची गरज आसा.

१९८३तल्यान कोंकणी घेवन धावेचे परिक्षेक बशिल्ल्या भुरग्यांच्या आंकड्याचो आलेख पळयलो जाल्यार १९९६ मुखार तो ४०-४५ प्रतिशें आशिल्लो दिसता. हाचोच अर्थ, ५५-६० प्रतिशें भुरगीं कोंकणी शिकनात. म्हणचेच तांच्या आवय-बापांयक कोंकणी कडेन लागणूक ना. म्हणचेच तांकां कोंकणीच्या फुडारा विशीं आनी पर्यायान गोंयच्या फुडारा विशीं हुसको ना. ते फकत आपले पुरतेंच पळयतात.

ह्या संदर्भांत एक गजाल सांगतां. एका भुरग्याक केजींत वचपाक आवय-बापायन भायर काडलो. तीं दोगांय नोकरेक वचपी. भुरग्याक स्कुटरी वयल्यान स्कुलांत पावोवन आपणें नोकरेक वचपाची बापायची चाल. पूण त्या दिसा बापायक कितें तरी काम जालें आनी ताका आपल्या पुताक स्कुलांत पावोवपाक मेळ्ळें ना. भुरगो सामको ल्हान. केजींतलो. ताका संवय स्कुटरीची. त्या दिसा ताका चलचें पडलें. थोडी वाट चलून वतकच तो मार्गारूच बसलो. पूत वता तें आवय उबी रावून पळयताली. भुरगो बसलो तो पळोवन तिणें पुताक म्हणलें, "आरे तूं अमेरिकेक वतलो काय हांगाच फातर जावन बसतलो?" अशी ही मानसीकताय आज लागीं लागीं सगल्या गोंयकारांची जाल्या. भुरग्यान अमेरिकेक, इंग्लंडांक, ऑस्ट्रेलियेक वा निदान बेंगळूर पुणें असल्या शारांनी वच्चें, पूण गोंयांत रावपाचें ना. गोंयांत रावता तो

फातोर. मागीर त्या आवय-बापायक तलाठ्या कडेन पंचायतींत काम आसलें जाल्यार तो तलाठी कोण आसचो पडलो? सचीव कोण आसचो पडलो? बिडीओ, मामलतदार अशे अधिकारी कोण आसचे पडले? आनी अशेच तरेन वेगवेगळ्या खात्यांनी काम करपी कोण आसचे पडले? आपल्या भुरग्याच्या शिक्षणा संबंदान कोणाचेंय कसलेंय व्यक्तीगत मत आसलें जाल्यारूय सरकाराक आपल्या राज्याचें प्रशासन चलोवंक जाय. आनी हें प्रशासन कोंकणींत आसूंक जाय. आनी म्हणून शिक्षणांत कोंकणी आसुंकूच जाय.

एकंदर सगले परिस्थितीचो विचार केले उपरांत निदान मुळाव्या पांवड्यार तरी कोंकणींतल्यान शिक्षण आसचें अशें बऱ्याच जाणांचें मत आसा. आनी जे ५५-६० प्रतिशें कोंकणी शिकनात तांणीय ती शिकपाची गरज आसा.

पूण मुळाव्या पांवड्यार आज इतलो इंग्लीशीचो झगझग आसा की त्या झगझगाटांत गोंयकार खूब संख्येन दिपकावन गेल्यात आनी दिपकावल्ल्यान आपलीं पावलां खंय पडटात ताचें भान तांकां उरूंक ना. एक दीस हो इंग्लीशीचो झगझग तांचो घात करतलो हें तांकां होलमना. तरी अजून कांय जाण मुळाव्या पांवड्यार कोंकणींतल्यान शिक्षण जावचें अश्या मताचे आसात. पूण पांचवेक पावतकच इंग्लीशी खातीर भुरग्यांक धडपडचें पडटा म्हणून उपाय नासून आपल्या भुरग्यांक ते मुळाव्या पांवड्यारूच इंग्लीशीक घालतात. गोंय स्वतंत्र जायत पसून हो प्रस्न आसा, पूण फावो ते उपाय घेवपाचें कोणेंच गंभीरपणान घेवंक ना. तसो तो खरें म्हणल्यार घेवपाची गरज आसा.

एक खास मांडणी केली जाल्यार पांचवेक इंग्लीशीक लागून भुरगीं धडपडटात ती धडपड आसची ना. आनी तांचें शिक्षण कसलेच तरेचो त्रास नासतना सहजपणान कशें घडूं येता तें राजहंस प्रकाशीत 'कोंकणी सचित्र अश्टांगी अभ्यासकोश' ह्या कोशांत चित्ररुपान दाखयलां.

माध्यम बदलाचो प्रस्न पांच ते सात ह्या यत्तांक बादता. तो खंय बादता? ह्या पांवड्यार अकस्मात सगल्या विशयांचें माध्यम इंग्लीश जाता म्हणून थंय तो बादता.

तसो तो बादचो न्हय म्हणून कितें करपाचें?

वस्तुस्थिती कितें ती पारखुपाची आनी ते प्रमाण गरजेचे बदल करपाचे ते अशे :

१) १-४ ह्या मुळाव्या पांवड्यार इंग्लीश भास एक विशय म्हणून शिकयतात. १-४ ह्या यत्तांनी इंग्लीश भाशेची बरीचशी वळख भुरग्यांक जाता आनी तांचे कडेन पांचवेक जाय तितलीं उतरां एकठावतात. (तत्व म्हणून हो विचार मान्य केलो जाल्यार उतरांची ही संख्या कितली जाता ताचो हिशोब करूं येता.)

२) पांचवेक इंग्लीश सोडून जे हेर विशय इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिकयतात तांची पुस्तकां आपणें तयार करचीं पडटली. १-४ मेरेन ज्या उतरांची संवकळ भुरग्यांक जाल्ली आसता तींच उतरां घेवन हीं पुस्तकां तयार करूंक जाय. म्हणटकच इंग्लीशींतल्यान हे विशय शिकपाक त्या भुरग्यांक कठीण वच्चें ना.

अशीं पुस्तकां रचपाक आमचे कडेन लायक लोक आसतलेच.

३) पांचवेक इंग्लीश विशय शिकिल्ल्यान आनीक जायत्या उतरांची भर भुरग्यां कडेन जातली.

१-४ तली इंग्लीश उतरां आनी पांचवेंतलीं इंग्लीश नवीं उतरां धरुनूच हेर विशयांची पुस्तकां सवे खातीर रचूंक जाय.

४) हेच भशेन सातवेचीं पुस्तकां.

म्हाका दिसता, साहित्य आनी शिक्षण, चड करून शिक्षण, हे विशीं़चे म्हजे विचार जशे सांगूंक जमल्यात तशे ते तुमचे मुखार दवरल्यात. हें उलोवप सोंपयतना एक गजाल म्हाका सांगचीशी दिसता ती अशी - गोंय मेकळें जायत पसून कोंकणी म्हणपी लोकांकूच गोंयच्या फुडारा विशीं हुसको आसा. कोंकणीक सगल्या तरांचीं जैतां जोडून तांणीच ह्या इल्ल्याश्या गोंयाक घटक राज्याचो मान मेळोवन दिला. तांचे मुखार आनीक एक मोख आसा. प्रशासन कोंकणींतल्यान चलोवप. आनी तें तशें चलयलेंना जाल्यार आज जी एके तरेची अस्वस्थ करपी परिस्थिती आसा ती आनिकूय खर जावन गोंय पुरायपणान त्रासांत पडूं येता.

हे विशीं एक गजाल सांगतां. सुथरा म्हणून एक तत्वज्ञानी फकीर जावन गेलो. एक दीस तो ताच्या घरा भायर बशिल्लो एकल्याक दिसलो. ताणें सुथराक विचारलें, ''आरे, घरा भायर सो बसला? सुथरान सांगलें, ''घरांत बसपाक जागो ना.'' ''कित्याक जागो ना?'' ''घरांत खांबे घाल्यात'', ''घरांत खांबे घाल्यात? कित्याक?'' सुथरान सांगलें, ''घर घट करपाक.''

आमचेंय बी तशेंच आसा. इंग्लीश, मराठी, हिंदी, कन्नड, बंगाली अश्या आनी हेर जायत्या भाशांनी आज गोंय भरलां. ताका लागून एक दीस गोंयकारांक आपल्या घरा भायर बसचें पडूं येता. घर घट करपाक इतल्या खांब्यांची गरज ना. कोंकणी आनी कोंकणी बाराबर इंग्लीश आनी हिंदी अश्यो दोन-तीन भासो आमच्यो आसत जाल्यार आमकां खंयच कोणाचीच पर्वा करपाची गरज ना. कोंकणी प्रशासन म्हणल्यार आमचें घर घट करपी सगल्यांत मोटो खांबो. पूण तेच बाराबर आमकां इंग्लीशूय बी जाय. ती कशी जाय? मडगांवां मार्केटांत कोणाकूय कसलेंय जड सामान व्हरपाचें आसत जाल्यार तो भाडेलाक आपयता, भाडेलाच्या माथ्यार सामान दिवन तो तें घरा व्हरता आनी भाडेलाक पयशे दिता. अशीच गजाल रेल्वे स्टेशनां, बस स्थानकां, बांदरां बी सुवातांचेर घडटा. रिक्षा, पिकप अशे तरेचीं साधनां तेच खातीर आसात. जें आपलें कडेन जायना तें दुसऱ्या कडल्यान करून घेवप असो हो विशय आसा. आनी म्हणून इंग्लीश भाशेंतल्यान विज्ञान-तंत्रज्ञान अश्या विशयांनी आज झपाट्यान घडपी गजाली आमकां कळूंक जाय म्हणून आमकां इंग्लीश जाय. इंग्लीश आमकां भाडेल कशी जाय, आमची राणी म्हणून न्हय. इंग्लीशी कडेन पळोवपाची आमची नदर अशी निवळ आनी स्पश्ट आसत जाल्यार आमी खंयच आनी खंयचेच परिस्थितींत उणे पडचे नात.

(२३ आनी २४ फेब्रुवारी २०१० ह्या दिसांनी गोंय विद्यापीठाच्या कोंकणी विभागान घडोवन हाडिल्ल्या परिसंवादांत केल्लें मुखेल उलोवप.)

# राजय पवारालें *गिरमीट*

**अना म्हांबरो**

हालीं कोंकणींत जे तरणाटे बरपी लेखन करतात ते साहित्याचे वेगवेगळे प्रकार बरे तरेन हाताळटात. तांतलो एक राजय पवार. ताणें कांय नाटकां बरोवन नामना जोडल्या. ताच्या कवितांची वाचप्यांनी बरी दखल घेतल्या. हालींच ताच्या ललीत निबंदांचें एक पुस्तक, *गिरमीट,* उजवाडाक आयलां. राजय पवार 'सुनापरान्तां'त जें कॉलम बरयतालो तांतले ललीत निबंद ह्या पुस्तकांत एकठांय केल्यात.

वर्तमानपत्रांतल्या कॉलमांतलें साहित्य जर्नलिस्टीक साहित्याचो एक नमुनो. बरोवपी तें ताकतिकेन बरयता आनी वाचपी तें ताकतिकेन वाचता. इंग्लीश वर्तमानपत्रांनी अशीं कॉलमां बरोवपी खूब गाजल्यात. आर्ट बुकवल्ड हो अमेरिकी पत्रकार थंयच्या एका नामनेच्या दैनिकांत सप्तकांतल्यान चार कॉलमां बरयतालो, आनी संवसारांतलीं शेंकड्यांनी वर्तमानपत्रां तीं कॉलमां प्रसिद्ध करतालीं.

आमच्या देशांतलीं म्हत्वाचीं इंग्लीश वर्तमानपत्रां मुंबयच्यान उजवाडाक येतात. ह्या वर्तमानपत्रांनी खुबशे जाण सदरां बरयतात. तांतले तातूंत गाजिल्लीं जीं सदरां आसात तातूंत 'बिझी बी' (Busy Bee) हाचें Round and About हें सदर खूब लोकप्रिय जाल्लें. बिझी बी टायम्स ग्रुपांत नोकरेक आसतना थंय Evening News हें सदर ताणें सुरू केल्लें. उपरांत तो Mid-Dayत गेलो. ते उपरांत 'After-noon' वर्तमानपत्र ताणें सुरू केलें. त्या वर्तमानपत्रांत हें सदर त्या वेळार चलतालें. तो भायर पडटकूच ताच्या वेंचीक बरपांचें पुस्तक ताचे बायलेन उजवाडायलें. तें खूब खपलें.

'बुकवल्ड' आनी 'बिझी बी' हांचीं कॉलमां चडशीं वर्तमानपत्रांतल्या महत्वाच्या खबरांचेर अवलंबून आसतालीं. राजयाल्या *गिरमीटां*त गोंयां ज्यो दिसपट्ट्यो घडणुको घडटात त्या संबंदान चडश्यो गजाली आसात. पतीक ताच्या कॉलमाचे कांय माथाळे पळेयात, ''बायलां वांगडा बाजार'', ''नांवां जालीं पाडनांवां'', ''बोलीची भास–भाशेचे बोल'', ''न्हीद येता तेन्ना'', ''भुरग्यांचो अभ्यास'', ''मोटे मनीस'', ''बस रे बस'', ''कंडक्टर'', ''पावसाच्या दिसांनी'', ''कपयाळें'', ''गाळी'', ''हळदकुकूम'', ''साहित्यीकांचीं नांवां'', ''म्हाल्याची केस'', ''एक रकाद दी'' आनी ''बस-स्टॉप''.

राजयान घडिल्ल्यो घडणुको दिल्यात आनी तांचेर मल्लिनाथी केल्या. कांय विशय ताचे खुब्ब आवडीचे. तातूंत ड्रायव्हर आनी कंडक्टर येता. ताच्या बरपाचे हे कांय नमुने –

'... मंगेशी' नांवाचो एक स्टॉप आसा. पूण बसीन वतना मात कंडक्टर ह्या स्टॉपाक 'मंगेश' म्हणटात. थंय पावतकीच कंडक्टर 'मंगेश भायर सर, मंगेश भायर सर' अशें म्हणटा. (कोणाकूय दिसपाचें... हो, मंगेशाक भायर सर म्हणटा काय म्हण!)'' (पान ११६.)

मुखार राजय म्हणटा, ''गोंयांत मनशाभशेन नांव आनी आडनांव आशिल्लो एकमेव स्टॉप म्हळ्यार मडगांवां आक्यां वतनाचो 'बाबू नायक' स्टॉप. बाबू नायक हो राजकारणांतलो सक्रीय मनीस. (मागीर तो 'स्टॉप' जालो!)'' (पान ११६.)

सार्वजनीक मळार कसलीय तक्रार आसल्यार लोक सरकाराक रकाद धाडटात. असोच एक रकाद 'सीएमा'च्या कानार घालपा खातीर त्या पक्षाच्या कार्यकर्त्याक सांगलो. रकाद असो... ''ह्या दिसांनी मायनिंगाचे ट्रक आमच्या वाड्यावयल्यान वतात. येतना वतना आमकां धुल्ल खावचो पडटा. घरा वतकीच कपडे धुवपाक उडोवन सरळ न्हावचें पडटा. आमी ही गजाल सरपंचाक कळयल्या. पूण तो कानामनार घेना. तुमी तरी ॲक्शन घेतले म्हूण तुमकां सांगलां...''

कार्यकर्त्यान तो रकाद झेडपी कडल्यान मुखार धाडलो. झेडपीन तो आमदारा कडेन दिलो. आमदारान तो मंत्र्या कडेन धाडलो. मंत्र्यान तो सीएमाच्या पीए कडेन दिलो. सीएमाच्या पीएन सीएमाक दितना तो असो दिलो... ''ह्या दिसांनी आमी सरपंचाचे कपडे घराकडेन काडून ताका मायनीचेर न्हावपाक व्हरतात. तुमीय बी हे सगल्यांक कळयात.'' (पानां : १०९-११०.)

वर्तमानपत्रांतल्या खबरांचे माथाळे एकठांय करून राजयान एक बरें कपयाळें तयार केलां. ते मुळांतूच वाची सारकें आसा.

'म्हाल्यांची केस' ह्या निबंदांत गोंयच्या म्हाल्यांचेर बरयतना तो एके कडेन म्हणटा, ''कांय कांय म्हाले तुजे केंस वा खाड अर्दें करून जातकीच मर्दीच सिगार वा च्या मारपाक म्हूण भायर (कुशीक) वतात, तेन्ना तुजो त्रिशंकू जाता. (न्हाता आसतना शाबू लायतकीच नळ गेलो जाल्यार न्हावपाकूय मेळना, पुसपाकूय मेळना... तसली

गत हांगा जाता...'' (पान १०६.)

'साहित्यीकांचीं नांवां, ह्या निबंदांतलो हो उतारो पळेयात: ''खंयच्या तरी एका संमेलनांत मुखाल्ले लायनींत पुंडलीक नायक बशिल्लो. ताका तेंकून.. सोयरू वर्दे बशिल्लो. ताचे कुशीक दिपा मुरकुंडे (हिगेलें ''हरी प्रकाशन'' आसा), तिचे कुशीक विठ्ठल आवदियेंकार... हांवें मनांत म्हणलें... 'हें सुंदर कॉम्बीनेशन आसा -- 'पुंडलीक - वर्दे-हरी-विठ्ठल'!'' (पान ९९.)

एका कॉलमांत राजयान 'स्टायलिस्टीक कविता' दिल्या. तातूंत ताणें मनोहरबाब, पुंडलीक नायक, रमेश वेळुस्कार, भिकाजी घाणेकार आनी काशि हांचीं खेबडां केल्यांत. हो 'मनोहरायज्ड काव्याचो' एक नमुनो :

''भावा! कसली तुजी करणी?
केंस झडून खड्डो जालो
तरी बोल्सांत फणी...!'' (पान ४१)

एके कडेन ताणें खंय तरी खांची कोनशाक मेळिल्ले आपल्या पणज्याचे डायरेंतले उतारे दिल्यात. नमुन्याक हो एक उतारो:

''17-04-1922: आमच्या काजू पांडूला लावल्या होत्या.कालोर हिशोबा बाहेर असल्यामुळे पांडूच्या अंगावरून घाम वाहत होता. काजूनी फिरून एकत्र केलेले मुट्टे कोळमेंत घालून त्याने रोस काढायला सुरवात केली.ह्याच रोसाचा ते सोरा आनी निरा बनवत असत. पांडूने रोसाचे डबे भाटीवर पाठवून दिले आनी मिळालेल्या पयशांतून आपल्या बायकोला पोलक्यासाठीं कापड विकतें घेतलें... (फुडलो मजकूर वायटीन खाल्लो.)'' (पान ३१.)

'बोलीची भास--भाशेचे बोल' ह्या लेखांत राजय म्हणटा: ''काणकोणची कुणबी बोली तर खूब वेळ आयकत रावचीशी दिसता. तांचे बोलींत 'ल' चें 'न' जाता.'लायट' आयल्यार ते 'नायट' आयली म्हणटात... नक्ष्मणाल्या नग्नाक ते नाडू वांट्टात. एकदां तर एकल्यान म्हाका लाडू दिलो आनी उमेदीन सांगलें... 'म्हगें शेडूं (चेडूं) नग्न जालें!'' (पान ७.)

*गिरमीटां*त एकूच निबंद सिरियस आसा. तो वाचप्यांनी मुळांतूच वाचचो. त्या 'गिरमीटा'क राजयान नांव दिलां 'सिरियस कॉमेडी.'

असले तरेचीं कॉलमां हेर बरपी बरयतात. चडशे वर्तमानपत्रांनी ज्यो खबरो येतात तांच्या आदारान बरयतात. राजयाचें बरोवप बरें आसा. ताणें अशेय तरेचे विशय हाताळचे अशी सुचोवणी करीन दिसता.

गिरमीट म्हळ्यार शार्पनर. शिसपेन्सिलीक (लाप्साक) तोंक काडपाचें साधन. हीं तोंकां ब्लेडीन वा कानवेतीन काडूं येतात. पूण गिरमिटान काडटकूच तीं नकसूद येतात.

ह्या पुस्तकांतल्या गिरमिटांनी राजय लोकांचें तासता. तेन्ना ताका खोस जाता आनी वाचप्यांचेंय समाधान जाता. एक गजाल -- वेगवेगळ्या विशयांचेर ताणें जे शेरे मारल्यात ते सगळे वाचप्यांक पटत म्हूण ना. पूण हें पर्सनल कॉलम जाल्ल्यान ताका जें दिसता तें बरोवपाचो अधिकार आसा. भोंवतणच्या लोकांचेर आनी घटनांचेर बरयलां ताचे बराबरूच वर्तमानपत्रांतल्या खबरांचेरूय ताणें अशीं गिरमिटां बरोवचीं. तातूंत तागेल्या लेखनाचो आंवाठ वाडटलो.

एका गिरमिटांत राजय म्हणटा, ''ल्हानपणांत म्हजें ॲम्बिशन आशिल्लें, नाटक-सिनेमांतलो हिरो जावंचो म्हण! गांवांतलीं इतिहासीक नाटकां पळयतना म्हाकाय दिसतालें ...शिवाजी जावन हातांत तलवार घेवन लडाय करची... पूण उपरांत तलवारेचे सुवातेर हातांत पेन केन्ना आयलें हेंच समजलें ना.''

हें जालें तें बरें जालें. नाजाल्यार राजय तलवार घेवन नाटकांतल्या झुजांनी झुजतलो आसलो. हातांत पेन आयिल्ल्यान तो सोबीत बरीं गिरमिटां बरोवंक पावलो.

पुस्तकाची छापणावळ बरी जाल्या. श्रीधर कामत बांबोळकाराच्या मुखचित्रान ताका सोबा आयल्या.





# बाकीबाब

## फा. मोउजीन्यु द आताईद

ज्या म्हान मनशाची जल्मशती ह्या वरसा भरता ताका पयले पावटीं, पूण अख्खो दीसभर हांवें पळेलो आनी आयकलो ह्याच घरांत, हेच रायतूरचे सेमिनरींत सुमार चाळीस वरसां आदीं. ते बाळकृष्ण भगवंत बोरकार, मराठी साहित्य जगांत 'बा.भ. बोरकर', पूण आमकां मोगान आनी आदरान 'बाकीबाब बोरकार'.

हांव तेन्ना रायतूरचे सेमिनरींत विद्यार्थी, तत्वज्ञान शिकपी. घराच्या वडिलान (रॅक्टरान) बाकीबाबांक हाडले, तांची वळख करून दिली आनी, आमकां तांच्या हातांत दिवन आपूण आमचे मदें पाटीं सगळो वेळ बसले. बाकीबाबान अख्खो दीस आमकां व्याख्यानां दिलीं. भास कोंकणी, विशय कोंकणी. व्याख्यानां खोल आनी विवीध. पूण लक्ष ओडून घेतात तसलीं. आमकां वाज आयलो ना. कोंकणी भास आनी भासशास्त्र, तिची घडणूक आनी जोडणूक, उतरावळ, इतिहास, व्याकरण, साहित्य, गद्य आनी पद्य. पूण, मुळचे ते कवी जाल्ल्यान कवितेचेर चडशे उलयले. आपल्यो कविता थोड्यो वाचल्यो आनी थोड्यो गायल्यो. बाकीबाब बोरकार कोण ताची तांणीच गायलल्या तांच्या कवितां वरवीं आमकां वळख मेळ्ळी. उत्तम कवी, कवींचे कवी, कवींचे कुंवर.

तुमी बाकीबाब कोण ते जाणा जावंक सोदतात, तांचें गद्य-रचन वाचिनाकात. तांचीं भाशणां आयकुंनाकात, दुसऱ्यांच्यो कविता वाचतना व गायतना तुमी तांकां पळे नाकात. आपल्योच कविता गायतना तुमी तांकां पळेवचे. तेन्ना की तुमकां गोमतलें, बाकीबाब कोण तें. एक श्रेश्ट कवी, जाचे सारकेले एका युगांत, एका देशांत भोव थोडे उपजतात. हो चमत्कार अनुभवूंक तरणाटपणारूच म्हाका धारजणें मेळ्ळें, आनी असलें धारजणें मेळ्ळें म्हणून हांव म्हाकाच सुभागी लेखतां.

वडिलान (रॅक्टरान) आमकां आदल्या दिसा उत्तेजन दिल्लें, तुमी बाकीबाबांक कितेंय विचारात, विचार-करपांत कसलीच बंदी ना. कसलोय विशय तांकां थावो. खंयचीय भास वापरात. कोंकणी, इंग्लीश वा पोर्तुगेज. ह्यो तिनूय भासो तांकां येतात.

खरेंच, विशय कसलो तें पळेनासतना, आमी तांकां ह्या तिनूय भासांनी विचारांचेर विचार (प्रस्नांर प्रस्न) केले, आनी ते योग्य जबाब दीत रावले, कोंकणींत. जायते फावटीं आमच्या एका विचाराक ते आमकां परतो-विचार घालताले आनी आमचे कडल्यान जबाब घेताले. पुश्कळदां तांचो जबाब तांचे कवितेच्या दोन वळींच्या रुपान जातालो. असो अख्खो दीस आमी प्रज्ञावंत आनी मन-उकलते परस्परक्रियेन सारलो.

चाळीस वरसां आदल्या घडण्यांचो म्हाका भोव थोडो उगडास आज आसा. पूण बाकीबाब, तांचें व्यक्तित्व, तांचें विद्वत्तापूर्ण मुखामळ, तांचें सादें न्हेसप (कुर्ता, पुडवें, शाल), तांची त्या दिसाचीं व्याख्यानां, तांचे आनी आमचे मदें जाल्ले संवाद, तांचें वाचन आनी आपल्या कवितांचें गायन हें सगलें म्हज्या मनांत आजुनूय जिवें ताजें आसा. ते म्हजे मुखारूच आसात आनी उलयतात - गायतात शें म्हाका दिसता. तांकां म्हज्या मना पसून प्रणाम.

बाकीबाबांची बरपावळ भरपूर. ती चडशी मराठींत. मराठींत बरोवंक तांणी सुरवात केली १९३० वरसा. मराठींत तांचीं ३२ पुस्तकां आसात. मराठी साहित्यांत ते एक खांपे लेखक म्हणून सगळेच मानतात.

कोंकणींत बरोवंक बाकीबाबांनी सुरू केलें सुमार वीस वरसां

उपरांत जेन्ना ते परिपक्व लेखक जाल्ले. हें कोंकणीचें सुदैव. कोंकणींत तांणी धा पुस्तकां बरयल्यांत.

बाकीबाबांची बरपावळ विवीध, पूण कविता मुख्य साहित्यीक तरा, जातूंत ते परजळ्ळे. ते पयलीं एक कवी. 'कवी बोरकार' म्हणून ते आपली वळख करून दिताले. तांच्यो चडशो भावकविता खोल आनी ऊंच भावनांनी भरलल्यो.

बाकीबाब मराठीचो एक खांपो कवी, आनी मराठी पद्यांत तांणी एक नवी पद्दत सुरू केली, हें अखखें मराठी साहित्यीक जग आनी महाराष्ट्र-राज्य मान्य करता. पूण जेन्ना अखील भारतीय मराठी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद तांकां एक हांयस कशें दाखयलें — अध्यक्षपदाचे बदला तांचो गोंयच्या महाराष्ट्रांत विलिनीकरणाक पाठिंबो मेळचो आनी कोंकणी मराठीची बोली ही भुमिका तांणी घेवची अशें सुचीत जालें तेन्ना बाकीबाब, क्रोधान भरून, हें हांयस नाकारतात. ते म्हणटात, गोंय एक खेरीत राज्य, तें मराठणाचो एक भाग न्हय. कोंकणी एक स्वतंत्र भास, मराठीची बोली न्हय. ज्ञानपीठ पुरस्काराक तांचें नांव आयलें तेन्ना मराठी साहित्यिकांनी, साहित्यीक प्रमाण विसरून आनी राजकरण करून, तांकां विरोध केलो, आनी तांकां पुरस्कार मेळ्ळो ना. बाकीबाबांक कांय उणें जावंक ना, दुर्बळ जालें तें ज्ञानपीठ. पूण बाकीबाबांचो त्याग जायत्या वरसां उपरांत आतां फळादीक जाता, तेंच ज्ञानपीठ पोरूं एका म्हालगड्या गोंयकाराक मेळटा तेन्ना. इतलेंच न्हय, ताका आपलो मानाचो वांगडी (Fellow) म्हणून साहित्य अकादेमी वेंचून काडटा तेन्ना. साहित्यीक जैत कोंकणी भाशेचें, पूण ताचें मुळावण बाकीबाबांनीच घाल्लें.

बाकीबाबांची कोंकणींतली म्हान कृती तांचो १९८१ वर्साचो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फाव जाल्लो *सासाय* कवितां झेलो. तांचो दुसरो फांकिवंत कोंकणी कवितां झेलो *पांयजणां*.

बाकीबाबांच्यो सगळ्यो कोंकणी कविता खर अभिजात रितीन रचल्यात, तांकां छंद आसा, वृत्त आसा, यमक आसा, ताल आसा. आधुनीक कविता मुक्तछंदांतल्यो पूण बाकीबाबांच्यो कविता असल्यो न्हय. देखून त्यो गावपाक योग्य.

आतां थोडे भितर बाकीबाबांच्या जिविता विशीं:

ते कुडचड्यार आपले आवयच्या कुळारा ३० नोव्हेंबर १९१० सालांत जल्मले. ते बोरये आपल्या आवय-बापायच्या, म्हणचे आपल्या, घरा ल्हानाचे व्हड जाले.

तांचें शिक्षण: प्राथमीक मराठींत, इंग्लीश मॅट्रीक (धारवाड), पोर्तुगेज 'लिसेव' (ऊंच माध्यमीक आनी 'नॉर्माल' (प्राथमीक शिक्षकांचो अभ्यास आनी प्रशिक्षण क्रम). वेवसायान ते प्राथमीक शिक्षक. तांणी जायत्या प्राथमीक शाळांनी मराठी आनी पोर्तुगेज शिकयल्या. तांणी सुरवेक मुंबय आनी गोंयचे सुटके उपरांत पणजे आकाशवाणीर नोकरी केल्या. ते गोंयचे सुटकेझुजारी. गोंय पोर्तुगेजां कडल्यान मेकळें जातच, गोंयची अस्मिताय राखल्या. कोंकणीक मान्यताय घेवच्या आनी गोंय एक वेगळें घटक राज्य करच्या चळवळींनी ते वांटेकार जाल्यात, कांय कडेन फुडारी म्हूण वावुरल्यात.

पण ह्या सगळ्या परस पयलीं ते एक लेखक, अदीक करून कवी. तांचें साहित्यीक कार्य प्रचंड आनी थारो नासललें. आपलें ज्ञान-मन आनी काळीज, आपली कूड आनी आत्मो ह्या कार्यांत ते घाली आनी आपल्या बरपा उदेशीं सगळीं झुजां तांणी मांडलीं आनी जिखलीं. लिखणी आनी गायन तांचीं पदवेदार साधनां.

बाकीबाबांनी मराठीचें फकत प्राथमीक पांवड्याचें शिकप घेतलां. कोंकणी ते खंयचेच शाळेंत शिकूंक नात. पूण दोनूय भासांनी तांणी ऊंच पांवड्याचें साहित्य रचलां. दोनूय भासांचेर तांचें तितलेंच प्रभुत्व आसा. तांचो यत्न सगळो आपलोच. ते स्वयंशिक्षीत आनी स्वयंसिद्ध. मनशाच्यान आपल्या सैमीक गुणांनी आनी आप-यत्नान कितलें करूंक जाता तें ते आमकां आपले देखीन दाखयतात.

बाकीबाब पुण्यांत १९८४ वरसा ८ जुलैक अंतरले. तांचे कुडीचेर निमणे संस्कार थंयच जाले. पूण जुलयचे १९वेर तांच्यो पवित्र अस्थी मांडवी आनी जुवारी न्हंयांच्या संगमाचेर अरबी समुद्रांत विसर्जीत केल्यो. हे भशेन गोंय माते कडेन, जिचेर तांचो जीव आसलो, ते सासणाक एकरूप जाले. गोंय आनी बाकीबाब, बाकीबाब आनी गोंय एक जालीं.

बाकीबाब १९८४ वरसा अंतरले, पूण तांचो अंत जावंक ना. ते जियेतात : तांच्या जिविताची देख, यत्न आनी तत्वां, तांच्यो कविता आनी हेर बरपावळ, एका उतरान, तांचो आत्मो आमचे मदें आसाच. ह्या वेळार, ह्या सभाघरांत, तांचे जल्म-शतीचो सुवाळो करतना, तांचें छापचित्र आरती करून, मानान आमी वेदीर दवरलां : जांकां गोंय म्हान म्हणटा, तांकां आमी छापचित्रांत अर्दे देखतात. खंयच्याच चित्राच्यान तांकां अखखो आटापूंक जायना. तें अती म्हान.

**(१८ फेब्रुवारी २०१० दिसा रायतूरचे सेमिनरींत बाकीबाबांचेर घडोवन हाडिल्ल्या परिसंवादांत केल्लें उलोवप.)**

# दलीत चळवळीच्या संदर्भांत लोहिया

शंभू भाऊ बांदेकार

स्वतंत्रताये खातीर खर झूज दिवपी जेष्ठ सुटके झुजारी डॉ. राम मनोहर लोहिया हांणी दलीत चळवळ बरीच मुखार व्हेली. ह्या संबंधान तत्वगिन्यान रचून हे चळवळीकूच न्हय तर बहुजन समाजाक नवी नदर दिली. चळवळीक आनी कुशीक दवरिल्ल्या दलीत वर्गाक नवें बळगें दिलें. तांचे विचार म्हळ्यार काळखांतल्यान वाट काडपाक तांणी दलितांक दिल्लो उजवाडूच कसो. ही विचाराची परजळीत मशाल हातांत धरून मुखार आयल्यार दलितांचो विकास कोणूय आडावंक पावचो ना! प्रेरणास्रोत जावचें अशें हें चिंतन.

जातीप्रथा फकत हिंदुस्तानांतूच न्हय तर सगल्या संवसारांत तरेतरेच्या रुपांनी आशिल्ली आनी आजुनूय आसा. तरी तातूंत एक फरक आसा. तो म्हळ्यार, हांगा जाती-पाती बरोच तेंप तिगून उरल्यात आनी त्यो जल्म, धर्म हांचेर अवलंबून आसात. हेर देशांनी एका वर्गांतल्या मनशाक दुसऱ्या वर्गांत प्रवेश करपाची संद आसता. तशें हिंदुस्तानांत केन्नाच जायना. मनशाचो दर्जो बदल्लो तरी ताची जात ताका तशीच घट्ट दसून उरता. तिच्यांत बदल जायना. सकयल्या जातींतली व्यक्ती शिकली सवरली जाल्यारूय तिका सामाजीक दर्जो आनी मान मेळना. मनशाची जात फकत मर्णा उपरांतूच सोंपता. हें सत लोहियांनी उकतें केलें.

ते म्हणटात, समानतायेचो जयघोश करपी रशियेंत लेगीत हिंदुस्ताना भाशेन अस्पृश्यताय आसा थंय अल्पवेतन वेठबिगारी करून घेतात. कामा भायर तांकां कसलेंच मोल नासता. जातीयतेच्या विरोधांत भारतांत आंदोलनां जालीं, सत्याग्रह जाले. ह्याच काळार युरोपांतल्यान आयिल्ल्या आक्रमण करप्यांक भारतीयांनी धांवडावन घाले, तेन्ना वेपार वाडलो, उदरगत जाली. वैचारीक जागरुताय जाली. पूण उपरांत सगलें परतें आदले वरी. जात पुरायेन ना जालीच ना. तिणें परतून तकली वयर काडली आनी दळींदर वाडलें. जातीचे बुरशे कल्पनेचो हो रेबो काबार केले बगर खरी उदरगत केन्नाच जावची ना. जाती मानप, बायलेक कमी लेखप ह्यो परंपरा म्हळ्यारूच बंदखण. हे बंदखणींतल्यान दलितांक, बायलांक भायर काडपाक जाय. कारण मनशाच्या मुलभूत विचारांची निर्मिती जातूच करता. राजकी विचाराचेर जातीचो प्रभाव रोखडोच पडटा. जिवितांतूय जातीच्या आदाराचेर ल्हान व्हड सगल्यो गजाली घडटात.

लोहियांचें तत्वगिन्यान सामकें काळजाक हात घालता. ते बेठेच वयले वयर केन्नाच मलमपट्टी करिनात. तांची समानता दोळे दिपकावपी प्रखर उजवाड जाता. कारण लोहिया कृती आनी आचरण हांचेर भर दितात. जाती-कातीच्या विखारी रुखाच्या मुळाचेरच ते घाव घालपाक सांगतात.

राजकारण्यांचें गुपीत उकतें करतना ते म्हणटात, कांय जाण जातीक मत दियात म्हणटात, कांय जाण जातीक मत दिवं नाका म्हणटात. दाखोवपाचे आनी खावपाचे दांत वेगळे आसतात. राजकारणी उलोवप एक कृती दुसरी अशे बगलांटी आसतात. जाती परंपरेन सामान्य जनता मेल्ले भशेन जाल्या. भायल्या देशांनी सामान्य मनीस व्हड जावंक शकता. थंय सकयल्या थरांत सावन व्हड व्हड मुत्सद्दी, राजनेते मुखार आयल्यात. तांणी नामना जोडल्या. क्रुश्चेव हो तर धनगराचो पूत. स्टालीन चामाराचो, हिटलर पेंटराचो, बेव्हन हो मजूरं पक्षाचो फुडारी खाण कामगाराचो चलो. अशीं कितलींशीं नामनेचीं व्यक्तित्वां सकल्या जातींतल्यान, गरिबींतल्यान वयर आयल्यांत. तशें हांगा जावंक ना अशी खंत लोहिया पोटतिडकीन मांडटात. हांगा जाती व्यवस्थेन दलितांचे पांखाटेच कातरून उडयल्यात. नैराश्य, दुबाव, दुःखं इतलें आसा की मुखार वचपाची इत्सा, भावना हाचो तांकां विसर पडला. देखून आयज लोहियांचे संजीवनीची दलितांक खरी गरज आसा. लोहिया म्हणटात, जाती परंपरेन दलितांक, अस्पृश्यांक फकत कुशीकूच दवरुंक नात तर वेपार, कारागिरी, शेती कारभार, जे जे सुवातेर बुदवंतांचें काम आसता थंयच्यान तांकां सामके पयस दवरल्यात. ते तशेच उरतले अशी चातुवर्ण्य वेवस्था आशिल्ल्यान दलितांच्या वांट्याक फकत हळशिकेंतलीं कामां आयलीं. हाका लागून विकासाचीं दारां तांकां उकतीं जालीं नात. ते उपेक्षितूच उरले. हाचो परिणाम म्हळ्यार हो समाज सगळ्याच गजालींनी सामको पांगळो, दुबळो जालो.

लोहियांनी समाजाच्या दुखण्याचेर सारकें बोट दवरलां. दरेके जातीचो फुडारी वा अधिकारी आपापल्या मनशांकूच वयर काडपाचो यत्न करता. हे जातीचे परंपरेन सगळीं मुल्यांच इबाडून दवरल्यांत. मनशाचें उलोवप आनी वागप हातूंत भारतांत जितली विसंगती आसा तितली अख्ख्या संवसारांत खंयच पळोवंक मेळची ना. विसंगती दिशीं दिशीं वाडतूच रावली जाल्यार समाजाची घडीच विसकटूं येता. हिंदुस्तान स्वतंत्र जावन लेगीत भारतीय जनता खरी स्वतंत्रताय भोगूंक पावना.

लोहिया सांगतात, मत्सरान, दुस्वासान हो प्रस्न केन्नाच सोंपपाचो ना. जाती परंपरा चलत रावतली. ती मोडटले जाल्यार मत्सराचें स्वाभिमानांत परिवर्तन जावंक जाय. शुद्रांनी परंपरेचो विरोध करून

उकत्या मळार उबें रावपाक जाय. आपूण शुद्र हीच गजाल विसरपाची खरी गरज आसा.

स्वाभिमान जागोवपाचो हो विचार आयज लेगीत म्हत्वाचो आसा. साडेचारशीं वर्सां गुलामगिरींत आशिल्ल्या गोंयकारांक लोहियांनीच परकी राजवटी आड उबे रावपाचें बळगें दिलें. तसो दलितांभितरूय स्वाभिमान जागोवपाचो यत्न केलो. ते सांगतात त्या मार्गान वचत जाल्यार दलितांचो फुडार उजळ आसतलो हातूंत दुबाव ना. मनशांक ताच्या हक्काची, अधिकाराची जाणविकाय येवप खूब गरजेचें.

लोहियांनी दलितांचें दु:ख आनी समस्या हांचो बारीकसाणेन अभ्यास केल्लो. तांचे मोलादीक विचार आपणावन आमी आमची उदरगत करपाक जाय. रुढी प्रियता, अज्ञान हांचेर उबी आशिल्ले जातीप्रथेचे बंदखणींतल्यान मुक्त जावंक जाय. स्वाभिमानान जगपा खातीर नेटान मुखार येवंक जाय.

आयज लेगीत आमकां लोहियांच्या विचारांची गरज आसा. कारण लोहियांच्या दूरदर्शी द्रश्टेपणांतूच तांचें मूलस्रोत आसा. वर्तमानकाळाची जाणविकाय दवरून भविश्यांत उडी मारपाची लोहियांची ताकद खऱ्यांनीच अजापांची. खिणयाळें आनी शाश्वत हाचो एकचार, क्रांती, सातत्य, स्पश्टताय, दृढताय आनी भारतीयत्व हे लोहिया विचाराचे मौलीक गूण. बुद्दीक समा दिसना ताका विरोध, बंडखोरी हाचें दर्शन लोहिया विचारांत परखडपणान आनी सातत्यान दिश्टी पडटा.

लोहिया विचार म्हळ्यार एक स्वतंत्र अशें दर्शन. लोहिया निखटे विचारवंत बुदवंत नाशिल्ले. ते पुराय कर्मयोगी आशिल्ल्यानूच तांची आचरणाचेर म्हळ्यार कृतीचेर भर आशिल्ली. अन्यायाच्या विरोधांत कोणाची भीड मुर्वत दवरी नासतना, आपल्या विचारांक पट्टा तेंच ते करताले.

गांधी सिद्धांताचेर उलयतना ते म्हणटात, सादे आनी थोडे भितर रावप हें गांधी सिद्धांताचें म्हत्वाचें आंग. सामान्य जनतेक ती एक हांसपा सारकी गजाल दिसताली. तांची सादी जीण ही एक क्रांतीच. जो मनीस आपल्यो सदच्यो गरजो जाणीवपूर्वक उण्यो करिना तो भौतीक, मानसीक, सौंदर्यवादी नदरेंतल्यान सुखी आनी आनंदी जीण जगूंक शकना. सादें रावप हेंच गांधीजींचें खाशेलें वैशिष्ट्य. सादेपण हो कम्युनिस्टांचो न्हय तर गांधीवादी सिद्धांत.

आध्यात्मीक आनी भौतीक, वर्तमान आनी भविष्य, धार्मीकताय आनी अधार्मीकताय, व्यक्ती आनी समश्टी, भाकरी आनी संस्कृती हीं विचाराचीं द्वैतां आधुनीक संवसाराक त्रास करतात. आध्यात्मीकताय ही तरेतरेच्या रुपड्यांनी वावुरता. दैवी चमत्कार, मृतात्म्याचें दर्शन, तांचे लागीं उलोवप हो सामको बुरसो, हळशीक म्हणपा सारको आध्यात्मीक प्रकार. दुसरो कमी हळशीक प्रकार म्हळ्यार उदासीन रावन वरांचीं वरां साधना करपाचो. अध्यात्माच्या नांवान प्रचलीत समाजवेवस्था मालकी हक्क, जाती प्रथा, दादलो-बायल हांचे मदली विशमताय हांचें समर्थन करता. आध्यात्मीक उपदेशान समाजाचें परिवर्तन केन्ना जावचें ना. धर्माचीं हीं दोनूय रुपां अफूचे गुळये सारकीं.

ते मुखार म्हणटात, संस्कृताय ही भरिल्ल्या पोटा वयली गजाल, भरिल्ल्या पोटाचो देखावो. जण एकल्या मनशाच्यो भौतीक गरजो भागनात ते मेरेन संस्कृताय बी कांय न्हय. भूक आनी अन्न हांचो संवसारांत मेळ पळोवंक मेळना. कांय लोक गोरवां भाशेन वावुरतात पूण उपाशीं उरतात... समान संद आनी समान त्यागाचें नवें यूग येवंक जाय. भाकरी आनी संस्कृताय एकाच कपड्यांत आंडव्या उब्या धाग्यांनी एकठांय विणपाक जाय.

जमीन आनी सत्तेच्या अधिकारांचें समान वांटप करप म्हळ्यार खऱ्या अर्थान समता करप. ही लोहियांचे चळवळीची मुखेल मोख आसली. ते विशीं ते म्हणटात, 'आयज मेल्ले भशेन जाल्ल्या गांवगिऱ्या वाठारांत पुनर्जीवन निर्माण करचें आसल्यार, उच्च वर्णियांचो सुशेगादपणाचो, सुखासीनतेचो आळस, आनी कनिष्ठांची सुस्ती खऱ्यांनीच पयस करपाची आसल्यार दलितांक सगळ्याक अधिकार मेळपाक जाय. जमनीच्या वांटपा वांगडा सगल्या पांवड्यांचेर सार्वभौम सत्तेचो अधिकार आशिल्ली चौखांबी शासन वेवस्था निर्माण करपाचो समाजवाद्यांचो यत्न पुराय जावंक जाय.

धर्म म्हळ्यार किते हाचेर लोहियांनी उजवाड घाला. ते सांगतात, धर्म राजकारणाची एक प्रवृत्ती जाता तेन्ना तो सत्तेचो संघर्ष कांय उणो करिना, तर आपुणूच राजकारण करता. राजकारणांत कट कारस्थान हाडटा. असल्या धर्माचो निशेधूच करपाक जाय. पूण समाजवादी आस्तीक आसूं वा नास्तीक वा अज्ञेयवादी, ताणें धर्माची उवेखणी करप समा न्हय. धर्मा कडलो तांचो वाद संशोधक स्वरुपाचो आसूंक जाय. कलहात्मक आसूंक जायना. धार्मीकता आनी आध्यात्मीकता हांतलें द्वैत काबार करपाय जाय. धर्मानूय आपली झगडेखोर प्रवृत्ती आनी सदयाचे असमानतायेचेर आधारिल्ले समाजव्यवस्थेची राखण करपाची प्रवृत्ती सोडपाक जाय. तशेंच खंयच्याच धर्मांत पूर्णताय आसना. हाचेर धर्मवाद्यांनी विचार करूंक जाय. तसोच समाजवाद्यांनी धर्मा वरवीं जावपी करुणेचे, नैतिकतेचे शिकवणेचो नमळायेन विचार करपाक जाय.

लोहिया गरिबी कशी ना करची हाचेरूय मुळांत वचून विचार करतात.

ज्या देशांत केन्ना केन्ना सुवात नाशिल्ल्यान घरां गोठ्यां भाशेन आसतात, भुकेचे वेदने खातीर मनीस मोनजाती वरी जियेतात, पोटा खातीर, कश्ट वाचोवपा खातीर बेमान लेगीत जातात, तेन्ना संस्कृतायेची बडबड निर्दयी शिश्टतायेची थारता. मनीस संस्कृताये खातीर जगता, हेर प्राणी पोट भरपा खातीर जियेतात हो उपदेश निर्दयतेचो. जांकां भाकरीच सारकी मेळना तांचे म्हऱ्यांत वचून व्यक्ती स्वातंत्र्य, मानवी हक्क आनी प्रातिनिधीक लोकशायेचीं मुल्यां हांच्यो खबरी करप म्हळ्यार ती औपचारीकताय जाता. स्वातंत्र्यरुपी आध्यात्मीकता आर्थीक विकास आनी शांती ही त्रिमुर्ती आयच्या युगाचें प्रतीक.

मानवी बुद्धीन आर्थीक प्रगती केली जाल्यार एक नवें जग निर्माण करूं येता. असलें जग, जंय दुस्वास, भंय उरचोच ना, जण एकलो मनीस भोवमानान जियेवंक पावतलो. युद्धाची इत्सा आसची ना. संसद ते ग्रामपंचायती मेरेन सगळ्या पांवड्यांचेर शासन खासा जनताच करतली. लोक समुहाचें लोक समुहा खातीर रचिल्लें सरकार आसतलें. हे खातीर समाजवादी नदरेंतल्यान विचार जावंक जाय.

समते विशीं बरयतना ते म्हणटात, समतेची कल्पना आजवेर कोणेंच पुरायेन मांडूंक ना. म्हळ्यार, हे कल्पनेचो पुरायेन अर्थ लावपाचो यत्न जावंक ना. समता हो जीवनाचो एक सर्वश्रेष्ठ हेतू. विषमता मनीस सभावाचो एक भाग. मोक्षप्राप्ती सर्गा परस श्रेश्ठ आसत जाल्यार मनशान आपले जिणेंत सत्य, उजू चलणूक असलीं व्हड उद्दिश्टां आचरणांत हाडूंक जाय. समतेचें उद्दिश्ट आसले बगर मनीस अशें जिवीत जियेवंक शकचो ना.

गोरीं राष्ट्रां आनी काळीं राष्ट्रां हांचे मजगतीं इतलो वेगळेचार आसतना सगल्या संवसाराक बंधुभाव जागोवपाक सांगप हास्यास्पद जातलें. गोऱ्याक अर्दो लिटर दूद मेळटा थंय काळ्याक कुलेरभर वखदूय मेळना अशा देशांत समता एकता हांचें नातें कशें निर्माण जातलें? ते खातीर फकत आवाहनां करून कांयच जावचें ना. मूलभूत उपायूच आपणावचे पडटले.

अणुशक्ती वांगडा संपन्नता, समानता येतली हो पत्रकारांनी निर्माण केल्लो भ्रम. खंयच्याच महान शास्त्रीय सोदा उपरांत संवसारांत संपन्नता आनी समानता येवंक ना. असल्या सोदां उपरांत श्रीमंत आनी गरीब हांचे मदली विषमता उणी जाली ना, आनीक वाडतच गेली.

समानता प्रस्थापीत करपा खातीर उदेल्ल्या सगळ्या धार्मीक पंथांचें काळांतरान रुढी आनी ठोकळेबाज आचार हातूंत परिवर्तन जाता. देखून समानतायेचो पुरस्कार करप्यांनी सदांच चडांत चड समता कशी हाडूंक येतली हाचोच बारीकसाणेन विचार करपाक जाय.

लोहियांचे हे विचार आमकां परतून विचार करपाक लायतात. विशमताये विशीं बरयतना लोहिया म्हणटात, थोडी आर्थीक बौद्धीक विशमताय सैमीक आसूं येता, पूण विशमतायेच्यो चडश्यो तरा कृत्रीम आनी मनशान निर्मिल्ल्यो आसात.

जिवितांत विशमताय एका ल्हान कोनशाक लिपल्या. सारकी खंय आसा हें कळप कठीण. हे भयानक विशमतायेक लागून पुराय भौतीक समता येवप भोव कठीण. तरी, समतेची तीव्र जाणविकाय तरी मनशा भितर आसपाकूच जाय. अशे तरेची जाणविकाय आसली जाल्यारूच मनीस देशांत तशी संवसारांत समता कशी प्रस्थापीत करपाक मेळटली हाचो यत्न करतलो.

दलीत वर्गांतूय बरे काम करपी, कर्तुत्ववान लोक आसतात. पूण दुस्वासाचें राजकारण करपी लोक बऱ्या लोकांक मुखार येवंक दिनात. ताका लागूनं दलितांचेंय लुकसाण जाता. समाजवादी लोकांनी, समाजांतल्या सगळ्याच कर्तुत्वी आनी बुदवंत लोकांनी दलितांचो विकास करपाचेर चड भर दिवंक जाय. तेच प्रमाण समतेक विरोध करपी लोकां वांगडा खर झूज दिवंक जाय.

दुसऱ्याचीं उणेपणां सगळ्यांक दिश्टी पडटात. दुसऱ्यान कितें करचें तें आमी सांगतात, पूण आपणाल्या आचरणांत वा विचारांत मेळ दवरिनात. समतावादी आंदोलनांतूय हो दुर्गुण दिश्टी पडटा. पुराय समाज समानतायेच्या म्हान ध्येयान, आध्यात्मीक नदरेन झपटून वचना ते मेरेन खरेली समता समाजांत प्रस्थापीत जावप भोव कठीण. लोहिया म्हणटात, भायली समता आनी आंतरीक समता ह्यो एकाच नाण्याच्यो दोन वटो हें भारतीय रुशीमुनी वळखल्ले. हाकाच लागून 'समता' वा 'समत्वम्' हो शब्द दोन वेगवेगळ्या अर्थांनी तांणी वापरला. जें कांय मनशाक शक्य जालें ते मनीस जातीक कित्याक जमचें ना?

समता कशी आसपाक जाय हें सांगतना ते बरयतात –

१) सगळें मुळावें शिक्षण एकाच पांवड्याचें आनी समान पद्धतीचें आसपाक जाय. गिरेस्तांच्यो आनी गरिबांच्यो अश्यो विंगड विंगड मुळाव्यो शाळा आसपाक जायना.

२) सार्वजनीक जिवितांतल्या दर एका मळांतल्यान माध्यम म्हूण इंग्रजीचें पुराय उच्चाटन जावपाक जाय.

३) दलीत समाज, आदिवासी, अस्पृश्य आनी बायलां हांकां ६० टक्के सुवातींचें आरक्षण दवरूंक जाय. पुलीस ते आमदार खासदार जावपा मेरेन तांकां संद मेळूंक जाय.

४) दोन घरां परस चड घरांचे मालमत्तेचें राष्ट्रीयीकरण करूंक जाय.

५) केंद्रांतली इंग्रजी रोखड्या रोखडी काडून उडोवन थंय हिंदीचो वापर करचो.

६) सगळ्या पांवड्या वयल्या शिक्षणाचें माध्यम आवयभासूच आसपाक जाय. इंग्रजी ऐच्छीक विशय आसचो.

लोहियांच्या सगळ्याच चिंतपांत गरीब आनी दलीत हांचे विशीं तळमळ दिसता.

आजवेर जितलीं सुधारणेचीं आंदोलनां जालीं तीं सगळीं हिंदू व्यवस्थेन जिरोवन उडयलीं आनी जातीयवादाचो रेबो वाडत रावलो. तो इतलो भरला की व्हडांतलो व्हड फातर लेगीत तातूंत उडयलो जाल्यार तो खंय बुडून वतलो कांयच कळचें ना. भारतांतल्यो जाती ना जावप कठिणूच. आमचीं सुधारणेचीं आंदोलनां कित्याक फसलीं हाचो आमी सोद घेवंक जाय. कारण, सगळो बहुजन समाज निर्जीव जाला. भट ब्राह्मण धा लाखांची चोरी करुनूय आदर्श ठरूंक शकत, पूण शुद्र आठ आण्यांची चोरी केल्यार गुन्यांवकार जातलो.

शुद्रां मदीं आयज हे तरेचो तेजिश्ट फुडारी तयार जावपाची गरज आसा. तो स्वाभिमानी आसूंक जाय. तकली बागोवपी आसूंक फावना. नवी मानवता निर्माण करपी आसूंक जाय. शुद्रूच न्हय तर भट-बामण लेगीत ताच्या सांगातान चलपाक धन्यताय मानताले असो आसूंक जाय.

हेच खातीर लोहियांनी आंबेडकरांक आपले बैठकीचें आमंत्रण दिल्लें आसूंक जाय. हे दोगूय फुडारी एकठांय आयिल्ले जाल्यार भारताचें चित्र वेगळेंच जावपाचें.

हिन्दुस्तानाचे अवनतीचें खरें कारण ही जाती प्रथा. तिकाच लागून दलीत जीव नाशिल्ले जावन पडले. तांकां राजनीत, युद्ध, वेंचणूक कित्यांतूच रस उरलो ना. देशा खातीर झूज दिवपाची तांचेय भितर तांक आसा. अधिकाराची भावना तांच्यांत जागी जातली तेन्नाच ही हिंदुस्तानाची जनता कर्तव्यपरायण जातली.

लोहियांनी दलीत चळवळीक नवी दिशा दाखयली. दलितांचे उदरगती खातीर कितें करूं येता हाचेर खोलायेन अभ्यास केलो. आयज तांच्या विचाराच्या उजवाडान आमी मुखार वचपाची खरी गरज आसा. तातूंतूच दलितां मदली, बहुजन समाजा मदली विशमताय, असमानताय ना जावपाचीं बिजां आसात.



# चित्पावनी बोली : कांय निरिक्षणां

## भूषण भावे

भारताचे पश्चिम दर्या देगेर साबार बोलयो लोकांचे जिबेर घोळटात. तातूंत गोंयांतल्या बोलयांक खाशेलें महत्व आसा. हाचें कारण, त्यो दक्षिणे कडल्या आनी उत्तरे कडल्या भारतांतल्या भासां मदल्यो आसात आनी प्रमाण मराठी परस प्रमाण कोंकणीक त्यो चड लागीं आसात.

चित्पावनी बोली चित्पावन ब्राह्मणांची (म्हळ्यार कोंकणस्थ ब्राह्मणांची) 'कुलबोली' 'चित्पावन' हें नामाभिधान परशुराम आख्यायिके वेल्यान आयलां. परशुरामान चवदा प्रेतां चितेचेर लासून पावन केलीं आनी तांकां नवें जिवीत दिलें आनी उपरांत दर्यांतल्यान भूंय निर्माण करून वसयली. हाचे वेल्यान तांकां 'चित्पावन' (चितेंतल्यान पावन जाल्लीं वा चित्तान/मनान शुद्‌ध केल्लीं) अशें नाव पडलें. 'कोंकणस्थ' म्हळ्यार कोंकणांत वास्तव्य करपी वा रावपी. हे जातीक हेर ब्राह्मण जातींचे लोक उपहासान वा गुणवैशिश्ट्याक लागून 'चिपळे' (आनी देखून तांचे भाशेक 'चिपळ्यांची भास') अशेंय म्हणटात. चित्पावन समाजाच्या काटूकपणाक लागून वा तांच्या किर्तनकारी वेवसायाक लागून (हातांत चिपळ्यो घेतात म्हणून) तांकां 'चिपळे' हें नांव पडलां.

संवसारांतली कोंकणस्थ ब्राह्मणांची लोकसंख्या १.५ दशलक्ष (म्हळ्यार १५ लाख) आसा. चड करून मध्यम वा उच्चमध्यमवर्गीय, केन्ना केन्ना सधन, कृषी वेवसाय (बागायती) करपी, श्रमीक, शिक्षीत असो हो समाज, आयज उच्चपदस्थ सरकारी वा खाजगी नोकऱ्यांचेर वा शिक्षणा सारक्या क्षेत्रार आनी धर्मीक मळार किर्तनकार, प्रवचनकार आदी वेवसायांत आशिल्लो दिश्टी पडटा.

**बोली**

चड करून फकत उलोवपाचें संपर्क माध्यम म्हण वापरतात तिका 'बोली' अशें म्हणटात. मौखीक रूप हीच तिची वळख. पूण मौखीकताय हें तिचें उणेपण न्हय तर तो तिचो स्थायीभाव. जातीवाचक/प्रदेशवाचक/वेवसायवाचक अशे तिचे भेद करूं येतात.

**मराठीच्यो बोलयो:**

जातीवाचक: आगरी, कोळी, धनगरी, ठाकुरी, महारी.

प्रदेशवाचक: कऱ्हाडी, संगमेश्वरी (बाणकोटी), कुडाळी, खानदेशी, तंजावर, वऱ्हाडी.

**कोंकणीच्यो बोलयो:**

जातीवाचक: क्रिस्तांव, कुणबी, सारस्वती, खारवी...

प्रदेशवाचक: मालवणी, कुडाळी, बारदेशी, मंगळुरी, कारवारी, केरळी, अंत्रुजी.

चित्पावनी ही एक जातीवाचक कुलभास वा बोली. तिचो उगम महाराष्ट्र राज्यांतल्या रत्नागिरी जिल्ह्यांत जाला. हे बोलयेंतल्या कें (खंय) आनी कितां (किते) ह्या दोन उतरां वेल्यान तिका 'कें-किता' भास अशेंय म्हणून वळखतात. पश्चिम भारतांतली (खास करून कोंकण वाटारांतली) ती एक खाशेली बोली. मराठी आनी कोंकणी हांचे मदली संक्रामक अवस्था म्हण तिचो विचार जावं येता. चड करून उत्तर कोंकणी आनी गोंयची कोंकणी हांचे मदली ती एक संक्रमण बोली मानूं येता.

ही बोली आयज मुखेलपणान महाराष्ट्र राज्यांतल्या रत्नागिरी आनी सिंधुदुर्ग जिल्ह्यांत, गोंयांतल्या सत्तरी म्हालांत तशेंच कर्नाटकांतल्या दक्षिण कानडा जिल्ह्यांत उलयतात. गोंयांत ३००-४०० वर्सां आदीं ही जात स्थलांतरीत जाली आनी दिवचल आनी सत्तरी म्हालांनी स्थिरावली.

ह्या पेपरांत वापरिल्लीं उतरां गोंयांत उलयतले 'चित्पावनी' भाशेचींच आसात.

चित्पावनी बोली मराठी भाशेची बोली अशें साधारणपणान मानतात. तार्चीं कारणां :

१. तिचो उगम रत्नागिरींत - महाराष्ट्रांत - मराठी प्रदेशांत जाला.

२. तिच्या भाशकांनी आयज मायभास म्हण प्रमाण मराठी आपणायल्या.

३. तिर्चीं कांय उतरां आनी व्याकरणीक रुपां मराठी कडेन लागीं आसात, आनी निमाणें,

४. व्हडल्या राज्यांचे विस्तारवादी भुमिकेक लागून.

ही बोली मराठी परस कोंकणीक अदीक लागीं आसा, वा मराठी परस ती कोंकणीचीच बोली अशें मानूं येता. तार्चीं कारणां :

१. तिचो उगम 'कोंकणांत' जाला. प्राचीन काळा सावन कोंकण वाटाराची संस्कृताय तथाकथीत 'मराठी' संस्कृताये परस वेगळी आसा.

२. ह्या कोंकण वाटारांत कोंकणीच्यो हेर कितल्योश्यो बोलयो प्राचीन काळा सावन आयज मेरेन उलयतात.

३. ही बोली उतरावळीचे आनी व्याकरणीक नदरेन मराठी भाशे परस कोंकणीक चड लागीं आसा. सकल दिल्ल्यो लेखी पळोवच्यो—

| चित्पावनी | कोंकणी | मराठी |
|---|---|---|
| कितेला | कित्याक | कशाला |
| चेड | चेडूं | मुलगी |
| घोऊश | घोव | नवरा |
| बाईल | बायल | बायको |
| रेडो | रेडो | रेडा |
| कोलो | कोलो | कोल्हा |
| माजर | माजर | मांजर |
| कितां | कितें/किदें | काय |
| पणस | पणस | फणस |
| निळो/धवो/तांबडो | निळो/धवो/तांबडो | निळा/पांढरा/लाल |
| सकाळीं | सकाळीं | सकाळीं |
| गिम | गीम | उन्हाळा |
| मग | मागीर | नंतर |
| वेल्लो/खायलो | वेलो/सकयलो | वरचा/खालचा |

| | | |
|---|---|---|
| माथो | माथें | डोके |
| पोलो | पोलो | गाल |
| दोळो | दोळो | डोळा |
| दवलो | दवलो | मोठी पळी |
| तवसां | तवशें | काकडी |
| बोंडी | बोंडी/बोणी | केळफूल |
| भीतर | भितर | आत |
| जाण्टे | जाणटे | वाडवडील |
| लागी | लागीं | जवळ |
| नाशणे | नाशणे | नाचणी |
| हाड | हाड | आण |
| भुरगे | भुरगे | मुलगे |
| नेवरी | नेवरी | करंजी |
| कांकणां | कांकणां | बांगड्या |
| कुवळ | कुंवळ | कालवण |
| मात्रशी | मातशी | जराशी |
| नीज | न्हीद | झोप |
| घरकारीण | घरकान्न | बायको |

**कांय व्याकरणीक निरिक्षणां:**

१. अ. ओकारान्त शब्दांचें प्रमाण:

घोडो, मासो, कुत्रो, कावळो

दवलो, निळो, धवो, तांबडो

पंचो, पावसाळो, हिवाळो

मधलो, पोलो, दोळो

मराठींत हीं उतरां आकारान्त आसतात जाल्यार कोंकणींत मात तांचीं हींच रुपां जातात.

ब. केळां, जाळां, सगळां

आयचे मराठींत ही उतरां केळे, जाळे, सगळे, जाल्यार कोंकणींत केळें, जाळें, सगळें अशीं 'अँ' कारान्त आसात.

२. 'ए' आनी 'ओ' चो उच्चार अॅ आनी ऑ जाता.

मोठो – 'ठो' चो उच्चार 'ठॉ' असो जाता.

हेगडा – 'हे' चो उच्चार 'हॅं' असो जाता.

में – 'में' चो उच्चार 'मॅं' असो जाता.

कसो – 'सो' चो उच्चार 'सॉ' असो जाता.

ह्या संदर्भांत कोंकणींत हेच उच्चार घोळटात.

३. क्रियापदाचो वर्तमानकाळ चलयतना 'स' प्रत्यय लागता.

में जासां

तू जायस

तो जासे

तशेंच 'आसा' ह्या रुपा बदला सां, से आदी रुपां पळोवंक मेळटात :

में एठा बशीला उभो न्हेलों सां

माला म्हापसें जायवेंचा से

४. नामधातू रुपां कोंकणी भशेनच आसात कांय देखीः

येवप, करप, जावप, सवप (आसप). न्हेवप (रावप)

ल्हेवप (बरोवप), हाडप (हाडप), देवप (दिवप), रांधप (रांदप)

५. 'खे'चो वापर कोंकणींतल्या 'खंय' ह्या अनिश्चित सर्वनामा भशेन करतात. देखीक :

उद्या तो मुंबय जानार से खे (चि.)

फाल्यां तो मुंबय वचपाचो आसा खंय – (कों.)

६. 'नी' आनी 'मरे' हे शब्दप्रयोग 'न्ही' आनी 'मरे' ह्या कोंकणी शब्दप्रयोगां भशेन दिसतात. देखीक :

तू उद्या येशील नी? (चि.)

तूं फाल्यां येतलो न्ही ? (कों.)

माझां पुस्तक उद्या हाडणी देशील म रे ? (चि.)

म्हजें पुस्तक फाल्यां हाडून दितलो मरे ? (कों.)

७. कोंकणी भशेनच आदरार्थी भोववचनाचो उपेग साप्प उणो जाता. बापूय, आजो, काका, आजी, आतें, मावशी, ह्या सगल्यांक एकेरी संबोधन करतात.

८. अनुनासीक उतरांचें व्हड प्रमाण

जेंचा करेवां बरां तो म्हणजे माझांच खरां (चि.)

ही बोली आयज ना जावपाच्या मार्गार आसा. फकत दुर्गम/ ग्रामीण वाटारांनीच ती उलयतात आनी फकत घरा भितल्ल्याच संवादा खातीर वापरतात. आयज चड करून जाणट्यां मनशांकूच ही बोली उलोवंक येता. पुरायपणान हीच बोली उलोवपी गोंयांत तरी साप्प थोडीं कुटुंबां (सुमार विशेक) उरल्यांत. हे बोलयेचेर त्या-त्या वाटारांनी थंयच्या प्रमाण मराठी, प्रमाण कोंकणी वा प्रमाण कन्नड भासांचो प्रभाव पडिल्लो दिश्टी पडटा.

ही बोली लुप्त जावपाची कारणां अशीं आसात :

* ती उलोवपी भाशीक-समाज लोकसंख्येन ल्हान आसा.

* ही बोली उलोवपी समाजांत ती बरपांत घालपाचो कांयच यत्न करूंक ना.

* ही बोली उलोवपी समाज स्थलांतरीत जाल्ले सुवातेचेर, त्या त्या वाटारांतले भाशेचो/ बोलयेचो प्रभाव तिचेर पडलो.

* चित्पावनी भाशीक-समाजांतले तरणाटे पिळगेक ही बोली उलोवंक लज /उणेंपण दिसता.

* बदलिल्ले काळ-परिस्थितीच्यो नव्यो भाशीक गरजो भागोवंक ही बोली उणी पडपाक लागल्या.

**संदर्भ:**


१. प्रपत्र पाठकाचो क्षेत्राभ्यास.

२. इंटरनेटा वेलीं कांय संकेतथळां.

३. महादेवशास्त्री जोशी आनी ह.मो. मराठे हांचें उपरोल्लेखीत साहित्य.

४. *सुलभ चित्पावली* - श्रीधर केशव बर्वे.

# पोकळ आदर्श

**मूळ हिन्दी: सबीहा गोहानी**
**अणकार: उदय देशप्रभू**

बरयतां बरयतां अचकीत म्हजो हात थारलो. संदीप, म्हजो धाकलो भाव, खुर्चे फाटल्यान उबो रावन म्हाका सांगतालो, 'दीदी, तुज्या बरपांतल्यान तूं समाज सुदरावपी, गरिबां विशीं आपलेपण दाखोवपी गजाली लोकां मेरेन पावयता न्हय? समाजसेविकाय बी तूं एक. व्हडलीं व्हडलीं भाशणांय दिता, गरीब–गिरेस्त-दोगांकूय समान लेखता...'

म्हजें पेन थारलें. म्हाका खूब राग आयिल्लो. म्हज्या मनांत खूब बरो आनी पेजाद प्लॉट आशिल्लो. आनी हरशींय बी बरयतना कोणूय म्हाका पिडटा तेन्ना हांव बेजार जातां आनी मागीर कितलोसो वेळ परत बरोवपाक मुडूय लागना.

'कितें सांगपाक सोदता तूं?' हांवें संदीपाक विचारलें.

'तुज्या बरपांत गरीब-दुबळ्यां विशीं दूख दिसता, फाटीं उरिल्ल्या आनी अशिक्षीत लोकां विशीं सहानुभूती आसता – पूण हें सगळें प्रत्यक्षांत हाडपाची तांकूय बी तुजे भितर आसा, काय हो फकत उतरांचो शिंवर?'

'संदीप, मनशाचे सगळे आचार-विचार ह्या पेनांत आसपावतात. ह्यो सगळ्यो म्हज्यो सुक्यो कल्पना न्हय. गरीब-दुबळ्यां विशीं म्हज्या काळजांत एके तरेची पिडा आसा. हांव समाजांत बदल घडोवन हाडूंक सोदतां'... आमच्या समाजांत जाती-काती नाशिल्ल्यो, गरीब-गिरेस्तां मजगतीं भेद-भाव नाशिल्लो जाल्यार आमचे तांचे भितर वेगळेपण आसचें नाशिल्लें. सैमान वत फकत गिरेस्तां खातीर घडोवंक.ना. तें गरीब-गिरेस्त – सगळ्यां खातीर आसा. उदकूय गरीब-गिरेस्त – दोगूय पितात. सैमान मनशा मनशा मजगतीं कसलोच भेद करूंक ना. भेद आमचेच – मनशांचेच नदरेंत आसात.'

'दीदी, हांगा म्हजें मत वेगळें... गिरेस्तांक फिल्टर केल्लें उदक मेळटा, ए.सी. वा कुलराची थंड हवा मेळटा.'

'चल! फकांडेर खंयचे कडलो. काय बरो प्लॉट आशिल्लो. मुडूच पिड्डयार केलो.'

'प्लॉट कसलो तो सांगूं? एक गरीब,

**भारतीय कथा**

अशिक्षीत चली. तिका एक गिरेस्त आपणायता. कितें, खरें न्हय...?' संदीपान म्हज्या दोळ्यांक दोळे लावन विचारलें.

'आरे, कितें जालां आज तुका?'

'दीदी...'

'कितें...?'

'असली एक खबर हांवेंय तुका सांगली



जाल्यार तूं बरयतलें तिचेर?'

'बरे बशेन.'

'तशें जाल्यार तुका मातशी वाट पळोवची पडटली... पूण दीदी, सगल्याक बोवाळ जातलो. तुज्या कथांनी, भाशणांनी जितेपण येतलें. म्हजें आयक, ही कथा तूं हांगाच थांबय. परतून वेळ मेळटलो तेन्ना बरय. ते मेरेन, दुसरी खंयचीय कथा बरय.' अशें सांगून संदीप म्हाका विचारांत घुस्पावन दवरून आपूण दारांतल्यान भायर सरून गेलो.

संदीप म्हजो एकलोच भाव. आमी तिगी भयणी. तिगांयचो अपुर्बायेचो एकलोच भाव. ह्याच वर्सा तो एम्.बी.बी.एस्. जालां. घरांत पयसो उणो ना. हांवेंय बरोवपी म्हूण नांव जोडलां. हांवें सगळें म्हज्या कश्टांनी आनी आत्मविस्वासान जोडलां. भूतकाळा विशीं म्हाका कांय येवजुपाचें ना. पूण हय...

एका काळार आमचो बापूय एका साखर कारखान्यांत दोतोर आसलो. ताच्या पगाराचेर आमी सगळीं जेवन-खावन सुखी आशिल्लीं. बापायन आमच्या, चारूय भावंडांच्या, शिक्षणाचेर भर दिल्ली. आमकां बऱ्या शाळांनी शिकयल्लीं. जिविताचो खरो उद्देश कितें, बापाय कडल्यान आमी शिकिल्लीं. आमचे खातीर ताणें पयशे केन्ना एकठांय करून दवरले नात. केन्ना केन्नाय आवय बेजार जावन म्हणटाली, 'तीन तीन चलयो कश्यो खपतल्यो, केन्ना विचार केला?' बापूय हांसून म्हणटालो, 'पळेतली तूं, आमच्या चलयां खातीर चल्यांची लागन लागतली. आमी आमच्या चलयांक बरें शिक्षण दिलां, जिविताचो खरो अर्थ कितें ताची जाणवीक करून दिल्या. समाजा भितर एकरूप जावन जियेवंक शिकयलां... आनीक कितें जाय? आनी, कितें उणें आसा आमच्या चलयां मर्दी?'

पूण एक दीस, म्हज्या बापाय कडेन

रस्मी पोतयांनी भरून पयशे, भांगराच्यो वस्ती नाशिल्ल्यो म्हूण म्हजी व्हंकल-पावणी जालिना.

व्हंकल जावन हांव माटवांतूच बसून उरलें. वचचें आसलें घोवा घरा. पूण बापायचे वासरेंतूच तकली सकल घालून वाट पळेत उबें रावलें, कोण तरी येतलो आनी म्हजे काळखी जिणेंत दिवो पेटयतलो म्हूण वाटूच पळेत उरलें. म्हजे न्हिदिल्ले उमेदीक जागी करूंक कोणूय आयलोना.

त्या वेळा वयली सगली घडणूक म्हज्या दोळ्यां मुखार येता. बापूय न्हवऱ्याच्या बापायक सांगतालो, 'रोख रकमेच्या देण्या-घेण्या विशीं तुमी पयलीं कांय सांगूंक नासलें...'

'म्हाका खंय खबर, तुमी इतले कफल्लक आसतले म्हूण!'

'म्हजी धूव लाखांत एक अशी. बरे देखीची, शिकिल्ली-सवरिल्ली, नाका-दोळ्यान बरी...'

'पुरो-पुरो सत्यनारायणबाब, धुवेच्यो तोखणायो पुरो जाल्यो. तुजे धुवेच्यो डिग्रो आमकां चाटपाच्यो नात. म्हजो पूत दोतोर. दोतोरकेच्या शिक्षणाक हांवें दोन लाख मोडल्यात.'

म्हजो बापूय भरिल्ल्या दोळ्यांनी तांकां समजायतालो, विनयतालो. पूण ताचीं सपनां, ताच्यो भावना—सगळें पांयां मुळा माड्डीत न्हवरेकार माटवांतल्यान भायर सरले. ह्या दुःखानूच बापूय भायर पडलो.

उपरांत एक एक सपण चडत हांव अश्या पांवड्यार पावलें जंय सपनां खरीं जातात, जंय पयशांनी सपनां विकतीं घेवं येतात.

म्हजे खातीर सोयरिकोय खूब आयल्यो. पूण हांव बरोवपांत इतलें घुस्पून उरलें की परतून घर वसोवपाचो विचारूच मनांत येवंक पावलो ना.

म्हजे फाटल्या दोनूय भयणींचीं लग्नां हांवें करून दिलीं. लग्नाच्या नांवान म्हजे भोंवतणी कितलेशे सोरोप आपणाल्यो विखाळ फणा उबारून म्हाका दंश करूंक सोदताले. पूण हांव बापायचे वासरेंत घट्ट रोमून बसलां. आवय आयजूय म्हज्या लग्नाचें दुःख धरून आसा. ती म्हाका समजायता. म्हणटा, 'संध्या, अजून वेळ वचूंक ना. खंयच्याय बऱ्या भुरग्याचो हात धर...' पूण म्हज्या मनांतल्या खंयच्याच कोनशांत लग्न म्हणटात त्या उतराक इल्लोय जागो ना.

कांय भुरग्यांनी मुखार सरून म्हजो हात मागपाचोय यत्न केल्लो. कोणें म्हजे सोबीतकायेक लागून, कोणें म्हज्या पयशांचेर नदर दवरून, तर कोणें म्हज्या मानपानाचे आशेन. पूण म्हज्या जिविताची मोख हांवें वेगळीच थारायल्या — फुडें वचत रावपाची.

आज हांव बरोवंक बशिल्लें तेन्नाच म्हजे वावराडेची धूव - गुलचेरी - कुडींत भितर सरलीं. गुलचेरी जायते फावटीं आवय वांगडा कामाक येता. तें म्हजे सरीं येवन म्हाका फुलांचो तुरो दिवन गेलें.

गुलचेरी म्हजी कूड व्यवस्थीत बरी दवरता. ताणें सगळ्या उश्यांच्यो चिरयो बदल्ल्यो, खाटी वयलो चादर बदल्लो. ताचे हात नेटान चलताले.

हांव ताका पळेत रावलें. गरिबांच्या पोरसांत नियती कसलीं कसलीं सोबीत फुलां फुलयता... म्हज्या मनांत विचार आयलो. गुलचेरी आसलेंय खूब सुंदर. ताचें नाजूक शिरेचें नाक, मोट्टे सोबीत दोळे आनी कमरा मेरेन पाविल्ले लांब दाट केंस ताचे सोबीतकायेंत भर घालताले. हे चलयेक न्हेसपाक बरे कपडे मेळ्ळे जाल्यार ती एके राजकुंवरे वरी दिसतली, म्हाका दिसलें. हांवें तिका उलो मारलो, 'गुलचेरी!'

'कितें दीदी?'

'आरमार उकती कर.'

ताणें आरमार उकती केली.

'एक बरीशी साडी आनी ब्लावज काड.'

'दीदी, खंयच्या रंगाची?'

'तुका आवडटा तसल्या...'

ताणें लॅव गुलाबी रंगाची साडी आनी ब्लावज काडून बाथरुमांत व्हरून दवरलो.

'आतां वचून न्हावन-धुवन ती न्हेसून यो.'

'दीदी... कित्याक...?'

'न्हेसून यो म्हळें न्हय?!'

'पूण दीदी...'

'चल. वेळ करूं नाका.'

तें कांचवेल्ले वरी जावन बाथरुमांत गेलें. कांय वेळान न्हावन धुवन ओल्या केंसांनी बाथरुमाच्या दारार येवन तकली सकल घालून उबें रावलें.

'अशें हांगा यो, गुलचेरी.'

तें ल्हवू ल्हवू पावलां घालीत म्हजे कुशीक येवन उबें रावलें. तेन्नाच म्हज्या मनांत जोगलावल्ले वरी जालें. काळजांत धडधडूंक लागलें. हे सोबीत सुंदर चलयेचें हांवें संदीपा कडेन लग्न करून दिलें जाल्यार?... सगळ्याक बोवाळ जातलो. नांवूय जातलें म्हजें. लोक म्हजी तोखणाय करपाक उणे पडटले...

'गुलचेरी, हांवें संदीपा कडेन तुजें लग्न लावन दिलें जाल्यार...?'

गुलचेरी थरथरूंक लागलें. 'म्हणटकच ताणें तुका सगलें सांगलें तर दीदी...?'

म्हाका सट्ट जालें. कोणें तरी जड जड फातर म्हजे तकलेर शेंवटून मारिल्ले बशेन दिसलें म्हाका. सगले विचार थंयचे थंयच थारले. फकत गुलचेरीचो थरथरतो आवाज चारूय वटांतल्यान आयकूंक येवंक लागलो — 'म्हणटकच, ताणें तुका सगलें सांगलें तर दीदी?'

हांव साबुद्दीर उरलें ना. उठलें आनी गुलचेरीच्या नाजूक पोल्यांचेर म्हज्या बोटांचो स्राप दिलो — 'लज नाशिल्ल्या, तुजी ही कापाजदाद? म्हज्या भावाक तुज्या मोगाच्या जाळांत फारावन ह्या घरांत सून जावन येवपाचीं सपनां पळोवंक लागलें तूं? अशें काळिजूच कशें जालें तुका? खंय तूं आनी खंय म्हजो भाव! खोंपींत रावन म्हालाचीं सपनां पळेता? तुका कितें दिसलें, ह्या घरांत व्हंकल जावन येतलें तूं?'

थरथरत्या हातांनी हांवें ताच्या आंगा वयली साडी ओडून काडली. ताच्या आंगार फकत घागरो-पोलको उरिल्लो.

'दीदी, आत्तां, कांय खिणां पयलीं तूं म्हाका ह्या घरची सून करूंक सोदताली... घडये आपणाक उंन्नायेर हाडून लोकां कडल्यानं तुजी तुस्त तूं आयकूंक सोदताली — 'पळेयात हांवें एके गरीब किरकोळ वावराडेचे चलयेक भावज करून घेतल्या. हांव एक आदर्श बायल' अशें तूं दाखोवंक सोदताली जावये. पूण दीदी, तुजे आदर्श कोऱ्या कागदाचेर म्हेळ करपा पुरतेच योग्यतायेचे. कारण, तूंय समाजाचें एक बुरशें

कुसकें आंग. पेन चलोवप वेगळें. सत्याच्या मळार कांट्यांचे वाटेर चलप तुका जमपाचें ना. तूं आसशीत एक फामाद बरोवपी. तुजे आदर्श मात सामके पोके.

'आयज बायलूच बायलेची सगल्या तरांनी दुस्मान 'जावन पडल्या. हे परिस्थितींत बायलेचो फुडार बरो कसो जातलो? बायलेक सांबाळपी, आधार दिवपी हातूच कुश्टरोगान पिडीत आसतले तेन्ना ती बऱ्या फुडाराचे वाटेन कशी चलूंक पावतली?

'तुका फकत उतरांचें जाळें कागदार मांडूंक येता. तें सोडल्यार हेरांक दिवपा खातीर तुजे कडेन कांयच ना. तुज्या मनांत गरिबां खातीर इल्लोय जागो ना. तांचे बद्दल फकत तिरस्कार भरला तुज्या मनांत. फकत पेन चलोवंक आयलें वा तोंडान उलोवंक आयलें म्हूण कोण आदर्श जायना आनी असल्यांनी समाज सुधारना. रंगीत सपनांनी पेंवप खूब सोंपें. वास्तवाच्या तळ्यांत पेंवप कठीण. वास्तव खूब वायट आसता तेन्ना तर आनिकूय कठीण.

'मातश्या वेळा पयलीं तुवें म्हाका धर्तर वयल्यान मळबाचे तेंगशेर व्हरून बसयलें. पूण, हांव आनी संदीप — आमी एकामेकांक पसंद करतात म्हणपाचें तुका कळ्ळें तेन्ना तुजें 'हांवपण' — तुजो अहं — तुजे आड आयलो. आनी, एके साधारण बायले वरी इज्जत, अब्रू, गरीब, गिरेस्त, जाती-कातीच्या भेदाभेदाक तूं बळी पडली.

'तुवें म्हज्या आंगा वयली साडी ओडून काडली. पूण दीदी, हांव नागडें जावंक ना. नागडी जाल्या समेस्त बायल-जात. अपमान म्हजो जावंक ना, समेस्त बायल-जातीचो जाला.'

हांव न्हिदेंतल्यान जागें जाल्ले वरी जालें. कोणें तरी म्हाका भितल्ल्यान खुनाळायिल्लें.

'बरें शिकिल्ल्या मनशा वरी उलयता मगो तूं!' हांवें म्हळें.

'शिकप गुन्यांव, दीदी? आनी, गरीब शिकिल्ले नासतात? तुजे बशेन हांवूय शिकलां. हांवूय हिन्दी साहित्यांत एम्.ए. जालां. म्हजे आवयन म्हाका कश्टान, काम करून शिकयलां.' गुलचेरी व्हडा आत्मविस्वासान उलयतालें. म्हज्या मनांत वादळ जाल्लें.

हिन्दी साहित्यांत एम्.ए.? तेंय बी इतलें नमळायेन सांगता... आनी कौणाक कळ्ळें पसून ना हें शिकता म्हूण.

म्हजी तकली घुंवपाक लागली.

ते बाथरुमांत गेलें, आपणाले कपडे आंगार चडयले आनी दारा वेटेन चलपाक लागलें. दारा म्हऱ्यांत पावतकच ताचीं पावलां थारलीं. फाटल्यान वळून पळे नासतना ताणें म्हळे, 'दीदी, वास्तवाच्या मळार घट्ट पांय दवरून पळे, संवसार खूब सोबीत दिसतलो. वांगडाच मनाक खोसूय भोगतली. उतरांच्या भोंवऱ्यांत घुसपल्ली आदर्श बायल म्हणून घेवप खूब उणाकपणाचें आनी अपमानकारक...'

गुलचेरी वतां वतां म्हाका घाय करून गेलें. ताच्या उतरांच्या तुतयान म्हज्या पोकळ आदर्शांचे कुडके कुडके करून उडयल्ले. अपमानान आनी लजेक लागून हांव म्हजेच नदरेंतल्यान देंवलें. रातभर हांथरुणार तळमळत रावलें. म्हज्या मनांतली गुलचेरीची मूर्त मोडपाचो हांव जितलो यत्न करतालें, ती एक गुपीत सावळी जावन म्हजे कुशीक उबी रावन म्हज्या कानांत म्हणटाली, 'दीदी, वास्तवाच्या मळार नीट पांय दवरून पळय. कोऱ्या कागदाचेर काळें करून कोण आदर्श बायल जायना. तुज्या मनांत दुस्वास आसा, अहं आसा. तूं बायल जातीची दुस्मान. समाजांतलो पुराणकाळा पसूनचो कुश्टरोग तुज्या मनाक जाला. तूं फकत समाजाची तोखणाय सोदता.'

'ना... ना!' हांव आड्डलें. तेन्नाच हांवें सामकें थारायलें आनी दुसऱ्या दिसाचे सकाळची वाट पळेत रावलें.

सकाळीं हांव ताचे खोंपीच्या दारार गेलें तेन्ना ताणें व्हडा आदरान म्हाका भितर व्हेलें. काल कितेंच घडूंक नाशिल्ले वरी.

आयज पांच वर्सां जायत आयल्यांत गुलचेरी म्हजी भावज जाल्ल्याक. ताच्या आंगणांत एक ल्हानशी कळी फुल्ल्या. ती म्हजेंय आंगण सोबयता. जायते फावटीं हांव गुलचेरी कडेन म्हज्या साहित्याचेर चर्चा करतां. सांगपाचें म्हळ्यार, म्हज्या साहित्याक निमाणें रूप तेंच दिता. गुलचेरीन म्हज्या मनांतल्या काळखांत उजवाड फांकयला. आज हांव जे कोण आसां तातूंत गुलचेरीचो व्हडलो वांटो आसा. ताणें पोरणे पारंपारीक पोके, बायलेक नवी जीण दिल्या. आयज दर खिणाक म्हजें मन म्हणटा, गुलचेरी, तुजे सारकेली बायल खऱ्यांनीच म्हान.




## उकतावणी

(सेम आं. ८ रजिस्ट्रेशन ऑफ न्यूज पेपर्स
सेंट्रल रूल्स १९५६, फॉर्म आं. ४)

| | | |
|---|---|---|
| १. | उजवाडावपी थळ | : मडगांव, गोंय ४०३ ६०१ |
| २. | उजवाडा येता तो काळ | : दर म्हयन्याक |
| ३. | उजवाडावपी, छापपी आनी धनी | : जयवंत भालचंद्र सरदेसाय |
| | राष्ट्रियताय | : भारतीय |
| | नामो | : ११, लोटलीकार बिल्डींग, कोंब-मडगांव, गोंय ४०३ ६०१ |
| ४. | संपादपी | : माघवी सरदेसाय |
| | राष्ट्रियत्व | : भारतीय |
| | नामो | : २०१–बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स<br>रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,<br>मडगांव–गोंय ४०३ ६०१ |

हांव, जयवंत भालचंद्र सरदेसाय, अशें उकतायतां की, वयर दिल्ली खबर, म्हजे म्हायतीक आनी समजुतीक धरून खरी आसा.

**जयवंत भालचंद्र सरदेसाय**
उजवाडावपी



# इफ्फी २००९ - टिपणां एका फिल्ममोगयाची

निलबा अ. खांडेकार

भारताचो चाळिसावो अंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सव २३ नोव्हेंबर ते ३ डिसेंबर २००९ ह्या दिसांनी जालो.

अकरा दीस चलपी ह्या महोत्सवांत तिनशांच्याकूय चड फिल्मां दाखयल्लीं. स्पर्धे खातीर जीं फिल्मां आयिल्लीं तातूंत तेरा विदेशी फिल्मा आनी दोन भारतीय फिल्मां ('अंग्शुमानेर छोबि' (बांगला) आनी 'गाभ्रीचा पाऊस' (मराठी)) आशिल्लीं. विश्व सिनेमाचे वळेरेंत सत्तेचाळीस फिल्मां दाखयल्लीं.

गोंयांत जावपी हो पांचवो अंतरराष्ट्रीय फिल्म महोत्सव. फाटल्यो कांय चुको सुधारून तो जैतीवंत जालो. अंदूच्या महोत्सवांत आनीक एक नवी गजाल आशिल्ली. ती म्हळ्यार टी-२० फिल्म चयन योजना (आयज मेरेनच्या देशांतल्या सगळ्यांत २० बऱ्या फिल्मांची यादी), फिल्मांच्या पोस्टरांच्या माध्यमांतल्यान सिनेमाचो इतिहासूय फिल्म महोत्सवांत दिश्टी पडटालो.

ह्या वर्सा, गेल्ल्या चार महोत्सवां परस अदीक गोंयकार दिश्टी पडले. म्हज्या मतान गोंयकारांनी फिल्मां पळोवपाक जाय आनी फिल्मां काडपाकूय जाय. अजून गोंय संवसाराक सारकें कळचें आसा – हांगासल्ली संस्कृती, जीण आनी हांगासल्ले सामान्य आनी राजकारणी लोक... हिंदी सिनेमांनी तर गोंयकार म्हटल्यार सोरो, डान्स आनी पाश्चिमात्य संस्कृतीचें मिश्रण अशीच प्रस्तुती केल्या.

आमचे भितल्ल्या खूब जाणांक तीन तीन वरांचो सिनेमा थिएटरांत बसून पळोवपाचें पासियेंस आसना थंय महोत्सवांत दिसांचे दीस फिल्मांच फिल्मां पळोवपाक जमना हें खरें. पूण सिनेमा म्हळ्यार निखटें मनोरंजन न्हय हें समजत जाल्यार हें पासियेंस आपशीं येता. सिनेमा प्रगल्भताय दिता, नवे समज दिता. नवें तंत्रज्ञान समजता, त्या त्या लोकांची संस्कृती समजता आनी थिएटरांत बसून संवसाराचेर नदर पडटा, गिन्यान वाडटा. देखून, हे अकरा दीस म्हटल्यार सृजनाचोच प्रवास अशें म्हणूं येता.

अंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवांत जे चित्रपट दाखयतात ते वेगवेगळ्या देशांचें प्रतिनिधित्व करपी चित्रपट आसतात. म्हूण फिल्म सिलेक्शन कमिटीन बरे सिनेमाच महोत्सवा खातीर वेंचून काडूंक जाय. फिल्म चालू आसतना प्रेक्षक उठून वचप आनी थंय बशिल्ल्या फिल्मकारांनी मान सकयल घालप ही खऱ्यांनीच लज काडपी गजाल. अशींय फिल्मां ह्या महोत्सवांत दिश्टी पडलीं. राजकी दबाव हाडून फिल्मां महोत्सवांत सामील करप ही दुर्दैवी गजाल टाळूंक जाताली.

'चित्रपट महोत्सव ही एक संद आपल्यो जाणविकायो, संवेदना वाडोवपाची, समृध्द करपाची, आपले सरभोंवतणचो संवसार नवे नदरेन पळोवपाची, समजून घेवपाची, आनी निखट्यो वळीच वाची नासतना 'बिटवीन द लायन्स' वाचूंक शिकपाची' हें कोणें तरी म्हटलां तें सार्थूच.

चाळिसावो अंतरराष्ट्रीय फिल्म महोत्सव 'व्हीट' ह्या चीनी फिल्मान सुरू जालो तर 'ब्रोकन एम्ब्रेसीस' ह्या स्पेनाच्या फिल्मान ताची सांगता जाली, कांय सोबीत फिल्मांच्या यादींचें गांठवल काळजाच्या खळार दवरून... प्रतिष्ठेचो सुवर्ण मयूर 'आय कान्ट लिव्ह विदाउट यू' ह्या तायवानाच्या सिनेमाक फावऽ जालो. तर जॉर्ज ओव्हाशव्हिली हाच्या पयल्याच सिनेमाक, 'द अदर बँका'क, खासा ज्युरीचो दुसरो पुरस्कार मेळ्ळो.

इफ्फींत तिनशां वयर फिल्मां आशिल्लीं. तीं सगळीं कांय पळोवपाक मेळनात. आनी खूबदां आपल्या मनांत आसून लेगीत पळोवपाचें आसता तेंवूय फिल्म टिकीट मेळना जाल्ल्यान पळोवंक मेळना. पुरस्कार मेळिल्लीं फिल्मांय पळोवपाचो योग केन्ना केन्ना जुळून येना. तरी जीं फिल्मां पळयलीं तांच्यो पटकथा, अभिनय, तातूंत वापरिल्लें तंत्रज्ञान, लोकेशन हें सगळें मनाचे वेदीर कितलोसो तेंप येत उरता :

**पलतडचो मनीसः** 'इंडियन पॅनॉरमा'चें उक्तावण 'पलतडचो मनीस' ह्या कोंकणी फिल्मान जालें. टोरंटोच्या अंतरराष्ट्रीय फिल्म फॅस्टिवलांत ह्या सिनेमाचे पटकथेचो जाल्लो भोवमान आनी कोंकणी फिल्म फिल्माच्या अंतरराष्ट्रीय नकाशार झळकावपी लक्ष्मीकांत शेटगांवकार खऱ्यांनीच प्रशंसेक पात्र थारिल्ले. तांणी रुपेरी पड्ड्यार जें कितें साध्य केल्लें तें पळोवपाची उमळशीक घडये सगळ्याच गोंयकारांक आसुये. 'House Full' 'शो'न हीच उत्सुकता दाखोवन दिली. ह्या फिल्माची मूळ कथा महाबळेश्वर सैल हांचे 'अदृश्ट' नवलिके वयल्यान घेतल्या. गांव आनी रान, मर्दी राजकारण. तशें पळोवंक गेल्यार राजकारण आयज मेरेन कोणेंच बऱ्या खातीर वापरूंकना. राजकारणांत मनशाच्या भावनांक तर कुंडेकुसकुटाचो लेगीत वालोर आसना. अशेंच राजकारण गांवच्या मुखेल्यांनी विनायकाच्या (फोरेस्ट गार्ड) जिवितांत केलें. एकें पिशे बायलेक जिवीत दाखयतना गांवचे लोक ताचेर हळशीक आरोप करतात. ताका वायट नदरेन पळयतात. देव-धर्म मर्दी हाडून आखखो गांव एक जाता आनी फकत एक पूल तोडून विनायक आखख्या गांवाक जाप दिता. चित्रिकरणूय बरें आसा. संवाद मात ओडून-तोडून केल्ले भशेन दिसताले. ते सहज येवपाक जाय आशिल्ले अशें दिसलें. तरी अंतरराष्ट्रीय पांवड्यार नामना मेळोवपी कोंकणी फिल्माक 'थ्री चियर्स'!

**ब्लीडींग हार्टः** 'सिनेमा ऑफ द वर्ल्ड' हे वळेरेंतलें इराणचें हें फिल्म पळयले उपरांत एक बरो सिनेमा पळयल्ल्याचो अणभव आयले बगर रावना. फिल्मांतली एमादाची भुमिका बेस बरी जाल्या. फोटोग्राफीय सुंदर आशिल्ली. इराणच्या फिल्मांची हीच विशेशताय आसता. म्हण इराणी फिल्मां पळोवपाक दर वर्सा चडशी गर्दीच आसता. आपल्या फिल्मांतल्यान ते मानवीय संवेदनांचें बेस बरें

प्रस्तुतीकरण करतात. ह्या फिल्मांत एमादाक आपले बायलेचो खून केल्ले बद्‌दल खयास्त म्हण फांशीची शिक्षा फर्मायल्ली आसता. आपली मेवणी काळजाची दुर्येंती म्हूण एमादाक खबर आसता. तिका एका काळजाची गरज आसता. एमाद आपलें काळीज तिका दिवचें अशी इत्सा आपल्या वकिला कडल्यान प्रगटायता. एमाद खूनमारो आनी ताणें आपले धुवेचो खून केला, असल्या खूनमाऱ्याचें काळीज आपले चलयेक घालपाक दिवचोंना अशें ताचो मांव म्हणटा. तरी एमाद आनी ताची वकील एमादाचे मेवणेक काळीज घेवपाक बेस बरे तरेन मनयतात. एमादाची आनी वकिलाचीय भुमिका खूब सुंदर जाल्या. महम्मद रजा रेहमानी हांची ही पटकथा, खासा तांणीच दिग्दर्शीत केल्या.

**बालेर:** फिलिपिन्स देशाचें प्रतिनिधित्व करपी मार्क मेली हांणी दिग्दर्शीत केल्लें 'बालेर' हें फिल्म म्हटल्यार एक सोबीत सुंदर मोगाकाणी. बालेर ह्या गांवांत फिलिपिन्स फोर्साची स्पॅनीश मिलिटरी आनी ५७ मॅन रायफल बटालियन हांचे मदीं चलतल्या झुजाच्या निमण्या कांय दिसांचेर आनी थंय घडिल्ले शोकांतिकेचेर आधारीत आशिल्लें हें फिल्म. खरेंच पळोवपा सारकें. 'बालेरां'तली तरनाटी फेलिजा एका स्पॅनीश सैनिकाच्या (सेल्सो) मोगांत पडटा. ह्या सैनिका विशीं तिच्या बापायच्या मनांत सदांच दुस्मानकायेची भावना आसता. ताका आपले भयणीचेर स्पॅनीश सैनिकांनी केल्लो बलात्कार आनी आपणाल्या काकाचो केल्लो खून याद जाता. एक दीस 'रिबॅल' स्पॅनीश सैनिकांचेर घुरी घालतात. सैनीक आपलो जीव वाटायत चर्चीचो आलाशिरो घेतात. भायले रिबॅल चर्चीचेर आक्रमण करी नासतना तशे भायर रावतात. पूण भितल्ल्या एकाय सैनिकाक भायर सरूंक दिनात. अशे वर्साच्याकूय चड दीस सरून वतात. चर्चीत कितें आसता तें खावन सैनीक थोडे दीस काडटात. मागीर कांय जाण भुकेन आनी दुयेंसान मरतात. हेवटेन फेलिजा बाळांत जावन एका सोबीत सुंदर चल्याक जल्म दिता. ही गजाल चर्चीत आशिल्ल्या सेल्सोक कळटा तेन्ना तो सामको पिसो जाल्ले वरी जाता आनी फेलिजाकं मेळपाक सोदता. तो पळून वचपाक सोदता. पूण कांय शादूर सैनिकांक तो सांपडटा. ताचो मुखेलीच ताका फारान मारता. निमाणे कडेन उरिल्ल्या स्पॅनीश सैनिकांक स्पेन हारिल्ल्याची खात्री जाता आनी ते शरण येतात. फेलिजा सेल्सोच्या यादींनी आपल्या पुता वांगडा जगपाचो निर्णय घेता. ही मोगा काणी आमकां कांय फामाद मोगा काणयांची याद करून दिले बगर रावना.

**मर्मबंध:** २००४ ते २००९ मेरेनच्या सगळ्या इफ्फीं परस ओंदूच्या इफ्फींत सगळ्यांत चड म्हटल्यार णव मराठी चित्रपट दाखयल्ले. तातूंत उल्लेखनीय अशे 'हरिश्चंद्राची फॅक्टरी', 'गाभ्रीचा पाऊस', 'मर्मबंध'... ह्या चित्रपटांनी मराठी वांगडा महाराष्ट्राचेंय नांव आंतरराष्ट्रीय फिल्म जगांत बरयलें. वीणा जामकर हे नटयेचे चार सिनेमा ह्या फिल्म महोत्सवांत आशिल्ले. तिच्यो चारूय भुमिका वेगवेगळ्या तरांच्यो, तोखणाय करपा सारक्यो आशिल्ल्यो. 'गाभ्रीचा पाऊस' ह्या चित्रपटांत तिणें आत्महत्या केल्ल्या शेतकामत्याचे घरकान्नीची, तर 'पलतडचो मनीस' ह्या शेटगांवकाराल्या कोंकणी फिल्मांत तिणें एके पिशे बायलेची भुमिका केल्या. 'जन्म' ह्या फिल्मांत वीणा एक कॉलेज गर्ल जाल्या. तर 'मर्मबंधां'त तिणें जयंत शिरोडकर ह्या नाट्य कलाकारांचे बायलेची, 'जयंती'ची, भुमिका केल्या. ह्या सगळ्यां भितर म्हाका आवडलो तिचो 'मर्मबंध'. ह्या फिल्माचें कथानक नाटक पिश्या गोंया कडेन संबंधीत आसा. आनी त्या कथानकाचो काळ सुमार स्वातंत्र्या पयलींचो. त्या वेळार गोंयांतल्या नाटकांनी दादलेच बायलांच्यो भुमिका करताले आनी स्वातंत्र्या उपरांत नाटकाचेर वा बायलेची भुमिका करपी दादल्यांचेर जाल्ल्या बदलत्या काळाचो परिणाम हेंच 'मर्मबंधा'चें मुखेल कथानक. म्हणुनूच तर तें ओंदूच्या इफ्फींत लक्ष ओडून घेवपी ठरलें. गिरीश परदेशी ह्या नटान जयंत शिरोडकराची भुमिका केल्या. जयंत नाटकांनी बायलांची भुमिका करतालो. ही गजाल ताच्या वास्तवीक जिवितांत कशी बदल घडयता आनी राजा वरी आशिल्लो जयंत कसो भिकेक पावता, आपलें सर्वस्व वगडावन निमाणो दुयेंत जावन मरता इतलेंच ह्या फिल्माचें कथानक. दिनेश भोसलेन तें बेस बरे तरेन दाखोवपाचो यत्न केला. जयंत शिरोडकर निमाणे स्टेजीचेरूच, बायलेची भुमिका करता करतांच मरता हो काळजाक हात घालपी खीण दोळ्यांच्यो पातकड्यो ओल्यो केले बगर रावना.

**रॅड अलर्ट:** हें वास्तववादी गजालीचेर आधारीत हिंदी फिल्म. 'हिंदुस्तान टायम्सा'चेर आयिल्ले एके बातमे वेल्यान ह्या सिनेमाची निर्मिती जाली अशी गवाय फिल्माचे दिग्दर्शक अनंत महादेवनान दिल्या. देशांत सद्या नक्षलवाद्यांच्यो कारवायो चालू आसात. हे नक्षलवादी कोण, तर भितल्लेच. आमच्याच लोकांनी हातांत घेतिल्ल्या शस्त्रां आड लढो दिवप चड कठीण म्हणपाचें हें फिल्म दाखयता. 'नरसिम्हा'चे भुमिकेंतलो सुनिल शेट्टीचो अभिनय खुबूच सुंदर जाला. नरसिम्हा हो दारिद्र्यान ग्राशिल्लो शेती कामगार नक्षलवाद्यांच्या संपर्कांत येता. तांकां जेवण दितां दितां ल्हवू ल्हवू तो नक्षलवाद्यांच्या कारवायांनी भरसून वता. पूण कांय काळान ताका दिसता, असल्या जगपाक कांय अर्थ ना. निष्पाप लोकांक मारप ताका पटना आनी तो नक्षलवाद्यांचे तावडेंतल्यान सुटटा. आपल्या बायल-भुरग्यांची सुरक्षीत सुवातेर व्यवस्था करून आपल्या बदलिल्ल्या विचारांक तो नवी दिका दिवपाक भायर सरता. फिल्मांतली नसीरुद्‌दीनाची बेबद्याची ल्हानशीच भुमिका बेस बरी जाल्या. नक्षलवाद म्हटल्यार शारा सावन पयस जावपी वेव्हार. म्हण चडशें शुटींग रानांतूच जालां. थंयचें उकतें जगप 'रॅड अलर्टां'त सुंदर चित्रीत जालां.

**व्हॅर आर यू, सोफिया:** अमेरिकेचें प्रतिनिधित्व करपी हें फिल्म नागेंद्र केरीन दिग्दर्शीत केलां. घडये हें महोत्सवांतलें एकमेव अशें भयानक — हॉरर — फिल्म आसूं येता. ह्या फिल्माच्या संगितानूच ताका चड भयानक केलां. फिल्माक संगीत राजू राव हाणें दिलां. भयानक फिल्मां चडशीं सस्पेंन्साचेर आधारिल्लीं आसतात. हेंवूय तशेंच. सस्पेंन्स निमाणे मेरेन कळना. फकत आपणें अर्थ लावचो पडटा. सोफिया ही थळावी पत्रकार. ती अकस्मात नाच जाता. एक दीस तिची भेट एका तरनाटया कडें जाता. आनी मागीर ताका एका फाटल्यान एक हालोवन उडोवपी अणभव मेळटात. एका भयानक सिनेमांत आसपाक जाय तशें रानांतल्या एका एकसुऱ्या बंगल्यांत हें सगळें नाट्य घडटा. सस्पेंन्स मुखार उकतें जातलें अशें दिसता. पूण

सिनेमा सोंपले उपरांतूय गूढ सुटना.

**डॉन ऑन द सँड स्ट्रीट:** आरमेनियेचें हें वॉर फिल्म आल्बर्ट मर्कतचन हाणें दिग्दर्शीत केलां. पटकथाय ताणेंच बरयल्या. ह्या फिल्माचें कथानक आरमेनियेंतल्या १९९०ल्या काळांतलें. त्या वर्सांनी आरमेनियेंत रात-दीस युद्धाचेंच वातावरण आशिल्लें. आझबायजान ह्या शेजारी देशान आरमेनियेंत आकांत माजयल्लो. थंयच्यो इगरजी आनी हेर सांस्कृतीक थळां मातये भरवण केल्लीं. एका घरांतल्या तिगां दादल्यां भितल्ले बापूय आनी व्हडलो पूत युद्धाक वतात. धाकटो भंयाक आनी आवयच्या मोगाक लागूक अडकल्लो आसता. पूण निमाणें तोवूय वता. तेन्ना त्या घराचेर मळब कोंसळटा. घरांतल्यान गेल्लो कोणूच घरांतले घरकान्नीक सांगून युद्धाक भायर सरना (ती नाका म्हणत म्हण). ज्या रस्त्या वेल्यान ते वतात त्याच रस्त्या वेल्यान एक दीस तिच्या मोगाळ धाकल्या पुताचें मडें येता. हो ह्या सिनेमांतलो 'क्लायमॅक्स'.

**गॉड लिव्हज इन द हिमालयाजः** भारत आनी नेपाळ हांच्या संयुक्तपणान ह्या फिल्माची निर्मिती जाल्या. सोबीत सुंदर हिमालया सरभोंवतणचें चित्रिकरण हेंच ह्या फिल्माचें व्हडलें येस. संजय श्रीनिवास हांणी हो सिनेमा दिग्दर्शीत केला.

मळबाक तकली तेंकोवपी हिमालय आनी ताचेर चादर घाल्ले भशेन दिसपी बर्फ. सोबीत लोकेशन! चार भुरगे देवाच्या सोदांत हिमालयाचेर वतात. मन निर्मळ दवरून कश्ट करीत जाल्यार ध्येय सिद्ध जाता हेंच ह्या सिनेमान सांगलां. देव आसा काय ना हो वादाचो विशय. पूण चार भुरग्यांच्या काळजांत देवा विशीं जागी जाल्ली भावना बेस बरी दाखयल्या.

हिमालयाच्या मुळसांत आशिल्ल्या एका गांवांत सिद्धार्थ ह्या धा वर्सांच्या भुरग्याच्या घराक उजो लागता आनी तातूंत ताच्या मोगाची आवय हुलपून मरता. एक दीस सिद्धार्थाची आंटी सिद्धार्थाचे आवयक देवान व्हेली अशें कोणाक तरी सांगतना तो आयकता. तेन्ना सिद्धार्थ चिंतूंक पडटा. तिका देवान कशी व्हेली आनी कित्याक? तिचो देवाचेर तर खूब विस्वास आशिल्लो. ह्याच दरम्यान सिद्धार्थाक ताच्या गांवांत एक अनवळखी जाणटो मनीस मेळटा. तो ताका देव हिमालयांत रावता म्हण सांगता. सिद्धार्थाची देवाक मेळपाची उमळशीक वाडत वता. आनी मागीर देवाच्या सोदा खातीर हिमालयाचो प्रवास सुरू जाता. देवाच्या सोदांत तीं भुरगीं उबो हिमालय चडत रावतात. खरशेत खरशेत हिमालयांत देवाचो सोद घेवपी तीं भुरगीं एक एक करून चडटां चडटां मरून वतात. हो प्रसंग पांडवांच्या महानिर्वाणाचे घडणुकेचो उगडास दिले बगर रावना.

**बॉम्बे समरः** तीन तरणाट्या इश्टांची ही काणी. मुंबय आपलें करियर घडोवपाच्या हावेसान ते एकठांय आयिल्ले आसतात. घुंवळे वखदांची 'डेलिव्हरी' करपी मदन आनी ताचो इश्ट जयदेव. फाविल्ल्या वेळांत सिनेमा खातीर पोस्टर पितारपी मदन तर नवोदीत बरोवपी जयदेव. तिसरी तरनाटी चली गीता. आपलें करियर आनी कुटुंब हांचें संतुलन दवरपाच्या यत्नांनी धडपडपी. तीगांचीय बेस बरी इश्टागत जमता. ल्हवू ल्हवू जयदेवाक मदनाच्यो वाडिल्ल्यो नश्ट्यो भानगडी मानवनात. तांचे भितर मर्दी मर्दी वादूय जातात आनी एक दीस मदन मोटरसायकल अपघातांत सोंपता. गीताच्या काळजांत मदना खातीर एक खास जागो तयार जाल्लो आसता. ताका मदन गेल्ल्याचो धक्को बसता जो तें ताच्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्या घरा वचून व्यक्त करता. जोझेफ मॅथ्यू वाझ-वरगीज हांच्या दिग्दर्शनान साकार जाल्लें हें काळजाक हात घालपी फिल्म खूब कितें सांगून वता. हें फिल्म अमेरिकेचें, पूण जोझेफ वाझ-वरगीज भारतीय (केरळ)चो. म्हणुनूच घडये हें फिल्म चड भारतीयूच.

**मिस्ट्रेस ऑफ स्पायसीजः** हें एक वेगळ्याच कथानकाचेर आधारिल्लें फिल्म. मूळ भारतीय आशिल्ली 'तिलो' (ऐश्वर्या राय बच्चन) ही चली कॅलिफोर्नियांत मसाल्याचें दुकान चलयता. ल्हानपणा सावनूच तिका मसाल्याचे गुणधर्म, तांचो उपेग, खंयच्या वखदांत खंयचो मसालो उपेगा पडटलो हाचें गिन्यान आसता. मसालो विकतो घेवपाक येवपी गिरायकाक फुडल्या काळांत खंयच्या मसाल्याची गरज पडटली हेंवूय तिका पयलींच कळटा (घडये सव्या इंद्रियाच्या आधारान). हें सगळें करतना तिचेरूय कांय दंडक आसतात. देखीक, खंयचीच वस्त तिणें आपल्या फायद्या खातीर वापरची न्हय, दुसऱ्या दादल्याच्या आंगाक आफुडचें न्हय, दुकान सोडून भायर वचचें न्हय आनी मसालो सोडून दुसऱ्यो खंयच्योच गजाली मनांत हाडच्यो न्हय. पूण ती एक दीस एका घायाळ तरणाट्याचेर उपचार करता आसतना ताच्या मोगांत पडटा, स्पर्शूय जाता, मागीर दुकानूय सोडप जाता. हाचो परिणाम, तिणें सुचयल्ले उपाय परते जातात. ती खंती जाता आनी मसाल्याच्या दुकानाक आपले सयत उजो लायता. पूण ती वांचता. पॉल मायडा बर्जीस हिणें दिग्दर्शीत केल्लें हें फिल्म घडये ऐश्वर्या खातीरूच पळोवपाचें जालां अशें दिसता. कित्याक, खंयचेंय 'सक्सॅसफूल' फिल्म तयार करपाक सगळ्यांत पयलीं एक भव्य-दिव्य/अफलातून अशें कथानक वेंचचें पडटा, आनी म्हाका दिसता, तीच ह्या फिल्माची निगेटिव्ह वेट. अनुपम खेर हाचोय ह्या फिल्मांत धाकटोसोच रोल आसा. तो ताणें बेस बरो केला. गुरिंदर चड्डाचें हें फिल्म सुमार म्हणूं येत अशें.

ह्या इफ्फींत आनीकूय खूब याद उरपा सारकीं फिल्मां पळयलीं. तातूंत फ्रान्साचो 'द क्लास' टर्कीचो 'आय सॉ द सन', चीनाचो 'शी, अ चायनीज' गुजरात दंगलीचेर आधारीत नंदीता दासाचो 'फिराख' कॅनडाचो 'क्रॅकी' सायप्रस आनी ग्रीसाचो 'गिल्ट', फिनलंडचो 'ओवर सीज अँड अंडर युवर स्क्रीन'.

निमणी एक गजाल सांगत दिसता. ती म्हळ्यार, ओंदूच्या इफ्फींत चड सॅक्स आशिल्लीं तींच फिल्मां चड गर्दी ओडपाक येसस्वी जालीं. सगळ्या इफ्फींनी अशें घडटा जावये. Angles with Dirty Wings, Molly Cam, Mall Girls हातूंतलीं पयलीं दोन फिल्मां दोन दोन फावट स्क्रीनिंग करुनूय तिकेटी मेळपाक कुस्तार जाल्ल्यो. हे सिनेमा सगळ्यांनी सोंपऽसर पळयले. कोणूच हाल्लोना हेंय विशेश. चलयो, बायलो, जाणटे, तरणाटे ह्या प्रेक्षकांनी थिएटर भरून गेल्लें आसतालें. कांय जाणांक दिसलें, फिल्मांनी हे तरेचो ओपन सॅक्स दाखोवप गरजेचें? कांय सिनेमा फकत सॅक्स दाखोवपा खातीरूच काडल्यात काय असोय प्रस्न पडलो. हाचेर विचार जावपाची गरज आसा अशें हांव म्हणीन.



# २० व्या शतमानांतल्या निमण्या दोन दसकांतले कवितेंतलें बायलेचें चित्रण

माया खरंगटे

खंयचेय भाशेंतल्या साहित्याची सुरवात काव्यांतल्यान जाता अशें जाणकार म्हणटात, साहित्य लिखीत स्वरुपाचें आसूं वा मौखीक.

कोंकणी साहित्यांतूय सुरवेक काव्याक बरोच चंवर आयलो. हो चंवर फुल्लो पयलीं लोकगितांतल्यान. आल्लयो, धालो, फुगडी, कांतारां, मांडे, जागर गितां, शिगम्याचीं गितां, बारसो, लग्नाचीं गितां, व्होंवयो, भजनां आनी भक्तीगितां ह्या स्वरुपांत काव्य आयलें. तातूंतल्यान प्रकर्षान जाणवतालें तें बायलेचें चित्रण. तिच्या सभावाचीं तासां, सपनां, व्यथा, राग-वितराग, हातूंतल्यान. धूव, सून, आवय, घरकान्न अश्या रुपांतल्यान ती एक आदर्श नारी म्हूण चित्रीत जाल्ली. तिचीं कर्तव्यां कितें, ती स्वतंत्र व्यक्तिमत्व आशिल्ली व्यक्ती न्हयच अशें लोकगितांतले बायल-मनशेक पळोवन दिसता.

उपरांत लिखीत साहित्याचो जल्म जालो. तेंय सुरवेक काव्याच्याच रुपान चड आसलें. तातूंतल्यान बायल-मनशेचीं विंगड विंगड रुपां दिसून येतात.

'२० व्या शतमानांतल्या निमण्या दोन दसकांतले कवितेंत आयिल्लें बायलेचें चित्रण' ह्या विशयाचेर विचार करतना हांवें देवनागरी लिपयेंत उजवाडा आयिल्ल्या कोंकणी काव्याचो संदर्भ घेतला. २० व्या शतमानांतलीं निमणीं दोन दसकां म्हळ्यार सादारण १९८० वर्सां सावन उजवाडा आयिल्ल्यो कविता. आज मेरेन म्हजे माहिती प्रमाण ह्या काळांत सुमार सवायशें वयर कविता संग्रह प्रसिद्ध जाल्यात. ते सगळे वाचुनूच ह्या विशया संदर्भांत म्हजे विचार मांडपाचो यत्न हांवें केला.

कांय म्हालगड्यांच्यो आदीं बरयल्ल्यो कविता संग्रहाच्या रुपान १९८०-८५ मजगतच्या काळांत उजवाडा आयल्यात. त्योय हांवें हो अभ्यास करतना घेतल्यात. तशेंच परिक्षण करतना सोंपेपण येवचें म्हूण हांवें कवी आनी कवयत्रींचीं बरपां दोन वांट्यांनी घेतल्यांत.

ह्या काळांतली अस्तुरी धीट, मेकळी, कर्तुत्ववान आनी वास्तवा वांगडा चलूंक उत्सूक, आत्मविश्वासपूर्ण आनी बंडखोर अशी युगंधरा. तिचें रूप परस्पर विरोधी अशेंय आसा. ती जितली सोंशीक तितलीच बंडखोर, वात्सल्याची मूर्त तशीच कडक लक्ष्मी, सवाशीण तशीच विधवा, हिणसायिल्ली वावराडी तितलीच शेक गाजोवपी हुकूमशहा धनीण अशीं तिचीं वेगवेगळीं रुपां ह्या दोन दसकांतल्या कवितांनी थोड्या भोव प्रमाणांत आयल्यांत.

बायल-मनशेचीं हीं सगळीं रुपां दादल्यांचे म्हळ्यार कवींचे कवितेंत फावो तितल्या प्रमाणांत येवंक नात. कवयत्रींच्या कवितांनी मात हीं सगळीं रुपां उठून दिसतात. चड करून कवींनी बायलांची आद्य प्रतिमा, आदर्श आनी हळुवार मोगिका ह्या रुपांत दाखयल्या. कश्टत, घश्टत, अन्याय सोंसपी, दादल्यां भोंवतणी जीण गुंथपी त्यागाची मूर्त कशी पिंतारल्या.

उदय भेंब्रेले कवितेंत ती केन्ना 'वात सोपून रात आसा' म्हणपी अभिसारिका जाता, तर केन्ना 'म्हज्या मनाचें फूल झिरकलां तुज्या मुदयाळ्या केंसांत' म्हणपी घायाळ प्रियकराचे व्यथेची 'कारण' आसता. शिवाय 'लजे व्हंकल', 'कुळार मायेचें', 'राधेक मत्सर मुरलेचो' अशे तरेच्या कवितांनी हो कवी बायल-मनशे कडेन एक प्रिया, विरहिणी म्हणून पळयता.

र. वि. पंडितांनीय जायत्यो प्रेम कविता बरयल्यात. तातूंत 'आज तूं येतलो देखून' म्हणत भुरकुटून वचपी घरकान्न दिसता.

शंकर भांडारी सारकेल्या सत्याचो उजो ओंकपी, समाजाचो बुरखो पिंजून उडोवपी कवीनय ज्यो थोड्यो अस्तुरेचेर कविता केल्यात त्योय मोगाच्योच.

मंद मंद पांयजणां वाजोवपी बाकीबाब बोरकारांचे कवितेंत बायल-मनीस ओडलायणी चंचला, मोग पिशी सुंदरी जावन येता.

मनोहरराय सरदेसायांचे कवितेंतय बायल उर्दू शायरींत प्राण फुंकपी माशुका, प्रणयिनी जावन येता. रमेश वेळुस्कार हांणी जायत्या तरांच्यो कविता रचल्यो. हे एक हळुवार, ताल-लय सांबाळून बरोवपी कवी. *सावूल गोरी* ह्या तांच्या कविता संग्रहांत तांणी 'सावूल गोरी'चेर (तरणाटेचेर?) जायत्या तरांच्यो कविता रचल्यात. तिचें मन, भाव भावना, तिचे हावेस, उत्फरके अळार उतरांनी सैमाच्या कॅनव्हासार तरेकवार रुपकांतल्यान, प्रतिमांतल्यान मांडल्यात. तिचो मोग, विरह, कुळारची ओड जितली प्रभावीपणान दाखयल्या तितल्याच प्रभावीपणान एके अस्तुरेचें म्हातारपणांतलें दुःख, विलाप चित्रायल्यात.

माधव बोरकार हेय एक हळुवार प्रेमकवी. प्रियेच्या मोगान थपथपिल्ल्यो कितल्योश्यो कविता तांणी रचल्यात. अस्तुरी तांचे कवितेंत जिणे सांगातीण म्हणुनूय येता. ती पयस आसतना तिच्या विरहान ते घायाळ जातात आनी तिच्या यादींनी शेणटात. तांच्या पावलार पावल दवरपी आनीक एक कवी म्हळ्यार परेश नरेन्द्र कामत. हांच्या दोनूय कविता संग्रहांनी चडश्यो कविता अस्तुरेचो मोग, भोग, विरह दाखोवपी आसात.

हे भायर, नागेश करमली, गजानन रायकार, शंकर रामाणी, अरुण साखरदांडे, प्रकाश पाडगांवकार, अशोक भोंसलो, भरत नायक, पोव्र फेर्नांडीस, सखाराम बोरकार, भालचंद्र गांवकार, मनोराय नायक हांच्या कवितांनी अस्तुरी येता ती मोगिका म्हणून. सैमाच्या रुपकारांतल्यान, तरेकवार प्रतिमांतल्यान, वेगवेगळ्या उतरांतल्यान अस्तुरेचीं वेगवेगळीं अळार रुपां तांणी चित्रायल्यांत. मोगिकेचो विरह तांणी नकसूद उतरांनी आनी उत्कटतायेन दाखयला.

पुंडलीक नायक हांच्यो चडश्यो कविता सामाजीक जाणिवेच्यो, थोड्योश्यो मोगाच्यो. पूण तांच्या काव्यांत खांदाक खांद लावन चलपी अस्तुरी आयल्या ती 'तुजें पत्र पावलें' हे ल्हानशे कवितेंत. एके कश्टकरी बायलेची जीण तांणी आवयच्या रुपान मांडल्या. संवसार कसो करचो तें ते आजयेच्या रुपकांतल्यान मांडटात. हांगा एक तरणाटो कवी गौरीश वेर्णेकार हाच्या कविता संग्रहाची याद जाता. पुराय संग्रहभर ताणें आजयेच्या रुपान अस्तुरेचीं तरेकवार रुपां दाखयल्यांत. आजी म्हळ्यार अणभवान पिकिल्लो एक विश्वकोश अशें ताका दिसता.

प्रकाश पाडगांवकार आनी महादेव नाडकर्णी हांणी आपले कवितेंतल्यान बायलांचे उत्फरके, हावेस, लग्न जावन संवसार करपाची ओड, हुंड्याक लागून तिचो जावपी छळ आनी तांचे हेर त्रास सार्थपणान आनी समर्पक उतरांनी मांडल्यात. तेच वांगडा लग्न जावंक नाशिल्ले चलयेचीं सुकिल्लीं सपनां, तिचो घुस्मटमार वास्तवतेचें भान सोडनासतना चितारला. ह्यो कविता वाचतना त्यो एके अस्तुरेनच बरयल्ले वरी दिसतात, इतली अणभवाची खराय तातूंत आसा.

संजीव वेरेंकार ह्या कवीनय आंकवार चलयेचें भावविश्व चितारलां आनी तेच बरोबर तांच्या चंचल सभावाचेर बडी मारल्या. 'प्रकाश' उर्फ राधाकृष्ण आचार्य हांच्या कविता संग्रहांत चडशी अस्तुरी दिसता. ल्हान चली, धूव, सून, आवय, आजी अशीं सगळीं रुपां तांणी कवितेंतल्यान दाखयल्यांत. तशेंच गजानन जोग, गणाधीश प्रभुदेसाय हांणी वेश्येच्या रुपांतले अस्तुरेचीं दुःखां पितारल्यांत.

निलबा खांडेकार, पूर्णानंद च्यारी आनी अश्या जायत्या तरनाट्या कवींनी पिडीत समाजांतली बायल, दलीत वर्गांतली बायल सार्थपणान उबी केल्या. तिचे खोंपींतले हाल उपाद्रे, दळदीर बरे तरेन मांडलां. हे भायर जायत्या नव्या कवींच्या कवितासंग्रहांत मोग कविता आनी अस्तुरेच्या हेर रुपांतल्यो कविता आयल्यात. विशाल खांडेपारकार, रेवणसिद्ध नायक, दुर्गादास गावडे अश्या कांय कवींनी बायलेच्या वेगवेगळ्या शक्तींचेर आनी तिचेर जावपी अन्यायाचेर कविता रचल्यात.

थोडे भितर सांगचें म्हळ्यार, कवींनी बायलेक चडशी मोगिका-भोगिका ह्याच रुपांत कवितेंत पितारल्या. कांय थोड्याच कवींनी तिचीं सगळीं रुपां यथार्थपणान आनी प्रभावीपणान मांडल्यांत.

हें जालें कवींच्या कवितेंतले अस्तुरे विशीं. आतां कवयित्रींच्या कवितां विशीं पळोवया.

कोंकणी कविता फुलपाक सुरवात जाल्ली तेन्ना कवयित्री, लेखिकाच खूब उण्यो आसल्यो. कवयित्री तर एकूच आसली. ती म्हळ्यार, विजयाबाय सरमळकार. *गोठलां* आनी *घननीळ* अशे तांचे दोन कवितासंग्रह. दोनय संग्रहांतल्या चडश्या कवितांनी अस्तुरेची प्रतिमा प्रभावीपणान प्रगट जाता. 'रांदचीकूड' हें बायलांचें विश्व विजयाबायचे कवितेंत भोवढंगी रुपकारांत आनी जबरदस्त तांकी सयत उकतें जालां. त्या वेळा वेली जागृत अस्तुरी कशी आशिल्ली तें तांच्या कवितांतल्यान बरे तरेन कळटा. तांचे कवितेंतली अस्तुरी सर्वार्थान बायलमनाचीं कितलींशीं तासां समर्थपणान दाखयता. साखरपुडो जातकच जी चली मुरगुट्टा ती लग्न जातकच अभिसारिके वरी घोवाची वाट पळयता. तो परदेशांत वतकच विरहिणी जाता, भुरग्याची सुलूस लागतकच खोशयेच्या आनी लजेच्या संभ्रमांत घुस्पता, आदर्श नारी कशी देशा पासत झुजपी विराक जल्म दिवचेलीं सपनां पळयता. उपरांत तीच अस्तुरी घोव मरतकच विरक्त योगिनी जाता. नव्या युगाचीय ती युगंधरा जाता. संघर्षा आड झुजपी झुजारीय जाता आनी सृजन करपी जननीय जाता. अशे तरेन विजयाबायचे कवितेंतली अस्तुरी सगळ्या रुपांनी जियेतना दिसता. तिचीं सगळीं रुपां उत्कटतायेन प्रगट जातना दिसतात.

विजयाबायच्या काळांत सामाजीक परिवर्तन जायत आसलें. अस्तुरी नव्या ध्येयान, विचारान मुखार सरताली. सगळ्या मळांचेर आपलीं पावलां थीर करूंक लागिल्ली. विजयाबायचे फाटल्यान बऱ्याच तेंपान कोंकणी काव्य मळार एक एक नकेत्र उदेवंक लागिल्लें. अशा वेळार 'चित्रंगी' सारको एक अंक बायलां पासत सुरू करून हेमा नायकान बायलांच्या साहित्याच्या मळार एक क्रांती घडोवन हाडली. तांणी चित्रंगींतल्यान बायल बरोवप्यांक आपले विचार मांडूंक एक माची जोडून दिली. शिवाय गांवा गांवांनी बायलांचे मेळावे

घडोवन हाडून तांचे मर्दी जागृताय हाडली. ताका लागून कोंकणी सरस्पतीच्या मळार कवयित्रींचें भिरेंच आयलें. तांणी त्या वेळा वयले सगळे सामाजीक बदल आपले कवितेंतल्यान परगटायल्यात. बायलांचे जिणेक लागींच्यान स्पर्श करपी विशय, तांचीं पारंपारीक सुखदु:खां आनी समाजबदलान तांचेर लादिल्लीं सुखदु:खां बरे तरेन ह्या कवयित्रींनी आपले कवितेंतल्यान मांडलीं.

नवे जाणविकायेची, आपल्या अस्तित्वाचो साक्षात्कार जाल्ली नवी अस्तुरी कवितेंतल्यान आकाराक हाडली ती नीला तेलंग, माया खरंगटे, नूतन साखरदांडे, नयना आडारकार, जयंती नायक, शकुन्तला आर्सेकार, शान्ती तेंडुलकार, प्रशांती तळपणकार, दीपा पै, कुंदा पै, अमिता सुर्लकार अश्या जायत्या कवयित्रींनी.

एके वटेन आपले पिरायेक सोबऽ सारकी मोगाची भास आनी दुसरे वटेन क्रांतीची भास उलोवपी तरनाटी तांचे कवितेंत दिसता. सुरवेक कवितेच्या मळार देंविल्ल्या कवयित्रींच्या भिऱ्यांतल्यान सातत्यान बरोवपी अश्या १५ कवयित्रींच्या वेंचीक कवितांचें संकलन *अप्रूप* ह्या कवितां झेल्यांत केलां. तातूंतल्या जायत्या कवितांची भास ही 'जागे जाल्ले' अस्तुरेची भास. तातूंतलीं पांच-स जाणांच सद्या साहित्याच्या मळार वावुरतात. कांय जाणांनी कविते वांगडा साहित्याच्या दुसऱ्या दालनांतय यशस्वी पावल दवरलां. तांतलें एक हांव. कवितेचो सांगात सोडनासतना कथा, बालसाहित्य आनी अणकाराच्या मळार वावुरतां. म्हजी इश्टीण जयंती नायक हिणें कवितेचो साथ सोडून लोकवेद आनी कथेचें क्षेत्र वेंचून काडलां. म्हजी आनीक एक इश्टीण नयना आडारकार ही लेगीत कविते सांगातान कथा आनी बालसाहित्य रचता.

जयंती नायकान आमकां आपल्या कवितांतल्यान गांवगिऱ्या वाठारांतले कश्टकरी बायलेची जीण दाखयल्या. तिचें वास्तव आनी भिरांकूळ जिणेचें चित्र चित्रायलां. नवी व्हंकल म्हणून उमेदीन घरांत येवपी बायलेची जीण मागीर कशी एके वावराडे पाश्ट जाता तें जयंतीन प्रभावीपणान दाखयलां. अशे तरेन समाजाच्या फटकिरेपणाची दखल दीपा पै, प्रतिभा फोंडेकार, कुंदा पै, प्रशान्ती तळपणकार आनी करुणा पाडगांवकार हांचे कवितेन घेतिल्ली दिसता.

नीला तेलंगाचे कवितेंतलो किंवाटो आकांताळो. तितलीच ताची अस्तुरी स्वाभिमानी, दुसऱ्यांच्या उपकाराचेर जगपाक तयार ना अशी. तागेल्यो भावना वास्तवाच्या मार्गार जितल्यो खऱ्यो उतरल्यात, तितलीच विरहाची वेदना उत्कटतायेन व्यक्त जाल्या. अस्तुरेच्या अंतरंगाचो सोद घेवपाचो तांचो यत्न फळादीक जाला.

शकुन्तला आर्सेकार, माया सरदेसाय, अमिता सुर्लकार ह्यो कवयित्री अस्तुरे भितल्ली क्रांतिकारी व्यक्ती वाचप्या मेरेन पावयतात. ताचेय फुडें वचून अमिताची कविता मुक्त अस्तुरेचें चित्रण करता. जाल्यार शान्ती प्रभू तेंडुलकार ही कवयित्री निव्वळ मोगाचे कवितेंत शेणटा. पूण तरीय शेंस घालपाचो विधी, सतीची प्रथा पळोवन न्हिन्नळटा. ह्या दोनय घडणुकां वेळार अस्तुरेच्या मनाची स्थिती कशी जातली तें चित्रायता.

चंद्रिका पाडगांवकार, अलका असोळडेकार हांच्या कवितांनी मोगिका, विरहिणी, आनी जाणट्या अस्तुऱ्यांचें मन, संवसारांत तांचो जावपी घुस्मटमार दाखयला. अस्तुरेच्या पांयांतली बेडी केन्ना सुटटली असो प्रस्न तांकां पडटा.

नूतन साखरदांडे, नयना आडारकार आनी माया खरंगटे ह्या तिनय कवयित्रींक हांवें मुद्दम निमाण्यो दवरल्यात. ह्यो तिनय तश्यो समकालीन कवयित्री. हांचे तिगांयचेय कवितेंत बायल-मनशेचीं सगळीं रुपां उत्कटतेन प्रगट जातात. तांचे उत्फर्के, उमाळे, मनाचीं तरेकवार रुपां, भाव, भावना खरपणान प्रगट जातात. दिसपट्टे जिणेची घालामेल, संवसार, शिर्वीस, भुरगीं हांचे मर्दी कसलीय कला आंगांत आशिल्ले बायल-मनशेची जावपी ओढाताण ह्यो कवयित्री स्पश्टपणान दाखयतात.

बायल-मनशेचें उपेक्षीत, भोगी, भकास जिवीत नयना आडारकाराचे कवितेंतल्यान प्रगट जाता. तेच वांगडा आवय म्हणून तिची व्हडविकाय तशेंच अणव्या भुरग्याचे आवयची मनस्थिती नयना बरे तरेन चित्रायता. आवयपणाचें सूख, दिसपट्टे जिणेंतली घालामेल आनी संवसाराची जापसालदारकी सांबाळटना तिची आवय म्हणून जावपी फरपट नूतन साखरदांडेचे कवितेंत दिसता. तशेंच अस्तुरेची आवय ह्या रुपांतली प्रतिमा माया खरंगटे हांणी आपले कवितेंत मांडल्या. तेच बरोबर अस्तुरेचीं दोन रुपां — सृजन करपी, जल्माक घालपी, सगळ्यांक भोगसुपी अशी शांता, आनी वायटाचो, अन्यायाचो गोबोर करपी अशी झुंजार दुर्गा हे कवयित्रीन खरपणान आपणालें कवितेंतल्यान दाखयल्यांत.

ह्या तिनय कवयित्रींनी मोगाच्यो कविताय तितल्याच हळुवारपणान बरयल्यात. तिगीय साधारण एका सारके विशय वेगवेगळे रितीन, वेगवेगळ्या प्रतिकांतल्यान केळयतात. देखून तांणी तिगांयनीय एकठांय येवन 'त्रिवेणी' ह्या नांवान काव्य सादरीकरणाची कार्यावळ तयार केल्या आनी गोंयभर सादर केल्या.

समाजमन बदलत आसा. समाजा वांगडा अस्तुरेचीं मुल्यां बदलत आसात. फाल्यां किर्तें घडत सांगूं नजऽ. पूण आज तरी अस्तुरेच्यो कुरवो पुसून वचूंक नात. ती बायल-मनीस म्हणुनूच जियेता. आनी हें सगळें तिच्या कवितांनी जाणवता.

फाटल्या दोन दसकांतले साहित्यांतले अस्तुरेचो सोद घेतना चड करून जे जे संग्रह हाताक लागले, 'ऋतू'चे जितले आंक मेळ्ळे कवि तांचीं संकलनांय विचारांत घेवन हो आपरोस काडला. जायतीं नवीं नकेत्रां 'सुनापरान्तां'त नेटान आयिल्लीं दिसतात. तांचेर हांव येन्ना बरयना. आनीक कोणय कवी कवयित्री नदरचुकेन उरल्यात आसूं येतात. सामक्या हालींच्या बरोवप्यांचो विचार मात हांवें ह्या नियाळांत करूंक ना.

'ऋतु'चे अंक म्हणटना याद जाली. 'ऋतू' हें फकत कवितेक ओंपिल्लें दों-म्हयनाळें कोंकणींत येता. फकत कवितेक ओपिल्लें नेमाळें हेर भारतीय भासांनी उणेंच आसुये. कोंकणी कवींचें तें भाग्य. फाटल्या दोन दसकांत जे कवी, कवयित्री घडल्यात ते, त्यो ह्या दों-म्हयनाळ्यांतल्यान म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

निमाणे कडेन इतलेंच म्हणीन — बायलांच्या काव्यांत बायलमनशेचें चित्रण परिपूर्ण रितीन येता. तिच्या समाजमना वांगडा तिच्यो बदलपी भाव भावना उठून दिसतात.




शांताराम आमोणकार

णववी खिस्त

कवी बोरकारान म्हाका एक दीस म्हळें, 'तुका वयर उडपाक येना. सदांच जमनीर. आर्तिश्तान म्हणटात तें कल्पनेच्या पांखाट्यांनी वयर वयर वचूंक जाय. जमनी कडेन लक्ष दिवंक जायना!' ही गजाल कांयशी खरी आनी खूबशी फट!

अंदू हांव पास जातलों काय ना! जालों जाल्यार परिक्षेचे कटकटींतल्यान मेकळो जातलों. आतां मेरेन चित्रावपी समजतां हांव म्हाका.पणून एक पसून चित्र काडूंक ना जाका चित्र म्हणचें. फक्कत परिक्षा पास जावप. जल्मभर परिक्षां खातीर वावरप!

## म्हजी कला सुंदरकाये खातीर...

### २१.११.१९४८, सोमार

सुबेज उलोवप, ना जाल्यार मातूय उलोवप ना. ह्या दोन टोंकां मजगतीं घुटमळटां हांव. आनी हाच्या मुळांत किते आसा काय म्हळ्यार स्वतंत्रताय. म्हाका दिसता, मनाक दिसता तशें वागचें म्हणजेच खरेलें स्वातंत्र्य. म्हळ्यार मनशाक बंधनूच आसचें न्हय काय असो कोणाकूय संशय येवंये. मनशाचें मन अशें आसूंक जाय की तातूंत वांकडो विचार येवंकूच फावना. म्हणटकच ते प्रमाण चलपाक ताका भंय दिसचेंना आनी दिसपाक नाकाय.

आतां, अंदूच्या वर्सा म्हाका डिप्लोमा मेळत तर फुडें किते करचें हाचो विचार करूंक जाय. पयशां खातीर येवजुंचेली गरज. नाजाल्यार किते करचें म्हणटा तो प्रोग्राम थारावंक येदो विचार नासलो.

भुरगेपणांत म्हाका देव म्हळ्यार व्हडलें दिसतालें. देवाची पुजा, आरती, भटपण,भजन असल्यांत वेळ गेल्यार खोस दिसऽ. पयलीं पसून दोन गजालींचेर म्हजो दोळो - १) सुंदरसाण, २) Sexo. देवस्पणांत म्हजी हातूंतली पयली आवड भागताली. मखर करप, फुलां रचप, दिवे लावप – सगळ्यांत म्हजो वेळ बरे तरेन वचऽ. तातूंत आनी गणपती हो देव म्हजे चड आवडीचो. मावशेन म्हाका एक कुमारा कडलो गणपती धाडिल्लो हें पळोवन हांवें माती कालोवन चित्रां करप. पणून ती कसली माती? मार्गा वेली. तांबडी माती कट्टेक कपडो बांदून गाळून घेवप आनी तिच्यो लोळयो करून गणपती करप, मागीर ताका शेड काडप धवी. चित्रां काडपाची आवड म्हाका व्हडलीशी नाशिल्ली. फक्कत पाटयेर शुद्धलेखनाच्या वेळार पयले वळीच्या पयल्या अक्षरा कडेन एक गंवाचें झाड नाजाल्यार फुलां बी काडचेलें काम करी हांव नेमान. शिवाय सुंदर अक्षर जाय आसलें म्हाका. म्हाका जें सौंदर्य जाय ते partial न्हय, impartial. ताका बंधनां नात. तो मागीर दुस्मान जायना, ताका सुंदर म्हणपांत ताचें दुस्मानपण म्हाका आड येना. मातयेचीं चित्रां करप म्हजें pet काम आशिल्लें. आमचे शाळेंत सरस्पत पुजताले. शिकपा परस तसलें काम करचेली म्हाका उमेद आसली. तशेंच, आमगेल्या गांवांत श्रावणो सोमार जाता. थंय म्हादेवाचे पिंडीक एक हातान कडिल्लो रंगीत मुखटो बांदतात आनी ताका फुलांनी सोबयतात. ताचेर म्हजें लक्ष आसलें. मुखार मात desenho पेल्यान दुसरे कसलेच चित्रावपाचे भानगडींत हांव पडूंक ना. लिसेवाचें 'तेरसेयर आनु' जातकच मदीं तीन-चार वर्सां थंड जाल्लो नाद म्हाका परतो लागलो. आनी मागीर नोर्माल काडकच हांगा आयलों. बाबान धाडलो म्हणून, हांव जावन न्हय.

म्हजी आर्त म्हणटात ती आनंदा खातीर, सुंदरकाये खातीर. ती फक्कत कले खातीर कला न्हय. म्हाका समाधान मेळटा म्हूण तें काम हांव करतां. ज्या दिसा कलेंत म्हाका समाधान मेळचेंना, वाज येतलो, तेन्ना ती आपशींच सुट्टली.

### २.१२.१९४८

वर्साचो निमाणो म्हयनो हो. काल स्कूल ऑफ आर्टचें प्रदर्शन उघडलें. हांव गेलोंना कारण आमंत्रण नाशिल्लें. आज डायरेक्टरान फोनार विचारिल्लें, कित्याक आयलो ना काय म्हणून. (हांवें ताच्या कामा खातीर फोन केल्लो.) थंय आज वतकच भोंसल्यांनीय विचारलें. म्हळें, म्हाका आमंत्रण नासतना येवप बरें न्हय अशें दिसलें. ताणें म्हळें, पळे, हें अशेंच जाता खूबदां. लागिंच्याक आमी विसरतात.

प्रदर्शन खरेलेंच बरें जालां. शिल्पकला सोडून बाकीचें बरें आसा. डायरेक्टरा कडें गेलों. ताणें घडिल्ली खबर सांगली. मोटे खोशयेंत आसा तो.

त्या म्हजे बरबरच्या भुरग्यांचीं कामां पळोवन म्हाका तशें शिकपाक केन्ना मेळटलें असो विचार मनांत आयलो. त्या सगळ्यांनी – लँगहेमर, भट बी लोकांनी – गायतोंड्याचें खंय कौतूक केलें. खरेलेंच बरें काम आसा ताचें.

म्हाका फुडें शिकपाक मेळचेंना. खंयचेच वाटेन उपाय ना. पयशेय जाय म्हाका.पयश्यां शिवाय म्हजी जीण कुत्र्या पाश्ट जातली. आतां म्हाका पयश्यां शिवाय रावचेली पयलीं सवंय करून घेवंक जाय मागीर नोकरी सोडूंक जाय. देणीं पावयले बगर नोकरी सोडप ना.

अंदू वर्स पास जालों जाल्यार एके कटकटींतल्यान मेकळो जाल्ले भाशेन जातलें. मुंबय आयिल्ल्याचें घरच्यांचे आनी हेरांचे नदरेन सार्थक जातलें. मागीर म्हजे जिणेक आरंभ जाता. फुडल्या वर्सा घरांतल्या घरांत काम करप. वेळ मेळटा तशें सगळे तरेचें चित्रावपाचें काम करप. आतां सगळ्यांक पयस केल्यातच. म्हणटकच खर्चाचें मान उणें जावन चार पयशे गांठीक जाले. एक हजार रुपया ज्या दिसा म्हज्या हातांत जातलो -- म्हजे जोडीचो -- त्या दिसा म्हाका ते नोकरेचो मोह जावचोना... च्या म्हणटात तें उतर आतां उणें करप. लोकांकय च्या दिवपना आनी आपणेंय गरजे भायरो खर्च करपना. म्हणटकच च्याचे इश्ट कुशीक सरतले, हेर फायद्याचे इश्ट कामां जायना जातकच अशेऽ फाटीं सरल्यात तशे.

कोणाच्याय पयशाची आनी मदतीची आशा धरी नासतना चार वर्सां काडल्यांत तशींच फुडलींय. बाजारबुणग्या वेव्हारांत वेळ काडचे परस आपलें काम करून समाधानींत रावप होच फुडार!

म्हजें किर्ते चल्लां तें कोणाक समजूंक जायना अशें म्हाका खूबदां दिसता. पणून जाचे ताचे कडेन तोंडभर उलोवपाची संवय. सगळ्या लोकाक खबर, शांत्याचें उलोवप म्हळ्यार कितलें कंटाळवाणें तें. सगळ्यांत म्हजें तोंड... कुत्र्याचें लग्न आनी माजराची सटी - सगळ्यांत शांत्यान थंड बसप ना असो स्रापूच आसुये म्हाका.

**१३.१२.१९४८**

दैनंदिनी बरयतना दिशिल्लें, मन उगडें करपा खातीर सगळ्यांत बरें काम म्हळ्यार बरोवप. कोणाकय सगळेंच सांगून उपकारना.कोणय कांय गजालींचो घोळ करून ते पसून आपल्याक फायदो काडूंक पळेतात. पुस्तक कांय ते धंदे करिना. आतां भंय आसता कोणय वाचीत म्हणून. आपल्या हातान आपलेच संबंदान बरयल्लें दुसऱ्यान वाचचें म्हळ्यार एकेच तरेचें दिसता. धीर जायना बरोवपाक.

पयर शुक्रारा दीस आन्याक हुरहुरें आयलां म्हणून घरा कडेन राविल्लों. धा वरांचेर सुमार घरांतलो भायर सरलों. आन्यालें सगळें करून दवरलेलेंच म्हण. गाडयेक मातसो अर्दवर सुमार कळाव जालो.

त्या दिसा एके चलये सरीन ११ ते १२॥ मेरेन देड वर वचून बसलों. तिच्या संबंधान म्हाका पयलीं पसून म्हणचे, पोरूं वर्सा ती म्हजे बरबर शिकताली तेन्ना पसून, एके तरेची ओड दिसता. ताका कांय कारणांय आसात. एक तर ती म्हजे कडेन अजून पर्यंत वांकडे तरेन चलूंक ना. तिचो सरळ आनी उकतेपणान उलोवपाचो सभाव. सादेपणान रावप. पोव ना, स्नो ना, भांगर-शिंगर ना - सामकें natural रावप. तशेंच कोणाय कडेन उलयता-बोलता आसतना घरंदाज मनशा भशेन वागणूक. समंजस वृत्ती. आपलो मान राखून दुसऱ्या कडेन वागप. कसलीय भास सोंपेपणान उलोवपाची लकब आनी खूब काम करचेली हौस. तांतले तातूंत आमच्या क्लासांतल्या भुरग्यांत ती म्हजे कडेन बरे तरेच चलऽ.

पयर तिगेर गेलां तेन्ना म्हजेय बरबर कोण नाशिल्लो आनी तिगेरय चार ल्हानल्या पोरां शिवाय, ते कुडी सामकार जावं वा भितर, कोण नासलो.

तिणें मानेर केंस सोडिल्ले. माथ्यार न्हाल्ली जावये ती आनी केंस सुकयताली. हांव उलयता आसतना कितलो वेळ तरी तिच्या तोंडा कडेन दोळे मातय धांपी नासतना पळेतालों. ती सुंदर न्हय.हांव तरी तिका सुंदर म्हणूंक शकना. इतलेंय आसून हांव तिका एका सारको पळेतालों आनी तशें पळोवपाक म्हाका मातय वांकडें दिसलेंना.

हें जर कोणाच्याय हातांत पडत तर तो दोळे धांपून म्हणटलो, 'रेड्या, हाकाच म्हणटात प्रेम!' म्हाका खरेलोच तिचे संबंदान आदर दिसता. तीच न्हय, तिचो बापूय, भयण, सगलीं बरीं मनशां. पणून अजूनय म्हाका मात पसून दिसना,हांव तिचेर प्रेम करतां म्हणून! कारण, तिच्या संबंदान जें म्हाका आज दिसता तेंच कांय चलयां संबंधान हे पयलीं दिसतालें. मागीर तातूंत तथ्य किर्ते?

**मुंबय, २०.१२.१९४८, सोमार**

*Lust for Life* हें Irving Stoneन बरयल्लें Van Goghचें चरित्र वाचतां सद्या. खरेलेंच instrutiva पुस्तक हें. कादंबरे परस. अर्थां कडेन लेखकाचें ध्यान आशिल्ल्यान पुस्तक वाचून फायदो आसता. नाजाल्यार बेठींच भरोभर पुस्तकां बरोवपांत तथ्य किर्ते?

**२२.१२.१९४८, बुधवार**

एक दोन वर्सां जातलीं ते गजालीक. कवी बोरकारान म्हाका एक दीस म्हळें, 'तुका वयर उडपाक येना. सदांच जमनीर. आर्तिश्तान म्हणटात तें कल्पनेच्या पांखाट्यांनी वयर वयर वचूंक जाय. जमनी कडेन लक्ष दिवंक जायना!' ही गजाल कांयशी खरी आनी खूबशी फट!

अंदू हांव पास जातलों काय ना! जालों जाल्यार परिक्षेचे कटकटींतल्यान मेकळो जातलों. आतां मेरेन चित्रावपी समजतां हांव म्हाका.पणून एक पसून चित्र काडूंक ना जाका चित्र म्हणचें. फक्कत परिक्षा पास जावप. जल्मभर परिक्षां खातीर वावरप! तशें जाल्यार मुंबयंत येवंक नाका आशिल्लें. गोंयचे गोंयांत रावप बरें न्हय? पोट पोट म्हणून कितलो वेळ काडप? पंचवीस वर्सां जालीं, वेंतभर पोट भरना. कोंब्याचो कान तरी बरो. आतां निश्चित किर्तेय तरी सोदूंक जाय. हय हय! ना ना! दोनां भितल्लें एक. दोनय होड्यांचेर पांय दिवन, आज चित्रां कडेन लक्ष दिवपाची परिस्थिती येतली, फाल्यां येतली म्हणटल्याक परिस्थिती केन्नाच येवचेली ना. म्हजे सारकेल्याक केन्ना परिस्थिती आपूण जावन येना. हांवें धादां मागचें तेन्नाच कोण एकदां दितलो. मागीर अजून मेरेन कित्याक रावलों? म्हाकाय समजना सारकें! जीव राखून, सगळें सारकें दवरून मागीर आर्त जाय. कला पयलीं, मागीर बाकीचें न्हय. म्हजो तरी तातूंत अन्याय किर्ते! प्रकृती धड ना, पयसो ना, मदत ना, सहानुभूती ना. सगल्या वाटांनी सारकें. तातूंत ओगी रावतालों. सगळ्यांचें आयकून घेवन तें सोडून दिलें. जो तो कोल्या भशेन बुद्द सांगतालो तो आतां वाग़ा भाशेन खायन म्हणून येता.

आब्रील जालो की कामाक आरंभ. आनीक आनी वांटपणां नात. पंचवीस वर्सां वांटपणांत आनी बडबडपांत गेलीं. हे फुडें तें ना.

जूनांत हळदणकाराक धरप....

Escultura शिकपाक जाय कशेंय करून. आतां पयसो जमोवपाचो वेळ आयलो.

२३.१२.१९४८

आतांच सांजचो डायरेक्टरा कडेन गेल्लों. आज दोनपारचोय गेल्लों. सदांच सांजचें लायब्ररींत बसून काम करपाक मेळचें अशी म्हजी मागणी. पणून तें जमचेलें ना. ताणें म्हाका स्पेसिमेनाची खबर विचारली. हांवें म्हजे खातीर मागूंक ना न्हय. ताणें पयलीं स्पेसिमेन हाडून दाखोवपाक सांगिल्लीं तीं पसून दाखोवंक नात. पणून तो करचें मनांत आसा तें करतलोच. तातूंत संशय ना. म्हणुनूय म्हाका मागीन दिसलें ना जावये. वागळ्या खातीर मात ताका सांगलें. ताणें हां म्हणून सांगलां.

सदांच बरोवपा सारकें म्हजे कडेन कितें आसा? तरी पणून हांव बरयतां. आज इतले दीस बरयतां ताचो येफेयत कांय एक दिसूंक ना.

२५.१२.१९४८

कालच प्रभो आनंदाक पावन घरा कडल्यान आयलो. घरची खबर म्हळ्यार, खावंक जेवंक आसा, पणून सूख ना. मात पसून ना.

हाचें कारण इतलेंच की सूख घेवपाची म्हणून जी एक कला आसा ती आमच्या घरांत मातय अवगत ना. पयलीं कांय वसां घरांत पयशांची अडचण जाल्ल्यान दर एकल्यान आपल्या सभावाचे दोशय परिस्थितीच्या खात्यार लायिल्ले, आनी परिस्थिती खरी आशिल्ली जाल्यार आमी सुखान दीस काडूं आसले अशें जो तो म्हणऽ. म्हाका सदांच संवय, कसलीय गजाल आसा तशी घेनासतना तिचें खरेलें कारण पळोवन मागीर ते प्रमाण येवजप. कारण आनी ताचें फळ, तशेंच कर्तुत्व आनी ते फाटल्यानचो हेत हीं दोनय ध्यानांत घेवन मागीर सगळी गजाल बरी वायट थारावप. ह्या समजान पयलीं कांय दीस दुबावांत वतात. आपूण चुकूंक तर ना मूं असो घडीभर संशय मारता, पणून मागीर त्रास जायना.

म्हाका सदांच दिसतालें, आमगेर सूख ना ताका बाकी कारणां आसातच, पणून तीं कारणां खरेलीं न्हय. फक्कत तांचें रूप मोटें. खरेलें कारण वेगळेंच. दर मनशाचो सभाव. आनी, मारतें घेवचे परस घांसून घांसून वाडोवपांत समाधान चड. ते भायर आपल्या मनाचो हट.

...बाबालो देंवतो काळ. परिस्थितीन defeatism. पराभूत वृत्ती. भुरग्यांनी आपली मदत घेना आसतना ते आपल्या पांयांर उबे रावले.आतां आपल्याच्यान तांकां शिट्ट म्हणूंक नजो. तागेली अधिकार गाजोवचेली वृत्ती थंड जावपाच्या मार्गाक लागून त्या जाग्यार ताका आमच्या, ताचे नदरेन कालच्या पोरांच्या, शाणेपणाक मान दिवचो पडटा. नाका आसतनाय. अभिमानी मनशाक, तातूंत ताचे सारकेल्या शिंवाक, रानांत बाकीच्या लोकांच्या आधारार रावपाची परिस्थिती प्राप्त जावप म्हळ्यार!

... बाबाक मातशी समाधानी प्राप्त करून दिवंक जाय. म्हातारपण ताचें. ताका कितेंय सूख दिवंक जाय. नाजाल्यार त्रास तरी मना करूंक जाय. मागीर रडलो म्हणून आनी स्राद्धां घालीं म्हणून उपकरनात. ताणें खूब भोगलें. सुमारा भायर. असल्या वेळार हांवेंच फुडें सरूंक जाय.

आतां म्हाका म्हजे वेली नदर काडून दुसऱ्यांचेर दवरूंक जाय. घरच्यांचेर! तरी पणून तांकां दाखोवंक जायना. बोट दाखयल्यार हात गिळूंक सोदतलीं!

कोणाचीय नोकरी करप म्हाका मानता. पणून चार दीस. पांचव्या दिसा नोकरेची, दुसऱ्याचे कटकटीची धग बसतकच म्हजें मन उखलता. दिसता, दुसरे कडेन पळोवया. पणून थंयूय तेंच. समाधान ना. पयशाचेर म्हजें व्हडलेंशें ना. पणून बाकीच्यो भानगडीच खूब. नोकरी म्हणटकच मातशें खटखूट आसतलेंच. आयदनां आपट्टलींच. पणून सभावच विचित्र. त्रास करून घेवचोना म्हळ्यार पसून भितल्ले भितर सामकें फुगार जाता. आनी ताचो प्रकृतीचेर परिणाम. म्हाकाच न्हय, आमगेल्या घरांत प्रत्येकाक ती संवय. कसलीय गजाल घांशीत घांशीत बसप. सादे खबरीक व्हडलो बोवाळ करप. व्हडलें रूप दिवप. तेंच घेवन बसप. कसलीय खबर व्हड केल्यार व्हड जाता.

हळूहळू म्हज्या सभावांत बदल जाता. आनीक कांय बदल करूंक जाय.

आज म्हज्या क्लासांतलो एक भुरगो, ताचें नांव तांबट, ताणें आनी हांवें एक धंदो करचेलो येवजिला. बावल्यो करप. नव्या नव्या कल्पनांनी. धंदो करप.

शांतो वेव्हार करता! आनंद करता म्हणून हो करता - घरचे म्हणटले. आनोय म्हणटलो. लोक म्हणटलो... चल्लां!

# मालवणी डेज

## हर्षा शेटये

मालवण – सैमीक सुंदरकायेन नटिल्लो एक प्रदेस. गोंयचो भाव म्हळ्यार जाता. मालवणां सुरंगांचीं खूब झाडां आसात. चेर काडपाक सुरंगांचे कळे सुकोवन चेराच्या फॅक्टरींनी धाडपाचो उद्देग थंय चलता. संस्कृत भाशेंत 'माल्य' म्हळ्यार जाची माळ करूं येता असो. सुरंगांच्या फुलांचें वन म्हणून हें 'माल्यवन'. पूण कांय लोक अशेंय म्हणटात, 'मा' म्हळ्यार आगर आनी 'लवण' म्हळ्यार मीठ. ह्या परिसरांत मिठाचीं आगरां आशिल्लीं म्हणून हाका मालवण म्हणटाले. तें कितेंय आसूं, हांगा पर्यटक येतात ते हांगाच्या दर्यावेळांच्या मोगान आनी थळाव्या खाणां-जेवणांचे रुचीन.

एक दीस प्रविण आनी संतोषी म्हणूंक लागलीं, आमी तीन दिसां खातीर बदल म्हणून मालवणां वतात. तुमीय येतात जाल्यार येयात. बरें म्हळें. त्या दिसांनी टिव्हीचेर 'मालवणी डेज' म्हणून एक मालिका चलताली. रसाळ मालवणी भास, मनीस सभावाचे एक एक अस्सल मालवणी नमुने, मर्दीच गाळी संवपाची तांची पद्धत. ते खातीर ती मालिका पळयतना अस्सल गांवठी सिरियल पळयल्ल्याची मजा येताली. सद्याच्या मांय-सुनांच्या रडारडीच्या मालिकांच्या हुंवारांत ही मालिका म्हाका रिफ्रॅशींग अणभव दिवन गेली. आमी मालवणां वचऽ मेरेन दत्तराजाक मालवण म्हणून गांव आसा हें खबर नाशिल्लें. आतां 'मालवणी डेजां'तलो तो मास्तर, म्हालो, खानावळकान्न, पिसो आपल्याक मालवणांत पळोवंक मेळटलीं म्हणून खोशी जालो.

शुक्रारा सकाळीं फुडे भायर सरपाचें थारायलें पूण मातशें काम जालें आनी भायर सरता म्हळ्यार इकरा जालीं. मडगांवच्यान भायर सरलीं तीं सोमतीं वचून आरवली-शिरोडा, वेतोबाच्या देवळा कडेन रावलीं. वेतोबा म्हळ्यार वेताळ. नाथपंथाचे सिद्धपुरुष श्री भुमैय्या हांणी सतराव्या शेंकड्यांत ह्या देवालयाची स्थापना केल्या. देवळांत भितर सरतनाच वेतोबाचे णव फूट उंचायेचे मुर्तीचेर नदर पडटा. एका हातांत तलवार घेवन वेतोबा उबो आसा. शिरोड्यां-आरवलीचो तो राखणदार. वेतोबाचे भेटेक वतना केळ्यांचें घडुलें व्हरपाची पद्धत आसा. हें सामकें जागृत देवस्थान अशें मानतात. हांगा भावीक आंगवण करतात. आंगवण पुराय करतना वेतोबाक चामड्याच्या जोत्यांचो जोड दितात. जोत्याचो आकार सामको व्हड. मुद्दम तीं जोतीं तयार करून घेतात. थोड्या दिसां भितर हीं जोतीं झरिल्लीं दिश्टी पडटात खंय. वेतोबाक गांवांत भोंवपाक म्हणून हीं जोतीं दितात. वेतोबाची पयलींची मूर्त पणसाच्या लाकडाची आशिल्ली म्हणून ह्या गांवांत पणसाचें लाकूड बांदकामांत वापरऽ नाशिल्ले. मराठी साहित्यीक जयवंत दळवी हांणी खंय तरी बरयल्लें वाचिल्ल्याची याद जाली – वेतोबा आपली शक्त. तो आमी भोंवतात थंय आमकां राखता. दळवी पयले खेपे विमानांत बसले तेन्ना भितल्ल्यान भिवन तांची गुळी जाल्ली. त्याच वेळार तांणी जनेलांतल्यान भायर पळयलें आनी विमानाच्या पाख्याचेर बशिल्लो वेतोबा तांकां दिश्टी पडलो आनी तांचो भंय गेलो. देवधर्म हाचेर विश्वास नाशिल्ले लोकूय वेतोबाक मानतात.

वेतोबाचें दर्शन घेवन भटान दिल्लीं केळीं खावन वेंगुल्ल्यां वचपाक गेलीं. वेंगुल्ल्यां 'डच वखार' म्हणून मातये भरवण जायत आयिल्ली इमारत आसा. चारी वटेन किल्ल्याक आसता तशी वणत आसा. १६५५ंत ३००० गिल्डर म्हळ्यार ३४.५ किलो भांगर विकून नॅदरलंडच्या वेपाऱ्यांनी ही इमारत बांदिल्ली. तेन्ना वेंगुर्ल्लें बंदरा वयल्यान बोटी भरून माल भायल्या देशांनी वतालो. ही इमारत बांदतना सायल्याचें लाकूड वापरिल्लें. फुडें १६८२ त डचांनी वेंगुर्ल्लें सोडलें. मागीर हो किल्लो ब्रिटीशांच्या हातांत आयलो. आनी तांणी तो सरकारी कार्यालयां खातीर वापरलो. १९६०त हीं ऑफिसां हालयलीं आनी हे इमारतीची वायट दशा सुरू जाली. दारां, जनेलां, वांशे लोकांनी चोरून व्हेले. जमीन खणून लादीय व्हेली. आतां ही इमारत पुरातत्व विभागा कडेन आसा. आमी इमारतींत भितर गेलीं नात. खंयच्याय वेळार तिचो खंयचोय कुडको कोंसळटा खंय. महाराष्ट्राचे दर्या देगेर डचांनी बांदिल्ली ही एकली एकसुरी वास्तू. तिचें जतन बरे तरेन जावपाक जाय आशिल्लें. वाटेर एक इगर्ज लागली. ही इगर्ज खंय वेंगुर्ल्लें ते तेरेखोल वाटारांतली सगळ्यांत पोरणी इगर्ज.

वेंगुर्ल्लें बंदरार गेलीं. पयलींच्या काळांत हांगच्यान माल भायल्या देसांनी वतालो. हे देगेर खडपां खूब आशिल्ल्यान फकत भरते वेळार बोटी जेटी कडेन येतात. वयर खडपांचेर दीपगृह आसा. दनपारच्या कडार खडपां चडून वयर वचपाचें म्हाका पासियेंस नाशिल्लें. थंयच लागीं आशिल्ल्या 'गजाली' ह्या हॉटेलांत जेवपाक गेलीं. जनेलांतल्यान दर्या दिसतालो आनी बोटीय दिसताल्यो. हांगची स्पेशलिटी कितें काय म्हळ्यार, ताणें सांगलें, मालवणी 'कोंबडी वडे'. मालवणां वचपाचींच आशिल्ल्यान 'वेंगुर्ल्लें-स्पेशल' हाड म्हळें. ताणें 'गजाली स्पेशल चिकन' हाडलें. शागुतीची धाकटी भयण. नांवां वेगळी.

जेवन परुळेच्यान मालवणां गेलीं. हॉटेल बुकींग करूंक नाशिल्लें. तारकर्ली, देवबाग हे दर्यावेळेर हॉटेल मेळटा जाल्यार पळोवचें म्हणून थंय गेलीं. एके वटेन दर्यावेळ आनी दुसरे वटेन न्हंय. हें तारकर्ली गांवाचें वैशिष्ट्य. हरशीं गोंयच्या गांवा बशेनूच एक गांव हो. केरळचे बशेन हांगाय हाउज बोटी आसात. तारकर्ली वेळेर मुंबय सावन कितल्योश्योच बशी भरून पर्यटक आयिल्ले. पूण वेळेर निवळसाण आशिल्ली. थंयच्यान तशींच फुडें देवबागाचे वटेन गेलीं. हॉटिल सागर संगमांत गेलीं. तेंय फूल. मागीर च्या पिवपाक रावलीं. लागींच अरबी समुद्र आनी कर्ली न्हंय हांचो संगम आसा. थंय गेलीं. खरें म्हळ्यार हॉटेल सोदपाक गेल्लीं. *'नदी मिले सागर में, सागर मिले कौनसे जल में कोई जाने ना'* अशें एक हिंदी पद आसा ताची ओगीच याद जाली. फुडें निकत्योच बांदिल्ल्यो कॉटेजी आशिल्ल्यो. पूण आमकां चार रूम जाय आशिल्ले. परत मालवणां आयलीं. वाटेर

घराघरांनी दोन दोन रूम बांदून भाड्यान दिल्ले. सगळ्या घरां भायर 'घरगुती मालवणी जेवण मिळेल' अशे बोर्ड आशिल्ले. होम स्टे संकल्पना मालवणी लोकांनी बरे तरेन राबयल्या. आमी बद्द 'सोमवार पेठें'त आशिल्ल्या 'सागर किनारा' ह्या हॉटेलांत आयलीं. चार रूम मेळ्ळे. एके वटेन बाजार पेठ, दुसरे वटेन दर्या आनी दर्यांत भितर सिंधुदुर्ग किल्लो. दत्तराज, प्रतीक आनी आध्या सोमतीं वेळेर धांवलीं. वेळे वयल्यो शिंपयो शंख कितें कितें मेळटा तें पुंजावन हाडलें. सगळीं रेंवेचे पांय घेवन रुमांत आयलीं. पुंजावन हाडिल्लो म्हालवज बाथरुमांत हाडून धुलो, नॅपकीनान पुसून पोतयेंत भरून दवरलो. हें सगळें पळोवन म्हज्यांतली आवय तांकां धपकावंक सोदताली. पूण म्हजे भितरलें भुरगें, तांचे येदें आसतना हांवूय हेंच करतालें, आसूं, दोन दीस तांकां जाय तें करूं म्हणत ओगी रावलें.

हांव, मेधा, संतोषी आनी प्रवीण बाजार भोंवन येवया म्हूण भायर सरलीं. चडशीं खाणांचीं दुकानां. खटखटे लाडू म्हळ्यार गोडाच्या मेलांतले शेवयेचे लाडू. ते भायर भिकणांचे लाडू, चिरमुल्यांचे लाडू. खासा मालवणचें 'गोड कोकम' म्हूण लेबल आशिल्लें एक पाकीट घेतलें. गोड जातीचीं भिण्णां. खावपाक बरीं लागलीं. 'करवंदाची बर्फी' म्हूण आनीक एका पाकिटाचेर बरयल्लें पळयलें. काण्णांचीं कापां. खावपाक व्हडलींशीं 'खास' लागलीं नात. फक्त एक नवीदाद कशी. भिण्णां, आंवाळे, जांबळा, हरव्या तोरांचें स्क्वॉश... वचत थंय बाटल्यो विकपाक आशिल्ल्यो. एके कडेन तर कुळदाची पिठी विकपाक आशिल्ली. तें एक पाकीट घेतलें. नाल्लाचो रोस, गोड घालून केंल्ली हुनहुनीत पिठी पिवपाक बरी लागता.

विजया बेकरी थंयची फामाद बेकरी. थंय नाशण्याच्यो पौश्टीक बिस्किटी, राजगिऱ्याचो बिस्किटी उपासाक खावपाच्यो बिस्किटी, बटाट बिस्किटी, लोणीबटर, मालवण श्रुजबेरी... हांचे भायर आनिकूय कितल्याश्याच तरांच्यो बिस्किटी, आशिल्ल्यो. चडश्या दुकानांनी 'मालवणचां आलेयुक्त खाजां' म्हळ्यार खाजें विकपाक आशिल्लें. ते भायर आंब्या पणसाचीं साठां आनी तरेकवार घरावीं लोणचीं. मालवणी सागोती मसाला, फिश फ्राय मसाला, गरम मसाला... सगळ्याक दिश्टी पडटाले. सोमवार पेठेंतल्या त्या एका रस्त्यार पांच-स तरी आयुर्वेदीक औषधालयां दिसलीं. परतीं 'सागर किनाऱ्यां'त येवन भुरग्यांक आनी बाकीच्यांक घेवन जेवपाक 'हॉटेल चैतन्यां'त गेलीं. दोन तीन मेजांचेर मुंबयकारां जेवपाक बशिल्लीं. आमचे कुशींतल्या मेजा वयल्या सगळ्यां मुखार व्हडले ग्लास भरून स्ट्रॉबेरी शेक आशिल्लो. हांगचो स्ट्रॉबेरी शेक फामाद काय? अशें हांव येवजितां थंय आसां, वेटर आनीक दोन ग्लास घेवन आयलो आनी मुखावयल्या मेजार दवरत म्हळें, 'ह्या तुमचां सोलकडी...' आवयस्स! जंबो ग्लास भरून हे लोक कडी पितले? म्हज्या पोटांत खप्प जालें. कोंबडी वडे रातचे मेळनात म्हळें. मागीर हाडलें 'मालवणी रस्सा चिकन' आनी 'मालवणी सुका चिकन'. दोगांयची रूच अप्रतीम आनी ताचे बराबर तांदळाच्या पिठाची ऊब लावन केल्ली भाकरी. ते भायर मालवण स्पेशल सुक्यो भाजयो हाड म्हळें. ताणें चपात्यो आनी काराथ्याची आनी बटाट घाल्ली वांयग्याची भाजी हाडली. दोनूय भाजयो रुच्चीक. काराथ्याची भाजी पयलींच हांवें आनी मेधान सोंपयली आनी बाकीच्यां खातीर आनीक एक प्लेट मागयली. वांगडा तळिल्लो विस्वण आनी सुंगटां. घरा कडेन कसलेंच नुस्तें खायना आशिल्ल्या दत्तराजान मालवणचें नुस्तें बेस्ट लागता म्हणत विस्वणाचेर ताव मारलो. चलत चलत हॉटेलांत परतीं आयलीं. दुसऱ्या दिसा फांतोडेचेर जाग आयली. वेळेर रांपणकार रांपण ओडटाले. सिंधुदुर्ग किल्लो निकतोच उठ्ठालो जावये. किल्लो पळोवपाक वतलीं जाल्यार व्हड्यांतल्यान वचचें पडटा. वत येवचे पयलीं गेल्यार बरें पडटा. कडकडीत वतांत मागीर भोंवपाक त्रास जाता. पूण एकएकटीं उठ्ठात आनी ब्रेकफास्ट घेतात म्हळ्यार धा वरां जालींच. वतना वाटेर दोतोर शेखर साळकाराची बायल दोतोर मेधा आनी चली सोनल मेळ्ळीं. दोतोर शेखर थंय एका मॅडिकल कॅम्पा खातीर आयिल्लो. मागीर मेधा आनी सोनलूय आमचे बराबर आयलीं.

तिकीट काडून व्हड्यांत बसून किल्ल्या कडेन वचपाक भायर सरलीं. उदका पोंदा खडपां लिपिल्लीं आसात. ते खातीर जाणा जाल्लोच व्हडेकार व्यवस्थीत किल्ल्या मेरेन व्हरूंक शकता. खूब वर्सांनी व्हड्यांत बशिल्ल्यान मजा आयली. भुरगीं उदकांत हात घालून उमेद भागोवन घेतालीं. व्हड्यांतल्यान देंवन जुंव्यार पावलीं. ल्हान-व्हड खडपांचो जुंवो. जुंव्याचें नांव 'कुरटे बेट'. हाचेर शिवाजीन सिंधुदुर्ग किल्लो–'शिवलंका' उबी केल्या. किल्ल्याचें मुखेल दार दोन बुरुजां मदीं आसा. सामकें म्हऱ्यांत पावऽसर थंय दार आसतलें हाची कल्पना येना. दारा भायर 'गायड जाय? गायड जाय?' म्हूण विचारीत दोग तीग जाण आयले. हनुमंत बाबाजी वांयगणकार हाका थारायलो आनी आमची टीम हनुमंता फाटल्यान चलूंक लागली. हनुमंतान हनुमंताचेच मुर्ते सावन सुरू केलें. दारा भायर खडपाचेर कोंरातिल्ली हनुमंताची मूर्त दाखयली. कितलोय पांवस पडूं आनी बुडटी येवं, उदक हनुमंताच्या पांयां वयर केन्नाच वचना खंय. हें जरीमरी मंदीर. हें सवायशीण बायलांचें देवूळ. 'शिवाजीच्या हाताचे आनी पांयांचे ठशे आसात ते दाखय!' दत्तराजाचो आनी प्रतीकाचो बोवाळ. 'आर्दी दाव्या बाजूक जावां. बगांत बगांत मग ठशां कडेन येवचां, काय पोरांनू?' 'तो दोन खांदयाचो माड. तो आम्हांला पयली दाखवा...' भुरग्यांनी मालवणी उलोवपाचो यत्न केलो. 'पोरांनू, तो बगा. तो माड आतां रवांक नाय. दोन वर्सां आर्दी थंयसर वीज पडली.' पळयत जाल्यार सरळ माडाक दोशीं वटेन दोन खांदयो आसात. वयलीं चुडटां नात. हरशीं हांवें ताचो फोटो पेपरांनी आयिल्लो पळयल्लो. इतलीं वर्सां तो हेर माडां मदीं 'पळय म्हाका दोन खांदयो फुटल्यात. दोशीं वटेन नाल्ल लागतात.' अशे म्हणत हेर माडां मदीं राजा कसो मिरयतालो आसतलो, आतां बोडको जावन बाबडो कसो दिसतालो. हनुमंत सांगत आशिल्लो, पुणेच्यान वनस्पतीशास्त्रज्ञ आयिल्ले आनी ताका वाटावपाचो खूब यत्न केल्लो. ते भायर किल्ल्या वयल्या लोकांनी गोड जेवण करून ताका वाडलें. पूण कांय उपेग जालोना.

हो किल्लो बांदपाक तीन वर्सां आनी एक दीस लागलो. त्या वेळार एक कोटी होन खर्च आयिल्लो. शिवाजीन सुरत लुटून ते लुटीच्या पयश्यांनी हो किल्लो बांदिल्लो. ह्या किल्ल्याचेर शिवाजीन धा कुटुंबांक घरां बांदून दिल्लीं. तांची धावी पिळगी सद्या थंय

रावता. सद्या किल्ल्यांत चाळीस-एक लोक रावतात. सातश्यां वयर लोक मुंबय स्थायीक जाल्यात. किल्ल्यांत रामनमीचो व्हड उत्सव जाता. तेन्ना हीं कुटुंबां हांगा येतात. आमचो गायड हनुमंत थळाव्या चाळीस जाणां मदलो एक. ताका खंय वर्साक एकावन रुपया मानधन मेळटा. किल्ल्यांत चवथी मेरेन शिकपाक मराठी शाळा आसा. पूण सद्या चवथी मेरेन शिकपी ल्हान भुरगीं नाशिल्ल्यान शाळा बंद आसा. व्हडलीं भुरगीं मालवणां शिकपाक वतात. हो किल्लो बांदतना शिवाजीन थंय रावतल्यांक तीन अटी घाल्ल्यो खंय. किल्ल्यांतले जमनीचेर नांगर केन्नाच चलोवंक जायना. तशें केल्यार घरादारांचेर एक दीस नांगर चलतलो. थंयच्या माडाची सूर केन्नाच काडपाक जायना, आनी तिसरी अट म्हळ्यार, किल्ल्यांत कोणाचेंय मरण जालें जाल्यार मडें किल्ल्यांत लासूंक जायना. व्हड्यांत घालून मालवणां व्हरूंक जाय. पावसाळ्यांत पसून. मुखारूच किल्ल्यांतलें मुखेल देवूळ श्रीशिवराजेश्वर मंदीर आसा. देवळांत भितर सरलीं. मूळ मूर्त काळ्या पाशाणाची आसा. पूण मुर्तीक न्हेसोवन वयर मुखें घाल्लें. मुर्तीच्या हातांत, म्हळ्यार म्हऱ्यांत, अडेज किलांची तलवार आसा. मूळ मुर्तीचो फोटो थंय दवरला. पयलीं म्हाका दिशिल्लें, शिवराजेश्वर म्हळ्यार शंकराचें देवूळ आसतलें. पूण तें आशिल्लें शिवाजीचें देवूळ, ताचो पूत छत्रपती राजाराम हाणें बांदिल्लें. ही मूळ मूर्त व्हडेकाराच्या रुपांत आसा. मुर्तीचे दावे आनी उजवे वटेन सूर्य चंद्र आनी वल्लें कोरांतलां. मुर्तीक मिशयो आसात. पूण खाड ना. खाड नाशिल्ली शिवाजीची संवसारांतली ही एकूच मूर्त आसुये. शिवाजीक खाड नासपाचें कारण अशें सांगतात — शिवाजीचो राज्याभिशेक जातकच शिवाजीची आवय जिजाबाई भायर पडली. तेन्ना शिवाजीन खाड काडिल्लें. धाकल्या राजारामाचे तकलेंत खंय शिवाजीचें हेंच रूप उरलें. ह्या देवळाचें पुरयतपण सकपाळ कुटुंबा कडेन आसा. तांचे मूळ नांव शंखपाळ. तांकां वर्साक १०१ रुपया मानधन म्हूण मेळटात. भट तीर्थ दितालो तें घेतलें. भायर सरतनाच दत्तराजाचो प्रस्न, 'मम्मा, शिवाजी राजा काय देव?' 'कित्याक रे? राजा तो. तुका खबर ना? आमकां शाळेंत शिकयलां.' प्रतीकान ताका सांगलें. 'राजाचें देवूळ बांदतात तर?' ताणें प्रतीकाक विचारलें, 'तो व्हडलो राजा आशिल्लो म्हणून बांदलां जातलें.' हांव आनी तांकां जाप दिवपाचे भानगडींत पडलें ना. हांवें सोमतें हनुमंताक म्हळें, 'पोरां काय इचारतात तां बगां. शिवाजी राजा हुतो काय देव. तेंका आदी उत्तर दियांत.'

'हे पोरांनु, हे मंदीर आदी शिवाजी महाराजान बांदललंय आनी थंयसर रामदास स्वामीच्यो पादुका ठेवललंय. मग मंदिराचो भायलो भाग वाढवलय राजाराम महाराजान. त्येचा भायला मंडप बांदलय तो शाहू महाराजान.' हनुमंतान आपले बशेन भुरग्यांचें समाधान केलें. 'फुडें शंकराचां एक मंदीर आसा. त्येच्या फुडे आसा तीन विहिरी. तेंचीं नांवां आसंत दूधबाव, दहीबाव आनी साखरबाव. ह्या तीनांचां पाणी एक करान पंचामृत म्हणान वापरतत.' आत्तां आमी पिल्लीं तें तीर्थ ह्याच उदकाचें. चोंय वटेन खारें उदक आशिल्ल्या जुंव्यार गोड उदकाच्यो तीन बांयो आसप म्हळ्यार अजाप कशें. आतां पुरातत्व विभागान हांगा बांय खणून पळयली जाल्यार खारें उदक लागलें खंय. किल्ल्यांत वचत थंय खावपा पिवपाची व्यवस्था आशिल्ली. किल्ल्यांतल्या थळाव्या लोकांनी हे गाडे घाल्यात. कोकम सरबत, आवळा सरबत, लिंबू सरबत, थंय पेयां, वडा-पाव मेळटाले.

फुडें दक्षिणेक भवानी देवीचें देवूळ आसा. ही मूर्त काळ्या पाशाणाची. पुजा करचे पयलीं सदांच ही मूर्त गोडें तेल आनी नाल्लाचो रोस लावन पुसतात. म्हणून मूर्त तिकतिकीत दिसताली. तुळजापूरचे भवानीचे कुळाचार हांगा जातात. वर्सांत एकदां जागर गोंधळ घालतात. देवळा कडल्यान परतीं येवन भुरगीं आनी प्रवीण हनुमंता बरोबर टेहळणी बुरुजाचेर वयर चडलीं आनी सिंधुदुर्ग किल्ल्याचे सरभोंवतणचें दर्शन घेवन आयलीं. वतान तकली तापताली. सद्गुरू सुशेगाद कदेल घेवन एका गाड्यार सरबत पियेत बसलो. जाय थंय वचून येयात, सगळें पळोवन जातकीच म्हाका आफयात अशें ताणें सांगिल्लें. हनुमंताक सांगलें, आरे एकदांचे शिवाजीच्या हातांपांयांचे ठशे दाखय आनी आमकां मेकळीं कर. मागीर ताणें आमी भितर सरिल्लीं ताचे उजवे वटेन सोपणां चडून आमकां वयर व्हेलीं. किल्ल्याचें बांदकाम सुरू आसतना शिवाजी तें पळोवपाक आयिल्लो. चुनो ओलो आसतना शिवाजीचें पावल ताचेर पडलें आनी हात वयले वटेन लागलो. ताच्या हातांपांयांचे ठशे थंय उदेले. थंय गवंडो आशिल्लो तो तकलेन फीन आशिल्लो. ताणें ताचे वयर परतो चुन्याचो लेप काडी नासतना ते ठशे तशेच सुकपाक दिले. आतां त्या ठशां वयर घुमट्यो बांदिल्ल्यो आसात. पर्यटक तातूंत आपले हात पांय घालून पळयतात. अशें केल्ल्यान फुडें तो जागो सुळसुळीत जातलो अशें दिसता. किल्ल्यांत सगळीं झोंपां वाडल्यांत. राजवाडो आशिल्लो तो मातयेभरवण जाला. किल्ल्याच्यो वणटी उदकाच्या माऱ्यान निखळत आसात. तांची निगा जावंक जाय आशिल्ली तशी जायना. हरशीं शिवाजीचें नांव घेतकीच अखखो महाराष्ट्र धांवून येता...

हनुमंताचो निरोप घेवन वचपाक भायर सरलीं. 'वताना मोरयाचा धोंडा बगायला इसरूं नाकात. बगान जावां.' 'बरां बरां, बगतंय बगतंय' म्हणत आमी व्हड्यांत बसलीं. वाटेर पद्मदुर्ग लागलो. ह्या इल्ल्याश्या खडपां जुंव्यार शिवाजीच्या वेळार बोटी बांदपाचें आनी सारक्यो करपाचें काम चलतालें. भरतेच्या वेळार बोटी भितर घेताले आनी सुकतेच्या वेळार खडपां वेल्यान पद्मदुर्गा वेल्यान सिंधुदुर्गाचेर वचपाक मेळटालें. पूण सुनामी जातकच पद्मदुर्गाचो हो भाग उदका पोंदा गेल्ल्यान आतां व्हड्यानूच वचचें पडटा म्हणून व्हडेकारान सांगलें.

धक्यार येवन हनुमंतान इतलें सांगलां म्हणून 'मोरयाचा धोंडा' पळोवपाक गेलीं. व्हडलें खडप. ताचेर गणपती, चंद्र, सूर्य, शिवलिंग नंदी आनी पादुको कोंरातिल्ल्यो आसात. साडेतिनशीं वर्सां पयलींच्यो आकृत्यो अजून वळखुपाक येतात. सिंधुदुर्ग किल्ल्याची बुन्याद घालतना पुरयतपण करपाक भट मेळना जालो. ते मुस्तींत भटांनी दर्यो वलांडून वचचें न्हय म्हणटाले. ते खातीर शिवाजीक ह्या जाग्यार गणेशपुजा आनी समुद्रपुजा करची पडली. मागीर हांगा चिऱ्याची पुजा करून तो चिरो व्हरून सिंधुदुर्गार बसयलो. इतिहासीक महत्व आशिल्लें हें खडप वत-पावस खायत उगड्यार पडिल्लें आसा.

आमी 'हॉटेल सागर किनारा' सोडून चिवला वेळेर आशिल्ल्या 'चिवला बीच रिसोर्टी'त रावंक गेलीं. थंय सामान दवरून 'हॉटेल

स्वामीं'त वचून मालवणचे सुप्रसिद्ध कोंबडी वडे म्हळ्यार चिकन सागोती आनी वडे मागयले. शिवराक जेवतल्यांनी 'काळ्या वाटाण्यांचा सांबारां' म्हळ्यार तोंडाक मागयलें. दोनय हांगची स्पेशलिटी. पोटभर जेवन 'चिवला बीच रिसोर्टां'त आयलीं आनी सगळ्यांनी ताणून दिलें. हांव आनी दुसऱ्यांक न्हिदूंक दिना आशिल्लीं तिनूय भुरगीं सकयल आयलीं. तीं हॉटेला भायले रेंवेर खेळपाक लागलीं. रिसेप्शनिस्ट जेनिफर फेर्नांडिस अस्सल गोंयचे कोंकणींत म्हजे कडेन उलोवंक लागलें. 'तूं सामकें आमचे बशेन कोंकणी उलयता मगो' म्हळें तेन्ना ताणें सांगलें, तें फाटलीं तीन वर्सां पवरि 'हॉटेल मॅजेस्टीकां'त काम करतालें. आतां ताचें लग्न थारलां म्हणून तें हांगा आयलां.

च्या, सॅण्डवीच खावन भुरगीं वेळेर या म्हणूंक लागलीं. वेळेर जुस्तच रांपण वयर काडटालीं. माणक्यो, सवनाळे... फट फट उडटा तें जिवें फडफडीत नुस्तें भुरगीं अजापान पळयत रावलीं आनी मागीर ओले रेंवेंत सिंधुदुर्ग किल्लो करपांत गुल्ल जालीं. हांव सुशेगाद चिवला दर्यांत बुडपी सुर्याच्या केसरी गुळ्याक पळयत बसलें. काळोख पडपाक लागलो तशीं उठलीं आनी हॅटिलांत येवन न्हालीं. मागीर जेवपाक 'हॉटेल सायबां'त गेलीं. परत मालवणी सागोती आनी तांदळाच्यो भाकऱ्यो. तीन कडेन सागोती खाली. तिनय कडली रूच वेगळी. पूण अप्रतीम.

निमाण्या दिसा ब्रेकफास्ट घेवन जय गणेश देवूळ पळोवपाक गेलीं. ज्योतिषभास्कर जयंतराव साळगांवकारान आपले आवयचे इत्से खातीर तें आपल्या जाग्यार बांदलां. ल्हानशेंच पूण सोबीत देवूळ. तातूंत भांगराची गणपतीची मूर्त आनी दोशीं वटेन भांगराच्यो रिद्धी सिद्धी आसात. हातांत चवरां घेवन वारो घालपी हुंदीरय भांगराचे. दोशीं वटेन भांगराचे लामणदिवे. सगळें पुजेचें साहित्य, म्हळ्यार, पडगो, पंचपात्र, तांबयो, पळी... सगळें भांगराचें. गणपतीचें दर्शन घेवन भायर सरलीं. जेनिफरान सांगिल्लें, लागींच रॉक गार्डन आसा, तेंय पळोवन येयात.

रॉक गार्डन... चिऱ्यांनी बांदिल्लें दुरीग. दोन तीन शिल्पां... कांसवाच्या, सोंशाच्या आकाराचीं थोडीं फुलझाडां आनी मोडकी ट्रेन.

'हेंच तें तुजें रॉक गार्डन..: वता कडार आनी कितें पळयतलीं हातूंत?' सगळ्यांनी सोमतो म्हाका प्रस्न केलो, हांवूच त्या रॉक गार्डनाची धनीण आशिल्ले बशेन. हांचे बशेन हांवूय थंय पळोवपाक म्हणून आयिल्लें. पूण त्या रॉक गार्डनाचे फाटले वटेन दर्या आनी ते दर्यादिगेर तरेकवार आकाराचीं खडपां. सैमान निर्मिल्लीं शिल्पां. हाका रॉक गार्डन म्हणिल्लें जाल्यार अदीक सोबपाचें अशें दिसलें.

म्हजे एके मैत्रिणीन सांगिल्लें, मालवणां वतात जाल्यार कामत हॉटेलांतलो मिसळपाव आनी आलें लसूण फोडणां घाल्लो बटाटवडो मुजरत खा. कोणूय म्हाका स्पेशल टीप दीत जाल्यार हांव मुजरत थंय वचून येतां. मिसळ लाजवाब. वडोय रुचीक. पाव इल्लोसो. गोंयांत मेळटा ताचे परस अर्दान, बटाट बिस्कूत कसो.

हॉटेलांतल्यान सामान घेवन भायर सरलीं. वतना कुडाळच्यान वंचचें आनी वाटेर लागता तो 'धामापूर तलाव' पळोवचो अशें थरलें. मालवण सावन भायर सरून नेरूरपार काडून चौके पावली. फाटली गाडी खंय पावली काय म्हूण पळोवपाक रावलीं. गाडी थांबली थंय दावे वटेन एक घुमटी आशिल्ली. तिचेर 'कासारटाका बैरागी' अशें बरयिल्लें. एकदां खंय कांकणा विकपी एक कांसार तिनसांजच्या वेळार ह्या रानांतल्यान वतालो. वाटेर चोरांनी ताचे कडले पयशे फारायले आनी ताची तकली कांपून मुखावयल्या व्हाळांत उडयली. फुडें ताचो आत्मो खंय रातचो थंयच्यान येतल्या वतल्यांची राखण करपाक लागलो. म्हणून मागीर लोकांनी ही घुमटी बांदली.

मातशीं फुडें वतकीच 'धामापूर तलाव' म्हूण बोर्ड वाचलो. ह्या धामापूर तलावाचो उल्लेख मराठी साहित्यीक सुनिता देशपांडे हांच्या साहित्यांत जायते खेपे आयला 'यक्षाचं तळं' म्हूण तांणी बरयल्लो सुंदर लेख आसा. तांचो मूळ गांव धामापूर. तांचें भुरगेपण धामापूराक गेला. तळ्यांत देंवपाक सोपणां आसात. वयर भगवतीचें आनी सांतेरीचें अशीं दोन देवळां आसात. धामापूर तळ्याची एक दंतकथा आसा. कोणाकय लग्नकार्याक आंगार घालपाक भांगर जाय जाल्यार ताणें आपल्याक भांगराची कसली वस्त जाय तसली फुलांची वस्त करून ती ह्या कुरपण्यांत घालून तो कुरपणो उदकांत सोडपाचो. कुरपणो व्हांवत व्हांवत मर्दी वचून बुडटालो. आनी थोड्याच वेळा भितर भांगर घेवन परतो येतालो. भांगराच्यो वस्ती व्हरतना देवतेक नमस्कार करून त्यो परत्यो केन्ना हाडून दितलीं तें सांगचें पडटालें. कोणें एका मनशान व्हेल्लें भांगर परतें हाडुनूच दिलेंना खंय. तेन्नाच्यान अशें भांगर मेळपाचें बंद जालें. तें तळें, तीं सोपणां, ते देवळाचे खांबे सुनीताबायच्या दोळ्यांनी पळयले आनी त्या यक्षाच्या तळ्याचो निरोप घेत गाडयेंत बसलें.






*इकबाल मोट्या अभिमानान म्हणटालो – कुछ बात है की हस्ती मिटती नहीं हमारी । ही कुछ बात सोदून काडले बगर आमी आमच्या फुडाराक फावऽ सारकें रूप दिवंक पावपाचे नात आनी मुखावेलीं आमचीं पावलांय सारकीं पडूंक पावपाचीं नात. ही कुछ बात सोदून काडपाक रवीन्द्रबाब आमकां वेदीक युगा पसून गांधी युगा मेरेनच्या आमचे संस्कृतायेच्या पांच हजार वर्सांच्या इतिहासांत भोंवडावन हाडटात. एक आगळें वेगळें पुस्तक हें, जण एका देशभक्तान वाचुंकूच जाय हे भाशेचें.*

**बिम्ब प्रकाशन: २००५ मोल: १५० रुपया**

# ‘नवें मांडयेर, पोन्नें दांडयेर’ करचें न्हय...!

**मधुसूदन जोशी**

शेनवार, आयतार ‘विक अँड’ मनोवप ही अमेरिकेंत खास गजाल. हे खेपे जोडून तीन दीस सुटी. खुबश्या जाणांनी पिकनिकेक वा घरा वचप हेंच बरें अशें थारयल्ले वरी दिसतालें. हॉस्टेल पुराय रितें. चडशे जाण तीन दिसां खातीर भायर गेल्ले. सदांचें गजबजिल्लें, चैतन्यान उपाट व्हांवपी वातावरण त्या स्वंतत्रतायेच्या दिसा सुस्तावल्लेशें दिसलें. सकाळीं बेगिनूच जाग आयली. रातीचें जागरण दोळ्यांर आशिल्लें. सकाळीं तोंड बी धुवन ब्रेकफास्टाक कॅफेतेरियांत गेले. सात-आठ भुरगीं आशिल्लीं. हांवें सूप ब्रॅड आनी गरम उदक घेवन लॅमन च्या घेतली. ब्रेकफास्टाक केळीं आशिल्लीं. हांवें दोन घेतलीं. सकाळीं फुडें केळें खाल्यार निर्मोळी जाता अशें भुरगेपणांत आयकल्लें. पूण कॅफेतेरियांतल्यान हातांत धरून एक जिनस व्हरपाक मेळटा हो नेम. दोन केळीं रुमार हाडपाचे नदरेन हांवें उबारिल्लीं. आतां कॅफेतेरियांतलो वास संवकळीचो जाल्लो. कांय वेळान रुमार परतलों. सामान लावन दीसभर करपाच्या कामाची वळेरी तकलेंत हाडपाक लागलों. कपडे धुवप आनी तीन दीस सुटी आशिल्ल्यान बरोवप. हाचे परस दुसरी बरी संद ना, मनात येवजिलें. पयलीं कपडे बी धुवप आनी मागीर घव्याचेर काळें करप अशें थारायलें. वेळ कसो घालोवप हाची चिंता ना! बरोवपाच्या ह्या व्यसनांत खूब फायदे आसात! सगळ्याच व्यसनांत पयशे वगडावचे पडटात आसूं येता. बरोवपाच्या व्यसनाक तें लागू जाता काय किर्तें? म्हजो अणभव मातसो वेगळो. गोंयांतल्यान भायर सरचे पयलीं ‘सुनापरान्ता’च्या ‘चवथ’ अंका खातीर कथा काय लेख दिवन आयिल्लों. सुनापरान्त, नवप्रभा हातूंत बरोवपाचो एक फायदो आसा. थंय मानधन मेळटा. त्या मानधनांतल्यान वर्सभर बरोवपाक लागपी कागद सुट्टा. फकत वेळ इल्लो घालचो पडटा. अमेरिकेंत ‘रफ’ म्हण मेळिल्ले कागद अशेच खूब आशिल्ले. कागदाचो प्रस्न आपशीं सुटलो. आयज मेरेन जितलो भोंवलां, जंय जंय गेलां थंयचें खुबशें बरोवन आरमारींत दवरलां. हे भोंवडे उपरांत कोंकणींत पुस्तक काडपाचें थारावनूच बरयतालों. ‘‘सुचलें तें बरयलें’’ हें हांवें टाळपाचें थारायल्लें.



कोडू कसाय गोड गुळी

तिसरी खिस्त

कपडे धुवपाचीं सुकोवपाचीं माक्नां दुसऱ्या माळ्यार आशिल्लीं. धुवपाक एक डॉलर. सुकोवपाक पाउण डॉलर. रुपयांच्या हिसपान सत्तर रुपया. हांवें माक्नांत ‘चार आणे’ डॉलराचीं चार नाणीं घालून कपडे धुले. उपरांत सुकयले.

खाड करून न्हालों धुलों. न्हावपाक हून उदक. नळ जितलो धुंवडायता तितलें चड हून उदक. उपरांत कांय वेळ बरोवपाक बसलों.

दनपार जाली. कडकडीत वत पडिल्ल्याचें जनेलांतल्यान दिसतालें. पूण शीं आंगाक खेट्टालें. दनपरां जीमान दारार टकटक् केलें. आमी दोगूय जेवपाक गेले. आयज गर्दी नाशिल्ली. खावपाचे जिनस उणे आशिल्ले. उणे म्हळ्यार, वीस पंचवीस जिनस मांडिल्ले. हांवें थोडें सॅलड, काळींग, व्हेंज बर्गर, हून उदक घेतलें. बऱ्यो चॉकलेट बिस्किटी आशिल्ल्यो. पोटपुजा करून रुमार परतले. बरी न्हीद काडप हें पयलींच थारायल्लें. ताराशंकर बंधोपाध्यायांचें *आरोग्यनिकेतन* वाचतना दोळो लागलो. जाग आयली भुरग्यांच्या कुलकुलाटान. दनपारच्या ह्या वतांत शेक घेवपाक चलयो लॉनार जमिल्ल्यो. जमता तितलें आंग उगडें करून सूर्यन्हाण चलिल्लें. कोणें तरी प्लास्टीकची गादी कशी आशिल्ली तिका उदकाचें पायप लायलें. मद्दीं उदकाचे फवारे तयार जाले. मागीर सवणीं उदका कडें खेळत न्हातात तशे तरेन चलयो आनी चलं खेळपाक लागलीं. आतां अशें मन भुलसावपी वातावरण आसल्यार ‘कानाडोळा’ करूं येता? गोपिकांची रास क्रिडा मधुसूदना खातीर न्हय जाल्यार कोणा खातीर? कांय वेळान हांव पासयेक भायर सरलों. वताचो शेक चलतालो. सगळेंच वातावरण सुस्त पडिल्ल्या हारा भाशेन दिसतालें. कांय वेळान डिनर. साडे-स जायत आयिल्लीं. कांवंटरार वचून वासपूस केली. आमी सात मेरेन उकते आसात! कांवंटरा वयल्या मनशान हांसून जाप दिली. पावणे सातांक पोटांत धुकलपा खातीर आमी कॅफेतेरियांत गेले. ब्राउन शीत, बेकड् बिन्स, सालाद, केक घेवन जेवपाक बसले. आयज उर्देतेचें साल बंद आसा, अस्तंतेंक वचात! व्हडलो बोर्ड पळोवन सदांची दिका बदल्ली. आयज भुरगी खंडा खंडान बशिल्ले भाशेन दिसतालीं. आशिया, आफ्रिका आनी अमेरिका. निमाणें मनीस आपल्याक लागींचो कोण हें पयलीं पळयता. मिचिगनांत काम करपी वर्षा मेहतान शेनवारा जेवणाचें आमंत्रण दिल्लें. शेकडयांनी न्हय तर

हजारांनी मैल पयस आसतना कोणूय अशें आपलेपणान आपयता हाचे परस दुसरी व्हड गजाल म्हाका दिसना.

जेवण सोंपतकीच ट्रे धुवपाक उडोवन आमी रुमार परतले.

**आडवाद, तडजोडी... आनी वेग**

सगळें नेमाक धरून जाता तो देस म्हळ्यार अमेरिका! हो भौसाचो समज. नेम म्हळ्यार कितें? जगांत सगळें नेमान चल्लां! प्रत्येकाचे नेम वेगळे आसूं येतात. अमेरिकेंतूय स्वतःचे अशे नेम आसात. तर्कशास्त्राचे नदरेन, आडवाद आसप म्हळ्यार नेम आसप. ॲक्सॅप्शन्स् म्हळ्यार आडवादान नेम सिद्ध जाता. नेम मोडपी कोण तरी आसता म्हण नेम आशिल्ल्याचें सिद्ध जाता. त्या दिसा व्यायमशाळा आनी स्टेडियमाचे मदल्यान हांव चलत येतालों. एक भुरगो पच्च करून थुकलो. कॅन्टिनांतल्यान हातांत धरून फकत एकाद्रें फळ वा आयस्क्रीम कप भायर व्हरूं येता. तो दीस अमेरिकेचो स्वतंत्रताय दीस आशिल्लो. भुरगीं प्लेटी भरून भायर व्हरतालीं. लिपोवन. कोण पळोवचो ना हाची जतनाय घेवन.

आमच्या हॉस्टेलाक चले चलयो हांचीं वेगळीं दोन विंग्स. चलयो चल्यां मदीं मिसळप हातूंत कांय अप्रूप ना! पूण रातच्या देडांक चलयो चल्यांच्या रुमांत कितें करतात हो प्रस्नूय कोण विचारूंक शकना. आनी, 'दादल्यां' खातीर आशिल्ल्या टॉयलेटींनी रातच्या बारा-साडे बारांक चली 'सैमनेमाक' पाळो दिवंक येवंक शकता? दादल्यांक प्रायव्हसी आसना? दुसऱ्याले खाजगी जिणेंत पळोवप ना हो हांगचो नेम. एकाद्रे मुतारेंत रातभर उदक व्हांवन वचूंक शकता. अरबट - चरबट खाल्ल्यान आनी पियेल्ल्यान बेसिनांत भुरगीं केन्ना केन्ना ओंकतात. हांव रावतां थंय चडशीं 'टिन एजर्स'. पयल्या दिसा यजमानान आमची व्यवस्था कशी आसा, सगळें व्यवस्थीत आसा काय ना हाची वासपूस केल्ली. हांवें ताका हांसून जाप दिल्ली, बरी आसा, खावपा पिवपाची गैरसोय ना! ट्रेनींग कार्यावळीचो एक हेतू सांस्कृतीक दिवप-घेवप. असल्या भुरग्यां मदीं रावून म्हाका अमेरिका चड लागींच्यान आनी खोलायेन पळोवपाक मेळटली अशें सुवार्थी भावनेन हांवें म्हळें. तरी लेगीत फ्रीज, अव्हन आनी हेर गजाली ताचे सेक्रेटरी कॅथीन बेगोबेग उपलब्ध करून दिल्यो तेन्ना ताचे आभार मानत म्हळें, 'आफ्टर ऑल 'लग्झरी' हॅज नो लिमिटस्.' अमेरिकेंतली जीण सुरळीत चल्ल्या. हाचे फाटल्यान खर नेम आसा ही गजाल खरी. पूण, 'हांगा सिगरेट ओडची न्हय' अशें बरयल्लें आसता थंय सिगरेटीचीं पोतेरां लेगीत हांव रावतां त्या वाठारांत मेळिल्लीं. केन्ना तरी भारताचे आदले प्रधानमंत्री स. नरसिंहराव अमेरिकेंत आयिल्ले तेन्ना तांणी अमेरिकी प्रसिद्धी माध्यमाक सांगिल्लें, 'भारतांत येयात, पूण फकत गटारांच तपासूं नाकात.'

मनशाल्यो धारणा आनी भौसांत वा हेर जिवितांत ताचे कडल्यान अपेक्षीत आशिल्लें वर्तन हातूंत बरीच गॅप आसता. आरोग्या संबंधान तर ड्रग्स्, अनिर्बंध लैंगीक जीण, पोट फुटसर खावप हें भलायकेक वायट म्हणपाचें खबर आसून लेगीत मनीस ते मोह टाळूंक शकना. हाचो अर्थ, सगळेच अमेरिकेंत अशें करतात असो न्हय. प्रत्येक नेमाक आडवाद आसतात. भौशीक जिवितांतल्या नेमाक तर ते आसतातूच. घडये नेम मोडपाचो आनंद मेळोवप हेंवूय 'थ्रील' आसूं येता, पूण अमेरिकेंत तें आसा.

हांगा आयिल्लों त्या दिसा मुंबयच्यो म्हज्यो पीएच्.डी गायड निमामॅडम हांचो म्हाका ई-मेल आयिल्लो. आमकां गुरुस्थानार आशिल्ल्यो आदल्यो गोंयकार आनी फांकिवंत दोतोर सर्गेस्त शरदिनी डहाणूकरांच्या उतरांची तांणी याद करून दिल्ली. 'जगार तुमी खंयूय वचात, म्हौंवा मूस जायात. मूस फुलांतलो 'मकरंद' जुस्त काडटा तसो तुमचो वावर आसुंदी. म्हौंव कोणा खातीर तयार करपाचें हाचो विचार करूं नाकात. म्हौंवा कडे कोण तरी आपशींच येतलो. मूस म्हौंव तयार करतना फुलाचो रंग, परमळ, झाडाक आशिल्ले कांटे हांचो कसलोच विचार करिना. तशे तुमी जिणेंत बरें तें आपणायात.' म्हाका येदें व्हडलें तत्वगिन्यान सांगपी गुरू मेळ्ळो. तांच्या परिसस्पर्शान म्हज्या जिवितांत भांगराचे दीस आयले. म्हौंवामूस जावपाचें थारायल्लें. मनशालो सभाव, ताची चलणूक, बऱ्यो वायट संवयो आनी भलायकी हो म्हजे आवडीचो विशय. तेच नदरेन कांय अमेरिकी गजालींची हांवें नोंद घेतली.

दुसऱ्या वाठारांत वचप म्हळ्यार तडजोडी वा ॲडजस्ट जावचें पडटा. वांगडा कोणूय आसल्यार ॲडजस्ट जावपाक बरें पडटा. मणिपालच्या जीमीक पयले रातीं ई-कार्डान धपको दिल्लो. म्हाका दिल्लो तसो. दुसऱ्या दिसा खोलायेन वासपूस करतकीच कळ्ळें; त्या दिसांनी कॉन्फरन्सांकूय एक वा दोन दिसां खातीर लोक येवन वताले. ईकार्डाचें प्रोग्रामिंग 'चोवीस वरां', म्हळ्यार रातच्या बारा मेरेन दवरिल्लें. हाका लागून आमकां दोगांकूय 'पयले राती'ची बरीच याद उरिल्ली.

हांगा चडशीं कामां माक्नांचेर. मनशाले श्रम जाता तितले वाटावपाचो यत्न. हाकाच लागून हांगा 'वावराडी' हो प्रकार साप्प उणो. मजेची गजाल म्हळ्यार, ल्हान-सान कामां वरा कोंतार भुरगीं करतात. म्हळ्यार, काम करपाक लज ना आनी कसलेंय काम करपाची तयारी. श्रमाचेर निंबून आशिल्लो वर्ग विग्रह वेगळो आनी अर्थाचेर आधारिल्लो विग्रह वेगळो. भारतांत श्रमाची विभागणी 'बरे' श्रम आनी 'उणाक' श्रम अशी केल्या. भांडवलदारी देशांत पयशे आसल्यार ल्हान-सान कामां करपाची गरज पडची ना! म्हळ्यार, 'अर्थाचेर' आदारिल्ले भेदाभेद सगळ्या प्रस्नाचें मूळ? जे रशियेन 'मार्क्स' आपणायल्लो तिणें तो पांयां पोंदा माड्डिलो. भारतांत 'दावे' अणुकबलाती वयल्यान ताणून धरतात. त्याच काळार म्हजी ही अमेरिकेची भोंवडी. भारतांत 'अर्थ आनी श्रम' हांचे बेस बरें खतखतें भारताचे व्हड प्रधानमंत्री नेहरू हांणी केलें. देस सदांच तांच्या उपकारांत उरतलो. कारण 'अर्थ' हें साध्य न्हय तर साधन अशें मानपी धोरणांतल्यान 'नवो भारत' तयार जालो. साबार प्रस्न आसून लेगीत देशान बदलपी काळा कडेन 'ॲडजस्ट' केलें. भारतीय परंपरेंत काळा कडें जुळोवन घेवपाचें लिपिल्लें अशें तत्व आसा. म्हणुनूच भायल्या देशांत,

खासा करून अमेरिकेंत, खुब्ब भारतीय थिरावल्यात. म्हजो इश्ट जीमी आनी हांव 'भारतीय' हे नदरेनूच हांगा वावुरताले. आमच्यांतले 'भेद' भारतीय शिमो हुपतकीच साप्प उणे जातात आनी आमी चड भारतीय जातात, चड लार्गी येतात. चडांत चड ॲडजस्ट करतात! म्हजो ॲडॅप्टर जीमीकूय उपेगी पडलो. आठशीं रुपया बेठेच खर्च कित्याक कर? म्हजो मोबायल चार्जर चलना जालो. ताचो उपेगी पडलो. शिंया कुडकुडो आनी सुकें हवामान — कात सुंकपाक लागिल्ली. हांवें मॉयश्चरायझर व्हेल्ली. दोगांकूय तिचो उपेग जालो. मोबायलाक आंतरराष्ट्रीय संचार 'रोमींग' आशिल्लें पूण कितें तरी घुसपलें. म्हजो फोन चलना जालो. ताचे कडेन आशिल्लें कार्ड उपेगी पडलें.

हांगा जिणेक भिरांकूळ करपी एक गती आसा. ते गतींत वांगडा उरल्यार बरें, ना जाल्यार दुर्गती. आठ धा दिसां उपरांत सगळें संवकळीचें जाल्लें. न्हीद, जेवप-खावप. सकाळच्या किण्ण वातावरणांत बरोवपाची गती वाडली. अमेरिकेंत थिरावल्ल्याची कुरू दिसपाक लागिल्लीं. हांव मुंबयंत आसतना म्हजे वांगडा पीएच्.डी. करपी अपर्णा पालव शिकागोंत रबितो करून आशिल्लें. शिकागोंत अमेरिकी फार्मसी संघटनेची आठवडोभर चलपी बसका जुलय म्हयन्याच्या शेवटाक आशिल्ली. अपर्णान शिकागोंत येतलो काय म्हण विचारपी मेल धाडिल्ली. फार्मसी बसकेक हांव पावचों म्हण प्रो. जेम्स् प्रयत्न करतालो. शिकागो ॲन आरबॉरच्यान तिनशीं मैलांचेर आशिल्लें. ट्रेनीन वा विमानान वचपाची सोय आशिल्ली. खुब्ब वर्सां पयलीं म्हजें 'वर्ग भागिनी' आशिल्लें अपर्णा मेळत काय? ह्या प्रस्ना वांगडा 'म्हज्या मोगाळ भावांनो आनी भयणींनो' म्हण शिकागो गाजयल्ल्या भारताच्या म्हान पुताची — स्वामी विवेकानंदांची — याद जाले बगर रावली ना! पळोवया कितें जाता ते!

### हुरॉनाचें रान

जोडून आयिल्ल्या तीन दिसांचे सुटयेंतलो आयचो मदलो दीस. शेनवार. कांयच करिना ताचो वार शेनवार. आदलो दीस बऱ्याच कामांत आनी बरोवपांत गेल्लो. शेनवारा सकाळीं उठून न्हालों धुलों. कॅन्टीन सकाळीं बंद आशिल्लें. हांवें फ्रिजांत दवरिल्लो पराठा आनी मटर पनीर अव्हनांत घालून गरम केलें. जीमा कडेन पिझ्झा आशिल्लो. पोट भरिल्लें तरी मोसंबी खाली. थोडें-भोव कामाचें (फार्मासीचें) वाचप बरोवप केलें. धा वरां म्हळ्यार गोंयचीं रातचीं साडे-आठ णव. सदां भाशेन दोळे जड जावपाक लागले. हें घड न्हय. निकोलास ॲरबेटोरियमान सांबाळिल्ल्या रानांत वचपाचें, वतांत भोवपाचें. सूर्याक पळोवपाचो. न्हिदप ना. अशें थारावन हांव रुमांतल्यान भायर सरलों. वताचो शेक आंगांत हुनसाण वाडोवपाक लागलो तशी न्हीद पयसावली. पूण सुस्ती आंगांत आशिल्ली. हुरॉन न्हयचे देगेर अटंगें रान. त्या रानांत चलपाक बेस बऱ्यो सुवातो.

दोन चार दिसां पयलीं ह्या रानांत हांव भोंविल्लों. रानाचे एके वटेन ल्हानसो दोंगर. त्या दोंगरार मसंड. हांगा चिरशांती घेतिल्ल्यांचें भाग्य केदें? असोय विचार मनांत आयलो. हांगा जीण म्हारग काय मर्ण म्हारग हो प्रस्न विचार करपा सारको. जाणटे पिरायेचे लोक चड. तांचेर आदारिल्ले विनोद खूब. एक जाणटेलो णव्वद वर्सां हुपले उपरांत बरयता, 'म्हजे सगळे इश्ट मेल्यात. जे सर्गार पावल्यात ते चिंततात आसतले, हांव घडये नरकांत पावला आसुये' त्या अटंग्या रानांत हांव परतून पासय मारपाक लागलों. एक ल्हानसो ट्रॅक्टर घेवन एक दादलो आनी एक बायल गेटी कडेन पावलीं. गेटींत पुरिल्लीं लोखंडी पायपां कुशीक करून वाट करून ट्रॅक्टर भितर व्हेलो. तांणी वांगडा सारें माती गोबर हाडिल्लो. त्या रानांत पियोनीज नांवाच्या सुंदर फुलांची लागवड केल्ली. पासयेक भायर सरतना हांव कॅमेरो व्हरपाक विसरिल्लों. रुमार परतो येवन कॅमेरो व्हेलो. काम करपी मनशांचे परवानगेन फोटे काडले. हांगा हाय, हॅलो, ॲक्स्क्यूज मी, सॉरी हीं उतरां कितलेशे फावट वापरतात. दिसांतलें एक वर तरी हीं उतरां उच्चारपाक वता आसतलें — जीमीन अमेरिकी जिणेचेर एक थोमणो मारिल्लो ताची म्हाका याद जाली. रानांत पासयेक आयिल्लो कोणूय मेळ्ळो जाल्यार 'गुडमॉर्निंग' हें 'आशिर्वादपर वचन' म्हणटालो.

त्या रानांत बसपाक मदीं मदीं बांकडे आशिल्ले. बांकांचेर पितूळचे पाटयेर बरयल्लें, 'तुमकां एक झाड वा बांक यादस्तेक घेवंक जाय जाल्यार देणगे खातीर संपर्क सादात.' फुडें फोन नंबर. रानांत वाट दाखोवपी तकटे, म्हायती सांगपी बोर्ड. हुरॉन न्हंयच्या एका बऱ्या पॉयंटार हांव पावलों. न्हंय कितली खोल हाचो अदमास आयलो ना. पूण ती खांडेपार न्हंये वरी म्हाका दिसली. न्हंयचे देगेर बसपाक कांय बांक. वयर सोबीत बरें आच्छादन. न्हंयचे पलतडी आशिल्ल्या रानांत झाडां दाट निळीं आनी मातशीं काळीं दिसतालीं.

रानांत जळारां आसप सभावीक. उक्त्या हातार बसून जळारान तोंपपाक सुरवात केली. म्हाका दिशिल्लें, जळार 'ॲक्सक्यूज मी' म्हणत रगत काडटलें. पूण हांवें ताच्या उतराची वाट पळोवचे परस हात फांफुडलो. निमाणें रगत चोखपी केन्ना परवानगी मागतले? रानांत मूस, भिरमुट्यो, सवणीं. एक तांबड्या रंगाचो पक्षी पोपटा भाशेन आड्डुपाक लागलो. मॉडेलिंगाक आयिल्ले भाशेन म्हाका पोज दिली. ताची पोज कॅमेऱ्यांत बंद करून हांव फुडले वाटेक लागलों. रानांत मदीं तान लागल्यार पिवपाच्या उदकाची सोय आशिल्ली. 'प्लॅस्टिकाचेर बंदी' असो बोर्ड मारपाची पाळी घडये हाकाच लागून येवंकना अशें दिसलें. इतलेंच न्हय तर म्हेळे जाल्ले पांय धुवपाक लेगीत खासा व्यवस्था. रानाचे मदीं जॉन्सन सॅनिटेशनाच्यो मुताऱ्यो. हें रान मिचिगन विद्यापीठान सांबाळ्ळां. हें सगळें सांबाळपाक 'दुड्ड' जाय. दुड्डूर ब्रम्हा! दुड्डूर विष्णू!... दुड्डूर साक्षात प्रब्रम्ह! तस्मैश्री इमेरिका यनमः!

### वर्षा

शेनवारा दनपरां वर्षा मेहतान जेवपाक आपयल्लो. अमेरिकेंत गाडी ना जाल्यार व्हरपाक, 'पिकअप करपाक', येवपाक जाय! साडे बारांक आयलें. शालिमार हॉटेलांत जेवपाक वचपाचें

थारायलें. जेवणा पयलीं गाडी 'पार्किंग बें'त घाली. कार्ड स्वीप केलें. हांगा पार्किंगाचो कितलो दर? हांवें विचारलें. 'वराक डॉलर'! ताणें जाप दिली. हांव कांय वेळ ओग्गी रावलों तें पळोवन ताणें म्हळें, 'हांगा डॉलर रुपयांत कन्व्हर्ट करून कोंत करूं नाका'. ताचेर आमी सगळीं हांसली. रेस्टॉरंट ताका संवकळीचें आसतलें. अमेरिकी रेस्टॉरंटांत तुमी भितर सरना फुडे पयलीं मनीस कितले हें सांगचें पडटा. ते प्रमाण वेटर जागो दाखयता. सरलो भितर बसलो कदेलार हें थंय ना! बसले उपरांत वर्षान उलोवपाक सुरवात केली. ताका खूब कितें सांगपाचें आशिल्लें. आमचे ट्रेनींग कार्यावळींत तें पयलेच खेपे वांटेकार जाल्लें. ताच्या कुळाराचें नांव 'भट'. तें जैन. आफ्रिकेंत जल्मल्लें. उपरांत कुटुंब इंग्लंडाक थिरावल्लें. मेहता जावन मिचिगन पावलें. मेहता राजस्थानचो. ताच्या बापायचो इंश्युरंसाचो धंदो सिंगापुराक. पूण शिकला बेंगलोराक. थंयच्यान अमेरिका. सगळें ताणें भरभरीत सांगलें. इतलें जग भोंवून तें शिवराक! घरा कडक पथ्य!... जगभर गुजराती पावल्यात कशे हें कळपाक म्हाका एकूच उदाहरण पुरो जालें.

इतलें सगळें भोंवनूय आयजूय ताचे जिणेचो मध्यबिंदू भारत. भारता खातीर कितें करूंक जाय... भारताची थळावी फार्मसी प्रथा सुधारपाक कितें तरी करपाक जाय...! वर्षा उलयतालें. ज्ञानेश्वरांच्या पसायदानांतल्यो वळी सहजतायेन म्हज्या ओंठांर आयल्यो. *'वर्षत सकळ मंगळी. ईश्वर निष्ठांची मांदीयाळी...'* मुदलांत भारतीय आशिल्ल्या ह्या चडश्या लोकांची 'निष्ठा' आयज लेगीत भारता कडेन. हांगा सगळें आसत, पूण आमी 'इंटेलिजन्ट'. केदो आत्मविश्वास! अमेरिकेंत रावून भारता कडेन आशिल्ल्या दायजाचो अभिमान!

उलोवपाची गाडी ल्हवू ल्हवू करून फार्मसी शिक्षणा कडेन पावली. हांगा 'फार्मडी' प्रोग्राम! म्हळ्यार, डॉक्टर ऑफ मेडिसिन आनी सर्जरी म्हळ्यार दोतोर, तसो डॉक्टर ऑफ फार्मसी. हो प्रोग्राम फाटल्या दोन दसकांतलोच. आदीं हांगा बी.फार्म, एम्.फार्म सारकें बी.एस्, एम्.एस्. आशिल्लें. ह्या बदलाक लागून क्लिनिकल फार्मसीचो दर्जो खुब्ब उंचेल्या पांवड्यार पावला. पूण... वर्षा उलोवपाचें थारलें. ताणें लस्सी ऑर्डर केली. खंयचोय बदल करतात तेन्ना फुडारांत जावपी बदलांच्या परिणामांचो अदमास घेवपाकूच जाय! हें हांगा जालेंना! फार्मडीवाले सगळे हॉस्पिटलांनी, कम्युनिटींत गेले! पूण वखदां तयार करपी कारखान्यांक जाय आशिल्ले एम्.एस्. मेळपाचे बंद जाले! ते जागे कोण भरतात जाणा? वर्षाच्या दोळ्यांतलो अभिमान पुराय भरून ओत्तालो. भारतीय आनी चायनीज! ताच्या उतरांचेर हांवें जीमी कडें पळयलें. आमी भारतांत 'फार्मडी' हाडपाक सोदतात. आमी हो अमेरिकेचो अणभव मतींत घेवंक जाय! कोणें तरी म्हळां, हुशार मनीस एकदां अणभव आयलो काय शाणो जाता. शाणो मनीस दुसऱ्याच्याय अणभवा वयल्यान शिकता. मूर्ख मात दोनांतल्यानूय कांयच शिकना! आमी हुशार, शाणे काय मूर्ख हें थारावपाचो होच वेळ. भारतांत मुदलांतूच आशिल्लें आयुर्वेदाचें गिन्यान आनी लोकांची जियेवपाची तरा मतींत घेवंक जाय.

वर्षाक हालींच मुतखड्याचो त्रास जाल्लो. ऑपरेशना उपरांत फाट कमर दुखतालें. पोटांत सतत धवळटालें. आर्विल्लीं वखदां घेवप अशेंच लागीं लागीं निश्चित जाल्लें. मॉडर्न वा ॲलोपाथी सोडून बाकी सगळ्याक अमेरिकेंत अल्टरनेट व्यवस्था म्हणटात. तातूंत आयुर्वेदूय येता. ताचोच पालव घेवन तें आतां पुराय बरें जालां. संदेश एकूच – 'नवें नवें मांडयेर पोन्नें दांडयेर' अशें करचें न्हय! अमेरिकेंत चलता ताचीच झॅरॉक्स कॉपी सगळ्याक करपाची गरज ना! आमच्यो थळाव्यो गरजो मतींत घेवच्योच पडटल्यो. आमचे व्यवस्थेच्यो मर्यादा वळखून बदल आपणावप हाचेर आमचें एक मत जालें.

भारतांत जें घडोवन हाडूंक जाय ताची खरी जापसालदारकी जे मूळ भारतीय अमेरिकेंत थिरावल्यात आनी जांकां कितेंय करपाची तळमळ आसा तांचेरूच आसा. मर्दी मर्दी 'आमचे' सारके येतात तांणी फुडें सरून तसो पंगड तयार करपाचो. हांगचे कॉन्फरन्सीस, ट्रेनींग प्रोग्राम हातूंत व्हडे संख्येन सहभागी जावचें! भारतांत फकत लॅक्चरां न्हय तर कार्यशाळा दवरच्यो. ट्रेनर म्हूण चड करून शिक्षकांक भितर ओडून सारकें ट्रेनींग दिवचें. एक कालबद्ध कार्यावळ आंखून ते वरवीं फावऽ तो बदल करूं येता! वर्षाच्या उलोवण्यांतल्यान आमकां एक दिका मेळ्ळी. ताणें आपले मायभुंये खातीर खूब कितें दिवपाची, करपाची आस्त परगटायली. उलयतां उलयतां ताणें जेवणाची ऑर्डर दिली. मर्दी घोवाचो ताका फोन आयलो. आमका बेठेंच गिल्टी दिसलें. तें म्हणपाक लागलें, 'घोवान तुमकां घरा हाडपाक सांगलां.' अमेरिकेंत कॉल केले बगर दुसऱ्याच्या घरा वचपाचें ना. वेळ सांबाळप भोव म्हत्वाचें. आमी ते बाबतींत सभागी. ई-मेरिकेंतलें मिनी भारत आमकां पळोवपाक मेळटालें. ताचो अणभव मेळटालो. जेवण जातकीच उरिल्लें जेवण पार्सल करून घेवन आमी भायर सरलीं. हांवें भारतांतल्यान वतना ताराशंकर बंधोपाध्यायांची *आरोग्यनिकेतन* कादंबरी घेतिल्ली. तातूंत भारतीय आयुर्वेद परंपरा, नाडी पद्दत आनी आर्विल्ली पद्दत हांचो संघर्श बेस बरो रंगयला. वर्षान जेवणाक आपयतकीच ताका ती प्रत भेटोवची अशें हांवें थारयल्लें. वर्षा सारक्याच्या हाताक भारतीय आरोग्य व्यवस्थेची 'नाडी' सारकी लागत जाल्यार आमचे सारके आमीच भाग्यवंत. कादंबरी आनी लाकडी कुकमाची डबी ताका भेट म्हण दिली.

आमी परतून गाडयेंत बसलीं. वर्षाक शॉपींग करपाचें आशिल्लें. हरशीं तें काम खंय घोव करता. तेंय बी मना पसून! वर्षा घोवाची तोखणाय करतालें. दोन-चार मैलांचेर आशिल्ल्या 'मेयर' ह्या सुपर स्टोअरा कडेन आमी पावलीं. म्हाका फकत रिकाम्यो सीडी जाय आशिल्ल्यो. सुपर स्टोअर खरोच 'मेगा' आशिल्लो. आतां अमेरिकेंत येवन पंदरा दीस जायत आयिल्ले. भारता वांगडा तुळा करपाचें आतां हांवें सोडिल्लें. सुपर मार्केटांत 'ॲनिथिंग अंडर सन' अश्या स्वरुपांत सगळें मेळटालें. इतलेंच म्हळ्यार अदमास येवं येत. सामान बी घेवन अर्द वरान आमी

बील करतात थंय पावले. हांगाय सॅल्फ सर्व्हीस. वस्तू वयलो बार कोड दाखोवप आनी संगणकांत डेटा फीड करप. थंय येता ते सुचोवणे प्रमाण पयशे फारीक करप. हांवें वीस डॉलरांची नोट मशिनांत घाली. एक सॅंट म्हळ्यार डॉलराचो शंबरावो वांटो. आदीं तांब्याचो एक पयसो बी आसतालो तसो. चड घुसपायना, एक सॅंट म्हळ्यार, सुमार दोन रुपया. 'मोड ना. रुपया आसा! फस्क व्हर... पिपीरमिटां दिवं?' भारतांतले वरी विचारपाक थंय जितो मूस ना! सामान घेवन आमी वर्षाच्या घरा पावले.'प्लेमॉथ'चे वाटेर सपनांतलो गांव आसचो तसो गांव! (हालीं तशीं गुलाबी गुबगुबीत सपनां पडनात! चाळिशी उपरांत हें सभावीक!) माणकुलीं घरां. घरा मुखार सोबीत बरें आंगण. वर्षान दाराची बॅल मारली. घोवान हांसून स्वागत करीत दार उकतें केलें. दारांत चपलां काडून दवरून आमी अमेरिकेंतल्या राबित्यांत पयलेच खेपे 'घरगुती' प्रवेश केलो. ह्या 'घरगुती' शब्द प्रयोगाचें म्हाका व्हडलें अप्रूप. महाराष्ट्रांतल्या खूबश्या खाणावळीं भायर 'इथे घरगुती पद्धतीचे जेवण मिळेल' अशी पाटी आसता. आपणालें घर सोडून दुसरे कडेन खंयच 'घरगुती' जेवण मेळूंक शकना हें म्हाका म्हजे 'जिणेच्या यंत्रान' दाखोवन दिलां. सोडात. हरदासा भाशेन हांव उपकथानकांत चड व्हांवलों... वर्षा घरांत पावलें आनी तें भारतीय गृहिणी जालें. ताणें अव्हन, फ्रीज, आलमारी हांची उघड-धांप सुरू केली. दनपारचें जेवन देड दोन वरां जाल्लीं. सुटयेचो दीस. दिसाळ्याचें सगळ्यांत वाजेवणें पान वाचतना न्हिदेक आपणावपाच्या सुखाक आमी चुकिल्ले. वर्षान 'मसालच्या?' किचनांतल्यान प्रस्न केलो? आमची जाप, 'हय, चलता' अशीच आसतली हें निश्चीत... 'जेवून आला असालच' अशें पुणेरी वाक्य मात वर्षागेर मेळ्ळेंना!

आमी ताचो घोव आनी मांय हांचे वांगडा खबरी मारीत बशिल्ले. मांयन आपणाले अणभव सांगले. घोव अमेरिकेच्या संरक्षण विभागांत कॉंट्रॅक्टर. अमेरिकेंत गिमाळी सुटी आसता तेन्ना भुरग्यांक खंयचे तरी गिमाळे शाळेंत घालतात. वर्षान आपणाल्या भुरग्यांक शिकागोंतले जैन शाळेंत घाल्ले. अमेरिकी संस्कृताय आनी तातूंत आपणालीं मुल्यां सांबाळप – ही सगळी कसरत थंय भारतीय करतात आनी आपणालें भारतीयपण सांबाळटात! कारण, 'थंय १८ वर्सांचे पिरायेर भुरग्यांक खोंट मारून घरांतलीं भायर काडटात.' वर्षाल्या ह्या उतरांनी आमच्या काळजांत चर्र जालें. भुरग्यांक घरा भायर काडून जगतात कोणा खातीर? हातूंतल्यानूच मागीर 'तो म्हज्या बापायचो पूत... म्हळ्यार दुसरे आवयचो...' वा, 'तें म्हजे आवयची चली 'भयण' न्हय...' अशीं नातीं तयार जातात! वर्षा वांगडा सुमार पांच स वरां घालयल्लीं. नाण्याची दुसरी बाजू ताका लागून कळिल्ली. वर्षान आमकां रुमार पावयले. सांजे कॅफतेरी बंद आशिल्ली. पूण 'शालिमारां'तलें पार्सल हाता कडेन आशिल्ल्यान व्हडली चिंता दिसलिना! पार्सल फ्रिजांत दवरून हांव गोंयच्यान येवपी फोनाची वाट पळोवपाक लागलों.

(मुखार चलता)



# कविता

*सूर्य हॉस्पिटल...*

## धा कविता

**नरेन्द्र बोडके**

१.
शनिवारवाड्याचे चडटेर
कसबापेठेचे देंवतेर
कितले फावट वांचलों हांव
मरतां मरतना
हायपरग्लायसेमिया, हायपोग्लायसेमिया,
क्रियाटेनीन पावलें एका वेल्यान पंदरांचेर
हायपरटेन्शन, डायबेटीस मिलिटियस
एक दीस दोतोरांनी सांगलें –
आतां डायलेसीस वो मरण

पूण दोतोर, डायलेसिसांत डाय आसताच न्हय?

२.
डायलेसीस
डायलेसीस
दीस रातं तोच शब्द कानार
मेळत ताका हांव विचारी
हें डायलेसीस कितें आसता रे बाबा?
नेटाचेर सर्फींग केलें...
किडणी काम करना तेन्ना
मॅकॅनिकली रगत स्वच्छ करपाचो हो उपचार
डायलेसीस करतना मनीस मरता?
एका टायमाचेर खूब वेदना जाताल्यो
नाका तें डायलेसीस अशें जातालें
आतां?
तुजें तू पळय...

३.
नेफ्रॉलॉजिस्ट कोण आसता?
व्हॅस्कूलर सर्जरी?
हो कसलो सर्जन?
कितें करतलो तो?
म्हाका खंय व्हेलो?
कसल्या कसल्या कागदांचेर सयो घेतल्यो
म्हज्यो, गौरीच्यो...
जिवाक भंय आसा
दुयेंसां नाचतात, चारूय भोंवतणीं
शुगर, हायपरटॅन्शन
आनी आतां मानेंत खंय घालतले एक नळी
कॅनिकुला...
ते नळयेंतल्यान म्हजेंच रगत येतलें भायर
जातलें शुद्‌ध... परतें वतलें म्हजे कुडींत
व्हील चेअराचेर
घालून म्हाका हाडलो
सह्याद्री हॉस्पिटलांत
सह्याद्रीच्या दऱ्याखोऱ्यात
डुरकत फिरणारा एक कलंदर बैल...
व्हील चेअराचेर बैल सामको बाबडो कसो दिसता...
वजन?
८६.८६,..
हो असलो कसलो वजनाचो आंकडो?
बोडके
आतां न्हिदात तुमी हे बॅडीचेर...



४.

लोकल् दया
थायरॉयड ही काय...
सिस्टर पिंचेस, कात्री
तीन नंबरची सुई
बोडके, ठीक आहे ना?
हो, हो...
कितें करतात हे इतले दोतोर?
हांवें दोळे धांपले
ओम नमः शिवाय...
कोण आसा म्हाका गौरी शिवाय?
हांव खंय आसां?
जितो आसां?
डायलेसीस जालें?
बोडके...
कसं वाटतंय?
ठीक...
निघण्या आधी वजन करा
८२.२५...

५.

यॅस मि. नेफ्रॉलॉजिस्ट...
आपली किडनी काम करत नाही
हे आता आपण स्वीकारुया
मग?
आठवड्यातून दोनदा डायलेसीस
हातावर फिस्टूला बसवू
तिथून डायलेसीस करू
दुखणार खुपणार नाही
आठवड्याला सहा हजार
दरमहा चोवीस वर्षाला तीन लाख
कायम... गौरी तूं खंय?



६.

फ्लुईड कंट्रोल...
सयशें मिलि इतलेंच
फ्लुईड पोटांत वचपाक जाय
चड वचत जाल्यार हार्ट अॅटॅक येवंक शकता
नुस्तें ना, चिकन ना
फळां-भाजयो खावपाच्यो
केन्नाय पालेभाजी
अॅपल, पेर, पोपाय चलता
दाळ-भात-भाजीक
वाघोबा कसो राजी?

७.

किडणीचें काम करता कम्प्युटर
डाय ना जाता
डाय जाल्ले सारको पडून राव
हिमोडायलेसिसचो पेशंट तूं
नाव बोडके पिराय ५४
भुरगें हांगा नासता म्हजें
तें कोणें विचारलां सभाग्या
ही कोण?
बायल... गौरी
ओम नमो शिवाय
कोण आसा आतां गौरी शिवाय...

८.

क्रियेटिनीन देंवलां
चारांचेर आयलां...
आतां तुका आमी दितात डिस्चार्ज
घरा वच घरा वच
सप्तकी दोनदां डायलिसीस करीत राव
पयशे? मेळटले...
सरकार दितलो, इश्ट दितले
करीत राव, जियेत राव
कविता बरयत राव...

९.
मरणाच्या दारांतसून
परत येतना कशें दिसता?

एका एका मिणटाचें म्हत्व कळटा
एका एका मनशाचें म्हत्व कळटा...

तो हांव नासलोंच
हो हांव खरों...
मागीर तो कोण आसलो तर?
हांव नकळो...

१०.
हॅलो मि. डेथ
तूं म्हजो गुरुजी
म्हजे तकलेर हात दवरून
तुवें म्हाका जागो केलो
आता हांव मरतलों तेन्ना
दोन दोळे धांकतले
शंबर उघडटले..



## *निर्मणी काळ प्रक्रियेची*

**— प्रकाश पाडगांवकार**

हांव निर्मणी काळ प्रक्रियेची
सजीव निर्जिवेंत जियेतां
जियेवन मनस्वी सजीवेंत
निर्जिवेंत सृजन प्रसयतां

घुसून मोडा धुमशेणांत
मोड जावन धुडघुसतां
तोडून मोडा फ्युज नेटाचो
कृतीक मोडाचे थंडायतां

रिगून पेट्ट्या ज्वालामुखांत
न्हावन घेतां उज्या रोसांत
रोसा रखरख आपशीं न्हिवता
घेतच भरून थंडाय पोशांत

हिमालयाच्या झेला तेमकार
गोठे गोठेवन सुप्त गोठेतां
उर्जा जिवाची विरगळावन
गंगामय जावन धांवतां

मारून उडणां अनंतत्वांत
मापता तारे गिरे नीज
आकाशगंगे अक्षय व्हांवतेंत
पेरता जिवाचें ब्रह्मबीज





*जगम*

**– अरुण साखरदांडे**

भुरगेपणांत
कोण तरी इश्ट जगमां घेवन येतालो
आनी आमकां अेकदोन अेकदोन दितालो
मागीर आमी कुशिकच्या झाडापोंदा बसताले
घट्ट जगम तशेंच खाल्लें
तर दांत आंबटेताले
जीबेक चिकटसाण जडटाली
दातांक जीबेक गोम सारयल्लेवरी जातालें
म्हूण आमी
दाव्या हाताच्या तळव्यार जगम घेवन
उजव्या हाताच्या तळव्यान गोल फिरयत
जगम दामीत रावताले
तेन्ना म्हण्टाले
''चानये चानये मोव कर
चानये चानये गोड कर''
मागीर खंयच्यान तरी चानी येताली
आनी ल्हव ल्हव करीत
तें जगम मोव करताली
तें जगम गोड करताली
मागीर आमी तें एक एक जगम तोंडात अुडोवन
लाळ घोळयत, मिटक्यो मारीत
सवकासायेन खाताले.

मागीर लग्न जातकीच
चानी गेली आनी बायल आयली
मागीर केन्नाय जगमां हाडलीं जाल्यार
हांव
तांतुतलें एक जगम
डाव्या हाताच्या तळव्यार घेवन
उजव्या हाताच्या तळव्यान गोल फिरयत
जगम दामीत रावी
आनी म्हण्टालो
''बायले बायले गोड कर''
तेन्ना बायल हांसत येताली
आनी ल्हव ल्हव
तें जगम मोव जायत वतालें
तें जगम गोड जायत वतालें

मागीर तातुतलें दुसरें जगम
बायल आपल्या दाव्या तळव्यार घेवन
उजव्या हाताच्या तळव्यान गोल फिरयत
जगम दामीत रावी
आनी म्हण्टाली
''घोवा घोवा मोव कर
घोवा घोवा गोड कर''
तेन्ना तर म्हाका हांसूंकूच येतालें
कशें कोण जाणां
तेंय जगम मोव जायत वतालें
तेंय जगम गोड जायत वतालें

आमी दोगांय जाणां
लग्नूच जांवक नाशिल्ली जाल्यार
आमची जगमां गोड कशी जातली आसलीं?





## कागद आनी शेवणें

**राजय पवार**

एकदां जालें अशें
नेटाचो सुटलो वारो
घूंव घूंव घुंवलो
धरिनासतना थारो

वावटळ जावन देंवलो शेतांत
भाटांत आनी कुळागरांत
झाडां-पेडां हालयत
पानां-फळां झडयत
... आनी मागीर थंयच्यान
मळार येवन खुबलो
मळावेलो कागदा कुडको
ताचे वांगडा हुबलो

कागद पावलें वयर वयर
मळा वेल्यान मळबा मेरेन
स्वताकच म्हळें ताणें,
''मळबाचें खरें धनी तूंच
पांखां शिवाय पावलें ऊंच''

कुशीकच उडटल्या शेवण्याक पळोवन
कागदान केलें कूय कूय
म्हणपाक लागलें....
''शी... शेवण्या,
तुका उडपाक पांखां जाय
हांव उडटां पांखां शिवाय''

शेवण्यान सांगलें थंडसाणेन,
''तूं उडटा वाऱ्या नेटार
नशिबाच्या भरवंश्यार
हांव उडटां... स्वता कश्टान
पांखांच्या बळार''

थांबलो वारो व्हांवपाचो
तेन्ना कागदाचेर आयलो काळ
झेलताडे घेत कागद
जमनी वटेन शेंवटलें
पयलीं आशिल्लें मळार
आतां कणकी कांट्यांत फारवलें

मनशा तुंवूय मनार घे
शेवण्यान दिल्ली शिकवण
''नशिबाचेर पातयेवन बसपाचो
विचार तुजो फांकूंड
दुसऱ्यां खुस्तार जगनाका
स्वता पांखांर ऊड''



## मोग: एक कविता

**राखी आमोणकार**

मोगाचे सुरवेक
मोगाक कितलोय वेळ आसता
जाय तेन्ना
जाय तशें
जाय थंय...
कांय तेंपान
मोगाचो वेळ मेजप जाता
मोगांत लेगीत
प्रोफेश्नलिज्म जाणवता.





## दोन कविता

**परेश नरेंद्र कामत**

### मूय

गर्भकुडींत वचून बसल्या
मूय
आनी
सगळे दोमळे एक जावन
करूंक लागल्या
घंटानाद

गर्भकुडींत वचून बसल्या
मूय
आनी
मुयेचीं सपनां जावंक लागल्यां भुंयेचीं;
रोयणी वयले
सांतेरमायेचीं...

### मुयेच्या पावलांनी

व्हडले सोंडयेची कविता
सुपा येदया कानाची कविता
पेटाऱ्या येदया पोटाची कविता
राजवा येदे शेपडेची कविता
खांब्या येदया पांयांचेर उबी रावून
कविता जाता व्हड-व्हडली
रसिकांच्या मनांत हतया वरी अगडबंब.

कवीच्या मनांत मात
कविता आसता ल्हान ल्हान
मुये येदी.
लुटू लुटू लुटू लुटू चलत आसता
कविता
मुयेच्या पावलांनी
ह्या बिळांतल्यान
त्या बिळांत;
हे रोयणींतल्यान
ते रोयणींत - मुयेचे गतीन;
पुणून, सोरपाच्या झेतान!



## काळखी रात म्हजे जिणेंतली!

**रुपाली किर्तनी**

आयची ही रात
बिण्ण काळखी रात
लायट ना, घरांत मेणवातूय ना
लायट आमगेरच ना?
भायर सरतलें, कितेंय हाडटलें
म्हळ्यार घरा-चावीच सांपडना
किट्ट काळो काळोख
उजवाडाचीं चिन्नां नात
रात सोंपूं दी, लायट तरी येवंदी
अस्वस्थ मनाक न्हिदूय येना
धडपडत हांवें जनेल उगडलें
लायट आमगेरच ना
लोकांच्या घरांत उजवाड पळोवन
करचें कितें तेंच सुचना
एकलें एकसुरें काळखांत सांपडलां
आदाराकूय कोण्ण ना
पांय खंयूय आपटत, मोलादीक वस्त तुटत
भंयान पांय मुखार सरना

रात सरली, फांतोड जाली
सुर्याच्या एका किर्णान
अस्वस्थ मनाक थाकाय दिली
केन्नाकच घर म्हजें
लख्ख उजवाडान भरून गेलें

सकाळ जाली तशी लायटूय आयली
घराची चावी दाराकूच आसली
काळखांत पडले बगर उजवाडाचें मोल कळना
रात सदांच उरना
सकाळ जाले बगर रावना.

❧

*काळोख*

**गोरक शिरसाट**

रखरखत्या वोतांत लिपला
सावळेंतलो कुड्डो काळोख.
पर्जळीत दिव्या तळाक
घर करून रावला
अज्ञानाचो काळोख.
पयसुल्ल्या दोंगरार कोंसळपी
वोताच्या हुंवारांत दडला
निळसो-काळसो काळोख
तुजे म्हजे मर्दी सासणां सावन
रिगत आयला
बंद दोळ्यांतलो काळोख.
ना केन्नाच तरणो
ना केन्नाच जाणटो
जाता काळोख.
आमी गर्भांत जल्माक
येवचे आदींच आसता
गर्भ-खोल काळोख
आनी
मरणा उपरांतय कायम
उरता बिण्ण काळोख.
वळखीच्या लख्ख उजवाडांत
दोन मनांच्या तळाक लिपिल्लो आसता
एक अनवळखीसो काळोख.
दिसाच्या उजवाडांत भडमणलो
तरी रातीच्या काळखांत
दिसून दिसना तो
काळखांतलो काळोख.
काळखांत सांडिल्ल्या मनाक
पर्जळाचें दार उघडटा तो
पर्जळीत काळोख
काळखे रातीच्या काळखांत
दोन मनां एक दुसऱ्याक भेटयतात
तो काळखाक जल्म दिवपी काळोख.
अज्ञानाचेर शेक गाजयता तो
भिरांकूळ अज्ञानाचो काळोख
आनी गिन्याना वांगडा येता
तो अज्ञाना तळाचो आत्मगिन्यानी
काळोख.
अनंत काळा सावन आपलें अस्तित्व
राखून सगल्यांचें अस्तित्व आपले
भितर रिगोवन घेवपी तो एक
निराकार काळोख...

*भास*

**अंजली .आमोणकार**

आंगणांत, लिंबिणीचे सांवळेंत,
न्हिदल्या जाणटेली, दीस मेजीत.
बाज्जेंतले भिकूण लेगीत
तिची दखल घेनात.

जाणटेपणांत पुरो जावन, न्हिदिल्ली जाणटेली,
अकस्मात, भार आयिल्ले भशेन करता.
जिणेंत केन्नाच तोंडांतल्यान उतर काडूंक नाशिल्ली ती,
उठून धांवता, गाळी घालता, व्हडा-व्हडान झगडूंक लागता,
म्हऱ्यांतले-बाज्जे वयल्या बाप्पा कडेन जापो मागता –
तार्णे आयुश्यांत केल्ल्या अन्यायाच्यो, उमर्टपणाच्यो,
क्रूरतेच्यो, निश्ठूरपणाच्यो, तिका दिल्ल्या त्रासांच्यो,
न्याय मागता-केल्ल्या दर एका अपमानाचो,
दिल्ल्या घायांचो, दोळ्यांनी गळयल्ल्या दुकांचो.
म्हऱ्यांतल्यान जाप येना जातकच, ती
जैतीवंत जाल्ल्याचे उमेदीन हांसता.
'न्याय मेळयलो' म्हूण समाधानान बाज्जेर वचून पडटा.

म्हऱ्यांतले खाटे वयलो बाप्पा भायर पडलो,
ताकाच जार्ली पांच वर्सां.
जाणटेलेक सांगपाचें धाडस कोण करतलो?

# दोन कविता

मनोज नरेंद्र कामत

## *गायतां तुजें गीत*

गायतां तुजें गीत भुंये
गायतां तुजें गीत
कवन खेळ्ळें जिबेर
घडून म्हांवें संगीत

उजवाडून दिवटी पेटली
काळोख पयसावलो
अदन्यानाचे बंदखणींतल्यान
दिश्टावो जालो

शवत तुजी बळगें म्हजें
रगताचे व्हांवले लोट
हुड्डें फोडून उतरां चिरून
भरभरले तांबडे ओंठ

पिशांतूर सैरभैर
दिका सोदतना
एकवटाचें बळगें मेळ्ळें
जैत जोडटना

मेकळीक आयली कश्टांनी
होळी मनयली तांणी
रंगयाळ्या सपनां बळार
भूंय सोडयली तांणी.



## *एकवट*

जिविताचें सपन म्हजें
उजवाडान भरता
शिरंतरां उफाळून ल्हार
मेकळिकेन फुलता

बंदखणीचे बंदपास
जिविताचे मंद स्वास
काळखी खीण संकश्टाचे
एकवटीत आमची भास

साद कानार घुमतना
काळजाक भालो रोमतना
अंदल्ले उस्वास म्हजे
आयज थंड जावचेना

मोडां-वादळ जातलें आतां
रगता झरी व्हांवतल्यो
घाव वतले पेखून सगळे
यादी तांच्यो जागतल्यो

जातलो आतां लख्ख उजवाड
अदन्यान पयस सरतलें
मेकळेपणान म्हजें उतर
संवसाराचेर पावतलें.





## अंक

**मिनीन आल्मेदा**

हें सवंग
हय सायबा
ना सायबा, करपाचें
म्हज्यान आतां जायना करूंक

तुमच्या बोटांर हांव नाचलों
तुमकां जाय तसो
आनी जाय तेन्ना
खामसुत्री बावली जावन
ह्या सवंगांत
हांवें म्हाकाच माडयलो
हांवें म्हाकाच रडयलो
हांवें म्हाकाच कडयलो

आतां म्हाका जगूंक जाय
स्वतंत्र जिणें
म्हाका जाय तशें
म्हजेच अश्टंगी,
तुमच्या बोटांर नाचत न्हय
तर हांवच जावन

नदरे पलतडची एक दिश्टावो
म्हाका जागयता
आपयता
म्हजो संवसार घडोवंक
त्या संवसारांत
हांव जियेवंक सोदतां
धनी जावन

देखुनूच
ह्या नाटकाची अंक
म्हाका हांगाच सोंपोवंक जाय
हांगाच सोंपोवंक जाय.



## आस

**रुपा कोसंबे**

केळ आपली सोंपयता जीण
एक घडावलें दिवन
मुळांत आशिल्ले केळमेय
पावयत रावतात रीण

सैम करिना अपेक्षा
केन्नाच हेरां कडल्यान
जीण आपली झरयत रावता
जिवांत जीव आसा सर

मनीस मात आंवाळो दिवन
कुंवाळो जोडूंक सोदता
आनीक तशें जालेंना जाल्यार
मनांत दुखेस्त जाता.

आशे विरयत सैम म्हणून
दिसता खुशालभरीत
मनशाची मात सोंपना हाव
मरणाक तेकून लेगीत.



## सूर्यफूल

**रजनी भेंब्रे**

सकाळचें पोरसूं
भरलां फुलां फुलांनी
गुलाब, दसण, अनंतांनी
पूण खरें सांगूं,
भावता म्हाका सूर्यफूल.
गुलाबाक कांटेच कांटे
दसणीचें आंग घर मुयांचें
अनंत भरला धव्या दिखान
सूर्यफूल मात नेटान आनी झेतान
तेजस्वी सूर्यरंगान झळकतालें
बागवप नकळच आशिल्लें
पूण
सांजवेळचें पोरसांत पावलें तेन्ना
तेजस्वी सूर्यफूल तायट मानेचें
बदलून रंग
घालून मान सकल
गळसून गेल्लें
पळोवन आवतिकाय सूर्यफुलाची
दिसलें,
हेंच फळ काय केल्ल्या तपाचें?





# श्रीनारदाचीं भक्तिसूत्रां :

## अणकारीत बरपावळींत म्हत्वाची भर

प्रियदर्शिनी सु. तडकोडकार

*सरितामिव प्रवाहाः तुच्छाः प्रथमं यथोत्तरं विपुलाः ।*
*ये शास्त्रसमारंभा भवन्ति लोकस्य ते वन्द्याः ॥*

शास्त्राची व्हांवती सुरवेक न्हंये सारकीच किरकोळ आसता. न्हंय मुखार वचत रावता तशी ती व्हड जायत वता. शास्त्रांचेंय तशेंच आसता. सुरवेच्या काळांत उण्या म्हत्वाचीं वा उण्या प्रमाणांत प्रचारांत आशिल्लीं शास्त्रां उपरांत व्हडा प्रमाणांत प्रचारांत येतात आनी लोकांच्या आदराक पात्र जातात. साहित्यसरितेचे व्हांवतेंत अशीच नव्या नव्या पुस्तकांची भर पडत आसता. सुरवेक कोंकणी भाशेंत कांयच ना, पुस्तकांय नात म्हूण हिणसावन घेवन वोग्गी रावचें पडटालें ते कोंकणींत आयज तरेकवार पुस्तकांची भर पडत आसा.

गोवा कोंकणी अकादेमी फाटलीं कांय वर्सां नित्यनेमान तरेकवार विशयां वयलीं पुस्तकां उजवाडा हाडीत आसा. हीं निखटीं ललीत साहित्याचीं पुस्तकां न्हय, तर ललीत साहित्या भायर वेगवेगळ्या मळांची वा विशयांची शास्त्रीय म्हायती दिवपी, समिक्षणात्मक, शिक्षणीक, विज्ञानीक, अशाय तरांच्या पुस्तकांचो तातूंत आसपाव आसता; आनी अशे रितीन कोंकणीच्या सुबुद्द आनी सुजाण वाचप्यांक विवीध तरांची पुस्तकां दिवन तांची भावनीक, बौद्धीक शास्त्रीय तशीच अध्यात्मीक वाचनाची भूक भागयता. ह्या सगळ्याचें स्रेय गोवा कोंकणी अकादेमीचे आदले अध्यक्ष भौ. पुंडलीक नायक हांकां फावता.




*श्री नारदाचीं भक्तिसुत्रां* ह्या माथाळ्याच्या पुस्तकाचें मूळ संस्कृत नांव *श्री नारदभक्तिसूत्राणि.* नारदाच्या भक्तियोगा वेल्या ह्या ग्रंथाचो कोंकणी अणकार केला भौ. गणपती लक्ष्मण दांडेकार हांणी.

दांडेकार हे वेवसायान किर्तनकार. अडवलपालच्या दांडेकारबुवांनी शांकर पाठशाळेंतल्यान संस्कृत व्याकरणशास्त्र मध्यमा आनी काव्यतीर्थ ह्यो पदंव्यो जोडल्यात. तांचें संस्कृत भाशे वेलें प्रभुत्व आनी आवयभाशे वेलो मोग संस्कृतांतल्या ह्या पुस्तकाच्या अणकाराची तांकां प्रेरणा दिवन गेला. चवतीस वर्सांचो शिकोवपाचो अणभव आनी नारदमुनीक गुरू मानून केल्ली किर्तनभक्तीची उपासना हांची बसका ह्या ग्रंथाक लाबल्या. ते भायर आमच्या देवळांनी उत्सवां परबां वेळार चलतल्या किर्तन प्रवचनांची सांस्कृतीक परंपराय हाचे फाटल्यान आसा. किर्तनांतल्यान सामान्य मनशाक जी भक्तीची शिकवण आदल्या तेंपार मेळटाली तिचे कडेन सर करपा सारको दुसरो कसलोच प्रबोधनाचो प्रकार आमचे कडेन ना. ताका लागून आदल्या तेंपार जायते फावटीं समाज जागृताय करपाचें मुखेल काम आमचे किर्तनकार करताले हें विसरूंक फावना.

किर्तनकार वा हरिदासांचो गुरू नारद. तो ब्रह्मदेवालो मानिल्लो पूत. हातांत विणा, टाळ आनी चिपळ्यो घेतिल्लो, प्रसन्न व्यक्तिमत्वाचो, नारायणाचो जप करपी, सगळ्याक सहजसंचार आशिल्लो, कलागती लावपी असो नारद आमचे मुखार उबो रावता. तो चिरंजीव. अध्यात्म, राजनीत, धर्मशास्त्र, यज्ञप्रक्रिया, संगीत अश्या विशयांचें गिन्यान आसुनूय तो असमाधानी आशिल्लो. ताका ब्रह्मविद्येची तान लागिल्ली. ती ब्रह्मविद्या ताणें सनतकुमारा कडल्यान शिकून घेतिल्ली. ताका भक्तिमार्ग आनी किर्तनसंस्थेचो जनक मानतात. ताच्या नांवार *नारदस्मृति, नारदपंचरात्र, लघुनारदीय, बृहन्नारदीय, नारदसंहिता, नारदपुराण, नारदोपनिषद, नारदपरिव्राजकोपनिषद आनी नारदभक्तिसूत्र* अशे णव ग्रंथ आसात.

*नारदभक्तिसूत्र* हो ग्रंथ भक्तियोगाचें निरुपण करता. तातूंत ८४ सुत्रां आसात. तीं मनशाचे जिणेंतलें भक्तीचें म्हत्व आनी म्हात्म्य सांगतात. तातूंत सुरवेक भक्तीचें स्वरूप, मागीर भक्तीचें लक्षण आनी मागीर तिचेर साधक बाधक चर्चा केल्या. ह्या विश्वाक मायेची वळख करून दिवन ते मायेंतल्यान कोण तरून वता तें स्पश्ट केलां. पराभक्ती, गौणीभक्ती हांचें वर्णन करून भक्तीचो हो मार्ग कितलो सोंपो हे सांगलां. तशेंच भक्त कसो आसचो, ताचें वागप अशें आसचें, ताचें कर्तव्य कसलें, ताका मेळपी कृतार्थताय (धादोसकाय) कशी आसता हाचेंय वर्णन ह्या ग्रंथांत आसा. नारदाच्या *भक्तीसूत्रांची* खाशेलताय

म्हळ्यार नवविधा भक्तींत भर घालून नारदान भक्ती 'एकादशधा,' म्हळ्यार इकरा तरांची आसा अशें ह्या ग्रंथांत मांडून सांगलां. आनी आपणालें खाशेलेपण ग्रंथनिर्मणेंतूय राखलां.

नारदाचीं भक्तीसुत्रां, तांची पदफोड, तांचो अर्थ आनी त्या अर्थाचेर खासा अणकारप्याची आपली मखलाशी वा अन्वयार्थ जाका बरोवप्यान 'मनांतलें' म्हळां. अशें ह्या पुस्तकाचें स्वरूप पुराय ग्रंथ पांच वांट्यांनी विभागला.

ह्या ग्रंथांतलीं पयलीं १ ते १४ सुत्रां भक्तीची वळख करून दितात. 'अथा तो भक्तिं व्याख्यास्याम:।' अशी पयल्या सुत्रान सुरवात करून 'भक्ती हें सगळ्या गिन्यानाचेंच न्हय जाल्यार सगळ्या कर्माचें आनी योगाचें निमाणें ध्येय. ती सगूण साकार परमेश्वराचेर निंबून आसता. ताका लागून वर्ण, शिक्षण, कूळ, संपत्ती वा कर्माचो कसलोच भेद थंय उप्रासना' अशें सांगलां.

भक्ती म्हळ्यार परमात्म्या वेलो गाढ मोग. तो तसो आसप म्हळ्यारूच भक्ती करप. ह्या नारदाल्या सुत्राचेर भाश्य करतना दांडेकर बुवांनी म्हळां — ''विश्वात्मक परमात्म्याचो एकनिशठ भक्त जावन ताचेर मोग करप ही खरी आनी उंचेली भक्ती आसता. अशी भक्ती मनांत रुजोवपी, वाडोवपी आनी अणभवपी भक्त अमरतायेक पावता. ते खातीर मनशाक भक्तीचें साधन जाय. 'यल्लब्धा पुमान् सिद्धो भवति, अमृतो भवति, तृप्तो भवति॥' ह्या सुत्रांत लब्धा, पुमान् अशीं उतरां वापरल्यांत तांचो अन्वयार्थ दांडेकारांनी 'मनांतल्यां'त सांगलां. असल्या अन्वयार्थांत तांच्या चौफेर वाचनाचो, संस्कृत भाशेच्या अभ्यासाचो आनी विद्वत्तेचो प्रत्यय पानाकणकणीं येता. ह्याच सुत्रांनी खऱ्या भक्ताचीं लक्षणां सांगून जातकच ताच्या भक्तिमय रुपाचें वर्णन केलां. ते खातीर अणकारप्यान भगवद्गीता, वारकरी संतांची संतवाणी हांचो आदार घेवन दाखले दिल्यात आनी वाचप्यांक विशय सहजतायेन आकळचो अशी फोडणिशीय केल्या.

१२ व्या सुत्रांत भक्तान आपणाल्या भक्तिमार्गान वचपाचें थारायतकच त्या निर्णयाकूच धरून कशें रावपाक जाय, आनी शास्त्राक धरून आनी वेव्हारांतलीं कामां सोडून नवता भक्ती भितर कशें थिरावपाक जाय हें सांगलां. गीतेंतलो श्रीकृष्णाचो उपदेश, ज्ञानेश्वराच्यो ओवयो हांचो आदार घेत आपणालें म्हणणें सोंपेपणान वाचप्यां मेरेन पावयलां.

भक्तीची परिभाशा—वळख हो १५ ते ३३ ह्या सुत्रां भितर आयिल्लो विशय. तो सांगतना भक्तीच्या वेगवेगळ्या आचार्यांच्या मत्तांचो विचार केला. आनी बाकीच्या आचार्यांचीं मत्तांय तितलींच श्रेष्ठ आसात हें सांगलां. तिसरो अध्याय ३४ ते ५० सुत्रांचो. हातूंत भक्ती 'साधपाचीं साधनां' खंयचीं तें दाखोवन दिलां. विशय त्याग, दीसरात भजन, श्रवण ह्या साधनांचें म्हत्व सांगतना गुरूच्या आधारानच देवाची वळख जाता अशें मनांतलें उकतावपाची संद तांणी हांगां घेतल्या.

'सिद्धीचो लाभ' हो तांच्या ग्रंथांतलो मुखावेलो अध्याय. तातूंत भक्तान एकांतवास करचो, योगक्षेमाची चिंता करची न्हय, संपत्तीचो विचार करचो न्हय, मद, अहिंसा टाळची, सत्य पवित्रताय, काकूळट हांची वाड करची, निंदे कडेन दुर्लक्ष करचें अशें सांगलां. सगळीं कर्मां भगवंताक ओंपून रावप आनी देवाचो विसर पडल्यार व्याकूळ जावप हें भक्तीचें लक्षण अशें सांगून तिचे ११ प्रकारय तांणी सांगल्यात.

नवविधा भक्तींतलो कीर्तन हो दुसरो प्रकार. देवाच्यो विंगड विंगड लीला वर्णून ताच्यो कथा सांगप आनी ते वरवीं समाजाक सन्मार्ग दाखोवप हो ताचो हेतू. पूर्व रंग आनी उत्तररंग अश्या दोन वांट्यांनी पातळिल्ल्या किर्तनाचो पूर्वरंग प्रभावी आनी रसाळ आसप हें बऱ्या किर्तनकाराचें खाशेलें लक्षण. तातूंत एकाद्र्या पारमार्थीक विशयाचें निरुपण आसता आनी उत्तररंगात त्याच विशयाची देख घेवन एकाद्रें आख्यान आसता. वारकरी किर्तन आनी नारदीय किर्तन अश्यो किर्तनाच्यो दोन परंपरा आसात. सोंपेपणान विशय आनी अध्यात्म लोकांच्या मनांत घालप हो हेतू किर्तनकार बाळगिता, मागीर तो खंयचेय किर्तनपरंपरेतलो आसूं.

दांडेकरबुवाय किर्तनकारच! ताका लागून वाचप्यांक भक्ती विशय सोंपेपणान समजावन सांगपाची तांची कळाशी ह्या ग्रंथांतल्यानय पाना कणकणी दिश्टी पडटा. हो ग्रंथ वाचतना म्हाका भोवन भोवन 'अरेबियन नाइटस्' ह्या बरपाची याद जाताली. जे तरेन 'अरेबियन नाइटस्' ह्या बरपांतल्या मूळ काणयां परस तांचे सकयल दिल्ल्या संदर्भहिपांक अदीक म्हत्व आसा तेच तरेन ह्या ग्रंथांतूय मूळ अर्था परस तो अर्थ समजावन दिवपाची आनी ते खातीर वेगवेगळ्यो देखी आनी पती दिवपाची बुवांची पद्दत वाचप्याक भावता. असलो आगळो-वेगळो ग्रंथ वाचप्यांनी मुळा सयत वाचल्यारच ताचें आगळेंपण आनी म्हत्व तांकां रोखडेंच आकळून येतलें.

असलो ग्रंथालंकार कोंकणी सरस्पतीच्या आंगार चडयल्ले खातीर दांडेकरबुवांक मना थावन परबीं. नारदरचीत जे आनिकूय ग्रंथ संस्कृत भाशेंत आसात तांचेय अणकार कोंकणींत करून कोंकणी वाचप्यांक तांचो लाव करून दिवचो आनी फुडाराची कोंकणी वाचकांची पिळगी अभिरुची संपन्न, संस्कारक्षम आनी सुसंस्कारीत जावपाक आदार करचो अशें मागतां.

**श्रीनारदाचीं भक्तिसूत्रां**
**मूळ संस्कृत: नारदमुनी**
**अणकार: गणपती लक्ष्मण दांडेकार**
**पणजी: गोवा कोंकणी अकादेमी, २००८.**
**पानां: १३२, मोल: १०० रु.** 

REG. No.2 GOA 130



# Promoting higher education

11 Scholars from Goa pursued higher studies under Goa Scholar Scheme

- 13 colleges extended finance under the Interest Free Loan scheme for infra structure development
- Special B. Ed programme for teachers of special children commissioned
- Scheme for free education to Girl Child proposed.
- 3384 computers distributed under cyberage scheme.
- Work of Quepem College library building in progress

Issued by:
Department of Information and Publicity
Government of Goa



Working towards a Secular & Prosperous Goa

Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset Printers, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Madhavi Sardesai